उत्तरखंडांतुल्यान

# कैलास मानसरोवर यात्रा

एम के रामचंद्रन



भाषांतरः सूर्या अशोक

# उत्तरखंडांतुल्यान
# कैलास- मानसरोवर यात्रा

मूल लेखक : **एम के रामचंद्रन**



मलयाळमांतु साकून भाषांतर
**सूर्या अशोक**

**शेणै प्रकाशन**
**कोची**

2013

Konkani Travelogue

# UTHARKHANDANTHULYAN KAILAS- MANASAROVAR YATRA

Translated from Malayalam by:

**SURYA ASHOK**
19/36 A, 'Srinivas',
Waterland Road, Palluruthy,
Kochi-682 006.

First Edition 2013


Original Travelogue by:
**M K RAMACHANDRAN**

Published by
**SURYA ASHOK**
**SHENOY PRAKASHAN**
19/36 A, 'Srinivas',
Waterland Road, Palluruthy,
Kochi-682 006




Cover Design
**SURYA ASHOK**

Printed at
**VASANT INDUSTRIES**
Town Hall Road, Kochi-682 002

Price : ₹ 250




# दोन उतरां

कैलास- मानसरोवर यात्रा हांवें केल्लीना आनी भविष्यारी करची साध्यता येद्दी सरी ना. तरीय हांवें ती यात्रा केल्या, मिजे पायांनी न्हय तरीय मिजे मनान, मिजे दोळ्यांनी न्हय तरीय तें सर्वय हांवेंय पळयल्यां, तीं सैमिक दृश्यां, ते हिम पर्वत, तांच्यो सुदर घाट्यो, भयजनक अगाध गर्ता, विजन रस्ते, सोपूर्यो अपायकर हाद्यो, गांवगीरे मनीष, तांची सादी भोळी वा कष्टकर जीण हें सर्वय हांवेंय हें भाषांतर करतना लागीच्यान पळयल्यां जावनु दिसता. एक साधारण वाचप्याचे पशी चड खोलायेन मूळ लेखनांतु रिगल्यार मात्र ताजो आत्मो सल्प पुणीय भाषांतरांतूंय हाडूक जातलो. हें कार्य हाजे मुरथम 'अनन्य केनिया' नांवाची प्रवास वर्णना परिभाषा करतनाच माका समजल्यां. आनी ह्या अनुवादाचे दंदांतु लागलेले तेन्ना तें कार्य चड स्पश्ट जालेंय.

हे विवरणांतुल्यान, कैलास- मानसरोवर यात्रा अतीव दुर्घट आनी श्रमकर आसून भो धैर्यवंत आनी आरोग्यवंत तीर्थाटकांक मात्र सफल जांवची म्हूण मूळ लेखक श्री. एम. के. रामचंद्रन हांनी सरळ जावनु दाकोवनु दिल्यां. शारीरिक क्षमता भरपूर आशिल्यांनी मात्र हे असले यात्रेक भायर सरचें आनी तशी यात्रेक़ देंवच्यांक आवश्यक मार्गदर्शी उपदेश, उपयोगप्रद सुचोवण्यो आदीनी भरून आसा हें विवरण.

मूळ मलयाळम पुस्तक वाचून केरळांतुल्या थोड्यांक पुणीय कैलास मानसरोवर यात्रेक वचाक इच्छा भरलेली आसतलीच. मलयाळम

# एम. के. रामचंद्रन

केरळाचे तृशूर जिल्लेंतुले केचेरी स्वदेशी. दिवंगत मचिंगल कृष्णन एज़ुत्तच्चनालो आनी वियूर नारांतु वडक्के वळप्पिल दिवंगत देवकी अम्मालो पूतु. केचेरी यू. पी. स्कूळ, पुटेकरा सेंय्ट जोर्ज हायस्कूळ, श्री केरळवर्मा कोळेज, सेंय्ट तोमस कोळेज आदीं कडे विद्याभ्यासु.

पन्नेरा वर्षांचे लागी विदेशांतु औद्योगिक सेवन. आध्यात्मिक मळारी सजीव. गुरुवायूर देवस्वाचे 'भक्तप्रिया' म्हयनाळ्यार आनी 'मातृभूमी' चेर बरयता. हिमालयावेले प्रधान स्थलांचेर आनी भरतांतुले सर्व प्रधान देवस्थानांकडेय संदर्शन केल्यां. 'उत्तरखण्डीलूडे- कैलास मानससरस यात्रा' हो आद्य पुस्तक. 'तपोभूमी उत्तरखंड', 'आदीकैलासयात्रा', 'देवभूमियिलूडे' हे इतर पुस्तक.

पत्तो :

Post Box No. 516

Thrissur City P. O.

Thrissur - 680 020.

Mobile : 98460 38554

# आमुख

2000 वर्षाचे आगस्ट मासांतु बदरीनाथ मंदिराचे सन्निधीरी दिकलेले दिव्य सन्यास्यांनी कैलास यात्रेचे पासून मिजे लागी सांगलें. वेदपुराणेतिहासांतु कैलासाचे पासून भक्तिमय परामर्श साबार आसाय. तरीय महामेरु पर्वताचे वरी कैलासूय एक संकल्प मात्र म्हूण आसलेली मिगेली चिंता. भारत सरकाराले विदेश मंत्रालयाचे नियंत्रणारी परंपरागत हादीवेल्यान करची ही तीर्थयात्रा अत्यंत दुर्घट आसा. आनी वर्षवर्ष हे यात्रेक वचाक निवेदन दीवनु निराशा पांवचीं साबार आसाय म्हूण सन्यास्यांचे लागी साकून समजलें.

गांवांतु आयलेले उपरांतें बदरीनाथ- केदारनाथ यात्रेची विस्तारान बरयलेली प्रवासवर्णना वाचून चोवनु मार्गदर्शन दिंवचे खातीर मिजे वंद्यगुरु श्री. के. पी. नारायणपिषारोडी मास्टराचे लागी दिल्ली. एक दिसा मास्टराले जन्म गृह कोडिकुन्न पिषारता कडे (पळ्ळिपुरम- चेंब्रा हादीवेल्यान) गेल्लेले वेळार कैलास-मानसरोवर यात्रेक निवेदन दिल्लेलें खबर सांगलें. “कैलास समच आसा वे? 1925 वर्षांतु म्हूण दिसता तपोवनस्वामी थंय गेल्लोलो जावनु एक विवरण हांवें वाचलेलें. कशी जाल्यारीय तूवें वचून आयल्यारी कायरीं कळतलीं.” हांव कैलास यात्रेक वता म्हूण व्हड प्राधान्य दीवनूच मास्टरान जायत्यांचे लागी सांगलें. हांव धर्मसंकटांतु पडलों. एकेक वर्षाय निवेदन दिंवचे सासानी लोक आसाय आनी अशी कशीच वेंचणी करताय म्हूण हांवें मास्टराक समजायलें. “तुका अनुवाद मेळतलो. तूं कैलास पर्वताचे लागी अशी चमकूचें चित्र हांवें साबार फंतां सपन पळयल्यां. कसलेंच विघ्न आसचेंना...”

सगळे भारतांतु आदर करचो, तेजस्वी पंडितश्रेष्ठ ते महामनुष्याचो

अनुग्रह सफल जालो! दिल्लींतुली वैद्य परिशोधना साकून अंत्यारी कैलास प्रदक्षिणा तांय दर एक घटारीय सर्वय माका अनुकूल आशिल्लें. जायते अप्रतीक्षित जनांचे लागी साकून अत्यपूर्व निर्देश एक निमित सरी मेळ्ळे. देवालो आनी मास्टरालो अनुग्रह एकडे जावनूच अशी जालां म्हूण मिजो दृढ विश्वास. कैलासाचे लागी पावनु थकून अवश जांवचे तीर्थाटक कैलास पर्वताचे परिक्रमणाचे मद्दें यात्रा राबयताय वा दूरा साकून दर्शन घेवनु निर्वृती मेळनु परतताय. जांबियांग पर्वताचे ऊंच चडल्यार कैलासाचें पूर्ण रूप दृश्य आसतलें, रातीचे चांदीण्यांतु कशी आसतलें, हे तराचे परामर्श माका मात्र मेळतना ताजे मागशीं देवाली दया म्हळ्ळेलें निषेध करूक जांवचें ना. पुराणेतिहासांतु साकून आशिल्लें ज्ञान मात्र आदारून मास्टरान ते पुण्य भुंयचे पासून जायती माहिति सांगून दिल्ली. तेंच देखून चड कोणेच दिकूनाशिल्लीं साबार कायरीं हांवें थंय दिकलीं. सूक्ष्मनिरीक्षण आद्य साकूनूच एक सवंय करून वाडोवनु हाडलेली. तें हे यात्रेचे सर्व वेळारीय माका प्रयोजनाक पडलें म्हळ्ळेलेंय हांगा सांगतां.

जूण- जूलाय मासांकडे उत्तरखंडांतुली कालावस्था अतीव कठिन आसता म्हूण तद्देशीय सांगताय. धरांधरी पावसु, हिमवारें, घट जांवचो शेळोवु आदी 2001 वर्षा आमी केल्लेले हे यात्रेंतु भोगूका जालें. अपायांतु साकून एक केस्साचे अंतरारी तं संघाचीं वांचतालीं. विदेश मंत्रालयाची अनुमती मेळ्ळेले उपरांतें, हाजे मुरथम कैलास यात्रेक गेल्लेल्यांक सोदून विवरण घेंवचे खातीर केल्लोलो श्रमु व्यर्थ जालो. श्री. पिषारोडी मास्टरानय जांवचे रीतीर श्रमु केलो. केरळांतु साकून हे यात्रेक साबार कोण वचनाय म्हूण ताजो अर्थु. हे स्थितीक बदलाव जांवका जावनु आसा. कैलास केवल एक हैंदव प्रतिभास मात्र न्हय, उपराटें आर्षभारत संस्काराचें वैभव वैजयंती आसा. हे पुण्य भुंयचेरी साकून तं आयचो लोकोत्तर नवीन संस्कारु रूप धरलोलो. वेदांचो आनी पुराणेतिहासांचो उत्भव हे यज्ञभुंयचेरी

साकून आशिल्लो. हांगा संदर्श करचें दर एक भारतीयालेंय चिरकाल सपना साक्षात्कार आसा. केरळीय जनांक ह्या पासून कळाकळीं हाडका म्हळ्ळेले उद्देशान हांवें हें यात्राविवरण बरयल्यां.

एस. के. पोट्टेकाड आदीनी संपन्न केल्लेले मलयाळमाचे संचार साहित्य शाखेंतु हांव मिगेले विनीत कृतींतुल्यान पावल दवरतां. तेंच देखून भय आनी उद्वेग साबार दिसता. कैलासाचे पासून केवल दोन तीन प्रवासवर्णना मात्र तं मलयाळमांतु आसा म्हूण माका कळूक जाल्यां. संपूज्य तपोवनस्वाम्यालें 'हिमगिरीविहारम' आनी स्वामी सदानन्द सरस्वतीलें 'कैलाससंदर्शनम' हीं दोन कृती हांवें वाचल्या. मिगेलो पुस्तक छापून आयलेले उपरांतें मात्र तं माका ते पुस्तक वाचूक भाग्य मेळ्ळेलें. वेदांतुले आनी पुराणांतुले आध्यात्मिक चिंतेंक प्राधान्य दिंवच्यो ह्यो दोन कृतीयोय रचना वैभवान अपार आसाय. तरीय साधारण जनांक त्यो अप्राप्य म्हूण एक चिंता माका आयली म्हूण स्पश्ट सांगतां. दुशेरे पुस्तकांतु स्वामीजीन कैलास दर्शन घेतल्याचो एकूय परामर्श ना.

हे पुस्तकाचे रचनेंतु आसतना जायते घटांचेर निर्देश घेवूक म्हूण हांव पिषारोडी मास्टराक भेटूक गेल्लोलों. मिजीच रुची तकीत बरोंवचाक सांगलें ते महा मनुष्यान. पुस्तक रचनेक प्रचोदन आनी इतर तराचें सहकरण साबार मित्रांचे लागी साकून मेळ्ळेलेंय उपकारपूर्वक उडगास करतां.

हो विनीत ग्रंथ हांव वाचप्यांचे मुकार दवरतां. तुमीच आसाय हाजे यथार्थ विधी सांगपी. प्रोत्साह आनी निर्देश कळोंवका.

तृशूर
5.9.2002

उपकारपूर्वक
- एम. के. रामचंद्रन

# प्रस्तावना

शिवम् शिवकरम् शांतम्
शिवात्मानम् शिवोत्तमम्
शिवमार्ग प्रणेतारम्
प्रणतोस्मि सदाशिवम्

मिजो आत्ममित्र श्री. एम. के रामचंद्रन सत्कर्मां करून आत्मशांती प्राप्त करूक इच्छेंवचो एक आस्तिक. ते खातीर काशी, गया, वृन्दावन, मथुरा आदी पुण्य स्थलांचेरी वचून हृदयानन्द आस्वादन करता. उत्साहु भरतना तीर्थाटन करची सवंय आसून हे लागीच बदर्याश्रम यात्रा, केदार यात्रा आनी कैलास मानसरोवर प्रदक्षिणाय चमकोवनु हो कृतार्थ जाला.

भारत सरकाराली विशेश वेंचणी, कैलास यात्रा संबंधित नेमांचें पालन, दुष्कर यात्रेचे खातीर आवश्यक शारीरिक, मानसिक तयारी, ईश्वरनियोगु ह्या सर्वाचीय एकमेळी जातना मात्र कैलास यात्रा साध्य जाता. एक संघांतु तीस यात्रिक आसतले. सर्वय भयाशंकेंन मुकारसताय. सर्वांकय यात्रा पुरती करूक जातली किं म्हूण शंका आसता. विघ्नां तरण करून तीर्थाटन पुरतें करूक श्री. रामचंद्रनाक साध्य जाल्यां. 65 किलोमीटरांचे अधिक परिमिती आशिल्ले हिमावृत हैमवतभूमीक प्रदक्षिणा सफल जावनु करचीं विरळ आसाय. आत्मविश्वासु, दृढनिश्चयु, आरोग्य, ईश्वरानुग्रह हे सर्वांचेय फाटीबळान रामचंद्रनाक तीर्थाटन पुरतें करूक जालें म्हळ्ळेलें सर्वांकय संतोषु हाडतलें.

काळीदास प्रसिद्ध रामगिर्याश्रम, रिषीवासस्थलां, मानसरोवरांतु वचीं हंसा, मद्देंमद्देंचे अनेक जागे, रानांवनां, जलाशयां, हिमपर्वत, न्हंयो, देवस्थानां अशी कितलें सगट हो पयणारी पळोवनु आयला.

तीर्थाटन चमकोंवचे सगटांकय प्रवास वर्णना बरोंवचाक साध्य जायना. मलयाळी एकल्यान कैलास यात्रेक वचून येवनु आपले यात्रेचे अनुभव बरोवनु दवरतना तें सादा विवरण म्हळ्ळेल्याचे उपरी वाचकांक ज्ञानप्रद आनी यात्रानुभूती दिंवचें तसलें विशिष्ट ग्रंथ जाल्यां. मुकार आनी कोणाकय कैलास-मानसरोवर यात्रेक वेंचून काडताय जाल्यार तसल्यांक प्रयोजन जांवचो एक अनुभव विवरण जातलो हो ग्रंथ. पांतीस दीस कठिन यात्रा करून परतून आयलेले एक उत्तम भोंवडेकारी, वाचकांकय हे ग्रंथातुल्यान आपल्यान दांटवलेली वाट क्रमानुसार दाकोवनु दिता.

अनेक नवे जागे, विभिन्न स्वभावांचीं मनीषां, जायते तरा अनुभव-हीं सर्व कायरीं हे पुस्तकांतु साकून आमकां परिचित जातलीं. हो यात्रानुभव सामान्य खंचेय प्रवासवर्णने पशी व्यत्यस्त जांवच्याक कारण ही कैलास-मानसरोवराक करची यात्रा देखूनूच.

कैलासयात्रा साध्य जावनु ते अनन्य अनुभव सरळ भासेन विवरण केल्लोलो श्री. रामचंद्रन सर्वालेय अभिनन्दनाक अर्ह आसा. ताका मेळ्ळेलें तें आत्मसुख इतरांकय दिंवच्यांतुल्यान चारितार्थ्याक अवकाशी जाता. ग्रंथकाराक आनीकय तीर्थाटन सौभाग्य आनी उत्तेजन मेळूक जावो म्हूण आनी तांचे हें यात्राविवरण सहृदयांक अनुभव चिंतक जावो म्हूण मिजी हृदयपुरसर आशंसा दीवनु हो ग्रंथु सज्जनांचे हातांतु समर्पण करतां.

सहृदय विधेय<br>
डॉ. के. पी. नारायणपिशारोडी<br>
नारायणीयम, तृशूर-11<br>
15.12.2002

# एक धवळयात्रेची धन्यरेखा

यात्रेचो उन्मेश चडोंवचाक आशिल्ली फलप्रद वाट- सामानांचो भारु ऊणे करप म्हूण थोडीं वर्सां मुरथम भारतीय रेलवेन उद्‌बोधन दीवप आशिल्लें. सम जावयात, तरीय, कायरीं सगळींच सरळ करप न्हय वे म्हूण संशय जाता. श्री. रामचंद्रनालें हें विवरण वाचूनिक हांव ह्या पासून चिंतून गेल्लों. हांगा यात्रेचो उन्मेश वाचकांचेरी एक संस्काराची भरती जावनु निसंशय संक्रमण करता. निश्चित नियमांक मानून तरीय रामचंद्रनान आपले यात्रे वेळारी व्हांवलेले सामानांचो भारु भो ऊणे नाशिल्लो म्हूण समजूका जावनु आसा. जाल्यारीय तो भारु तागेले उन्मेशाक बाधक जालो म्हूण दिसना.

ह्या यात्राविवरणाचे प्रथम अध्यायाक रामचंद्रनान दिल्लेलें नांव 'यात्रेची तयारी' म्हूण आसा. व्हय, साबार तयारी आवश्य आशिल्ली आसा ही ताजी कैलास-मानसरोवर यात्रा. भारतांतुले मात्र न्हय चैनेंतुलेय अधिकार्यांचे अनुमतीचेरी आनी अंगीकाराचेरी आधारून आसा ही यात्रा. निर्भाग्यवश आयचे हे कालाक, तीर्थाटकांक तांय राज्यांतर संबंद घुसमुटायताय. अनेक उमेदवारांतु साकून वेंचून काडप म्हळ्ळेलेंच पयलेची आडखळ. मुकारी आडावूक सांपतिक, सांकेतिक, आरोग्य... अशी जायतीं कायरीं आसाय. हें सर्वय कशी तरण केल्लें म्हूण रामचंद्रनान विशद जावनु बरयल्यां.

तरीय मिजी चिंता धावलेली वेगळे एक वाटेन. हीच सगट वे एक यात्रेक जाय जालेली यथार्थ तयारी? बाह्य आनी भौतिक तराचे हे तयारेचे भायर आंतरिक आनी आत्मीय तयारी लागेन आवश्य न्हय वे यात्रेक? श्री. रामचंद्रनान स्वीकारलेले हे यात्रेक असली तयारी अनिवार्य

न्हय वे? यात्रेचे आरंभारी अंतरांतु कितें आसता तेंच पूर्वाधिक दृढ आनी निवळ जावनु मेळता म्हळ्ळेलें नंतणा, कोणेच खंचे यात्रेंतु साकूनूय नवें कसलेंच दिकनाय म्हळ्ळोलो आशय अतिशयोक्तीन सांगप आसा. तें म्हळ्यारी, मानसरोवराचे वा कैलासपर्वताचे प्रत्यक्ष अनुभवांतु साकून जें कितें रामचंद्रनान ग्रहण केल्लेलें तें असंस्कृत रूपान ताजे मनांतु यात्रेचे मुरथमच आवाहन केल्लेलें म्हूण अर्थु. असले आवाहनाक तं आंतरिक, आत्मीय तयारी म्हूण ऊंच सुचयलेलें. तयारेक लागून करची ही यात्रा एकल्याक केदणाय पुरती करूक जांवची साधारण प्रक्रीया न्हय. मागीरी वे? पुण्य म्हणूच सांगूयात जालेली तीव्र प्रार्थनेची फलप्राप्ती आसा. साबाव न्हय, हाजे जायते परीक्षणघटांतु रामचंद्रन देवचिंतेंतु बुडलोलो आनी परीक्षणांक जिखतनाय स्वयं सुकृताक विनीत मनन करतालो. रामचंद्रनान करचे यात्रेचे तयारेंतुलें सर्वोपरी निर्णायक आसा, ह्या सर्वकार्याकय सहायक एक मन.

हें कार्य स्पश्ट जावनु सांगना म्हळ्ळेलेंच हे यात्राविवरणाची कलाकुशलता म्हूण माका दिसता. (हांतुलो अंतिम अध्यायु आसा मू - 'आर्ष भारत संस्कारु हिमालय पर्वतांचेरी' तो मात्र हे कौशल्याक असार निषेध करता जावनु दिसता. मिगेले लेकान तो अनुबंद्ध नाशिल्लेंच तांतूले आशय आनी वीक्षण हे विवरणांतुले वाक्यांचे मद्दें उठून दिसता). तरीय हांतूले खंचेय विशदांशांतुल्यान तें कार्य सरळ समजूयात. आपण वता केवल एक सादा भोंवडेक न्हय, भारताचे सांस्कारिक धन्य केंद्रांतु एक विशेष संदर्शनाचे खातीर आसा- असलो अवबोध रामचंद्रनाले विवरणाक अपूर्व गौरव दिता. अतीव निश्चिंत जावूक दीवनाशिल्लें मनाक अटापुन धरून कसकसलीं सज्जीकरणां आवश्य आसाय, तीं सर्वय पयलींचीच रामचंद्रनालें व्यक्तित्व समाहरण करता म्हळ्ळेलें न्हय वे वास्तव? तीं सज्जीकरणां सफल करूक एक संदर्भ म्हळ्ळेले लेकान जावयात ताणे हे यात्रेक स्वागत केल्लेलें.

अशी एक वस्तुता खास समर्थन करचें आवश्य ना. पुस्तकांतु सगळे कडेय समृद्ध मेळताय ताजे दृष्टांत. संदर्शन करचे सर्व स्थलांचेय भूमीशास्त्र, चरित्र, सांस्कारिक, जनजीवना संबंधित आदी समस्त कार्यांचेरीय व्यापूची माहिती ते ते कडे साकून रामचंद्रनान आदींच ग्रहण केल्या म्हूण स्पश्ट. हांतु टिबेटाचे पासून आशिल्लो अध्यायु चरित्रपर विज्ञानाचें भो बरें साक्ष्यपत्र आसा. हो अध्यायु विवरणाचे घटणेचे मद्दें अप्रसक्त म्हूण प्रतीति उठून दिसता - अशी म्हूण कर्कश कलात्मकता शिकायत करूक पूरो. तरीय ते अध्यायाचे औचित्याचे पासून निमगूक नज म्हळ्ळेलें न्हय वे परमार्थ. यात्रा विवरण म्हळ्ळेले साहित्य शाखेक वैज्ञानिक साध्यता लागेन आसा म्हूण उडगास दवरूनाशिल्लें जांवचें ना. मागीरी, चीनी उद्योगस्थ- मनुष्यत्वाची आर्द्रता लागीच्यान वचूनाशिल्ले अशी आसा तांचे पासून रामचंद्रनालें चित्रीकरण. तशी आसतलें वें ? एकेक जनतेकय आपलें आपलें निज वर्गस्वभाव आसा म्हळ्ळेलें वास्तव. तरीय तांतूय व्यक्तिगत अंतर ना म्हूण जाता वे? काळें आनी धवें एक रेखेचे दोन तांतू वेगवेगळेवनु मात्र वे आसतलें? असले संशयांक जाप एकीचः रामचंद्रनालें निरीक्षण आपले अनुभवांक आधारून आसा. ताजान सर्वय तशीच आसाय म्हूण आवकाश धरचें नाका. मात्र न्हय, मुरथम सांगल्यां, भारत संस्काराचेरी आशिल्ली आराधना रामचंद्रनाले चिंताधारेंतु मौलिकता हाडता. ताजे सहज विपक्ष म्हळ्ळेले लेकान जावयात चैनेचे विरुध ही अप्रीति. ताजान हे यात्रा विवरणाक वैज्ञानिक तशीच वैकारिक पक्षय निंश्चित जावनु आसा. तें युत्की पूर्वक स्वीकारूक वाचकाक स्वातंत्र्य आसाच मू.

हे वैकारिकतेक एक उदाहरण उडगासांतु येता. लिपुलेख पासांतु आद्य जावनु पावलेले वेळारी; 'सासानी रिषीमुनी, योगी आनी सन्यासी हेच वाटेवेल्यान कैलासाचेर पांवताले.'. अशी चिंतुनाशिल्लें राबूक ताका जालेंना. आनीक 'तांगेलीं पावलां लागलेले हे पुण्यभूंयेक आपडून पांयी

पडून हांवें एक निमिशाक प्रार्थना केल्ली.' (पान 108). महाकवी शंकरकुरुप्पाचे पोरणे एक कवितेंतुल्या (तिरुनावा) हे दोन पंक्तीयांक सल्प बदलाव हाडल्यार हांगाची वैकारिकता ग्रहण करूक जातली.

'ही दोंगरा हादी माडोंवचे आदीं
करूया हिचो नमस्कार आमी!'

प्रार्थनेची निर्मलता हांगा जायते संदर्भांचेर उजळ पळोवयात. धाडसाक आपूण सदा तयार, मरण एक ना एक वेळार सुनिश्चित. इच्छेलोलो नियोगु पुणीय स्वीकारलो म्हळ्ळेली तृप्ती वरतली. असले निसंगतेची दीप्ति मेळसलेलें एक दर्शन जावयात हे यात्रेक उत्तेजन. हे साहसांचे मद्दें रक्षा कवच जाता केवल प्रार्थना. माल्पा दुर्घटणेची पुनरावृत्ती जावयात म्हळ्ळेले आशंकेक वकद वेदपारायण. वेगळे अवसरांचेरी शिव-पार्वती स्तुती, मृत्युंजय मंत्र आदी कवच जाताय. ही आस्तिकता यात्रे वेळार जायते अनुभवांक वलय करता. हे खातीर आवश्यक, विश्वासाचो आनी विनम्रतेचो दृढ आधारु रामचंद्रनान आदींच ग्रहण केला.

ग्रहण केल्लोलो आनी एक विभव आसा विपुल साहित्य परिचय. काळीदास कृतींतुलीं उदाहरणां ह्या विवरणांतु जायते मुहूर्तांक उन्मेश चडयताय. हिमालयाक हिम शापु वे? व्हय म्हूण एक सहयात्रिकान सांगूनिक 'एको हि दोषो गुणसन्निपाते / निमज्जतीन्दोः किरणेष्विवांकः' म्हूण कुमार संभव श्ळोकान जाप दिंवचे कडे पसरचो उत्साहु मागीर मागीर चड निर्णायक जाता. असले साहित्य परिचया वाटेन रामचंद्रन आपले सहयात्रिकांचे विशेश आदाराक पात्र जाता.

हें आभिमुख्य आपले ऐहिकतेक आवरण करचें एक न्हयींच. खंयीच पावल्यारीय थांगाचे साधारण जनजीवन रीतीचे पासून रामचंद्रन परामर्शूनाशिल्लें राबलोना. थंयथंय मेळचे खाणाचें विशद विवरण विस्तारान

सांगच्याकय आसा एक निष्ठा. चाया रुचीन पिंवचे विशीं साबार आयल्यां हांतूं. अनुभवांचे लागी दाकोंवचें आपले मतांचें निदर्शक जावन लेकूका त्या विवरणाक. खंचोय अनुभवूय आपण स्वागत करता. खंचेय जवाबदारीकय आपण तयार. रिपोर्ट बरोंवची जवाबदारी आद्यच आपण्याक मेळ्ळी म्हूण रामचंद्रनाक चारितार्थ्य आसा. तेदतेद्दूस रातीचें वेळु न्हय जालेले समयारी बेसून टिपणी बरोवनु पुरतें करचें तो चुकयना (त्या टिपणींतु साकून उद्‌भव जालोलो मू हो पुस्तक).

असले स्वभावान अभिमुख करका जालेलें यथार्थ आह्वान, मानसरोवर- कैलास परिक्रमण चमकून करूक तयार वे म्हळ्ळेलें अन्वेषण आशिल्लें. रामचंद्रनाक संशय कसलोच नाशिल्लो. जीवितांतु असले नियोग सदांच मेळचेनाय मू. मेळतना उपयोग करचेच बरे. शुरवातेर ताका सांगात दिंवचाक तेग जाणांनी लागेन तो नियोग आपणायलोलो. तरीय तांकां अर्दकूट्‌यार राबोवनु फाटीं सरचें पडलें. पुण रामचंद्रनान, महाप्रस्थानांतुले युधिष्ठिराचे समान अचंचल आपलें दौत्य पुरतें केल्लें. खंयखंयीच अनुभवलेले चांचल्याक विश्वासानी उपशांती घेतली.

आस्तिकता आनी भारतीय पैतृकाचे विशीं आराधना - हें दोनीय नाशिल्यांक हे विवरणांतुले थोडे प्रकरणांचे लागी एकमेळी जांवचाक प्रयास आसतलो. तरीय तसल्यांकय रुचूनाशिल्लें राबचे न्हय तेच प्रकरणांतुले इतर थोडे भाग. प्रकृतीचे अनंत वैचित्र्याचे मुकार ध्यानांतु बुडूची प्रवणता एकि. केन्नाकेन्ना सर्वानीय निदतना, फांत्याव रातीय ही प्रवणता प्रवर्तन जाता आसतली. हाजी अपाकता चिंतेंतु येना म्हूण न्हय. दृश्य अनुभवून जातरी मात्र तें मात्यांतु येता म्हूण मात्र (पान 88). ते कारणान वाचकांक तो अनुभव मेळताच. थोडे फंता अनुभवाचे उपरांते रामचंद्रनाली चिंता दार्शनिक अर्थ तलाचेर चडून वता. ॐ पर्वत दर्शनाचे उपरांते ॐकार सार सोदचें उदाहरण.

ना जाल्यारीय लेखक म्हळ्ळेले शब्दाचें उचित निर्वचन आसा सर्वांनीय निदतना जागून राबचे दोळे! हाजें निजत्व रामचंद्रन एका पशी चड फंतां हांतूं सिद्ध करता. मुरथम सुचयलेले भावधारेंतुल्यान सुपरीक्षित जालेलें दुशेरें आसा हांतूलो उद्वेग. कैलासाचे विविध मुख, चांदीण्यांतु न्हावनु राबलेली ताजी विचित्र मुग्धता- सर्वांचेरीय वता लेखकोली सूक्ष्म नदर. सामान्य वस्तुतेनी संपन्न आसा हें पुस्तक. वश्य शैली म्हळ्ळेले आर्भाटतेक स्थल ना. तरीय आपले अपूर्व अनुभव आविष्कार करतना तांतूले आर्जव, शैलीचें आकर्शण जाता म्हळ्ळेलें खरें. "लोकारंभ कालाक साकूनूच नित्यात्भुत आशिल्ले कैलासाक प्रदक्षिणा काडता आसतना मनीषु कितलो तुच्छ म्हूण माका समजलें." (पान 195)- तें आर्जव थोडे फंता अनावरण जांवचें- असले चिर आशयांनी आनी कैलास दर्शनाक लागून लागीचे केंपांतु वचे खातीर अतीव विजन भागावेल्यान, जोर मारचें वारें, पावसु आदी अभिमुख करून केल्लेली दीग यात्रा- ताजे विवरणान हे पुस्तकाक दिंवचो उद्वेग निस्तूल आसा.

ही दीग यात्रा कशीकींच तरण करून अवश जावनु लागीचे केंपाचे इमारताचे जगलेर वचून पडता. थंय सामान्य एक माध्यमाचे अभावारी, एकामेका लागी आशय विनिमय करूक जायनाशिल्ली अवस्था. जाल्यारीय थंयचे म्हांतार्यान आनी बायलेन केल्लेले परिचरणाचें संक्षिप्त विवरण हे पुस्तकांतुलें सर्वापशी उन्नत मानुषिक संदर्भांतुलें एक आसा (पान 207). मुरथम एकडे, मानसरोवराक प्रदक्षिणा काडतना एकु मित्रु थकून पडलो. (पान 147) जाल्यार मानुषिकानुभवान अस्वस्थ जायनाशिल्लें रामचंद्रन मानसरोवर म्हळ्ळेले अमानुषिक अनुभ़वान उत्तेजित जाता. हे पासून अपसमज जावूक नज म्हळ्ळेले शुष्कांतीन आसूयात असलो एक उन्नत मानुषिक संदर्भु सूचयलोलो. मागीर पुस्तकांतु कसले भावाक कीं चड महत्व दिल्यां म्हूण निमगिल्यार स्वाभाविक जावनु अमानुषिक

भावाकच म्हूण सांगचें न्हय वें उचित आसा? व्हय म्हूण माका दिसता. एक यात्रा विवरणाक संबंधित असलें एक औचित्य विशेष आसतलें. हांगाची यात्राय सविशेष मू, अशी ताका हेतु सरळ जावनु सोदून काडूकय जाता.

विवरणांतु विशदांशांचो चडाव मद्दें मद्दें अस्थानार जाता वे? कलात्मक अनुपात सोड नाशिल्ले वीक्षणाक असलें आवश्य पडतलें म्हूण संशय जाताच. तरीय ताका वेगळें एक पक्ष आसा म्हूण विसरूक नज. मुकारी असले यात्रेक वचाक भायर सरच्यांक सहायक आसूका म्हूण रामचंद्रनालो उद्देश. तशी एक मार्गदर्शनाचें उदार दौत्य लागीन हे पुस्तकांतुल्यान लेखक करता. जवाबदार सरकार विभागान देवोंवचें विज्ञापन नुपूरो वे मार्गदर्शनाक म्हूण निमगील्यारी- तांतूच असले पुस्तकांचो अंतर समजूक जाता. तसले विज्ञापनांतुल्यान मेळता सत्य संध वस्तुता मात्र. हांतू आविष्कार जाता समार्द्र अनुभव.

संक्षिप्त जावनु सांगता जाल्यार, यात्रा विवरणाचे नैष्फल्याक आमगेली एक म्हणी आसा - 'जोरलो तारुवार गेल्लेले सारके'. हांगा ताजे सामकी उपराटें जाता. गरुडान मळबारी उबचे सारके म्हूण बि आसतलें हाका अनुयोज्य. हे गरुडालीं पाकां साहसाक मापूक पांवचीं न्हय. मळब अनंत अज्ञात जावनु पडल्यां. तें देखून रामचंद्रनाक चड संचार वेग मेळूक आनी ताँचे सफलाविष्कार जांवचाक, चड औपचारिकता नाशिल्लेंच आशंसा सांगतां.

पूतोळ, तृशूर- 4 प्रो. कं. पी. शंकरन

2-12-2002

# सत्यम शिवम सुंदरम

पुराण कालाचे रिषीवर्यांक आकर्शित करचे दोन विचित्र प्रतिभास आसाय पर्वत आनी न्हंयो. पर्वतांक आमी सगटानीय पळोंवचे रीतीन न्हय तीं पळयताय. जीवित लक्ष्याक मुकारसितना अभिमुख करका जालेले दुर्घट, पर्वतांचे रूपार तांचे मुकार येताय म्हूण तांचो संकल्प. आनी ते तरण करतना भूमीचे पारम्यारी चडूक जातलें म्हूण आग्रहु दवरून ताजे खातीर प्रार्थना करताय. केवल एक पर्वत दृश्य तांच्यांतु असली एकि चिंता जागयता जाल्यार पर्वतारोहणाचे कष्ट आनी दुर्घट भोगून, तरण करून पर्वताचे उन्नत शृंगारी पांवतना तांनी भोगूचो आनन्द अवर्णनीय आसतलोच. तसलो आनन्द परत परत मेळचे खातीर मनुष्यांचे पावलांस्पर्श लागूनाशिल्ले पर्वत सोदून धरनु तांचे शिखरांचेर चडून आनन्द नृत्य करताय. कष्ट भोगूचें तांय फल मेळतना आनन्ददायक आसता म्हूण काळीदास महाकवीन आपले काव्यांतु सांगलेलें आमकां उडगास करया.

'क्लेशः फलेनाहि पुनर्नवताम विधते'

आर्षसाहित्यांतुले प्रथम रिगवेदांतु देवाले महिमेचें प्रतीक जावनु हिमवत् पर्वताची वर्णना केल्या.

'यस्येमे हिमवन्तो महित्वा

यस्य समुद्रम् रसया सहाहुः' हो मंत्रु हीः साध्यता जाणयता.

हिमालय ब्रह्मविद्या स्वरूपिणी पार्वती देवीचो बापूस म्हळळेले संकल्पान, रिषीजन हिमालय पर्वतांचेर वेगळे एक तराची तीर्थयात्रा चमकयताय. ताजान तांकां ब्रह्मानन्द अनुभूती मेळता म्हूण सूचना.

हिमालयाची धूव जावनु जन्मु घेतलेले ब्रह्मानन्दाक, अथवा पार्वतीक व्हारडीक करूक जडभाव आशिल्ले मनुष्याक साध्य न्हय. शिवभाव आशिल्ले देवाकच जातलें. पार्वतीक व्हारडीक केल्या परमशिवानच मू. ते ब्रह्मानन्दाची अनुभूती मेळळेले शिवालें वासस्थान परमपूज्य कैलास शिखरय. हो कैलास केवल आर्षकाव्य भावना म्हूण चुकून समजलेलीं, हांव सयत जायतीं आसाय. तरीय हे कैलासाची वर्णन करत आसतना महर्षीचीं उत्तरां अत्भुत दृश्यांचे वर्णनांतुल्यांन अत्युक्तीक आपडताय म्हूण संशयु दिसता. उदाहरणाक दक्षयज्ञ विध्वंसाचे उपरांते ब्रह्मादी देव सर्वय मेळनु महादेवाक भेटूक कैलासार गेल्लेलें एक दृश्य अक्षरचित्रावरी भागवतांतु परामर्शील्यां. तें विवरण येद्दें सरी अत्युक्ती न्हय म्हूण समजूनिक जालोलो तो ब्रह्मानन्द वा ते दैवीक प्रकृती दृश्यांचे अनुभूतींतु साकून मेळचे आनन्दाचे पशी ऊणे न्हय म्हूण माका अनुभवता.

अशी सगट चिंता करूक कारण श्री. एम. के. रामचंद्रनाले 'उत्तरखण्डीलूडे- कैलास मानससरस यात्रा' म्हळळेले पुस्तकांतु साकून मेळळेलें ज्ञानच. तीर्थयात्रा रूपारी वा सादा भोंवडेचे रूपारी असले पुण्यस्थलांचें संदर्शन करयात. तरीय सादा भोंवडेकाराक ताजान विनोद मेळचोय ना भोंवडी साबार कष्टाचीच आसतली म्हूण ही कैलास यात्रा आमकां दाकयता. तेच वेळारी तीर्थयात्रा रूपारी दैवीक भावान कैलास पर्वताक पांवतना ताका लागून आशिल्ले रहस्यांचें आनी विस्मयांचें विवरण आमकां मेळता. ते ते दिकारी ते ते समयारी, ते कैलासपतीन, जाय जालेले मनीषांक पावोवनु सौकर्य करून दीवनु महात्भुत भोगयल्यां म्हूणूय दिकूयात. तें म्हळयारी केवल एक भूप्रदेशाचेर वता म्हळळेल्या पशी चड वेगळी एकि चिंता भोगयता- ब्रह्मानन्द स्वरूपिणी देवीचें दिव्य सान्निध्य भरलेले, काळकूडविष पीवनु विश्वाक अपायांतु साकून वांचयलेले

ते करुणानिधीचें कारुण्य पसरण जांवचे ते मंडळाचे लागी तं पांवताय म्हळ्ळोलो अनुभव तीर्थाटकाक भोगता.

हे ग्रंथांतु कैलासाचे लागी पांवचे मुरथमले भाग वाचतना विस्मय जाताच. खंचेय अपूर्व, अविस्मरणीय, अत्भुत जगांतु पावलोलो अनुभव जाता. सादा वाचकाकच असलो एकु अनुभव जाता जाल्यार, सामकीच अनुभवलेले व्यक्तीक कितलो चड आनन्द भोगतलो म्हूण अनुमान करूक मात्र जातलें.

व्हय, कैलासयात्रा म्हळ्यार सादा भाह्य भोंवडी न्हय. आंतरिक यात्रा आसा. ते यात्रेंतुल्यान पर्वतनन्दिनी पार्वतीदेवीचे आनन्दांतु आनी पार्वतीपतीचे महत्वांतु पांवताय म्हूण व्यक्त आसा. हे अर्थारी पळयतना कैलास केवल एक भूभागु न्हय.

'के, लासा, विद्यते यस्य स कैलासः'

(केलासा एव कैलासः)

के म्हळ्ळेल्याक सुख स्वरूप म्हूण आनी लासा म्हळेल्याक उल्लास अथवा प्रमोद म्हूण अर्थु. तो खंतंय मेळता थंय आसा कैलास. केलास म्हळेलेंच आसा कैलास. (स्वामी महेश्वरानन्दाले रिग्वेद संहितोपनिषत् शतकांतुले एकावे मंत्राची व्याख्या - पान 1)

भारत भुंयचे दक्षिण आनी उत्तर भागारी एकामेकाक अभिमुख करून बेसून पार्वती परमेश्वर वीक्षण करताय. ते आवसु बापसूचे नदरेचे मुकार आसाय आमी सर्वय. आवसूचे लागी पांवचाक कसलेच कष्ट नाय. तरीय बापसूचे लागी तशी सुगम जावनु धावनु पांवचाक साध्य न्हय म्हळ्ळेलें सत्य हीं जगत दंपती आमकां उडगास दिताय. कैलासाचे उत्तुंग शृंगारी बेसून कन्याकुमारी देवीक वीक्षण करचे महादेवान आनी

कन्याकुमारी देवळांतु बेसून कैलास नाथाक पळोंवचे पार्वती देवीन आमकां सर्वांकय सदांच सुरक्षित जावनु पालन करका म्हूण प्रार्थना करूया.

असली एकि तीर्थयात्रा करूक आनी ताजान आपल्याक भोगलेलो आनन्दानुभव इतरांक लागेन वांटून दिंवचाक आशिल्लें विशाल मन आनी दया दाकयलेले श्री. रामचंद्रनाक हे दिव्य दंपतींचो पूर्ण अनुग्रह केन्नाय आसो म्हूण प्रार्थना करतां. आनी मुकारीय असलेच दिव्य पुण्य स्थलांचेरी पांवचाक साध्य जावो म्हणूय थंय साकून मेळचे अनुभव आपले गांवकारांक वांटूक अवसर मेळो म्हणूय आमकां प्रार्थना करूया.

23.10. 2002 — के. एन. कृष्णन नंपूतिरी

तृशूर- 2 — श्रीरमादेवीमंदिरम, पूंकुन्नम

# सफल ही यात्रा

कैलास यात्रा म्हूण आयकतनाच एक अपूर्वता मनांतु उठून येता. साधारण जावनु सर्वांकय जांवची एक गळफ यात्रा न्हय मू ती. यात्रा पुरती करून परतून येवनु आतां यात्राविवरण पुस्तक रूपारी आयल्यां. येद्दी सरी अतिशयोक्ती नाशिल्लें सांगता जाल्यार हें व्हडलें एक अत्भुत मात्र न्हय अपूर्व एक सिद्धीच.

पंखेचे पोंदाक, कदेलारी तेंकून बेसून वाचून सारतना, आमीय ही यात्रा करून आयल्यांय म्हूण दिसता.

कसलेच आवठांतु पळयताय जाल्यारीय ही कृती केवल एक साधारण प्रवासवर्णना न्हय. हांतु भारत (सिंधू न्हंयचें तट) हिमालय, नेपाळ, टिबेट आदी राज्यांची भूमीशास्त्र माहिती मेळता. थांगाचे मनुष्यांची सामूहिक जीण, आर्थिक स्थिती, कृषी आदी जीवित मार्गांचेर स्पर्श करता हो ग्रंथ म्हूण समजूयात. कालावस्था, वस्त्रधारण हांचे विशीं परत परत परामर्श आसा म्हळ्ळेलें सांगचें आसा. देहांतु भितरी रिगचे शेळोवांतु प्राकृत घरांतु, थांगाचे जनांचे सांगातांतु भोगलेले, ग्रंथकर्ताले अनुभव वाचीतना, तापमानक्रमीकृत कूडांतुली आमची जीण कितली कृत्रिम दिसता. तीन चार रोमे वस्त्रां घालनु पांगूरनु पडचे मनुष्याक येदोच उजवाडु दिकूका जाल्यार वा वरां चोंवचाक जावो साध्य न्हय म्हूण सांगल्यार तें पडप आमचे मनाक तांय घट करचे तितलें भीकर आनी कठिन आसतलें. अशीच आशिल्ले अनेकनेक विवरणांतुल्यान मुकारसून जातरी हो रामचंद्रन कशी जिवंत परतून पावलो म्हूण आमकां विस्मय येताच.

जिवंत परतून पावलो मात्र न्हय, डॉ. के. पी. नारायणपिषारोडी, डॉ. सुकुमार अषिकोड, अड्वकेट के. बी. वीरचंद्र मेनोन आदी व्हडले सांस्कारिक सदस्यांचें स्वीकरण स्वीकार करूकय हांकां भाग्य मेळ्ळें. जीविताचे धन्य मुहूर्ताचो चिरंजीवि, अशी जावनु बेसूक साध्य केल्लेले रामचंद्रनाचे भाग्यातिरेकाचे मुकार आमी मान बावगोंवचेंच आसा.

निश्चित जावनु हे पुस्तकाचो विषय वस्तु आध्यात्मिक क्षेत्राक संबंदी म्हूण दिसतलो. आध्यात्मिक क्षेत्राचे परिधींतु राबूनूच भौतिक जीविताचे विविध विषयांचेरीय यथेष्ठ आपडून वता. स्टार होटलांतुले ए. सी. कूडांतुले शेळोवाचे विवरणा संग मानसरोवरांतु कूरटू भर उदकांतु राबून ध्यान करच्याचेंय ह्या पुस्तकांतु पळोवयात.

29 अंग आशिल्ले एक यात्रा संघांतु, रामचंद्रन चमकून वचाक धैर्य दाकयता आनी इतर जनां मृगांचे सहायान यात्रेक लागताय म्हूण कळतना, हो रामचंद्रन एक अपूर्व सिद्धीचो म्हूण सांगूनाशिल्लें राबूक जायना. यौवनावस्थेरी असलीं कार्यां कोणाचेय मनांतु येंवचीं नाय. वार्धक्यारी हीं सदा चिंतेंतु आसतलीं. तरीय भजना कूडांतु वा देवळा आंगणांतु सीमित राबोंवचाक मात्र मनुष्याक जातलें. हैन्दवांचे पुण्य स्थलांतुलीं प्रमुख सर्वय पर्वतांचे ऊंच स्थित आसाय. अय्यप्पाक, भावु सुब्रह्मण्याक, वेंकटेश्वराक वा तिरुनेल्ली भोगोंतीक दर्शन घेंवका जाल्यार चडती चडूनाशिल्लें जांवचें ना. हे पारंपर्यांतुले मलयाळीक हिमालय संदर्शन साध्य म्हूण दिसूका जालेलें. तरीय हिमालय म्हूण सांगल्यार रिषीकेश आनी हरिद्वार मात्र न्हय. सगळे हिमलयाचें दर्शन घेंवका जाल्यार रामचंद्रनान विवरसीलेले मानसरोवरांतु साकून आशिल्लो दृश्यानुभवूच मेळका. ते खातीर भोगूका जालेले कष्ट एक युद्ध भूमींतु वा, प्रकृतीक्षोभ भरलेले अंतरीक्षांतु वा भूकमारीचे वेंगेंतु वा दुरितपूर्ण

अंतरीक्षांतु राबलीं म्हळ्ळेल्यान मात्र साध्य जांवचें न्हय.

हे पुस्तकारी चाया म्हळ्ळेलें उतर साबार कडे दृष्टी पडता म्हूण आमकां दिसतलें. चायेन तं हे यात्रिकांक 35 दिसांकय वांचोंवनु राबयलेलीं म्हूण समजतना ती केवल चाया मात्र न्हय मृतसंजीवनी म्हूण समजतलें.

रामचंद्रनान जवानींतु पावल दवरलेले तेन्ना मिजो परिचयु जालोलो. तेदूसचो ताजो स्वभावु आनी प्रकृती उडगास करतना असलें एक विश्चोतर कृत्य करतलो म्हूण दिसलेंना आशिल्लें. तेच कारणान हो पुस्तक आनी ताजो लेखक अत्भुत प्रतिभास जावनु वरतलो म्हूण संशयु नाका.

वडकांचेरी — अडवकेट एम. कृष्णनकुटी

19.10. 2002

# यात्रे खातीर तयारी

कैलास-मानसरोवर यात्रे खातीर अर्जीपत्र आमंत्रण करून भारत सरकाराले विदेशमंत्रालयाचें विज्ञापनपत्र हिन्दु, मातृभूमी आदी खबरे पत्रांचेर 2001 जनुवरी एकेवीसावे तारिकेक तं आयलेलें. डिसेंबर मासु साकूनूच पत्रांचेर विज्ञापन येता कीं म्हूण पळोवनु बेसलोलों हांव. तोडोवु करूनाशिल्लें विज्ञापनारी सांगलेले प्रकारीं अर्जीपत्र तयार करून विदेश मंत्रालयाक पेटोवनु दिल्लें.

कैलास- मानसरोवर यात्रा Indian Mountaineering Foundation (IMF) हांचें अंगीकार आशिल्ली एकि संघटित पर्वतयात्रा. प्रमेह, रक्तसमर्द्द, हृद्रोग, अपस्मार आदी आशिल्यांनी हे यात्रेक अर्जी दिवचें नाका म्हूण विज्ञापनांतु खास जावनु उल्लेख केल्ला. दर वर्षाय अर्जीदारांची संख्या क्रमातीत जावनु चडून येंवचे कारणान सगळे उमेदवारांतु साकून यात्रिकांक भाग्य चुनाव करून वेंचून काडताय. दर वर्षाक पैंश्यांचे खाल यात्रिकांक मात्र अशी वेंचून काडताय.

1950 चे दशकांतु, चैनेन टिबेटाचेर आक्रमण करून जिखून घेतलेले उपरांतें लिपुलेख वाटेन परंपरागत रीतीन आशिल्ली कैलास यात्रा राबून गेल्ली. वेगळे थोडे भोव दुष्कर हादींवेल्यान उणे थोडे सन्यासी केन्ना केन्ना कैलासाचेर पांवताले. 1962 वर्षा चैनेन भारताचेर

आक्रमण केल्लेले उपरांतें लदाक आदी प्रदेशांतुल्यान करची कैलास यात्रा राबून गेल्लीच. कैलास-मानसरोवर यात्रा चीनी सरकारान औद्योगिक जावनु राबोवनु सोडूनिक हैंदवांचें परमोन्नत पुण्य तीर्थाटन केंद्र कैलास-मानसरोवर केवल एक सपन जावनु वरलें. 1978-79 कालाक श्री. मोरारजी देसाईचे मंत्रीसभेंतु विदेशकार्य मंत्री जावनु श्री. अटल बिहारी वाजपेय सेवन करीत आसतना तं मागीर हे स्थितीक बदलाव आयलोलो. ते कालाक तांनी चैनेंतु भोंवडी केल्लीय. केलास-मानसरोवर यात्रा पुनरारांभूक जावनु श्री. वाजपेयीन चीनी अधिकार्यांचे लागी मागणी केल्ली. दुशेर वाकतें करून दिंवचाक प्रयास आशिल्लें एक बंद अध्याय आसा तें म्हूण चीनी अधिकारी तर्क करूक लागले. तरीय अंत्यार श्री. वाजपेयचे निर्बंदाचे मुकार मानून घेंवचें पडलें तांकां. भारतीयांचे अध्यात्मिक संस्काराचो एक भागु आसा कैलास-मानसरोवर. आनी मानवसंस्काराचो मूळ प्रदेश हो भोंवचें दर एक भारतीयालीय चिरकाला अभिलाषा म्हणून श्री. वाजपेयीन चीनी अधिकार्यांक समजायलें. तशी 1980 वर्षा आद्य संघ यात्रेक भायर सरलेंय.

जनुवरींतूच अर्जीपत्र पेटेयलें तरीय एप्रिल मासाचे अंत्यारीय कसलेंच खबर मेळ्ळेंना. केदार-बदरी यात्रे वरी हे हिमालय यात्रेकय एकु नियोगु आसतलो आनी माका ताजो वेळु जालोना जावयात म्हूण समाधान करून बेसलेले तेन्ना मेय चोवते तारीकेक विदेशकार्य मंत्रालयाचें (चैना विंग) एक तेलेग्राम मेळ्ळें. कैलास-मानसरोवर यात्रेचे खातीर माका वेंचून काडला आनी जून चोवीसावे तारीकेक ड़िल्लीचे इंद्रप्रस्था होटलांतु हाजिरी कळोंवका म्हूण तांतू सांगलेलें. हे भोंवडेक तात्पर्य आसा जाल्यार उत्तरांचल सरकाराले टूरिज़म डवलपमेंटाचे कुमयोण मंडल विकास निगम (KMVN) म्हळ्ळेले कोरपरेशनाचे नांवार दोन सास रुपयांचें ड्राफ्ट काडून पेटोवनु दीवनु यात्रा निश्चित करूकय खास जावनु सांगलेलें.

तेलेग्रामाचे निर्देशानुसार दुड्ड बांदून यात्रेक तयार म्हणून परतून तेलेग्राम पेटेयलें. यात्रा संबंधित पूर्ण जाणकारी आशिल्ली एकि पुस्तिका विदेशकार्य मंत्रालयान चड तोडोव करूनाशिल्लें माका पेटोवनु दिल्ली. तांतू भितर ह्या वर्षाचे सोळा संघांची सविस्तार यात्रा पद्धती, वैद्य परिशोधना क्रम आनी यात्रिकांनी सांगातांतु व्हरचे खातीर तयार दवरका जालेले सामानांची पूर्ण वळेरी दिल्लेली. (हाजे सग विशदांश ह्या पुस्तकाचे अंत्यार दिल्लेलें आसा.)

जून चोवीसावे तेद्दूस दिल्लींतु हाजिरी दिल्ली. सैन्यांतु साकून निवृत जालोलो बंगळूर स्वदेशी लफ्टनेंट केणल मि. मूर्ती आनी बंगाळ स्वदेशी मि. चक्रवर्ती हे आशिल्ले हांवें परिचय काडलेले पयलेचे मित्र. लदाक भागारी दीर्घकाळाक सेवन केल्लेले मि. मूर्तीले सैनिकानुभव आनी केरळांतु खूब फंता पावटी घाल्लेले मि. चक्रवर्तीले रसकर अनुभवय आस्वादन करून होटलाचे विस्कल तणामळार आमी सांज सारली.

हेरदूसा सकाणी के एम वी एनाचे एक उद्योगस्थान सर्व यात्रिकांकय आपोवनु पारलिमेंटाचे सौथ ब्लोकांतुले विदेशकार्य मंत्रालयाचे स्वीकरण कूडांतु व्हेल्लीं. राजकीयलंकार दिसूचे हे सान हाळांतु अंडर सेक्रटरी मि. अमितकुमारान सुदीर्घ एक भाषणच चमकयलें. ही यात्रा अत्यधिक दुर्घट आसून जीवापाय तांय जावयात म्हूण ताणे उडगास दिल्लो. दर एक दिसाचीय केंपाची जाणकारी, खाणा जेवणा जाणकारी, वैद्यपरिशोधना क्रम, यात्रिकांचे सामान सामग्रीची सविस्तार जाणकारी, यात्रेचे वेळार उपयोग करका जालेले कूली, घोडे, याक आदींचें क्रमीकरण हें सगट ताणे विस्तारान सांगून दिल्लें. यात्रिकांचे संशयांक पूरा ताणे तात्पर्य काड्डून जापय दिल्ली. थंयचे कर्मचार्यांनी यात्रिकांचें पासपोर्ट तपासून पळयलें. विसेचे आवश्याक जावनु पासपोर्ट आनी स्वदेशांतु साकून

हाडलेलें Indemnity Bond तांनी घेतलें. चैनेचें विसा मेळूक जावनु दोनीशें रुपया एकेकल्याचे लागी साकून घेतले. ते मेळाव्यांतु ह्या तीर्थयात्रा संघाचो मुखेली जावनु विदेशकार्य विभागांतुलो सीनियर उद्योगस्थु मि. मधूप मोह्ता IFS नियमित जालो आनी ताका परिचय करनूय दिल्लो. लागीचे दिसा करूक आशिल्ले वैद्यपरिशोधनेचे पासून एक लघुविवरण दीवनु सम्मेळन देनपारांच्यान समाप्त केल्लें. वैद्यपरिशोधनेंतु योग्यता मेळनाशिल्यांक परतून पेटेयतलीं म्हूण खास जावनु उडगास केल्लो. ताजान, तितलोच वेळु यात्रिकांनी दाकयलेले उत्साहाक सल्प ऊणाव पांवयलो म्हूण सांगचें पडता.

देनपारांचे उपरांतें पडलेल्या घोर पावसान दिल्ली शहर भिजूनिक ते पर्यान अनुभवलेले हुनसाणीक सल्प आश्वास मेळ्ळो. कोणाट प्ळेसांतु गेल्यार रुचिकर सस्याहारु मेळतलो म्हूण मि. मूर्तीन सांगूनिक तें एक रुचून चोंवचाक जावनु आमी भायर देवले. पावसु राबला. हरियालींतु बुडून राबलेल्या दिल्ली शहराचीं विविध रूपां पळोवनु भोवनु आमी जायतें मुकार सरलीं. कितले कितले विदेशी आक्रमणांक साक्षी जाला हो पुरातन गांव. सर्वय तरण करून, काळाचे व्हाळांतु पडून मोडून वचूनाशिल्लें आजीय दिल्ली मातें उबारनु राबता.

हेरदूसा फालेफाल्यार यात्रिकांक पूरा औटर दिल्लींतु आशिल्ले इन्डो टिबेटन बोर्डर पोलीसाले (ITBP) बेय्स केंपांतु पांवयले. यात्रिकांली वैद्यपरिशोधना थांगा चमकतली. डॉ. बी. बी. पाणीग्राहीचे मुखेलपणार डोक्टरांचे एक विदग्ध संघान दर एक यात्रिकाकय सामकी तपासून पळयलो. गांवांतु साकून व्हेल्लेलीं परिशोधना रिपोर्टां थोडींच नुपूरो जावनु परत करका जालीं. संशयु दिसल्ले थोड्यांक परत चंड परिशोधन करताय. TMT टेस्टां थोड्यांक तरी दुसरीय करका जावनु आयलीं.



एकेकल्यालीय शारीरिक क्षमता अति सूक्ष्मेन पळोवनु चोवनु देनपार परतून चार वरांचे लागी जावनु निमणें लिस्ट देंवयलें. चडय यात्रिक सामकी समर्द्धांतु आसलेले. 29 जनांली वळेरी थंय औद्योगिक जावनु देंवयली. मि. मूर्तीक आनी मि. चक्रवर्तीक योग्यता मेळ्ळीना म्हूण कळूनिक माका विश्वासु आयलोना. दोगांय जोर सिगरेट ओडपी म्हूण हांवें पळयलेलें तरीय तांकां पळयल्यार पूर्ण शारीरिक क्षमता आशिल्ले म्हूण दिसतालें. पर्वतांचे उंचायेरी रूक्ष कालावस्थेंतु जायते काळांक सैनिक सेवन केल्लोलो एकलो आसा मि. मूर्ती. तें जाणून हे संघाचो मुखेलो, लेयसण अफसर मि. मधूप मोह्तान थोडे कर्तव्यांचो भार घेंवका म्हूण ताजे लागी मुरथमले रातीच सांगून दवरलेलेंय. अयोग्य केल्लेल्यांचे मद्दें मि. मूर्तीय आसलो म्हळ्ळेलें जायत्यांक विश्वास करूक कशीच जालेंना. लिस्टांतु नांव नाशिल्ले सर्वांनीय फाल्यार होटल सोडून वचूका म्हूण आसा व्यवस्था.

फाल्याक गडबडीचीं कार्यक्रमां देखून तेद्रूस होगीच खाण खावनु होटलांतु विश्राम करूक लेयसण अफसरान (LO) आमकां उडगास दिल्लो. हेरदूसा देनपारां स्टेट बेंक ओफ इंड्यांतु साकून विदेश नाणे घेंवचाक जावनु एल ओन आमकां व्हेल्लीं. चीनी सरकाराक दींवका जालेले सशें यू एस डोळर आनी आमचे आपले आवश्याक जावन देडेशें यू एस डोळर थंय साकून मेळ्ळे. 36664 रुपया हाजे खातीर एकेकल्याचे लागी साकून घेतलेय. के एम वी एनांतु भोरका जालेले 9055 रुपया तेदूस सकाणी होटलांतु आसतना दीवनु रसीदी घेतलेली. घोड्यांचें भाडें, कूलीचो खर्चू आनी वतना येतना जांवचे वेगळे खर्चांक लागेन दुड्ड जाय जातले आनी ते खातीर उण्यान ऊणे स सास रुपया पुणीय हातांतु दवरका म्हूण एल ओन खास निर्देशु दिल्लोलो. डेल्ही महादेव अमरनाथ सेवा समीतीचे खर्चान देनपारांचें जेवण जेवनु आमी तीनी वरांचे लागी

राष्ट्रपती भवनांतु वचाक सरलीं.

दर एक यात्रा संघाकय राष्ट्रपती भवनांतु औद्योगिक स्वीकरण आसा. आमगेले संघाक उपराष्ट्रपतीन आनी बायलेन मेळून तं यात्रे खातीर आशंसा सांगलेली. चाय सत्कारु आनी भाषण जातरी एकेकल्याकय प्रत्येक उपहारु दीवनु अनुग्रहू दिल्लो. रुद्राक्षामाळा, गांदामाळा, टोपी, पूजा सामग्रीची एकि पेट, पूजा वस्त्रां आदी उपहार जावनु मेळ्ळे. ताजे उपरांतें दिल्ली आस्थान जावनु आशिल्ले कैलास- मानसरोवर सेवा समितीचें स्वीकरणय आसलेलें. चाय सत्कारु नंतणा यात्रा संघाक आवश्य पडचें मेडिकल किट आनी हिमप्रदेशार घालका जालोलो काळो चश्मो हेच समयार वांटीलो. सांजेक आसूक वचें दिल्ली सरकारालें स्वीकरण आनी यात्रा सांगप आसा ते दिसाचें आखेरचें कार्यक्रम. होटल इंद्रप्रस्थांतु चमकलेले हे बर्या कार्यक्रमाचे उपरांतें डिन्नरय आशिल्लें. शिवपुराणाचो एकु बृहत ग्रंथ, पूजा सामग्रीची पेट, शिवपूजेक आवश्याक काडूक पाट्या वस्त्रां, लोकेट, माळा आदी भरलेलें बेग सर्व यात्रिकांकय तेन्ना वांटीलें.

लग्गेजाचें क्रमीकरण कशी करका म्हूण एल ओन आमकां सांगून दिल्लेलें. तीन दिसांची बस यात्रा आसा देखून तेन्नाक आवश्यक वस्त्रां, वकदां आदी भरलेलें बेग बसावेले लग्गेज रेकारी दवरका. रोमे वस्त्रां, ट्रेकिंग षूसां, टोर्च, कैलास-मानसरोवराक प्रदक्षिण काडचे तेन्ना हातांतु आसूका जालेल्यो खाणा पोड्यो, अन्य पानीय आदींचें बेग कदियात घालनु बसाचे ऊंच प्लास्टीक षीट घालनु बांदून दवरूकय निर्देशु मेळ्ळो. हें नंतणा, यात्रिकांक चैनेंतु पावनु उपयोगाक आशिल्ली भोजन सामग्री खास बांदून बसा ऊंच चडोंवचेंय आसा. एकल्याक पंचेवीस किलो लग्गेज व्हरूक अनुवाद आसा आनी ताजाकय चड भारु

जाल्यार चडाव्याक चड दुड्ड घेतलीं म्हूण आद्यच सांगलेलें.

ते राती सामान दवरप सगट जावनु यात्रिकांक सामकी गडबडीचें दंद आशिल्लें. दिल्लीवासी आनी सामूहिक सांस्कारीक मंडळांतु प्रवर्तन करचे उन्नत व्यक्ती यात्रिकांक भेटूक आनी यात्रेक आशंसा सांगूकय आयले. गुजरात हावस, राजस्थान हावस, यू पी हावस आदी कडेचे कर्मचारी येवनु तांगतांगेले संस्थानाचे यात्रिकांक घेवनु गेल्ले. तांकां थंय साकून रातीक सौजन्य भोजन आनी वासस्थलाक अनुमती मेळ्ळेली. मुरथमले दिसाच हांचे प्रतिनिधीन येवनु ह्या विशीं जाणकारी बरयलेलें एक बोर्ड होटलाचे लोबींतु प्रदर्शन केल्लेलें. गुजरात सरकारान कैलास यात्रा जावनु परतून येंवचे एकेक गुजरात यात्रिकाकय वीस सास रुपया आनी यू पी सरकारान पांच सास रुपयाय सहायधन जावनु दितलीं म्हूण जाणयलेलें.

विदेश नाण्यांचे खातीर बेंकांतु वचून परतूचे वेळार अशोक रोडाचे लागी स्थित केरळा हावसांतु हांव चडलों. कैलास यात्रा संघाचो वांगडी म्हूण सांगून एक रातीचे खातीर थंय राबूक अनुवाद दींवका म्हूण मागणी करून चोयलों. रिसेप्शनांतु बेसून आशिल्ले दादल्याले आनी बायलेले तोंडार परिहास भाव. ताजे पासून कसलीच जाणकारी नाशिल्ले वरी तांचो व्यवहार आशिल्लो. मंत्र्यांक, एम पींक, एम एल एंक सगट आनी उन्नत उद्योगस्थांक राबूक आशिल्लें एक सुखवास केंद्र तं केरळा हावस म्हूण लागेन सांगून तानी तांचें संभाषण समाप्त केलें. सांस्कारिक केरळ, साक्षर केरळ अशी सगट राबोवनाशिल्लें भाषण दीवनु भोंवचे आमगेले नेतांक, भो काळ जावनु केरळा हावसाचे पासून आयकूक पडचे आरोपणांचे विशीं अन्वेषण करूक सरी वेळु मेळना मू म्हूण आठोवनु हांव परतलों.

एकावो दीस

# कातगोडम

सकाणी सात वरांचेरी सर्वय तयार जालीं. संघाक विभजन करून सात भाग केल्ले आनी एकेक विभागांतूय चौग जाणांक घालीं. बोंबेचो मि. हरिहर, राजस्थानाचो मि. रुपेंदर आनी बंगाळाचो मि. बलराम डे हे तेग आसाय मिजे सांगातांतुले अन्य अंग. मुकारची यात्रा कठिन आसतली देखून कसलीच समस्या आयल्यारीय ते ते विभागाच्यांनी परस्पर चर्चा करून निर्णय काडूक आनी तें साध्य जायना जाल्यार मात्र एल ओचे लागी प्रश्न परिहाराक वचाकय आसा निर्देश.

आट वरांचेर आमी भायर सरलीं. एयरकण्डीषन केल्लेले बसाचेर आसा आमची यात्रा. 'कैलास-मानसरोवर यात्रा 2001', 'ॐ नमशिवाय' अशी बसाचे चारीय वशीं झगझगेंवचे सायेन बरोवनु दवरल्यां. पळयतनाच जनां ह्या बसाक वळकतालीं. मातें बावगोवनु नमस्कार सांगून जनां यात्रिकांक आशंसा सांगताय. यात्रेचे चडय कडेय जनां अशीच आमकां स्वीकारतालीं.

गाज़ियाबाद- हापूर- मुरादाबाद- रामपूर- हल्द्वानी वाटेन कातगोडम पांवका- ही आसा पयलेचे दिसाची आमची यात्रा पद्धती. गाज़ियाबादांतु होटल वेस्ट व्यूवांतु आसा सकाणचें खाण. विपुल रीतीन एक स्वीकरण कार्यक्रम थंय तयार केल्लेंलें. अत्याधुनिक रीतीर बांदयलेल्या ह्या होटलाचो

धन्नी मि. मदनलाल छद्दा यात्रिकांक वेंगेंत घेवनु पायीं आपडून वंदन करनु मागीर होटलाचे विस्कळ ओडिटोरियांतु आपोवनु व्हरतालो. जनां कुचकुची भरलेले ह्या कार्यक्रमाचो अध्यक्ष आसा यू पीचो ऊर्जमंत्री मि. सतीश शर्मा. भजन, भाषण, उपहार वितरण, विभवसमृद्द खाण हाका सग मेळून दोनी घंटे आवश्य पडले. हो कार्यक्रम घडयलोलो 'अखिल भारतीय कैलास-मानसरोवर समितीन'. देनपारांक खांवचाक आशिल्ले जेवणाचें लागेन तांनी बसारी चडोवनु दिल्लें.

बसांतुले शेळ वातावरणांतु बेसून शिवपार्वती स्तुती गींत घुंजताय आयकून उत्तरप्रदेशाचे अतिविशाल ग्रामप्रदेशांचें सश्रद्ध निरीक्षण करून आस्वादन करून आमी मुकार सरलीं. शेतभाटां समृद्ध आसाय. बाजरा, कोब्बू, तरकारीचें आदी विपुल मात्रेन कृषी केल्या. शेतांतु शिंपणी खातीर व्हड मात्रेन खळियो बांदून उदाक व्होळोंवचाक व्यवस्था केल्या. बायल दादलो भेदू नाशिल्लें गजनींतु दंद करचे उत्साहशील गांवकारांक पळोवनु मिजें मन संतोषान भरलें. कृषी भूमीचे शीमेंचेरी आनी लागून मद्दें आशिल्ले भुंयचेरी आंब्या रूक फांदळेवनु राबलेलेय आनन्ददायक दृश्य. जायते स्थलांचेरी विटेचें निर्माण प्रवर्तनय विपुल रीतीर चमकून येता. सासा लेकान दंदेली हांगा दंद करचेय दिकीले. गोरवांची समृद्ध संपती आसा श्रद्धेय आनी एक दृश्य. सास एकरा लेकान स्थायारी विस्कळ तणामळांचेरी चरनु भोंवचे गोरवांचें दृश्यय अतीव रमणीय आसा.

एक वर जांवचानिक आमी मुरादाबाद पावलीं. रस्त्या देगेन आशिल्ले एक विशाल होटलांतु जेवणाक जावनु राबयलें. ताजे धन्नीयान आमकां जेवणाक खास सौकर्य करून दिल्लें. खाणा पटळी हातांतु आशिल्ली देखून तें खांवचाक जाय जालेलें वाटें, चिपट, उदाक, नोणचें, सलाड आदी सगट तानी सौजन्य जावनु दिल्लें. जाय जालेल्यांक उपयोगाक टोयलटाचीय व्यवस्था करून दिल्ली. खाण खावनु जावनु थांगाचे आंब्या

रुकांचे सावळेंतु आराम करतना कैलास मानसरोवर यात्रा जावनु परतून येंवचे आद्य संघाचें बस थंय पावलें. रोमांचदायक जालें तें संगम. तांतूले सर्वांकय पुरपुरो जावनु आशिल्लें. पीडा जालेल्यांक आनी नज जावनु बसांतु निदून आशिल्यांकय आमी दिकीले. अर्द घंटो तांचे सांगातांतु खर्चून मागीर आमी भायर सरलीं.

घुसमुटेंवचे नगरप्रदेश आनी मागीर अतीव रमणीय ग्रामप्रदेश एक सोडून एक येत राबलेले. अळशीकेन पुरलेलीं आसाय यू पींतुलीं शहरां. सोपूर वाटो, कचरा भरलेल्यो खळीयो, हातगाडी, सायकिळ, सायकिळ रिक्षा, ओटोरिक्षा, मोटोर गाड्यो आदी वाहनां चरनु चरनु मुकारसूचे, खिटान भरलेले रस्ते आनी तांचे मद्देंच्यान चमकून वचीं जनसहस्रां आदी सर्वय आमच्यांतु एक तराची विरक्ती हाडता.

यू पींतुले फर्णीचर निर्माणाचे पासून सांगूनाशिल्लें राबचें सम न्हय म्हूण दिसता. हस्तकला प्राविण्य फर्णीचराचे निर्माणांतु हांगाच्यांचे इतलें मेळोवनु व्हरचे निपुण दंदेली भारतांतु आनी खंयीच आसतले म्हूण दिसना. चाया पिंवचे खातीर आमचें वाहन थोडे घडियांक एकडे राबयलेलें. तेन्ना थंय दिकिलेले एक निर्माण केन्द्रांतु हांव वेगीन चडून पळोवनु आयलों. दिल्ली, कलकत्ता, बोंबे आदी महानगरांतु व्यापक जावनु आनी अन्य संस्थानांतू चिन्ना जावनूय हांगाचें सोफासेट, अलमारी, जेवणा मेज, कदेल, टीपोय, मांचो आदी विकून वता म्हूण मनांतु करूक जालें. सुन्दर नक्षिकामान अलंकृत, पोळीष मारून हारश्या तितलें चकचकीत, आकर्शक लुगटांनी कवर शीवनु घाल्लेलीं हीं गृहोपकरणां खंचेय घराक वा आफीसाक शोभा दितलींच. बरें सामान करताय म्हळेल्याचे पशी तें विकूक बरें विक्रीय संविधान सोदून काडलें म्हळळेलेंच हांचें विजय रहस्य म्हूण माका दिसलें. लाखा लेकान दंदेली हे व्यवसायान हांगा जीण काडताय.

285 किलोमीटर यात्रा करून पांच वरांचेर आमी कातगोडम

म्हळ्ळेले स्थलार पावलीं. के एम वी एनाचे गस्ट हावसांतु आमकां राबूक बंदोवस्त केल्यां. कुमयोण पर्वतश्रेणीचे खालटाचो प्रदेश हो कातगोडम. दिल्ली साकून आशिल्लें रेल गतागत हांगा सरता. उत्तरांचल संस्थानाचें कुमयोण भागाचे हे स्थलार उध्दमसिंग नगर, नैनिताल, अलमोरा, बागेश्वर, चंपावत, पित्तोरागढ अशी स जिल्ला आसाय. समांतरार साकून 550 मीटर तांय ऊंच स्थित हे स्थलारी वर्षाचे बाराय काळ सुखप्रद कालावस्था आसता.

हून उदकांतु न्हावनु जातरी, कुमयोणाचे चायेभाटांतुले उत्तम चाये पाल्ले उपयोगु करून केल्लेली चाय आस्वादन करून, सल्प चड घडियांक बालकणीचेर राबून सूर्यास्त पळयलें. अतीव सुंदर सांज. चायेक बरो परमोळु. भारतांतुले बाजारांतु साकून निर्यात करचे चाये पाल्यांतु कुमयोण भागाच्याक खूब नांव म्हूण गस्ट हावसाचो मानेजर मि. एच. जी. भट सांगूक लागलो.

सुखकर शेळोवु अनुभव जांवचे हे सांजवेळार हो सानु गांवु भोवनु पळोवनु येवया म्हणून हांव मि. हरिहराचे सांगातांतु देवलों. रेलवे टेर्मिनल केंद्रिकृत आसा शहराचो हृदय भागु. अल्पसल्प खीटू आशिल्लें एक सान शहर हें कातगोडम. कुमयोण राजकालाचे चंदरायानी हे गांवाक वाडोवनु हाडलोलो म्हणताय. चंपावत आस्थान जावनु हो राजवंश भरण करतालो.

वोंरोवु, गोंवु, कोब्बू. सोयाबीन्स आदी विपुल मात्रेन हांगा कृषी करताय. फळांचो एकु भंडारूच हो प्रदेश. आपिळ, सोनारलिंग, केळें, चेरी, दाराक्षी, नासपांडी, अक्रूट आदी विपुल जावनु हे भागारी कृषी करताय. उत्पन्न अन्य संस्थानांतु पेटेयताय. कसलीच व्यवसायिक अभिवृध्दि हे भागारी दिकूक पडना.

उत्तरांचल संस्थानाची सामान्य स्थिती हीच. एच.एम.टीची एक

घडियाळ निर्माण शाला, इंड्यन ओयिल कोर्परेषणाचें ग्यास फिल्लिंग यूनिट, हाय टेन्षन विजे सरियो करचे थोडे खारखाने, सोयाबीन्स प्रोससिंग यूनिटां आदी हे प्रदेशाचे प्रधान व्यवसाय. कुमयोण सर्वकलाशालेक अफिलियेट केल्लेलें कुमयोण इन्स्टिट्यूट ओफ इन्फोरमेषन टेक्नोळजी नांवाचें एक सान कोळेजय हांगा दिकीलें. बी.सी.ए., बी.बी.ए. असले अध्ययन क्रम हांगा शिकयताय म्हूण समजूकय जालें.

सांज जांवचानिक तो प्रदेश पूरा दोवांतु बुडलो. होटलांतु परतून येवनु उणे घडियांक आराम करून जांवचाकय रातीचें जेवण तयार म्हूण कळोवणी आयली. हे यात्रे वेळार पूरा, भारताची शीमा जावू तांय के एम वी एन तं खाण तयार करून दितालें. गस्ट हावसांतु आनी ऊंच पर्वत प्रदेशांचेरीय उत्तरांचल सरकाराचें हें टूरिज़म डिपार्टमेंट बरें रुचिकर खाण, हुनहुनीत, सामकी स्तुत्यर्ह रीतीर तयार करून दितालें म्हूण खास उडगास काडतां. भो दुष्कर हे यात्रा वेळारी एकेक यात्रिकालीय आरोग्य स्थिती तृप्तीकर दवरूक आवश्यक कलोरीचें खाण तयार करून दिंवचाक तांनी प्रत्येक श्रद्धा दवरली. फाले फाल्यार बेड टी, आट वरांचेरी पूरी, कुका उपकरी, चोण्या रांवदय आदी खाण, चप्पाती, शीत, दोन तीन तरकारी रांवदय, हापोळु, मेणाय आदी देनपारां जेवणाक, चार वरांचेर चाय आनी बिस्कुट, मागीर सात वरांचेर सूप, आट वरांचेर रातीचे जेवणाक चप्पाती, शीत, तरातरा भाज्यांची उपकरी, सलाड, फळां, अशी बस यात्रेचे तीनीय दिसांकय हें सर्वय मेळ्ळें. एकेक फंता तुपा शीत, शीरें, दाळी रांवदय, भाज्ये उपकरी आदीय मेळतालें. भारतांतूले भागाक मेळ्ळेलें सर्व खाणय बरें आशिल्लें म्हूण सांगूनाशिल्लें राबूक जायना.

फूटच कांबळ्यो, उश्या किस्वणी, शिरशिरेंवचो पावसु, शेळ वातावरण हांचो सर्वांचोय मेळु जांवचानिक सुखनिद्राच अनुभवली.




**Sketch Map of the Pilgrimage Route**

दुशेरो दीसु

# बागेश्वर

सकाणचे सतडांचेरी आमी तयार जालीं. सात वरांचेरीच खाण खावनु जालेल्यान समयारीच वाहन सोडलें. भीमताळ, भोवाली, कैंची धाम, अलमोरा, सोमेश्वर, कौसानी, बेजनाथ वाटेन बागेश्वराक 180 किलोमीटर आसा. कातगोडमांतु साकून केवल 34 किलोमीटर लागी आसा प्रसिद्ध भोंवडे स्थायु नैनिताळ. हे स्थलाक प्रकृतीन इतलें सौन्दर्य वरदान केल्यां कित्या! ही शोभाय कितली पळयल्यारीय पूरो जांवची न्हय.

तल्लीताळ म्हूण सुंदर एक सान सरोवर दांटवून आमी भीमताळाचे लागी पावलीं. नैनिताळाचे पशी सामकी होड आसा भीमताळ सरोवर. नैनिताळाचें उदाक घाणियारें, पाचवें जावनु दाट जालेलें. जेन्ना भीमताळाचें उदाक फुटच, नीळ मळबाचें सुंदर प्रतिबिंब पूराय शोभेन दाकोवनु दिंवचे तसलें. पाण्डवांतुले भीमान हे सरोवरांतु तप केल्यां म्हणून हाका भीमताळ नांव पडल्यां. वाड्डून येंवचो हो सानु गांव भविष्यारी क्रमान नैनिताळाक मागशीं घालतलो म्हूण निश्चित आसा.

तल्लीताळ साकून पर्वतप्रदेशांचे उंचटाक साबार सायळा रूक

फांदळेवनु राबल्याय पळोवयात. सास हेक्टरांचे लेकान स्थयांचेरी शास्त्रीय रीतीर सायळा रूक वोवनु वाड्डोंवचाक, सरकाराचे वनविभागान दाकोंवचें तात्पर्य प्रशंसनीय. आमचे गांवचे वरी वनसंपतीची व्यापक चोरायो हांगा चमकना म्हणूय समजून घेतलें.

णव वरांचे लागी आमी भोवाली पावलीं. सान एक शहर आसा भोवाली. दोंगुल्यांचे देवणें पूरा दोवांतु गुडळेवनु राबल्याय. णव वरां जालीं तरीय सूर्यप्रकाश हंय थंय मातें दाकयता मात्र. सुखांतरीक्ष. भेंडें, वैंगण, भुटा, कूक, भाज्जी, पाचवें आपिळ, कॉप्सिकम इत्यादींची साबार कृषी हांगा केल्या. वोंयचेरी दाट राबलेले फुलझाडांचेरी सूर्यकांती फुलां आनी विविध वर्णांचीं वेगळीं सुंदर फुलांय फुलून राबलेलीं कितलें पळयल्यारीय पूरो जांवचें न्हय. पैन, अक्रूट, चेरी आदी रुकय साबार दृष्टी पडताय. अतिसुंदर घाटी दांटवून बारा वरांचे लागी आमी अलमोरा पावलीं. के. एम. वी. एनाचे होळिडे होमांतु आमचे खातीर जेवणाक व्यवस्था केल्या. जेवण जाले उपरांतें उणे घडियांक आमी थंय सगट चोवनु भोंवलीं. दोंगुल्यांचे देवणेंचेर साबार घरां आसाय. देवदारु रूक सावट दीवनु राबलेले आनी दोंगरा देवणेंचेर सुंदर फुलां अमंत दृष्टी पडताय. सुमार खीट्टु आशिल्लोच गांवु अलमोरा. हांगा व्यापार स्थापनां आनी सान व्यवसायिक संरंभय साबार आसाय. सैन्यदळाचें एक रिक्रूटिंग केंद्रय हांगा दिकलें.

एक वराचेरी अलमोरांतु साकून सोडलेले उपरांतें लागीचे तीन घंट्यांक आमची यात्रा, भारतांतुले सर्वा पशी सुंदर म्हूण नांव पावलेले सोमेश्वर, कौसानी हादीन आशिल्ली. भारतांतुलें स्विटसरलेंड म्हूण कौसानीक भोंवडेकारांनी मान्य केल्यां. रस्त्या दोनीय वशींय किलोमिटरांचे विस्तृतीर गुड्डे पाचवेचार देवणेंचे दोंगूले आनी तांचे मद्दें सावट दीवनु मातें

उबारनु राबलेले देवदारु रूक कितले पळयल्यारीय पूरो जांवचे न्हय. खालाक देंवनु दृष्टी पडचें दिगंतर कृषीभूमीचे पाचवेचाराक सुंदर करता. दोंगरांचे देवणेंचेर मेटां सारके कातोरनु केल्लेले प्रदेशांवेली कृषी आनी ताजाकय खाल सपाट जमनींचेरी जपान मातृकेरी भाता गजन्यो दोळे पावनाशिल्ले अंतराक तांय विस्तारान पातळेवनु पडलेंलेंय अविस्मरणीय दृश्यच. हाका सगट शीमा घाल्लेले सारके केळींची आनी तरकारींची कृषी, विस्कळ तणामळां आनी तांचे मद्दमद्दें दिकूक पडचीं शुद्धजल सरोवरां, तांतूं प्रतिबिंबीत जांवचें नीळ मळब आदी खंचेय भोंवडेकारालेंय मनांतु दीर्घकालाक राबतलें म्हळ्ळेल्याक संशयु ना. सासा लेकान हेकटरांचेरी कोंडूर मातृकेरी वोयलेले देवदारु रूक दोवांतु कुरवून राबलेलें दृश्यय भो सुदर आसा. दोवा मद्देंच्यान देंवनु येंवचीं सूर्यकिरणां थंय एक सप्तवर्णा प्रपंचूच रचीता. सरोवरांतुल्यान देंवनु येंवच्यो शुद्धजला झर्यो फातरांचेर धाडवून उसोळनु खालाक व्होळचेंय कितलें पळयल्यारीय पांवचेंना. कौसानीची शोभाय चडोंवचाक थंयचीं चाये भाटांय प्रमुख भूमिका निभायताय.

गडवाळ दोंगरांचेरी साकून आरांभूची गोमती न्हंय कौसानीक घूंवळ काडून बेजनाथ वाटेन व्होळता. न्हंयचे देगेवेल्यान करची ही यात्रा बेजनाथांतु पांवतना वरां चवड जालेलीं. बेजनाथ मंदिर अतिपुरातन आनी तांतूं शिवपार्वती प्रतिष्ठा. देवस्थानाचें दर्शन जातरी थंय सल्प घडी खर्चीली. हे स्थलारी कुकाची कृषी साबार चमकता. तरातराचे आंब्या रुकय हांगा व्यापक जावनु कृषी करताय. गांवचे एक सान आंगडींतु साकून घेतलेली रुचिकर चाया पितना गजनींतु दंद करचे दादूल्याबायलांचें एक संघ आयलें. कुमयोणकारां गुड्डीं तरीय सौंदर्यान अनुग्रहीत. तांचे गोरबाणीक गुलाबी वर्णु लागेन मेळसल्लो दृश्य आसा. कृषी कार्य आनी गोरवांक चरोवनु तीं तांची जीण संतृप्तीन काडताय.

बायलांक 50 रुपया आनी दादल्यांक 80 रुपया तं हे प्रदेशावेले दंदेल्यांलो पगार. अत्यावश्याक मात्र छुट्टी काडून तीं वर्ष पूरा दंद करतलींय.

कैलास वाहनाक आनी यात्रिकांक नमन करूक आयलेले हे जनांचे लागी यात्रा सांगून आमी बागेश्वराक वचाक भायर सरलीं. पांच वरांचेर तेद्दूसचें लक्ष्यस्थान बागेश्वर पावलीं.

थंयचे के एम वी एन गस्ट हावसांतु आमी देंवलीं. दोनी माळ्येंचे हे विशाल बंगळ्यांतु सर्व बंदोवस्तय केल्लेलें. ताजे विस्कळ आंगणांतु सुन्दर तणामळ आनी मनभुलांवचीं विविध तरा फुलांझाडांय आसाय.

चमकून भोवनु येवया म्हूण देवलेले आमी दिकलेलें दृश्य अत्यप्रूप. सुलभ न्हय जालेलें हें दृश्य थंयचे उद्यानपालकान तं आमकां दाकोवनु दिल्लेलें. अस्तमय सूर्याचे भांगराळे किरणांतु न्हावनु राबलेले पश्चिमपिंडारी पर्वतश्रेणीचे मद्देंच्यान नंदादेवी शिखर झगझगेवनु राबल्यां, प्रौढगंभीर एक दृश्यच! बागेश्वर साकून 45 किलोमीटर दूरा आसा पश्चिमपिंडारी ग्लेस्यर. इतलेंच अंतर वाहनारी यात्रा करून जावनु मागीरीय सुमार 40 किलोमीटर पायवटेन यात्रा करूक आसा. भोंवडे कालाक साबार भोंवडेकारां हांगा पांवताय.

गोमतीचे आनी सरयू न्हंयचें संगमस्थान आसा बागेश्वर. हांगा साकून 120 किलोमीटर दूरा आशिल्लो सरमूल प्रवाहांतु आसा सरयूचो उत्भव. अतिपुरातन एक शिवमंदीर बागेश्वर शहराचे हृदय भागाक आसा. ताजे मुकारी आसा गोमती-सरयू न्हंयांचें संगम. मकरसंक्रमाक हांगा स्नान करूक व्हड मात्रेन जनां येवनु पांवताय म्हूण कळ्ळें. गोमती-सरयू न्हंयो हांगा साकून एकसानीच होळनु नेपाळांतु पांवतना शारदा नांवान वळकता.

बागेश्वराची प्रधान कृषी भाताची आनी गोंवाची. दोंगूल्यांचेरी वास करचे हिमालय बूटिया नांवांचे वनवासी लोक शेतकाम आनी अन्य दंदय करताय. बूटिया म्हळ्ळेले नांवाचेच वर्गांतुलीं सूणींय कुमयोण प्रदेशार सर्व साधारण. होडलें तोंड, थोरु गोमटो, सामकी उंचाय, थोर रोमावृत देह, बळवंत मुकावेले पाय, असामान्य शौर्य हें सगट ह्या वर्गांतुल्यांचीं खास लक्षणां. मनिषांचे लागी वेगीन संवकळून घेतलींय. एकु बूटिया गोवाळो आनी एक बूटिया सूणे एकडे जावनु सास बोकड्यांक चरयताय म्हूण तं हांगाचे लोक सांगताय.

बागेश्वरांतु 70 प्रतिशत क्षत्रीय, 20 प्रतिशत ब्राह्मण, 7 प्रतिशत दळित आनी बाकींचीं क्रिस्तांव आनी मुसलमान अशी लोक. समांतरारी साकून तीन सासा लागी फीट ऊंच ह्रो प्रदेश.



कैलास- मानसरोवराचे लागी साकून आशिल्लें दृश्य

## तिसरो दीस

# थारचूला

फाल्यार पांच वरांचेरी दीसु उदेलो. तो प्रदेश पूरा दाट दोवान बुडून राबलोलो तरीय सूर्यप्रकाशाचीं बालकिरणां परिसर पूरा पसरतालीं. सात वरांचेरीच आमी भायर सरलीं. चैकोडी-थल-डीडिहट वाटेन थारचूला पांवचाक 160 किलोमीटर आसा. दोवा सांगातांतु घोर पावसूय जांवचानिक यात्रा मंद जाली. णव वरांचेरी चैकोडींतु पावलीं आनी थंयचे के एम वी एन गस्ट हावसांतु खाणय खेल्लें. गस्ट हावसाचे पूर्व उत्तर कोणारी राबल्यार दिकचें, हिमालयपर्वतांचें दोळे विसविसेंवचें तसलें दृश्य दोळे भरून आस्वादन केल्लें. दस्साड वरांचे लागी थल म्हळ्ळेले सान गांवांतु पावलीं. थंय रामगंगा न्हंयचे भाटीरी उणे घडी आमी खर्चील्ली. हे भागार मनुष्य वासु साबार आसा. पित्तोरागढ जिल्लेचो एकु भागु हो गांवु.

बागेश्वरांतु यात्रा आरांभलेले साकून रस्त्याचे दोनीय वशींय देवदारु, चीर, बांज, ब्रूस रूक साबार आसलेले. रब्बराचे रुकां भाटांचे सारके चीर रुकांची कृषी सासा लेकान हेक्टरांचेरी केल्या. रब्बरा रुकांक घाय घालनु दींकु काडचे समान रीतीर चीर रुकांकय टेप्पींग केल्लेलें पळोवनु विस्मय पावलों. आनी हांचे पासून चड जाण जावूक माका

तात्पर्य आयलें. चीर रुकांचो दींकु (लिसा) व्यवसायिक आवश्याक व्यापक मात्रेन उपयोग करताय म्हूण आयकूनिक मिजो विस्मय दोटी जालो. रोड डार करूक, टरपेंटैन आनी प्लास्टिक सामग्रीचे उत्पादनाक हो दींकु उपयोगु करताय. कोणीफरस वर्गांतुले हे रुकांचें प्राधान्य आमी दक्षिण भारतीयांनी समजून घेतल्यां म्हूण दिसना. ह्या प्रदेशार व्यापक जावनु मेळचें एक फळ आसा लीची. हाजी पातळी साली निकळावनु काडल्यार एक होडले आवाळ्या येदी होडी आसची हाजी पिंपळी, रोसु सयत खांवचाक रुचिकर आसा म्हूण निसंशय सांगूयात.

एक वरा लागी आमी डीडिहटांतु पावलीं. 4500 फीटा पशी चड उंचाय आशिल्लें हें स्थल घोर वनान घेरून आसा. पावसा आनी दोवाची मिश्र कालावस्था देखून रान पुष्टीन खुतच आसा. काळूक भरलेले रानांतु भितरीय धवे मेघांचे सारके दिसूचो, खाल देंवनु दिसूचे तशी दोवु भरून राबलोलोय एक उद्वेग जनक दृश्यच. वागु, हस्ती, मांकड, चितळ, रानडुकर आदी मृगां आनी अपूर्व सवर्णीय हे वनांतु साबार आसाय.

हिमालय पर्वतश्रेणींचे खालटाक सरी पडलेले हे वनप्रदेशांतुलें सान एक शहर आसा डीडिहट. देनपारां बारा समयारीय हांगा शेळोवु आसा. एक सान सांतेतुल्यान हांव, हरिहराचे सांगातांतु उणे घडियांक भोंवलों. अक्रूट नांवांचीं फळां साबार विक्रीक दवरलेलीं दिकलीं.

तेन्ना स्कूळ सोडलोलो वेळु आशिल्लो. प्लस टू पर्यान मात्र डीडिहटांतु शिकूक सौकर्य आसता. उपरीपठन करूक दुरचे अलमोरा वा नारायणनगर वचून राबून शिकवण करका. आर्थिक सुरक्षा नाशिल्लीं साधारण जनां आसाय ह्या भागाचीं म्हळळेल्यान प्लस टू जाताकच

शिकवण राबून वतली. शिकवण जावनु युवक सैन्यांतु आनी पुलीस दळांतु काम सोदताय. हेच कारणान सैन्यांतु आनी पुलीसींतु हांगाचीं खूब जनां आसाय म्हळळेल्या पासून कुमयोणकार अभिमान पांवताय म्हणूय सांगचें आसा.

के एम वी एन गस्ट हावसांतु साकून जेवण जावनु दोन वरांचे लागी आमी भायर सरलीं. काळी न्हंयचे देगेवेल्यान आशिल्ले हे दुष्कर यात्रे पासून भीतीन मात्र तं उडगास काडूक जाता. उत्तरखंडांतु खंचेय वेळार भुंय घसरण जावनु फुटून पडून गतागत राबून वचात तरीय असले प्रश्न कसलेच जायनाशिल्लें आमी चवड वरां लागी थारचूला पावलीं.

थारचूलाचें के एम वी एन गस्ट हावस सुंदर आसा. गस्टहावसाच्या उंचायेन बांदलेले वणतेक आडोळनु काळी न्हंय उडकी मारनु व्होळता. न्हंयचे पेलतडीक आसा नेपाळ. रुंदाय ऊणे आशिल्ले एक लोकंडा सांकोवावेल्यान नेपाळांतु वचात. विदेश सामान सुलभ मेळची एकि होडली सांत सांकोव दांटवल्यार दृष्टी पडतली. इन्ड्यन रुपया दीवनूय थंय सामानां घेवयात. सांकोवाचे लागीच जावनु भारत भागाक एक कस्टंस आफीस आसा तरीय थंय परिशोधन कसलीच चमकता दिकलीना. नेपाळ मारकेटांतु भोंवनु जातरी थारचूलाचे पुरातन इन्ड्यन मारकेटय भोवनु चोयलीं.

गस्ट हावसांतु परतून पांवचानिक थंयचे जगलेरी शेंबरा भायर कुमयोणी युवक एकडे जावनु रावल्याय दिकलें. हे यात्रेंतु उपयोग करचे खातीरचे कूली आनी घोडेली ते. सरकारालें ऐडेन्डिटी कार्ड आनी के एम वी एनाचें हेल्त कार्ड तानीं एल ओचे लागी दिल्लें. तें परिशोधन करून एल ओन तीस कूलींक आनी पांतीस घोडेल्यांक वेंचून काडले. हेरदूसा

सकाणी धा वरांचे मुरथम मंग्ती म्हळ्ळेले कडे पांवचाक तांचे लागी सांगलें. दिल्लींतु साकून आमी यात्रा केल्लेले होडले बसाची धांवडी थारचूलांतु पावनु सरलेली. दुष्कर पर्वत प्रदेशांचेरी यात्रा करूक सर जालेलीं दोन मिनी बसां, के एम वी एनाचीं, हेरदूसा तयार राबलेलीं. होडले बसारी साकून सामान देवोवनु निसरावनु परत भारु पळोवनु मिनी बसांतु चडोंवचाक कूलींचो सहाय मेळ्ळो. पंचेवीस किलोचे पशी चड आशिल्ले सामानाक एक किलोक पन्नास पैसा लेकान दर एक दिसाकय के एम वी एनाक दिंवचें आसा आनी तें तेन्नाच भरका.

सांज जांवचानिक पावसु आरांभलो. पावसु चडून जोर जालो आनी काळी न्हंयचें उदाक चडून आयलें. गर्जून येंवचे पावसा उदकाचो अतिशक्त व्हाळो, होटलाचे बालकणीचेर राबून आमी अतीव भीतीन पळयलो. लेयसण अफसर, डोक्टरां, पुलीस अफसरां आनी के एम वी एनाचे अधिकारी गंभीर चर्चेंतु बुडले. पर्वत प्रदेशांचेरी पावसु शक्त जाल्यार भूंय घसरण जावनु दोंगरा भाग फुटून पडचें निश्चित देखून यात्रा राबोवनु राकचें पडतलें वा सगळीच यात्रा सोडची पडतली म्हणूय तांचे संभाषणांतु साकून समजलें. दिल्लींतुले विदेशमंत्रालयाचे लागी संपर्क करून लेयसण अफसरान तांकां हांगाची स्थितीगती समजायली. जूण साकून आगस्त मासाचे अंत्यार पर्यांन आशिल्ले कालाक चारशीं जनांक सोळा संघ करून हे यात्रेक व्हरतना विदेशमंत्रालय सविस्तार एक यात्रा पद्धती तयार करता. खंचेय एक संघाक येंवची अडचण अन्य संघाकय बाधक जातली. सेप्तेंबर मद्देंकताक .यात्रा असाध्य आसून, एकेक संघाचेय लेयसण अफसराक जांवची व्याकुलता आमकां अनुमान करूक जांवची.

## चोवतो दीस

# गाला

रातीची नीद सुखकर जाली. निदल्ले कडे चाया घेवनु होटला दंदेल्यान पांवचानिक वरां पावुणी पांच जाताय मात्र. तरीय सूर्यप्रकाश सर्वाणी पातळेलोलो. पर्वत प्रदेशार सूर्योदय सामकी वेगीं जाता.

सात वरांचे मुरथम खाण खावनु सर्वय तयार जालीं. चड तोडोवु करूनाशिल्लें आमी देवलीं. उत्तरप्रदेश पुलीस अफसरां वयरलस संविधान उपयोगु करून यात्रा संघाक अनुगमन करतालीं. पावसु दूरा सरून राबलोलो. वाहन दुर्बल दोवांतुल्यान चरनु चरनु मुकारसतालें. काळी न्हंयचे देगेवेल्यान करची ही यात्रा अत्यधिक दुष्कर. मुरथमले राती पडलेले पावसांतु वाटेर साबार कडे भुंय फुटून पडून जालेली अडावण, बोर्डर रोड्सांतुले कर्मचार्यांनी यंत्र सहायान सामकी करून घाल्लेली. दोनी कडे रस्त्या भाग फुटून न्हंयतू पडून गेल्लेले. थंय वाडकूळे फातर घालून भरून संचारयोग्य करू तांय राकून राबचेंय पडलें. भीतीजनक घूंवळ्यो आनी कमान सरी रस्त्या ऊंच वांकडे राबलेले भीमाकार फातर मनांतु भय भरताय. खंचेय निमिश अपाय जावयात म्हूण भीवनु मुकारसलेली यात्रा दस्साड वरांचेरी मंग्ती पावनु सरली. मोटोर वाहनाचेर भारत भागाच्यान करचे यात्रेचो अंतिम भागु मंग्ती

वनप्रदेशांतु सरता.

घोडे, घोडेली आनी कूली थंय राकून राबलेले. म्यूळ तराचे घोडे तं यात्रेक उपयोगु करताय. यात्रिकांलीं मुख्य सामानां व्हांवचे खातीर के एम वी एनान खास घोड्यांची बंदोवस्त केल्लेली. यात्रिकांक जाय तकीत घोड्यांक आनी कूलींक वेंचून काडयात. नाका म्हूण दिसूच्यांनी काडका म्हणूय ना. घोड्याक आनी घोडेल्याक मेळनु दिसाक 240 रुपया खर्चु जातलो. कूलीक दिसाक 140 रुपया दींवका, नंतणा खाणा खर्चाक जावनु 25 रुपया लागेन दींवका. ही रक्कम के एम वी एनान आद्यच निश्चित केल्लेल्यान कसले तर्काक वाट जायना म्हळ्ळोलो आश्वासु.

दिल्लींतुली वैद्यपरिशोधना जांवचाकय कैलास-मानसरोवर यात्रा पायवाटेन करूक जांवच्यांची एकि वळेरी लेयसण अफसरान आनी डोक्टरांनी मेळनु तयार केल्लेली. एकेक सघांतु साकूनूय ऊण्यान ऊणे चौग जाणानी पुणीय ही दुष्कर यात्रा पायवाटेन पुरती करका म्हूण एकेक लेयसण अफसराकय आग्रोह आसा. कारण पायवाटेन कैलास-मानसरोवर यात्रा केल्यार ताका सामकी चड प्राधान्य आसा म्हूण शिवपुराणांतु सांगल्यां. घोड्यांचे आनी याकांचे फाटीर बेसून यात्रा पुरती करूकच चडय यात्रिकांक तात्पर्य. लेयसण अफसरान चमकून वच्यांचें साध्यता लिस्ट वाचूनिक तांतु आशिल्लीं पांच जाण तांच्यान जांवचें न्हय म्हूण दूरा सरलीं. मागीर आशिल्यानी- हांव, हरिहर, बलराम डे, रूपेंदर आनी कलपेष षा आमी चमकूक निश्चय केल्लो. प्रधान सामान के एम वी एनाचे घोडे व्हांवतले तरीय भारत सीमा जातरी पांच दिसांचे आवश्याक आशिल्लीं वस्त्रां, अन्य सामग्री आदी फाटीर घालचे एक बेगांतु भरून कूलीचे लागी दिल्लें. सर्व यात्रिकांनीय कूलींची वंदोवस्त केल्लेली आसा. आरोग्यवंत हे कुमयोणी युवक यात्रिकांचे संतत सहचारी जावनु पांचयं



दीस आसतले म्हूण कळतालें. सुरीन्द्रकुमार नांवाचो वीस वर्षांचो युवक आसा मिगेलो सहायी.

इकरा वरां जांवचानिक आमी ती सुदीर्घ यात्रा आरांभीली. चमकतना सहायाक हातांतु धरूक बळ आशिल्यो बडीयो थारचूलांतु साकून घेवनु दवरलेल्यो. मंग्तींतु साकून सोडून तेद्दूस सांजवेळा गालांतु पांवतना आमी सात सास फीट ऊंच चडून जालेलें आसतलें. चिन्ना जालोलो वोता उजवाडु आशिल्लो तरीय शेळ वारें मारतालें. दोंगुल्यावेल्या सोपूर पायवाटेवेल्यान कष्ट काडून चडून आमी मुकारसलीं. मुरथमले रातीचो पावसु कारण जायते कडे थरथरेतालें. घोडेच कष्ट काडून चडती चडताले आनी घोड्यां फाटीर बेसलेल्यांक घट बेसूक भारी कष्ट जाताले. कूली, घोडेली आनी पुलीस अफसरां सहाय हस्त दीत राबलेले देखून कोणाक कसलो अपाय जालोना.

एक वरा लागी आमी जिप्ती म्हळ्ळेले स्थलार पावलीं. उणउणे जनवास आशिल्ले स्थायावेल्यान आसा यात्रा. चडय जनां पहाडी वर्गांतुले. रेंवेंची वणती आनी सुके तणांचीं पाकीं घाल्लेले सान खोमटांतु आसा तांचो वासु. एक सान चाये आंगडीचे लागी आशिल्ले बाज रुकाचे सावळेंतु बेसून आमी जेवलीं. कैलास यात्रिकांक दिकून वंदन करूक ते गांवचे पूरा लोक पावले. ॐ नमशिवाय मंत्र परत परत गावून यात्रिकांचे पायीं पडूक आयलेल्या म्हांतार्यांनी आमचे दोळे भरयले.

जिप्तींतु साकून मुकावेली यात्रा अतीव दुष्कर म्हूण आमी समजून घेतलेली. मळबाक आडोळनु राबलेले दोन व्हड पर्वत दांटवून जांवका गालांतु पांवचाक. एकेक हुनहुनीत चाया घेवनु पीवनु सल्प चड घडियो ते रुका पोंदाक ते गांवकारांचे सांगातांतु खर्चील्यो. जिप्तींतु सग मेळनु चाळीसां लागी कुटुंबां आसाय. क्षत्रिय लोक हे, पहाडी नांवांनी

वळकताय. हांचो मुख्य जीवनोपाय शेती. पिळगीं पिळगीं जावनु हे दोंगरांचेर वासु करून येंवचे हांकां शेतभाटां आसाय. दोंगरांचीं देवणीं, मेटां भशेन कातरून तांचेर कृषी केल्या पळयल्यार विस्मय जाता. काळी फलभूयीष्ठ भूंय थंयची. गोरवांक व्यापक जावनु वाड्डोंवचे कारणान जैवीक सार्यांनी संपन्न हो स्थायु. कूक, फुलगोबी, भेंडें, वैंगण, टमाटर, मिर्यासांग, भुटा, गोंव आदी खुतच वाड्डून राबलेलेंय कौतुक दृश्य. अक्रूट फळाचे रुकय साबार आसाय. कृषी उत्पन्न थारचूलांतु व्हरून विक्री करताय. दोंगरांचेर व्यापक जावनु चमकूची गंजा कृषी पळोवनु माका धपको लागलो. गंजा कृषी करच्याक आनी विकच्याक हांगा कसलेंच अडचण ना म्हूण हांवें मागीर समजून घेतलें. लागीचें राज्य नेपाळच हाजें मुख्य व्यापार केन्द्र म्हणूय समजलें.

शरद रितु आरांभतना हांगाच्यांचे कष्ट चडतले. दाटायेन हिमवृष्टी जांवचे हे प्रदेशांचेरी घरांतु साकून भायर देंवचाक जावनाशिल्लें हांनी एक तरा एकांतवास करताय. विज नाशिल्यान उजवाडाक तेल्ला दीवे मात्र हांचो आश्रयु. पावसाकालाक भूंय फुटूनु देंवचेंय संभव्य देखून ते कारणान जांवचे कष्टनष्टय सहन करका जाताय.

मंग्तींतु आनी जिप्तींतु विद्याभ्यास साहचर्य भो वायट आसून आटव्यांतु तांय मात्र शिकूक जाता. पुण हांगाचे अध्ययन क्रमाचे पासून चड जाणूनिक माका अत्यधिक संतोषु जालो. वेदपुराण भास संस्कृत हांगाचो निर्बंध विषय. हे प्रदेशांचेरी वाड्डून विकास पावनु पुष्टी पावलेल्या महत संस्काराची भास संस्कृताक हांगा आतांय आदर करताय म्हळ्ळेलें प्रशंसनीय. भारताचे अन्य संस्थानांतूंय हें मातृका जातलें म्हूण आशेवनु वतां. आटव्यांतु शिकवण जाल्यार मागीर प्ळस टू शिकूक थारचूलांतु वचूका. प्ळस टू जाल्यार चड शिकूक पित्तोरागढांतु वचूका. हाजे खातीर

जांवचो खर्चु पळयल्यार चडय जाण शिकवण प्लस टूवाचे खालच राबयताय. पित्तोरागढ, अलमोरा आदी स्थलांचेरी वचून कसलेय सगट दंदांतु लागून आयचीं पिळगीं जीण काडताय. हे प्रदेशाचे चडय जनांक भारतीय जनता पार्टीचे लागी आसा राष्ट्रीय आभिमुख्य. कैलास-मानसरोवर यात्रिक आनी शीमेचे राखणदार सैनिक मात्र आसाय हे स्थलावेल्यान अशी तशी वचे. छोटाकेलासाचेर वचे तीर्थाटकय हेच वाटेन वताय. तरीय नेपाळ वाटेन वचेंच सरळ.

दोनी वरां जांवचानिक आमी मुकार सरलीं. एकेक चडतीय अतिकठिन आशिल्ली. दोंगरा देगेवेल्यान आशिल्ले सोपुर पायवाटेवेल्यान कष्ट काडून चडतना देगे खाल दिकची खोल घाटी मनांतु भीती हाडता. थंय थंय एकेक घरां दृष्टी पडताय. थोडे कडे शेतकामांतु लागून राबलेले दादूल्याबायलांकय दिकीलीं.

देनपारां उपरांतें मळब मेघावृत वरलें. दोव आनी शेळ वारें एकसाणीच आयलें. केन्ना केन्ना दोवु दाटायेन येवनु आमगेले दृष्टीक आड राबता. पावसु लागेन शिरशिरेंवचाक लागूनीक सामकीच शीं खांवचाक लागलें. दोवु उबून दूरा वतना आमी यात्रा परत चालू करतालीं. चार वरांचे लागी आमी गालांतु पावलीं.

ते दोंगराचेरी के एम वि एनान तयार केल्लेलें तात्कालिक केंप तृप्तिकर आशिल्लें. आस्बेस्टोसांनी बांदलेले षेड्डांतु, मांचो, हांतूण, कांबळे, स्लीपिंग बेग सर्वय आसा. साफ टोयलेट आनी न्हाण्योय तीन तीन आसाय. जाय जालेल्यांक हून उदाक मेळतलें. दोंगरांचेर साकून देंवनु येंवचे झर्येंतुलें उदाक थंय थंय बांदलेले टेंकांतु भरनु तांतु साकून नळ्यां वाटेन पर्वतवास्यांक पांवयताय. यंत्राचो सहाय वा शुद्धीकरण कसलेंच नाशिल्लें सामकें स्वभाविक जलवितरण संविधान. हून उदाक

उपयोगु करून न्हांवचें आवडनाशिल्ले माका शुद्ध शेळ उदकाचें न्हाण नवोन्मेश दिता. रोमे वस्त्रां न्हेसून ऊब येंवची हून चाया संथसंथ पीवनु आंगणांतुले गुड्डे वणतेर बेसून आमी सूर्यास्त पळयलें.

खालाक दोंगरांचे घाटींतु दोवु दाटायेन, निश्चल रावलेले मेघांचे सारके वेगळे एक मळबाची प्रतीती हाडता. उंचारी अनंताकाशु आनी खालाक दोंगरांचेर दुशेरो आकाश, तें दृश्य अत्यधिक आकर्षक आशिल्लें. केंपांतु साकून सल्प दूरा जावनु दोंगूल्या देवणेंचेर मनुष्यवास आसा. केवल धा इकरा घरां मात्र आशिल्ले ते सान गांवांतु आमी- हांवें आनी हरिहरान, एक ह्रस्व संदर्शन चमकयलें. आमचे घोडेल्यांक आनी कूलींक थंय मांडू घालनु राबूक बंदोवस्त आसा. घोड्यांक बांदूक आनी खाण खावोंवचाक थंय सौकर्य केल्लेंलें. पाक्याचे एक षेड्डांतु सर्वय एकडे जावनु बेसूनासाय. तांकां खाणाक आनी पडूक थंय बंदोवस्त केल्यां. एकेकल्याक वीस रुपया लेकान दींवका मात्र. थंय तरकारीची साबार कृषी आसा. आनी सांगातांतु गंजाची व्यापक कृषीय चलता.

सांज दांटवूनीक आमी परतले. केंपांतु सात वरां साकून णव वरां तांय विज आसतली. हे खातीर के एम वी एनान एक सान जेनरेटराची व्यवस्था केल्या. खाणा मुरथम वैद्यपरिशोधनेक पांवचें आसा. ते उपरांतें सर्वय मेळनू करचें भजन. सामकी दुर्घड यात्रा ही म्हूण पयलेचे दिसाच आमकां कळ्ळें. के एम वी एनाचे गायडांनी आनी अन्य मार्गदर्शकांनीय हाजे पासून समजायलेलें. भजन जातरी करपूरा आरती आनी निवेद करून महादेवाक समर्पिलें. मुकावेले दिसांकय आमी होच नित्यक्रम चलयलो.

खाण जावनु स्लीपिंग बेगांतु चडून पडलेले आमकां वेगीन नीदय पडली.

## पांचवो दीसु

# बुधी

फांत्याव राती चार वरांचेरी के एम वी एन गायडान येवनु जागयले. एकेक हूनी चाया पीवनु जावनु प्रभातकृत्यां वेगीन करून आमी चवडांचेर तयार जालीं. देंवचे वेळार मेळ्ळेलें बोणविट्टा वेगीन पीवनु, पटळी बांदून दिल्लेलें खाण बेगांतु दवोरनु केंपा भायर पांवलीं.

काली राती पावसु जोर पडलोलो. लागी आशिल्ले दोंगरांचेरी साकून साबार उदाक देंवनु येतालें. दोवान पांगूरनु पडला तो सगळो स्थायु. घोड्यांचेरी यात्रा करच्यांचें संघ मुकार गेल्लें. सर्वांचेय मागशीं जावनु चमकून वचे आमीय देंवले. टोर्चाचे उजवाडांतु अतिसूक्ष्म जावनु एकेक पावल मुकार दवोरनु आमी चमकीले.

गाला साकून बुधी पांवचाक वीस किलोमीटर आसा. यात्रा अतिदुष्कर म्हूण मार्गदर्शकान सांगलेलें. गाला साकून बिंदाकोटी तांय सपाट प्रदेश. दोवा सांगातांतु पावसु शिरशिरेतालो तरीय यात्रा तितली कष्टकर म्हूण दिसलीना. एक घंट्यान आमी बिंदाकोटी पावलीं. PWD चें एक गस्ट हावस हांगा आसा. तांतु जनवासु आसा म्हूण दिसलोना. मुकारची यात्रा धपक्यान मात्र तं उडगास काडूक जाता. 4440 मेटां चडून देंवनु जांवका तीन किलोमीटर दूरा आशिल्लें लखनपूर पांवचाक.

दोन सास फीट उंचायेरी, काळे फातरा पर्वताची उबी देग कोरांतून केल्यांय हीं मेटां. अडेच फीट दिगाय आनी केवल एक फीट रुंदाय आशिल्या ह्या मेटांचे कडेन, खाल अगाधगर्तु. पावसु आनी दोवु कारण तिमून फुगून पडलेल्या मेटांवेल्यान सरसरेवनु पडल्यार मागीर कितें जातलें म्हूण अनुमान करूक सरळ जाता. उबी देंवणे अतिसूक्ष्मेन देंवनु सपाट आशिल्ले एक सान स्थलार उणे घडी विश्राम केल्लो. Electral & Glucose Powder मिश्र केल्लेलें उदाक पीवनु, श्वासकोशांक सल्प विश्राम दीवनु, पर्वतांचे मद्देंच्यान उदेवनु येंवचे सूर्याची शोभाय आस्वादन करून सल्प चडच घडियांक थंय बेसलीं.

धीरु परतून मेळूनीक यात्रा पुनरारांभीली. मेटांवेल्यान आशिल्ली यात्रा घोड्यां फाटीर सवार करच्यांक भो कठिन आसतली देखून तींवय ह्या भागार चमकून तं वतालीं. जायत्यांक ही यात्रा तरातराचे कष्टाक कारण जाली. दुर्घटणेचे देगेर तांय एकेकलीं पावलींय. मेटांचेरी घोड्यांनी थंयथंय शेण घाल्लेल्यान, जायतीं जनां जायते फंता सरसरेवनु पडलीं. ऐन वेळार घोडेली, कूली, के एम वी एनाचीं आनी पुलीसाचीं अफसरां सहाय दिंवचाक पावलीं देखून मात्र अपाय दूरा राबलो.

लखनपूराक आशिल्ली अर्द वाट दांटवून जांवचाकय यात्रा चड भीती जनक जाली. दोन सास फीट खालच्यान काळी न्हंय गर्जून कुदून व्होळताली. खोल ते व्हाळयांतु पळयल्यार देह सगळें कडकडो अनुभवतालो. अत्यंत असुरक्षित घूंवळ्यो आनी मागीर सामकी उब्यो चडतीयोय मनांतु आकांत भरता. हें कांय नुपूरो जावनु दोवूय दाटायेन मांडलो. छटछट जावनु दोवु येवनु आमची दृष्टी दुर्बल करता. असले वेळार पुलीस तुरंत विसील वाजताले आनी यात्रा राबवयताले. दृष्टी शून्य जांवचे असले परिस्थितीरी राबिल्ले कडेच राबचें पडतालें.

लखनपूराक पांवचे अंतिम किलोमीटरा यात्रेचे चारींतुले तीन

वांटेय उडगास काडचे तितले बरे न्हय. सगळीच अतिदुर्घट उबी देंवती. ऊंच राबून दिकलेले काळी न्हंयचे पाडीक तं देंवनु वचूका. खाल देंवतना दोवु दूरा राबलो म्हळ्ळोलो सामकी आश्वास जालो. पुण न्हंयचो गर्जु कानांक तांकूक जांवचाकय चडू. अतिसाहसिक आमची ही यात्रा लखनपूर पांवतना वरां णव जालेलीं.

काळी न्हंयचे देगेर लागून पडलोलो एकु सानु प्रदेश हो लखनपूर. तीन चार घरां मात्र थंय दिकलीं. आनी एक भागान एकि चाये आंगडीय आसा. पाक्या खोंमटांच सर्वय. आंगडीचे मुकार मांडु घालनु बेसून आमी, पटळी करून हाडलेली पूरी खेल्ली. जायते तरा तरकारेंची मिश्रण रांवदय एकि, थोडीं जाणां थंय साकून घेवनु खाताली दिकलें. अस्सल दूद घालून केल्लेली बरी चाया आंगडींतु साकून घेवनु पीवनु न्हंयचो वर्णनातीत व्हाळो पळोवनु अर्द घंटो खर्चीलो.

लखनपूराक साकून आमचे यात्रेचो चडूय भागू काळी न्हंयचे देगेवेल्यान म्हूण गायडान सांगलेलें. न्हंयचे पेलतडी आसा नेपाळ. मळबाक आडोळनु राबलेल्यो पर्वतश्रेण्यो भारत तशीच नेपाळ भागाकय आसाय. तांचे मद्देंच्यान काळी न्हंय उडकी मारून वता. भारताक आनी नेपाळाक चीरनु वचे हे न्हंयेचो उद्भव नेपाळांतुले हिमालयाचेर आसा. अगाध घाटींतुल्यान 168 किलोमीटर गर्जून व्होळनु काळी न्हंय नेपाळाचे समतलारी पांवतना शारदा म्हळ्ळेले नांवान वळकता. मागीर शारदा न्हंय गंगा न्हंयचे लागी एकडे जाता. भारत भागाचे पर्वतांचेरी साकून साबार झर्यों काळी न्हंयतु मेळताय.

अर्द घंटो आराम करून यात्रा पुनरारंभ केल्ली. भुंय घसरण आनी ताजान जांवचे गतागत प्रश्न हांगा नित्यसंभव म्हूण आंगडीकारान सांगून कळ्ळें. उबे राबलेले पर्वतांचे खालचे भागाक कोरांतून केल्लेली ही सोपूरी पायवाट न्हंयक लागून लागून पडल्या. न्हंयचो अनियंत्रित व्हाळो

आनी गर्जु मनांतु भीती भरता. न्हंयचे पाडीरी साकून क्रमान चडती चडून पर्वतांचे भितरच्यान सरी आशिल्ली वाट अपार उंचायेरी मुकारसता. अडेच फीट रुंदाय आशिल्ली फातरा वाट जायते कडे फुटून न्हंयतू पडून गेल्या. असले स्थलांरी रुका धडी कातरून घालनु तत्कालाक गतागतयोग्य करून सोडल्या. उब्यो चडतीयो आनी अतीव दुष्कर घूंवळ्यो मनांतु भो विभ्रांती हाडता. एकेक पावल अतीव सावधपणान दवरून आमी चडून वची ही वाट शेंबर शेंबर फीट ऊंच वता. अल्प ही अश्रद्धा जीवापायाक कारण जातली म्हूण एकेक यात्रिकानय समजून घेतलेलें.

एकेक दोंगर चडून जातनाय ऊंच आशिल्ले सपाट हिमालय घाटींतु आमी पांवतालीं. अति सुंदर आसा हो प्रदेश. फुलून राबलेलीं फुलझाडां आनी पाचव्यो परवतान्यो* घाल्लेल्या सारके पाचवीं तणामळां मनांक शेळोवु दिताय. तणामळांचेर मांडू घालनु बेसून बिस्कुटां आनी पानीय पीवनु धीरु केल्लो. मुकावेले यात्रे वेळार न्हंयचे देगेवेल्यान करका जांवचे भयजनक दुर्घट चडतेचे खातीर मानसिक तयारी केल्ली.

पावसु आनी दोवु दूरा राबला बरें जालें म्हूण दिसलें. व्यापक जावनु भूंय फुटून देंवनु गेल्लेले हादीवेल्यान आसा मागीरची यात्रा. खंचेय निमिषाकय अपाय संभव्य. ऊंच साकून भीमाकार फातर शक्तीन गडगडेवनु येवनु न्हंयतू पडचें भयजनक दृश्य पळयतना धपको लागताच. भाग्यान मात्र तं वांचून वतालीं. असले समयारी रस्त्यांचे ऊंच कमान सरी मुकार धींगूळनु राबलेल्या फातरांचे पोंदाक चडून आमी वांचतालीं. मागीरची एक किलोमीटरा वाट, ऊंच साकून पडचे जलप्रवाहांतु तिमून फुगून आमी चमकीलीं. जायते कडे हादीचे अर्द भागय दोंगरांक कोरांतून केल्लेले सुरंग सरी आसलेले. असले भागारी बावगून चमकून आनी बेसून झरनूय आमी मुकारसलीं. मिगेलो सहायी सुरींद्रकुमार आनी हरिहराचो प्रह्ळाद सिंग असले असुरक्षित स्थलांचेर तांचो सहाय निर्लोभ दिताले.

---

*परवतानी- carpet

भूंय घसरण जांवचाक साध्यता आशिल्ले स्थलांचेरी पांवतना दोंगरवासी ह्या दोगांकय छट जावनु राबूक आनी दूरा सरूक प्रचोदन जातालें तांकां आशिल्लें सातवें इंद्रीयच कारण म्हूण दिसतालें. लागचे निमिशाक जावयात जालेली दुर्घटणा तशी दूरा वताली.

शारीरिक क्षमता आनी क्षमा अतीव मात्रेन परीक्षण करची ही यात्रा सुमार एक वरा लागी माल्पा म्हळ्ळेले स्थलार पावनु सोंपली. दिल्लींतु साकूनूच माल्पाचे पासून आमी जायतें आयकलेलें. बागेश्वरांतु आनी थारचूलांतु आसतनाय आनीकय आयकलेल्यान माल्पा एक दुस्सपन सरी मनांतु भरून पडलेलें. माल्पा दुर्घटनेंतु मरून गेल्लेले आपले भावोजीची काणी सुरीन्द्रकुमारान वेळ मेळता तशीच एक दृक्साक्षी विवरण सारके सांगून दिल्ली.

1998 वर्षा आगस्त मासांतु तं माल्पा दुर्घटणा चमकलेली. कैलास-मानसरोवर यात्रेचे बारावे संघान तेद्दूस राती माल्पांतु पावनु केंप केल्लें. श्रावण मासांतुलो पावसु तीन चार दिसांक पडत राबलोलो म्हळ्ळेंलें ते संघाक चड पीडा जाली. काळी न्हंयचे पाडीरी स्थित एकु सानु गांवु आसा माल्पा. आनी ते कालाक हांगा तीसा लागी कुटुंबां वासु करतालीं. उत्साही थोडे युवकांचे सांगातांतु नाट्य नृत्य कला प्राविण्य आशिल्यो थोड्यो बायलो लागेन ते संघांतु आसलेल्यो. नांव पावलोलो हिन्दी चलचित्र नट श्री. किरण बेडीली बायल श्रीमती प्रोतिमा बेडीय त्या संघांतु आशिल्ली. यात्रिक, घोडेली, कूली, के एम वी एन आनी पुलीस कर्मचारी सर्वय मेळनु ते संघांतु देडेशा भायर जनां आशिल्लीं. मळबाक आडोळनु राबलेले पर्वतश्रेणींचे मद्दें आशिल्ले एक विस्कळ तणामळारी के एम वी एन केंप मांडलेलें. देनपारां परतून माल्पांतु पावलेंलीं संघांगां तेद्दूसचे अनुकूल कालावस्थेंतु काळी न्हंयचे भाटीर आनी ते अतिसुंदर हिमालय घाटींतूय पिसोळ्यां सारके भोवनु आनन्द पावलीं. सांज परतून

कालावस्थेंतु होड्डु बदलाव आयलो. गुणगुणेंवचें वारें, पावसु आनी अतिशैत्य कारण संघांगां होगीच खाण खावनु केंपांतु सरलीं. मदराती पश्चिम दक्षिणं भागाचो एकु होड्डु पर्वत तशीच फुट्टून पडून तो पूरा प्रदेश नामावशेष जालो. गांववासी आनी संघांगां मेळनु सुमार तिनीशें जाणां निमिश भितरी हे जगांतु साकून यात्रा सांगून गेल्लीं. घोडे आनी अन्य मृगांय तांतू पडून मेल्लीं. दोंगरा देवणेंचेरी वासु करचीं एक दोनी कुटुंबां मात्र बाकी वरलीं. हेरदूसा दूरचे केंपांतु साकून सैनिक पावले तरीय तांकां करूक कसलेंच नाशिल्लें. एक मृतदेह सरी मेळ्ळेंना. प्रकृतीचे संहारतांडवाचे मुकार मातें बावगोवनु निशब्द रडूक मात्र तांच्यान जालें.

पर्वतवासी गांवकारांनी आनी सैनिकानी, हे दुर्घटणेचें कारण जावनु सांगचें तेच वरी विश्वासांतु घेवयात म्हूण सांगूक जायना. तरीय तशी एक साध्यता ना म्हणूय ना. बोंबेचे खीट्टु भरलेले रस्त्यावेल्यान नागडी धांव केल्लेली प्रोतिमा बेडी, परिपावन कैलास-मानसरोवर यात्रे वेळारीय केंपांतु नृत्य करताली म्हूण आयकल्यां. तेडूसचे लेयसण अफसरान तसले करणीक कित्याक अनुवादु दिल्लो म्हूण निमगील्यार जाप दिंवचाक कोण आसा? श्रीमती प्रोतिमा बेडीलो पुतु सिद्धार्थान अमेरिकेंतु आसतना, अत्महत्या करून चड काळ जालेनाय आशिल्ले. तें कठिन दुख विसरूक म्हूण जावयात ती हे दुर्घट यात्रेक भायर सरलेली. कशी जाल्यारीय कैलास-मानसरोवर यात्रे वेळार चमकलेली होडल्यांतुली होडली दुर्घटणा माल्पांतुलीच.

कैलास यात्रा जावनु परतून येंवचें एक संघ, माल्पा दुर्घटणा कारण वाटेर शिरकलें. एक वारा लागी उपाशी पडून पीडा भोगून निसहाय जालेले तांकां आखेर हेलिकोप्टर उपयोगु करून दिल्ली पावोंवका जालें.

एक निर्धन कुटुंबांग सुरींद्रकुमारालो भोवोजीय तं दुर्घटणेंतु

मरून गेल्लो. भाड्याक काडलेले एक घोड्याक घेवनु, दोंगरांचेरी सैनिक केंपांतु आवश्यक सामानां पावोवनु दीवनु आनी कैलास-मानसरोवर यात्रा कालाक यात्रिकांचो घोडेली जावनूय भो कष्टान जीण काडचो एकु कुटुंबनाथ आसलोलो तो. नष्ट परिहार जावनु सरकारान दिल्लोलो देडु लक्षु रुपया बेंकांतु निक्षेपु करून ताजे वाडीन सुरींद्रकुमाराली भयणी आनी चेरडुवां आतां कशीकीच जीण मुकार व्हरताय.

माल्पांतुले हे दुख भूमींतु आमी उणे वेळु खर्चीलो. मोडून पडलेले पर्वतभाग आनी फातर ते प्रदेशार पूरा राश जावनु पडल्याय. साबार होड्डु भागु न्हंयतूंय पडलो म्हूण दिसता. कारण ते भागाक न्हंयेक चड खोलाय दिसना. नंतणा वाट सोडून न्हंय व्होळळेल्याचींय लक्षणां दृष्टी पडताय. परिपावन एक लक्ष्या खातीर भायर सरून तें पुरतें करूक जायनाशिल्लें विधीचे मुकार हार खेल्लेले ते पुण्यात्मांचे आत्मशांतीक जावनु उणे निमिशांक प्रार्थना करून जावनु आमी मुकार चमकीलीं. दोन फरलोंग दूरा आशिल्ले एक सान गांवांतु खाण खांवचाक जावनु राबीलीं.

पांच घरां मात्र आशिल्ले हे सानूले गांवांतु दोन होटलां आसाय. घरां आनी होटलां पूरा तणा पाक्यांचीं. कैलास-मानसरोवर यात्रिकांचे खातीरचीं हीं होटलां तीर्थाटन कालाक मात्र प्रवर्तन करताय म्हूण मनांतु केल्लें. निशें आटोवनु सुकें केल्लेलें सूरय शीत, दाळी रांवदय आनी तेलांतु भाजून काडलेली जीवमिर्यासांग हीं, हे देनपारां वेळावेले भुके शमनाक रुचिकर जालीं. पटळी करून काडलेलें जेवण मुरथम हादीरी आसतनाच भूक तारासूक जायनाशिल्यान खावनु सारलेलें. होटला खाण खायनाशिल्लें चोंवका म्हूण नेम आसा तरीय थोडे फंता तो खंडन करका जाला.

होटलाचे भायरच जावनु, न्हंयचे तीरारी एक स्मारक आसा. सिमेंटान बांदिल्ले एक मंटपाचे मद्दें, माल्पा दुर्घटणेची तारीक आनी

अपमृत्यु पावलेल्यांक आदरांजली समर्पीलेलें शिला फलक दवरल्यां. थांगाय आमी मौन प्रार्थना केल्ली.

माल्पा अपघाताचे उपरांत, तीर्थयात्रेचे हे परंपरागत हादीक बदल, ऊणे दिसांनी वचाक सर जालेले वेगळे हादीक जावनु निर्देश सरकार तलार चर्चेक आयलो म्हूण आयकल्यां. तरीय लदाक पर्वतां दांटवून चैनेंतु पांवचाक आशिल्ली ही दुशेरी हादी चड दुर्घटणेंक कारण जातली म्हूण निर्णय जालो. आनी आतांय हीच पौराणिक वाट उपयोगांतु आसा.

शिजयलेले गोंवा उंडे, कुंडो आनी उदाक जाय तितलें खावनु पीवनु घोडे न्हंयचे पाडीक चरनु भोवले. शेळोवु आशिल्ले ते देनपारां वेळारी तणामळाचेरी उद्दारीच पडून हांवें आनी हरिहरान विश्राम काडलो. सस्यशास्त्र अध्यापक बलराम डे हिमालय सस्यांचे पासून निरीक्षण करून भोंवतालो.

सामकी विश्राम करून धीरु हाडून आमी मुकारसले. न्हंयचे भाटीवेली वाट भूंय घसरण कारण मोडून गेल्या देखून सान दोंगूल्यांचेर चडून देंवनु दुशेरी न्हंयचे देगेर पांवतालीं. तशी एक अवसरारी अत्यधिक भीतीजनक चडती आमकां तरण करका जाली. न्हंयचो व्हाळो संहार तांडव सरी थंय अनुभवलो. नेपाळ भागाक आशिल्ले दोन सामके उबे पर्वतभागांच्यान शरवेगान व्होळनु येंवची एकि न्हंय हे भागाक पांवतना हे न्हंयतु मेळता. हे संगम स्थलाचे लागीच्यान वचे सामकी सोपुर पायवाटेवेल्यान सुमार एक सास फीट ऊंच चडून वचाक आसा. सप्त नाडी राबून वचे सारके एक प्रतिसंधी. चडती चडूक कष्ट काडचे घोड्यांक मागशीं साकून गाळी दीवनु, धींगूळनु चडोंवचे घोडेल्यांची आनी ते घोड्यांचे फाटीर घट बेसूक भो कष्ट काडचे मृतप्राय जालेले यात्रिकांची स्थिती अत्यंत दयनीय दिसली.

कठिन ती चडती चडून एक समतलार पावलीं. हिमालय घाटींची शोभाय परत एक पावटी लागेन दोळे भरून आस्वादन केल्लें आमी. फलभूयिष्ठ हे भुंयचेर साबार कृषी केल्या. कूक, भुटा, गोंव आदींचीं झाडां खुतून वाड्डून बरें दिसता. गंजा झाडांचीय खूब कृषी केल्लेली आसा. खुमानी नांवाचें एक फळ साबार जावनु पडलेल्या रुकांची कृषी विस्मयान मात्र पळोंवचाक जाता. गाढ तांबडे वर्णाचीं, आपिळाची आकृती आनी होडकाय आशिल्लीं हीं फळां अत्यधिक गोड आनी रुचिकर आसाय.

चड तोडोवु जावनाशिल्लें आमी लामारी म्हळ्ळेले सान एक गांवांतु पावलीं. हांगा केवल धाच घरां आसाय. ITBP चें एक तात्कालिक केंप हांगा आसा. वयरलेस संविधान उपयोगारी आशिल्ले हांगा आट सैनिक राबताय. रांदूक जावनु एक पर्वतवासी जांटोय आसा. पाक्या खोमटांचे बदल हांगा रेंवेंचे वणतीयांचे, स्लेटा फातरां पाकीं घाल्लेले सान सान घरांतु गांवकारी राबताय. गायगोरवांक हांनी वाडयताय. कृषी उत्पन्न दूरा आशिल्ले थारचूलांतु व्हरून विकून, आवश्याक आशिल्लें अन्य सामान थांगा साकून घेवनु परतताय. शींया कालु आरांभतना हांगाचें सर्वय बंद करून गायगोरवांकय घेवनु तीं थारचूलांतु तात्कालिक वसती सोदून राबताय. रेंवेंचे लागी आशिल्ले मनुष्यांलें अभेद्य संबंद एक मात्र कारणान जावयात हांकां हे दुस्सह दोंगरांचेर जीण काडूक प्रेरणा मेळता.

ग्लूकोसा उदाक आनी बिस्कूटां खावनु जावनु आमी लामारीक विदा सांगली. सर्व कडेचेय गांवचे वासीयांनी करचे समान हांगाचींय यात्रिकांक अनुग्रहु दिंवचाक पावलेलीं.

लामारींतु साकून मुकारची यात्रा चड कठिन न्हय. सान झाडां, फातरां हींड आनी सपाट मैदानां दांटवून आमी परत काळी न्हंयचे

भाटीरी पावलीं. चड उंचायेची न्हय तरीय न्हंयचे देगेवेली ही यात्राय येद्दी सुरक्षित नाशिल्ली. भारत तशीच नेपाळ भागा साकूनूय वर्षां वर्षां जावनु पर्वतभाग मोडून न्हंयतू पडून गेल्याय आनी हे कारणान ते ते भागाक न्हंयेक असामान्य रुंदाय आसा. आनी तशीच गतीवेग ऊणेय.

उजवे कडे घुंवल्यार नेपाळ पांवचे एक स्थायार साकून आमी, दावे भागाक घुंवलीं. काळी न्हंयेक सोडून आमी भारत भागाचे पर्वतांचेर साकून व्होळनु येंवची गंगुनुल्ला न्हंयचे देगेवेल्यान मुकारसलीं. हे भागाक राबून पळयल्यार बुधी केंपांतुले तंबू दृष्टींत पडताय. अर्द घंट्यान न्हंयचेर आशिल्लो तात्कालिक सांकोवु दांटवून, सुमार ओवूट वरांचे लागी बुधी केंपांतु पावलीं.

बुधी केंपाचे मुकार सुंदर एक उद्यान आसा. आट जाणांक पडूक आशिल्लें सौकर्य एकेक षेड्डांतूय आसा. अस्बेस्टोस षीट घाल्लेलीं षेड्डां आनी परिसर बरें तरेन परिपालन करूक के एम वी एन जाग्रता दाकयता म्हूण समजलें. एकेक ग्ळास निंबीया उदाक पीवनु जातरी आमी एकेकलींच जावनु न्हांवचे तयारींतु लागलीं. जाय जालेल्यांक हून उदाक मेळतलें. समांतरारी साकून णव सास फीट ऊंच हो बुधी.

न्हांवनु जावनु रोमे वस्त्रां परत न्हेसून आमी केंप षेड्डाचे रुंदाय ऊणे आशिल्ले जगलेरी बेसून उणे घडियांक आराम केल्लो. हूनी चाय घेवनु परिचारकान पांवचानिक सामकी संतोषु जालो. कारण दोंगरांचेरी साकून दाटायेन चरनु चरनु देंवनु येंवचे दोवाचें आगमन जाणोंवचाक सामकी शेळ वारें मारतालें. चाया पीत आसतना हांवें दावे भागाचे दोंगरांचेरी विस्तरान पडलेले बुधी गांवांचें निरीक्षण केल्लें. पन्नासां लागी घरां आसाय बुधींतु. रेंवें वणती आनी काळे फातरां पाळ्यो उपयोग करून बांदलेलीं पाकीं आसाय चड घरांकय. कृषी आनी बोकड्यांक वाडोंवचें आसा हांगाच्यांचे मुख्य काम. म्यूळ घोड्यांकय हांगा साबार

वाडयताय. ओक्टोबर मासाचे अंत्यारी, शींयाकाला आरंभारी गांवकारां सर्वय मेळनु थारचूलांतु वचून राबतलीं.

स वरां जातनाच कठिन शेळोवु अनुभवलो. जोर दोवान तो प्रदेश पूरा पांगुरला. तोडोवु नाशिल्लें पावसूय पावलो. जोर वारें आनी पावसु एकडे जांवचानिक शेळोवु अतिकठिन जालो. ऊंच पर्वतांचेर साकून म्हूण दिसता पर्वतघसरणाचे होड शब्द थंय ते घाटींतु प्रतिध्वनीत जाताले. परत एक माल्पा दुर्घटणा जांवचाक वता म्हूण दिसून आकांत भरलो. मेणावातीचे उजवाडांतु आमी वेदपारायण आरांभीलें. हरिहराचे मुखेलपणारी हें रिग्वेदपारायण चडच घडियांक चमकयलें. वेदपारायण चमकतनाच पावसु आनी वारें राबून अंतरीक्ष निवळ जालें म्हळ्ळेलें यादृश्चिक मात्र जाववयात. तरीय प्रकृतीशक्तीचे मुकार मनीशां तुच्छ म्हूण आमी सर्वांनीय मनांतु दवोरका जालेलेंच. रातीचें जेवण जावनु निदेंवचो वेळु जांवचानिक मेळ्ळेलें एक ग्लास होरलिक्स पीवनु सामाधानेन निदेंवचाक तयारी केल्ली.



लखनपूराक साकून माल्पा वची वाट

सठो दीसु

# गुंजी

पांच वरांचेरी उठांवचानिक सूर्योदय जाला. चारीय वशीं आशिल्या दोंगरांचेरी दोवु दाटायेन पांगूरनु राबला देखून बुधींतुलो सूर्योदय आकर्शक दिसलोना. पंचड वरांचेरीच आमी भायर सरलीं. जोर दोवांतु बुडून पडलेले ते गांवचे शीमेवेल्यान आमी संथ चमकीलीं. घोड्यां गोमटेंक बांदलेल्या घांटेंचे शब्द आयकून म्हूण दिसता ते थंड फाल्यारीय गांववासी पूरा जागून ते हादीचे उंचटाक जावनु राबलेले. वृश्चिक मासाचे फाल्यारी शबरीमला वनप्रदेशारी गुंजूचे शरणम उल्ल्यांचे समान ॐ नमशिवाय मंत्र हे रानांतु पूरा गुंजून आयकले.

बुधींतु साकून गुंजी पांवचाक पन्नेरा किलोमीटर आसाय. जाल्यार जायते कडे वाट बदलून चमकूका जातलें देखून अंतर चडतलें म्हूण गायडान सांगलें. समतलां आनी उब्यो देंवतीयो दांटवून आमी चडती चडूक लागलीं. उब्यो हेयरपिन घूंवळयो सयत अत्यधिक दुष्कर ह्यो चडतीयो अतीव सूक्ष्मेन चमकून चडलीं. राती पडलोलो पावसु कारण चडय स्थलांचेरी चिकोलु आनी थरथरो आशिल्लो. चडती चडूनूय देंवनूय आमी सपाट एक मैदाना भागार पावलीं. छालेख म्हळळेले गांवांतु आमी पावल्यांय. 11050 फीट उंचटाक स्थित हे प्रदेशारी ITBP चे चोवीसावे

बट्टालियनाचें एक केंप आसा आनी ताका लागून एक हेलीपेडय आसा.

छालेख आनी परिसर मिजे मनांतु साकून केन्नाय वचूनाशिल्लें राबतलें. हिमालय घाटींतुले अत्यधिक सुंदर प्रदेशांतुलो एक हो छालेख. भूंयेंक लागून वाड्डूचे झाडांचेरी हळदूवीं, नीळ, तांबडीं, वांयगण वर्णाचीं, धवीं आदी वर्णांचीं साबार साबार सानूलीं फुलां फुलूनु राबलेलीं पळयल्यार ते ते वर्णाची परवतानी विस्कळायल्या म्हणूच दिसतलें. एकेक भागाक एकेक वर्णु मात्र देखून ती सुंदरता विवरणातीत आनन्द आमच्यांतु भरता. हांचे सगट मद्दें मद्दें पाचवीं तणामळांय एकडे जावनु वर्णविस्मय दाकोंवचे हिमालय घाटींची शोभाय तिजे तुद्दीयेरी पांवता.

मुकार वता तशीच झाडांचे होडकायेक आनी आकृतीक बदलाव दृष्टी पडता. आमचे गांवांतु दिकचें चणा, काशीतुंबा आदी झाडांचे वर्गांतुलीं आनी आकाराचीं झाडां वर्णविस्मय फुलावनु, प्रभात सूर्याचीं भांगराळीं किरणां घेवनु मंद वार्यांतु धलूचें तें दृश्य सामकी अविस्मरणीय आसा. फुलांचें वर्णवैविद्य मेजूक जांवचें न्हय. इतले चड रंगांचो मेळ हे जगांत आनी खंयीच दृष्टी पडचो ना म्हूण बलराम डेचो अभिप्राय. पाचवेचारांचेरी रितुभेदान घालची वर्णवृष्टी!

सकाणचें खाण खांवचे सांगातांतु प्रकृतीचें वरदान ती शोभाय आस्वादन करयात म्हणून आमी एक पैन रुकाचे मूणांतु स्थायु धरलो. मागीर, पर्वतशिखरांचेरी उत्भवून देंवनु येंवचे एक सान झर्येंतुलें स्फटिक समान आनी शेळ उदाक जाय तितलें पीवनु आमी ते तणामळार उणे घडी उद्दारीच पडलीं. मुकारची यात्रा अतिकठिन आनी न्हंयचे रूप आनी व्हाळो भीतीजनक आसतलो म्हूण गायडान सावध केल्लेलें. हातपायांक आनी श्वासकोशांक जाय तितलो विश्राम दीवनु मनाक एकाग्र करूक प्रार्थना करून मुकारचे यात्रेक आमी तयारी केल्ली.

नवोन्मेश भरून आमी यात्रेंतु लागलीं. ITBP चे राखणकेन्द्रांतु दिकलेले जवानांचे लागी सल्प घडी उलोवनु आमी मुकार सरलीं. उंचाय ऊणे आशिल्ली विस्कळेवनु पडलेली पर्वतश्रेणी दांटवून आमी परत काळी न्हंयचे देगेर पावलीं. थंय साकून मुकार भूप्रकृतींतु सामकी बदलाव दृष्टी पडता. मळबाक आडोळनु राबलेले दोंगर आनी तांचे भितरच्यान सरी आशिल्ली सोपुरी पायवाट मुरथमले दिसाचें पुनरावर्तन म्हूण दिसयता. सर्वय मारनु पिटपिटो करचे खातीर सरी गर्जून व्होळनु येंवचे न्हंयतु चोयल्यार कोणाचें जाल्यारीय मनोधैर्य वतलेंच म्हूण निसंशय सांगूयात.

मोडून पडलेली वाट, हालचे फातर, कमान सरी ऊंच धींगूळनु राबलेले फातरां हींड आदी तरण करूक एकेक पावलय श्रद्धेन दवरका. मदमद्दें भूंय घसरण कारण फुटून गेल्लेल्या हादीचे भागाक पांवतना साबार कष्ट जाता. केवल एक फीट मात्र रुंदाय आशिल्ले हे भागाचान भीवनु चरनु चरनु मुकारसतना, चीरून राबलेले भुंयचे सांगातांतु खंचेय निमिशाक खोल न्हंयतु पडून वचाक आशिल्ली साध्यताय साबार आसा म्हणूच सांगूयात. तसले संदर्भांचेरी ईश्वरचिंता मात्र आश्रयु. अत्यंत अपायकर ही यात्रा धा वरांचे लागी करचंग म्हळेले स्थलार पावनु सोंपली. भूप्रकृतींतु परत बदलाव दृष्टी पडलो. चरनु भोंवचीं गायगोरवांचीं, बोकड्यांचीं आदी दोळे भर दृश्यां मेळ्ळीं.

सुमार एक किलोमीटर चमकून मुकार पांवचानिक आमी ग्यरब्यांगांतु पावलीं. फांदळेवनु राबलेले एक होडले आक्रूट रुकाचे लागी दिकलेले एक चाये आंगडींतु खाणाक जावनु चडलीं. बेसप रुका सावळेंतूंच म्हळ्ळेलें सौकर्य जालें.

सुखप्रद शेळोवु आसा ग्यरब्यांगांतु. उदाक खतखतेंवचाक सल्प तोडोवु आसा म्हूण आंगडीकारान सांगूनिक आमी ग्यरब्यांग रस्त्यावेल्यान भोंवचाक गेल्लीं. 1962 वर्षा तांय कुमयोण पर्वतश्रेणींतुलें सर्वां पशी

मुख्य व्यापार केंद्र आशिल्लें ग्यरब्यांग. लिपुलेख हादीन टिबेटांतु आनी थंय साकून नेपाळांतु तेन्ना व्यापार चमकतालो. घोड्यांचे आनी याकांचे गोमटेंक बांदलेले घाटेंचे शब्द तेद्दूस कुमयोण दोंगरांचेरी आनी टिबेटी घाटींतूंय निरंतर गुंजताले. विसाव्या शताब्दाचे आरंभारी हे दोंगरांचेरी सीसणा वेळार तीस सास स्टरलिंग पावुंडाचो व्यापार चमकतालो म्हूण अनौद्योगिक लेक. कुमयोणी आनी टिबेटी जनांचे मद्दें व्हारडीको तांय साबार चमकताल्यो. तशी एक नवो संस्कारूय थंय उत्भवेलो. गतकाल प्रतापु उडगास करचे तरा ग्यरब्यांगांतुलीं घरां, सुंदर नक्षिकामान अलंकृत कवडां आनीं जनलां, शेळोवु दूरा राबोंवचे खातीरचे धुवराडे, बालकणी सर्वय रंगहीन जावनु जीर्णावस्थेरी नामावशेष जाताच आसाय. नक्षिकाम पूरा चीनी टिबेटी संस्काराचे मातृकेरी केल्यां. चडय घरां फुटून नाशार पावल्यांय. चैनेन टिबेट जिखून घेतलेले उपरांतें भागीक जावनूय आनी मागीर भारताचेर आक्रमण केल्ले उपरांतें पूर्ण जावनूय लिपुलेख वाटेन आशिल्लो व्यापार राबून गेल्लो. लिपुलेख साकून लदाक पर्यान आशिल्ले स्थलांवेल्यान टिबेटांतु वचाक आशिल्यो बावीस वाटो चैनेन पूर्ण रूपान बंद केल्यो. कैलास मानसरोवर यात्राय तेन्नाच्यान राबून गेल्ली.

ग्यरब्यांगांची आयची अवस्था शोचनीय आसा. फूडे चारश्यां भायर घरां आशिल्या ह्या प्रदेशारी आतां केवल शेंचे खाल मात्र आसाय. विस्कळ हे गांवचे प्रधान भाग चडय भूंय घसरण कारण नामावशेष जाल्याय. फुटून पडलेले अवशिष्टांचे मद्देंच्यान स्मारक शिला सारके मातें उबे धरून एकेक घरांचे भाग राबल्याय पळयल्यार मन दुखान भरता.

कूक, भुटा आनी थोडी तरकारेंची कृषी करून जीण काडचे हांगाचे जनांक उपाशमारीचें भयानक रूप जायते फंता सोसूचें पडता. भाताची आनी गोंवाची कृषी करूक जायनाशिल्ले हे भागारी रेशण

संप्रदाय ना म्हळ्ळेलेंय कष्ट दिता. गाय, याक आदी मृगांक वाड्डोवनु हांनी जीण काडताय. वाड्डून येंवचे पिळग्यांची कायरीं अतीव दयनीय आसाय.

स्कूल विद्याभ्यासु नाशिल्लें, दोंगरां चडतेंचेरी मृगांचे सांगातांतु भोंवनु, एकेकदां तशीणान वचे यात्रिकांचे लागी भीक मागून हीं जीण व्यर्थ सारताय. रोगग्रस्त जाल्यार चिकित्सा मेळूक कसलीच वाट ना. शींया कालाचे आरंभार भो दूरा आशिल्ले थारचूलांतु हांनी अभयार्थी सारके वताय.

रुका सावळेंतु बेसून हून चाया संथ संथ पितना मिजे चिंतेंतु आयलोलो मुख्य विशयु जीविताचे वास्तव रूपाचे विशींचो आसा.

बुरशे, पिंजून बंतर जावूक लागलेले बोरडल्ले कांबळे पांगूरनु शून्यतेंतु दोळे खोवनु, गतकाल प्रतापाचे स्मरण घेवनु भोंवचे थोडे म्हांतारेंक अल्पसल्प सहाय करून आमी ग्यरब्यांगाक विदा सांगली.

वेगीन आमी परत काळी न्हंयचे भाटीरी पावलीं. सपाट, चडत्यो नाशिल्ले प्रदेश आशिल्यान न्हंयचे देगेर साकून दुरच्यान वचाक जालें. सान रानांवनांचो प्रदेश दांटवून कखडू नांवाचे स्थायारी पावलीं. जनवासु नाशिल्ले, वाडकूळे फातर सावार आशिल्ले बंजर ते प्रदेशावेल्यान आमी बेगींन चमकीलीं. सूर्या उज्चल राबलोलो तरीय शेळ वारें मारतालें आनी सुखप्रद वातावरण कारण यात्रा कष्टकर दिसलीना.

एक वरा लागी आमी शीतींतु पावलीं. शीती दोंगरांचेर जनवास उणेच मात्रेन आसा. खोंपी सरी दिसूचे एक सान होटलांतु जेंवचाक जावनु चडलीं. पटळी करून काडलेली पूरी आनी रांवदप शेळीं जात्ता देखून केन्ना केन्ना आमी होटला खाण खातालीं. घोडेल्यांचे केंपय्र आसाय हींच होटलां. खोंप्यांक दोन भाग आसाय जांतुले एक भागाक तें कुटुंब

राबता आनी पेल्ले भागाक खाण करून वाडताय. आट जाणांक तांतूं कशीकीची बेसुयात. खोमटांतु कसलोकींच एक दुर्गंध आशिल्लो आनी तो कित्याचो म्हूण जाणूक हांवें परिश्रम केल्लो. याक आनी रोमे बोकडींचे सुके चामांची घाणी तं ती म्हूण मागीर समजलें. दोंगरवासीयांचे खाणांतु मांसाक मुख्य स्थान आसा. याक, बोकडी, म्यूळ आदी मृगाचें मांस हीं जनां होड मात्रेन खाताय. 'नाही पश्यामी जीवन्तम् लोके कंचीदहिंसया', 'जीवो जीवस्य जीवनम्' आदी आचार्यवचनां मिजे मनांतु आयलीं. मृगांचें चाम विक्री करूक कष्ट देखून तें पूरा सुकोवनु आपापले आवश्याक उपयोगु करताय. पांगूरचे, हांतूळचे आनी बेसचे आवश्याक असलें चाम राकून दवरताय.

सामकी हुनसाणी आशिल्लें निबर सूरयशीत आनी दाळी रांवदय जेवणाक मेळ्ळी. सवाळो आनी जीविमिर्यासांग तेलांतु भाजून केल्लेली एक रांवदयीय मेळ्ळी. वीस रुपया घेतले तांनी हाका सग मेळनु तरीय दोंगरांचेरी हें रक्कम चड म्हूण आमकां दिसलेंना.

खाण खांवचे मद्दें खोमटाचे कोणश्यांतु बांदलेले सरीयेर सुकोंवचाक सरी घाल्लेली एक वस्तू मिजे दृष्टींतु पडली. धवे काळे रंगाचें, बेब्या सातलेची वृताकृती दिसूचें जाळ्या सारके वेज्ज आशिल्लें तें कितें म्हूण हांवें आंगडीकाराचे लागी निमगीलें. होडले पर्वतांचे उंचटाक आशिल्ले फातरांचे मद्दें वाड्डूचो एक तरा सस्यवर्गु तो आनी गुच्ची नांवांन वळकूचें तें भो रुचिकर आसता म्हणूय ताणे स्पश्ट केल्लें. जीवु घाण घालनु एकठांय करचें हें गुच्ची सावटांतु घालनु सुकोवनु एजेंटां वाटेन विक्री करताय. केवल नक्षत्र होटलांतूले आनी धनिकांचे घरवंताचे जेवणा मेजेंचेरी मात्र पांवचे हे गुच्चीक किलोक पांच सासा पशी चड मोल आसा म्हूण आयकून हांव स्तब्द जालों. दोग तेगानी एक सीसण सगळेंच परिश्रम केल्यार दोन किलो तांय एकठांय करयात म्हणूय आंगडीकारान

सांगलें.

हातान वा पायान प्रवर्तन करचें विणपाचें यंत्र उपयोगु करून रोमे वस्त्रां वीणून जीण काडचीं थोडीं कुटुंबां आमी शीतींतु दिकलीं. वीणून तयार करच्यो परवतान्यो सुंदर आशिल्यो. तांनी करचे हे दंदाक तुच्छ मोल मात्र मेळता आनी लाभांतुलो चडूय वांटो एजेंटां घेवनु वताय म्हूण तांनी दुखान सांगलें.

जेवणा उपरांतें वातावरणांतु बदलाव आयलो. दिसा उजवाडु अप्रत्यक्ष जालो आनी पावसु शिरशिरेंवचाक लागलो. शेळ वारें लागेन मारूक लागलें तेन्ना यात्रा करूक कष्ट जाले. तिमूनाशिल्लें राबूक जावनु चडूक अवसल्लें स्थल खंयीच नाशिल्लें आनी पावसु चड जाल्यार भूंय घसरण जांवची साध्यता चडता देखून आमी न्हंयचे पाडीक साकून जांवचे इतले वेगीन चमकून गेल्लीं. हें विस्कळ स्थल विस्तारान पडल्यां देखून दोन किलोमीटर अंतराचेरी राबूनूच आमी गुंजी गांव दिकलो. भूंय घसरण कारण मोडून पडलेले काळी न्हंयचे पाडीक साकून सावधपणान चमकून मुकारसलीं. काळी न्हंय, कुत्तीगंगा म्हळ्ळेले न्हंयेतु मेळचे स्थलार पांवचानिक गुंजी गांव लागी पावला. कुत्तीगंगा न्हंयेक पार्वतीसरयू म्हणूय नांव आसा.

कुत्तीगंगा न्हंयचे देगेवेल्यान चमकून नपालचो म्हळ्ळेले गांवांतु पावलीं. वीसां लागी घरां आशिल्ले नपालचोंतु पांच स घरांतु मात्र जनवासु आसा. नक्षिकामान अलंकृत निसण्यो, बालकण्यो आदी सयत आशिल्लीं तीं घरां पूर्वप्रतापाचे उडगास घेवनु थांगा राबून आसाय.

कुत्तीगंगेचे पाडीक साकून सानु एक सांकोवु दांटवून सल्प अंतर सपाट जमनीवेल्यान चमकून जावनु आमी गुंजींतु चडलीं. गुंजी गांवु विस्कळ आसा. सपाट जमनीरी तशीच दोंगरांचे चडतेरीय जनवासु

आसा. कैलास-मानसरोवर आनी आदिकैलास (छोटा कैलास) वचे हादीर मद्दें आशिल्लें एक सुप्रधान स्थल हें गुंजी. KMVN केंप, PWD रेस्ट हावस, ITBP चें एक बेय्स केंप, स्टेट बेंक ओफ इन्ड्याची सानी एकि शाखा, एक कस्टंस आफीस, पोस्ट आफीस आदी गुंजींतु आसा. KMVN केंप आनी PWD रेस्ट हावस मुख्य जावनु तीर्थयात्रिकांचे खातीर आसा. गुंजी साकून बावीस किलोमीटर उत्तर पश्चिम भागाक चमकिल्यारी आदि कैलासाचेरी पांवयात. नेपाळांतुल्यानय थंय वचात म्हूण समजूक जालें. भारत भुंयचेरी स्थित आदिकैलास संदर्शन करूक साबार जाणां पांवताय. स्वकार्य ट्रावल एजेंटांचे वाटेन ही यात्रा संघटित करूक कसलेच कष्ट ना म्हणूय समजलें. आदि कैलास पर्वताचे खालटाक विशाल एक सरोवर आसा आनी ताका मानसरोवर म्हूण संकल्प करून तांतु तीर्थाटक स्नान करताय म्हणूय आयकलें. मात्र न्हय आदिकैलास यात्रेक अस्सल कैलास-मानसरोवर यात्रा म्हूण चुकून समजूचींय आसाय म्हूण गुंजींतु म्हणताय आयकलें.

गुंजी गांवचे दावे भागाचे विशाल एक समतलार आसा KMVN केंप. पूर्वारी आसाय काळी आनी कुत्तीगंगा न्हंयो. आनी अन्य भाग भीमाकार पर्वतानी घेरून पडल्याय. पूर्व आनी पश्चिम भागांक, दूरची फांटभूंय जावनु हिमालय पर्वतश्रेणी दोवान पांगूरनु राबल्या. KMVN केंपाक लागून आसाय ITBP बेय्स केंप आनी आफीसां. हे केंपांतु विपुल मात्रेन सौकर्या तयार आसाय. पन्नास साठी जनांक एक समयारी हांतू राबूयात. आदिकैलास यात्रिकांक लागेन उद्देश करून तं हें सर्वय हांगा तयार दवरल्यां म्हूण एक अफसरान सांगलेंय.

कैलास-मानसरोवर यात्रिकांचें हृदयस्पन्दन आनी मानसिक संघर्ष चडोंवचें स्थल आसा गुंजी. हांगा दुशेरे फंतांची वैद्य परिशोधना आनी चर्चा विस्तारान चमकता. दिल्लींतु साकून हाडलेलीं मेडिकल रिपोर्टां,

यात्रा समयार संघाचे डोक्टराचें आनी लेयसण अफसराचें रिपोर्ट आनी यात्रिकांची आतां पर्यान आशिल्ली शारीरिक क्षमता हांगा सूक्ष्मेन तपासीताय. यात्रिकाचीं किस्कूट आरोग्य प्रश्नां पर्यान ITBP चें निपुण डोक्टरांचें संघ चड तपासून पळोवनु निर्णयु काडताय. अयोग्य केल्लेले यात्रिकांक मुकारचे यात्रेक अनुवाद मेळचो ना. सर्व तरा तयारीय करून, परिपावन हे यात्रे खातीर भायर सरून जावनु लक्ष्य प्राप्तीचे मुरथमच सोंपोंवका जांवचें आनी यात्रा पुरती करून परतूचे अन्य खंचेय संघाचे सांगातांतु परतून वचूका जावचें म्हळ्यार सामकी परितापकर अवस्था आसा. दिल्लींतुले वा गुंजींतुले वैद्यकीय परिशोधनेंचे संदर्भार डोक्टरांक स्वाधीन करूक वा शिफारिश करूक जांवचें न्हय म्हळ्ळेलें हे यात्रेचे काठिण्याक बोट दाकयता.

रूक्ष शेळोवु आशिल्लो गुंजींतु. हरिहर हून उदाक सोदून गेल्लो. आनी हांव ऐस सरी आशिल्ले शेळ उदकांतु विस्तारान न्हालों. एकेक कप चाया पीवनु आमी एकेकलींच जावनु वैद्य परिशोधनेक गेल्लीं. केवल दोन फरलोंग दूरा आशिल्ले एक मैदानांतु आसा ITBP केंप. केंप आनी परिसर प्रदेशु मानिला नांवान वळकता. सिमेंटान बांदून साया मारलेले वणतीयांचीं, षीटा पाक्यांचीं एक माळयेंचीं बळवंत इमारतां तं ITBP चे बेय्स केंपांतु दिकलेलीं. सैन्याचीं सामान्य सर्व अनुशासनां हांगाय दृश्य आशिल्लीं.

सेक्यूरिटी गेट दांटवून आमी मेडिकल आफीसाचे मुकार फांतीन राकूनु राबलीं.

एकेकल्याकय अतीव श्रद्धेन परिशोधना करताय. श्वासकोशांची प्रवर्तन क्षमता निरीक्षण करूक खास उपकरणां तयार आसाय. हरद्याची क्षमताय विस्तारान निरीक्षण करताय. दिल्लींतु साकून मेळ्ळेलीं अनुकूल रिपोर्टां, कसलेच प्रश्न नाशिल्लें चमकून पर्वत चडलेले खातीर संघाचे

डोक्टरान दिल्लेलें अनुकूल रिपोर्ट आदी दिकून जायत कॅंप डोक्टरान माका तपासून 'You are quite all right' म्हूण सांगून वेगीन सोडलो. ॐ नमशिवाय मंत्र म्हणून भायर देवलेले माका एक सैनिकान हाताक धरून एक कडेन काडून राबयलो. आनी तो मलयाळम भाषेन उलोवूक लागलो म्हणतना हांव विस्मित जालों. दिल्लींतु पावनु उज्याभाण्डीर साकून देवलेले उपरांतें मलयाळम भास उलोंवका म्हूण वांवट काडचे मिजे लागी स्वयं येवनु परिचय करून मलयाळमान उलोंवचाक लागलेले ते सैनिकाचे लागी माका आदर दिसलो.

केरळांतुले पत्तनमतिट्टा स्वदेशी मि. सुरेश इन्डो-टिबेटन बोर्डर पोलीसांतुले सिग्नल विभागांतु सेवन करता. गुंजींतु येवनु दोन वर्षां जाल्यांय. मेडिकल आफीसाचे लागीचे कूडांतु आसा सिग्नल विभागाचें आफीस. कैलास-मानसरोवर यात्रा आरांभतना एकेक संघांतूंय मलयाळी बि आसा कीं म्हूण जाणूक मि. सुरेशान लिस्ट पळोवप आसा. तरीय आतां पर्यान निराशाच जाल्या. जन्मान मलयाळी आशिल्यांक दिकल्याय तरीय तांची अशुद्ध मलयाळम भास आयकतना दूराच राबोवप म्हूण मि. सुरेशान सांगलें. गुंजींतुले अतिकठिन शेळोवांतु पट्रोलिंग आनी आफीस काम एक परतून एक तो करता. आपली कालावधी कशीच पुरती करच्यांतु लागून आसा आनी लागीच स्थलांतराची प्रतीक्षा करता म्हणूय ताणे सांगलें.

अंतरीक्ष निवळ राबलेल्यान आदिकैलास पर्वत पळोवूक जावनु आमी मैदानाचे एक कोणारी गेल्लीं. दाट दोवान पांगूरनु तो पर्वत अस्तमया वोतांतु न्हावनु राबलेलें तें दृश्य आकर्षक आशिल्लें.

कठिन शेळोवु अनुभवलो तरीय थंयचे एक तणामळार बेसून आमी उलयलें. कैलास-मानसरोवर यात्रा अत्यधिक दुर्घट आसून जायते संघांतु केन्ना केन्ना यात्रिकांचीं मरणां जाताय. पुण तें सगट भायरचो लोकु

जाण जायना म्हणूय मि. सुरेशान सांगलें. गुंजींतु साकून जायत्यांक अयोग्य करताय आनी तसल्यांची स्थिति कष्टकर आसता म्हणूय मि. सुरेशान सांगलें.

सात वरां जांवचानिक शेळ वारें जोर मारूक लागलें. परतून येतना मेडिकल केंपाचे मुकार पांवचानिक मि. हरिहर सयत पांच जाण आमकां मेळूक म्हूण आंगणांतु राबलेले. तांचे मुकावले यात्रे पासून कसलो निर्णयु जालोना आनी एक वेळारी अनुमति मेळूक साध्यता ना अशी डोक्टरांनी सुचयल्यां म्हूण मि. हरिहर उदास जालो. चमकून यात्रा करूक निश्चय केल्लेल्यांतुलो आशिल्लो हरिहर तरीय केन्ना केन्ना व्हड चडतीयो चडतना ताका कष्ट जाता म्हूण माका दिसल्यां. मि. सुरेश भितरी वचून चड जाणून आयलो. आतां पर्यान कोणाक अयोग्य केल्लेनाय म्हणूय फाले सकाणची एकि परिशोधना लागेन जातरी मात्र तं हांचे कार्यांतु अंतिम निर्णय काडूक जाता म्हणूय मि. सुरेशान जाणयलें.

केंपांतु परततना आमी मौन वरले. मि. सुरेशूय आमचे सांगातांतु सल्प वाट आयलो. फाले दिकूं म्हूण सांगून ताणे यात्रा सांगूनिक आमी केंप हावसाक लक्ष्य करून संथ चमकीले.

एकेक ग्ळास हून टमाटरा सूप ल्हवल्हवूच पीवनु आमी केंपांतु आराम केल्लो. मागीर येदे घडीयांक वेदपारायण केल्लें. कडकडांवचे शींयांतु साकून वांचूक जावनु आमी मागीर स्लीपिंग बेगांतु चडून सल्प घडियांक पडलीं. सतड वरां साकून णवाड पर्यान केंपांतु जनरेटर उपयोग करूनु विज मेळता. घोर पावसाचें आगमन जाणोवूक जोर वारें आनी जोगुल गुडगुड आरांभलो. तेन्ना आमी होगी जेंवचाक जावनु मेस्सांतु गेल्लीं. जेवण जाले उपरांतें आरांभलेले धारांधरी पावसांतु गुंजी गांव शेळीन कडकडेलो आनी आमी सुखनिद्रा लक्ष्य करून हांतणार पडलीं.

सातवो दीसु

# कालापानी

चवड वरांचेरी परिचारकान आमकां जागयले. पावुणी पांच वरांचेर आसा गुंजींतुलो उदय. शेळोवान घट जांवचे हे फाल्यारी देह सगळेंच दाट कांबळ्यांन पांगूरनु आमी केंपाचे भायर पावले आनी पूर्वार लक्ष्य करून स्थाय धरले.

सांगलेले समयारीच, अन्नपूर्णेश्वरी शिखराचे मागशींच्यान संथ संथ मात्तें भायर दाकोवनु उदयसूर्यान एक वर्णप्रपंचूच रचलो. दिगंतर आडोळनु राबलेले अन्नपूर्णेश्वेरीचेरी आदित्यान घाल्लेली वर्णवृष्टी अतीव सुंदर आशिल्ली. बालसूर्यान वांटून दिल्लेले सप्तवर्णांतु बुडून राबलेले सान होड शिखरांचें दृश्य अतिमनोहर आशिल्लें. झगझगेंवचे विविध वर्णाचे वेलवेटांचे, मिरयो शिंवून आशिल्ले फोडद्यांचे सारके हिमालय शिखरांक, दिगंतरान सुंदर फांटभूंय तयार केल्या. हें सर्वय आस्वादन करतना आमी प्रकृतीचे कलाप्राविण्याचे मुकार स्तब्द जातलीं. भारताचे जायते जाग्यांचेर अतीव हृद्य सूर्योदयां हांवें पळयल्यांय. तरीय गुंजींतुलो सूर्योदय एक अविस्मरणीय अनुभव आसा.

पंचड वरांचेरी चाया पीवनु जावनु हांव हरिहरा सांगातांतु विस्कळ मैदानाचे तलवाक गेल्लों. गायत्री मंत्रु थोडे फंता म्हणून मागीर

आमी व्यायाम केल्लो. मनाक एकाग्र करून श्वासकोशां पूरा विस्कळावनु राबोवनु स्तंभावस्थेंत अल्प घडियांक ध्यान करचें एक व्यायाम हरिहराचे कर्यान करयलें.

स वरांचे मुरथम हरिहर आनी अन्य चौगांय मेडिकल परिशोधनेक गेल्ले. तेन्ना हांव सुरींद्रकुमाराक सोदून गांवांतु आशिल्ले घोडालयांतु गेल्लों. घोड्यांचें शेण भरून पडलेले ते वृत्तिहीन प्रदेशाचे एक तलवाक बांदलेले तात्कालिक षेड्डांतु अन्य घोडेल्यांचे सांगातांतु घोरेवनु निदतालो तो. हांवें ताका जागयलो आनी कुत्तीगंगेंतु न्हांवचाक वचाक आशिल्लो मिगेलो आग्रोहु ताजे लागी सांगलो. कसलेंच आवश्य वा मागणी तुरंत स्वीकार करचे वर्गांतुलो आसून जावयात सुरींद्रकुमार वेगीन मिजे सांगातांतु येंवचाक तयार जालो. आदिकैलासांतु साकून येंवची कुत्तीगंगा न्हंय जोर होळता. कठिन शेळोवु आशिल्ले ते निवळ उदकांतु बुडून न्हांवनु परतून येंवचे वाटेरी लेयसण अफसराचे कूडांतु सल्प समयु खर्चीलो.

अलोपती डोक्टर जालेले उपरांतेंच डॉ. मधूप मोह्ताक IFS मेळ्ळेलें. साबार विदेशराज्यांतु भारतीय नयतंत्र विभागांतु उद्योग केल्लेले ताका विविध भासोय सामकी उपयोगु करूक कळताय. हिंदीन बर्यो कविता ताणे बरयल्याय आनी तो एक चरित्र संशोधक लागेन आसा. भारतीय आध्यात्मिक संस्काराचो एक आराधक तरीय डॉ. मोह्ताक संस्कृत शिकूक जालेंना म्हूण अतीव खेदु आसा. चमकतना आनी तशीच आराम करतनाय तो मिजे कर्यान संस्कृत श्ळोक म्हणयतालो. तेन्ना तो निर्वृतींतु बुडून बेसला पळोवनु हांव संतृप्त जातालों. सांजेचें वेदपारायण चमकतना, मुरथमले दोन रातीय ताजें सान्निध्य आंद्य साकूनूच आसलेलें.

एकेक केंप सोडतनाय ते केंपांतुलें सौकर्य, खाण, परिचारकांची प्रतिक्रिया, लग्गेज संबंधित बंदोवस्त आदींचे पासून एक सविस्तार रिपोर्ट लेयसण अफसरान KMVN मनेजराक दिंवचें आसा. खंच्यांतूय

कसलोय ऊणाव दिकता तरी तें खास जावनु सांगचेंय आसा. कातगोडम साकूनूच हें कर्तव्य डॉ. मोह्‌तान मिजेरी सोंपलेलें. हांवें बरोवनु दिल्लेलीं रिपोर्टां वाचून भो तृप्त जावनु तो तांचेर हस्ताक्षर घालून आशिल्ले तशीच कॅंप मनेजराक दितालो.

आमी उलोवनु बेसलेले वेळारी मि. हरिहर आनी संघ संतोषान येवनु तांकां सर्वांकय यात्रानुमती मेळ्या म्हूण जाणोवूक लागले. रूक्ष शेळोवु आशिल्ले कैलासाचेर चडतना तांनी याकांचेर सवार करका म्हूण खास निर्देशु लागेन डोक्टरान दिल्ला म्हूण मि. हरिहरान सांगलें. आमकां सर्वांकय भो संतोष पावलोलो संदर्भु आसलोलो तो. आपले नेतृत्वारी व्हरचे हे यात्रा संघातुलीं एक दोग जाणां पुणीय कैलास प्रदक्षिण चमकून पुरती करतलीं म्हूण शुभाप्ती विश्वास आसा जावनु डॉ. मोह्‌तान सांगलें. आट वरांचेरी यात्रा आरांभूक आशिल्यान आमी केंपांतु परतले.

सतड वरांचेरी खाण खावनु जातरी आमी सर्वय ITBP चे केंपांतु भितरी आशिल्ले कस्टंस आफीसांतु गेल्ले. थंय पासपोर्ट तपासून पळोंवचाक दिल्लें. आनी मागीर रजिस्टरारी हस्ताक्षर घालनु पासपोर्ट परतून घेवनु आमी सर्वय परेड मैदानाचे दारवट्यांतु पावले. थंयचे एक सान महादेवा देवळांतु प्रर्थना करून सैनिकांनी सांगलेले एक स्थलार एकडे जावनु राबले.

गुंजी साकून मुकारचे यात्रासुरक्षेचे खातीर विपुल मात्रेन तयारी केल्लेली. आतां पर्यान उत्तरप्रदेश पुलीसांचे नियंत्रणारी आशिल्या तीर्थाटन संघाक गुंजींतु पांवचानिक इन्डो टिबेटन बोर्डर पोलीस सैनिकांक हात परतीलो. ते सैनिक संघांतु कमांडो सयत आषा जाणां आसाय. SLR लोंग रेंज रैफिळां, कारबैन पिस्टळां आदीन सशस्त्र ते संघांतु एक सैनिक डोक्टरय आसा. घटमुट दोग घोड्यांक मुकार चमकोंवचाक तयार राबयलेले. एक सैनिक उद्योगस्थान यात्रिकांनी अनुसरण करका जालेले नेमांचे

पासून विस्तारान सांगून दिल्लें. गुंजी साकून मुकार चीनी प्रदेश आरांभता आनी तेच कारणान इतलीच सुरक्षा तयारी केल्या म्हूण मि. सुरेशान मिजे लागी सांगलें.

आट वरांचेरी सैनिक उद्योगस्थान वाजलेले विसिलाचो सोवदू घाटींतु गुंजलो. आनी तेन्ना साकून सामकी वेगळे तराचे एक शीमेंतु बंदनस्त आमची यात्रा चालू जाली. काळी न्हंयचे देगेवेल्यानच शुरवेक आमी चमकलेलीं. फुटून न्हंयतु पडलेले एक रेंवें दोंगरा होडले राशी लागीच्यान आमची हादी दिगायेन पडल्या. थंय सगट अगाध गर्ता घडून पडल्यांय. तिमून फुगून पडलेली भूंय थरथरेताली. खंचेय समयारी मोडून पडयात जालेले दोंगर दावे भागाक आनी गर्जून व्हाळची न्हंय उजवे भागाक दिकतना अतीव भीती दिसता. दुर्घट ही एक किलोमीटर वाट दांटवून आमी न्हंयचे पाडीक साकून दूरा सरनु एक मैदानार चडलीं.

छालेखांतु आमी आस्वादन केल्लेले तरा हिमालय घाटी हांगाय आमकां स्वागत करता. पैन रूक सावट दीवनु राबलेल्यो पर्वत श्रेणीयो आनी तांचे घाटींतु दृष्टी पावनाशिल्ले तितले अंतरार फुलून राबलोलो पुष्पप्रपंच दिकल्यार कोण जाल्यारीय विस्मित जातलीं. पर्वतांचे सामकी ऊंच कमान सरी राबलेल्या दिगंतराची निळबाणी दृश्याक शोभाय चडयता. पैन रुकांचे मद्देंच्यान लिकलिकेवनु देंवनु येंवचे दोवा थेंबे सूर्यकिरणां घेवनु नवरत्न शोभाय विस्कळांवचें दृश्य वर्णनातीत आसा.

शेळोवान कडकडेंवचे ते सकाणी एक फातरां राशीर बेसून आराम करतना डॉ. मोह्तान एक अभिप्राय सांगलोलो माका येद्दो सायलोना. प्रकृती शोभाय भरनु विकरचे हे हिमालयार दोवु एकु शापु म्हूण ताजें दुख. हांवें तें तुरंत खंडन केल्लें. रत्नांचो भांडार आसा हिमालय आनी वृक्षरत्न, मृगरत्न, औषधरत्न आदीनी संपन्न समृद्ध हिमालयाक दोवु कशीच दोषु जायना म्हणूय हांवे व्यक्त केल्लें. काळीदासाले कुमारसंभवांतुलो

एकु श्ळोकु म्हणून हांवें तीं कायरीं एक लागेन स्पश्ट केल्लीं.

> 'अनन्तरत्नप्रभवस्य यस्य
> हिमम् न सौभाग्यविलोपि जातम्
> एको हि दोषो गुणसन्निपाते
> निमज्जतीन्दोः किरणेष्विवांकः'

गुंजींतु साकून कालापानींतु पांवचाक धा किलोमीटर आसा. चडतीयो चड उब्यो न्हय जालेल्यान प्रयास जालोना. पाल्लेवनु राबलेले रूक आनी पाचव्यो परवतान्यो सारके विस्कळ तणामळांय मनाक शीतळ करताय. तरीय मुकार चमकतना असहनीय शेळोवु अनुभवूक लागलो. भूंय घसरण जावनु समतलाचेर पातळेवनु पडलेले पर्वतभागांचे देगेवेल्यान एक दुर्घट चडती चडून देंवनु गेल्या उपरांतें, काळी न्हंयचे देगेरी आशिल्ले एक मैतानांचेरी खाणाक आनी विश्राम करूक म्हूण राबलीं.

चडय यात्रिकांक पूरो जालेलें. तेन्ना बारा सास फीटा पशी चड ऊंच पावलेलीं आमी. दोंगरा ऊंच आसतना खूब द्रव पींवका म्हूण तं डोक्टरांचो निर्देशु. देहाचें जलांश ऊणे जांवचें साबार तरा रोगांक कारण जातलें. आनी असले साहचर्यारी चाया उत्तम एक पानीय आसा. चायेंतुली पैंदार देहाक जाय जालेली ऊर्जा दिता. दुदांतु साकून साबार पोषकगूण मेळताय. नष्ट जालेलें जलांश आनी हुनसाणी परतून मेळूक हून उदाक सहाय करता.

एक सान केनवास टेन्ट बांदून सैनिकांनी आमचे खातीर चाया आनी कुका बाळुकां तळून तयार केल्लीं. फातरां राशींचेरी आनी पैन रुकांचे मूणांतूय सान सान संघ जावनु बेसून आमी चाया पिल्लीं आनी बाळुकां जाय तितलीं खेल्लीं. सैनिकांनी विस्तारान सांगच्यो तांच्यो अनुभवा काण्यो सश्रद्ध आयकून हांव आनी हरिहर एक होडले फातरा

ऊंच उद्दारीच पडले. लोंग पट्रोलिंग करतना, वेळु न्हय जालेले वेळार जायते फंतां, नेपाळ तशीच भारत पर्वतांचेर, गुड्डे प्राकृत रूपाचे थोडे मनुष्यांक दिकप आसा. आनी दिकतनाच तुरंत रानबोकड्यांचे सारके वेगीन, तंत्रपूर्व ते उब्यो देंवतीयो उडकी मारनु देंवनु निपताय म्हूण सैनिकांनी व्यक्त केल्लें. असले मनीष निपून राबून बाणु चलयताय देखून भो सावधपणान जांवका असले प्रदेश तरण करूक म्हणूय तांनी सांगलें.

सैन्याचें विसील दीर्घ वाजता आयकून आमी यात्रेक तयार जालीं. काळूक भरलेले वनप्रदेशांतुल्यान आसा मागीरची यात्रा. रानांतु साकून व्होळनु येंवचे सानसान झर्यांचें उदाक हादीचेरी थंय थंय पडून आसा देखून केन्ना केन्ना यात्रा दुष्कर आसली. वनांतर भागाक साकून जोर मारचें शेळ वारें दुस्सहनीय आसलेलें. मुकार वता तशीच दोवूय यात्रेक आडखळ राबलो. मोडून, न्हंयेंक लागून पडलोलो एक होड्डु दोंगर, न्हंयचे पाडीक सामकी अपायकर घूंवळी करयता म्हूण आमी दूरा साकूनूच दिकलें. नेपाळ भागाकय होड्डु एकु दोंगर न्हंयतुं पडून नामावशेष जाला आनी थंय न्हंयेक अपार रुंदाय आसा. भीतीजनक अतिशक्त व्हाळो कारण, पडलेले पर्वताचो पोंदाचो भागु पूरा कोरांतूनु थंय सुरंग सरी जाल्यां. तशीणान जांवका आमकां चमकून वचाक. तिनीशें फीटा लागी उबी एकि चडती चडूनु एकि भयंकर घूंवळी घूंवनु जांवका मुकार वचाक म्हुण चिंता करनूच जायत्यांक विभ्रांती आयली. प्रार्थना करून आत्मसंयम धरून, केन्ना केन्ना राबून श्वासोच्छ्वासु क्रमीकृत करून आमी संथ संथ त्यो अतिदुर्घट वाटो कशीकीच करून चमकून चडल्यो.

न्हंयेक रुंदाय ऊणे आशिल्ले भागाक बांदलोलो एकु सांकोवु दांटवून आमी कालापानींतु पांवचानीक वरां बारा दांटवलेलीं. सांकोव जातनाच आशिल्ली एकि चडती चडल्यार केंपा दारवोटो, आनी तो जातरी आशिल्ले सीदा रस्त्याचे तलवाक कालापानींतुलें काळी मंदीर

दृष्टी पडता. सैनिकांनी आनी KMVN कर्मचार्यांनी मेळनु आमकां हृद्य स्वीकरण दिल्लें. काळी मंदिरांत दर्शन जावनु भायर देवलेले आमकां सैनिकांनी एकेक कप हूनी चाया दिल्ली.

एमिग्रेषन कार्य पुरतें करून पासपोर्ट अधिकार्यांक दीवनु आमी केंपांतु पांवचानीक जेवण तयार म्हूण कळोवणी आयली. जेवणा उपरांतें आमी केंपांतु आराम केल्लो.

हिमावृत पर्वतानी घेरून आशिल्ले एक मैदानांतु आसा हें ITBP चें हेडक्वार्टर्स आनी KMVN केंप. असबेस्टोस षीटांनी पाकीं घाल्लेलीं सान षेड्डां मैदानांतु पूरा पातळावनु बांदल्यांय. मेडिकल, एमिग्रेषन आफीसां नंतणा, राबचे खातीरीय हांगाच बंदोवस्त आसा. साफ न्हाण्यो आनी टोयलेटां एक भागाक जाय तितलीं आसाय. हून उदाक जाय तशी मेळतलें.

कालापानींतुलें काळी मंदीर सान तरीय पळोंवचाक कौतुक आसा. देवळाचे मागशीं भागाक आशिल्ले भीमाकार पर्वतश्रेणींतुले



कालापानींतुलें काळी मंदिर

शिवपर्वताचेर साकून आसा काळी न्हंयचो उत्भवु. कालापानीचो हो भूविभाग फूडे नेपाळाचे हातांतु आशिल्लो. तंत्रप्रधान हे भागाचेरी नेपाळाची श्रद्धा जाय तितली पावना म्हूण कळून भारतान हो भागु धरून काडलो. ते खातीर नेपाळांतु आतांय प्रतिषेध आसा म्हूण म्हणताय.

कालापानींतुलो ITBP चो उच्च अधिकारी दिल्ली स्वदेशी मि. बाजीसिंग आसा. अलमोरा गांवचो मि. षास्तीदत्त भट आसा KMVN मानेजर. मि. बाजीसिंगाचे कूडांतु, मि. षास्तीदत्त भटाचे सांगातांतु हांव चडच घडियांक उलोवनु बेसलों. ITBP चें प्रधान कर्तव्य आसा हे भागाचे शीमेंचें संरक्षण. भारतीय सेनाय हांतुं भागु घेता. लोंग पट्रोळिंग आनी षोर्ट पट्रोलिंग हांनी संयुक्त जावनु चमकयताय. हे केंपाक आवश्यक रेशन सामग्री, भुंयतेल आदी नित्योपयोगाचीं सामानां दूरचे थारचूलांतु साकून घेवनु घोड्यां फाटीर चडोवनु हाडताय. हांगा जीण काडूक परिमिति साबार आसा. घर आनी गांव सोडून मातृराज्याचे संरक्षणार्थ हे अतिदुर्घट पर्वतांचेरी दुस्सहनीय शेळोवु सोसून आमचे भांवडांचो एक संघ दीसु राती एक करून काम करता म्हळ्ळेली चिंता मिज्यांतु तरातरा विकार जागयता. खंचेय निमिशय मरण पांवतलें म्हूण कळनु जीण काडचे हांचे आत्मधैर्याचे मुकार हांव मान बावगयतां.

चारी वरां जांवचे मुरथमच भो शेळोवु अनुभवूक लागलो. थारचूलांत साकून चडोवनु धाडलेलें आमचें प्रधान लग्गेज आद्यच हांगा पावलेलें. सुरींद्रकुमाराचे सहायान लग्गेज निसरावनु खास हांगाचे खातीर घेवनु आयलेलीं दाट रोमेवस्त्रां भायर काडलीं. आतां पर्यान उपयोगु केल्लेलीं वस्त्रां खास बेगांतु घालनु KMVN अधिकार्यांचे लागी दिल्लें. आमी परतून वतना आमचे सांगातांतूच तें सामानय थारचूलांतु पांवोंवचाक जावनु तीं बंदोवस्त करतलीं. हातांतु आशिल्ले रुपया आनी उपयोगु केल्लेलीं फिलीम रोळां ITBP चे अधिकार्यांचे लागी दीवनु रसीदी घेतली.

भारतांतु उपयोगु केल्लेलीं फिलीम रोळां चैनीस एमिग्रेषन उद्योगस्थांनी हातांतु करूक साध्यता आसा देखून तं ITBP चे उद्योगस्थानी हे खातीर नियंत्रण दवरल्यां.

यात्रा संघांतुले जायत्यांची आरोग्यस्थिती तितलीच बरी न्हय आशिल्ली. ते कारणान लेयसण अफसराक सल्प आशंका आसलेली. अस्वस्थता दाकयलेल्यांक ITBP चे डोक्टर अनिलान विस्तारान तपासून पळयले. चड जनांचेय पीडेक कारण आसलोलो पर्वत रोगूच. कपला कणकण, कपला घूंवळी, जोर उसरमेटी, खरशी, भूक नाशिल्लें राबप आदी आसाय हाजीं लक्षणां. होड पर्वतांचे ऊंचतलारी दृष्टी पडचो आनी एकु मारक रोग आसा HAPO (High Altitude Pulmonary Odema). ओक्सिजनाचो ऊणावु कारण देहांतु तरा तरा बदलाव येता आनी श्वासकोशांतु द्रव भरता. तुरंत वैद्यसहाय मेळका जालोलो एकु रोगु हो. मुरथमले दोन रातीय निद्दे गुळ्यो खावनु तं चडय जनांय निदलेलीं. नवी परिस्थितीय जावनु देहाक सवंय जालीना म्हूण जाणोंवचाक आशिल्ली प्रकृतीची रीती हीं पीडारिष्टां. असले दुर्घट यात्रे वेळार चड ऊणे जांवचे शीतोष्णाक, देहाक संवकळांवचे उद्देशान एकेक केंपांतूय जाय तशी तयारी केल्या. इकरा सास फीट दांटवल्यार मागीर वायूक येद्दी दाटसाण आसचिना. अंतरीक्षाचें सम्मर्द्धय ऊणे आसतलें. कालावस्थाय जावनु सवंय जांवचें मात्र आसा हें तरण करूक आशिल्ली वाट.

सांज जांवचानिक तीव्र शेळोवु अनुभवलो. दाट रोमे बनियन, दीग हातां स्वेट्टर, जीन्सा षर्ट, पुळोवर, लेतरा ग्लौस, जीन्सा पेन्टस, मंकीकेप, गोमटेक मफ्ळर आदी सर्वय घालनूय देह कडकडेवनूच राबलें. काळी मंदिरांतुले समूह भजनांतु भागु घेवनु स वरांचेर हांव आनी मि. मोह्ता, मि. बाजीसिंगाचे कूडांतु दुशेर एकडे जाले. हून टमाटर सूप चोखून पीवनु आमी नर्म संभाषणांतु बुडले.

कैलास-मानसरोवर यात्रा केल्लेले थोडे एक संघान कालापानींतुले सैनिकांक स्नेहोपहार दिंवची चाल करून दवरल्या आनी तशी कितेंय मेळ्यार उपकारप्रद जातलें म्हूण मि. बाजीसिंगान सूचना दिल्ली. काळीचे देवळांतुले आवश्याक आशिल्लीं उपकरणां, विंडमिल, सौरोर्जान प्रवर्तन करचे दीवे अशी सगट भेंट जावनु मेळप आसा म्हणूय ताणे जाणयलें. संघांगांचे लागी चर्चा करून जेवणा समयार घोशणा करूक श्रम करताय म्हूण मि. मोह्तान उत्तर दिल्लें. माका आनी हरिहराक अन्य सहयात्रिकांचे लागी उलोवनु जावनु मागीर ते खातीर निर्णयु काडूक मि. मोह्ताकच अधिकारु दिल्लोय.

वेगीन जेवणाक तयार केल्लेलें. सतड वरांचे लागी आमी मेस्साचे जेवणा कूडांतु एकडे जालीं. तेन्ना मि. मोह्तान आपलो निश्चयु जाणयलो. पांचवे आमचे संघाचे खर्चारी काळी मंदिराचे उजवे भागाक आशिल्ले सान मैदानारी सैनिकांक विश्राम आदी करूक जावनु एक सान विश्राममंदिर बांदोवनु दीवूं म्हूण ताणे आश्वासन दिल्लें. वृत्ताकृतीरी, षीटा पाकें घाल्लेले तांतू सिमेंटा बांक आसतले. आनी ते विश्राम संकेताचे चारीय वशींय सुंदर एक उद्यान आनी तणामळय आसतलें म्हणूय ताणे स्पश्ट केल्लें. तेरा सास रुपयांचे लागी खर्चु जांवच्या ह्या संरंभाचो निर्माण अधिकार मि. बाजीसिंगाक सोंपलो. कैलास-मानसरोवर यात्रा जावनु परतून थंय पांवतना हे मंदिराची उक्तावणी चमकोंवचाक जातलें आनी त्या खातीर जाय जालेलें तुरंत आरंभ करता म्हणूय ताणे आश्वासन दिल्लें.

आट वरां जांवचानिक कालावस्थेंतु प्रत्यक्ष रूपान बदलाव दृष्टी पडलो. तीव्र जालेले शेळोवाचे सांगातांतु जोर मारचें वारें आनी शिरशीरो पावसु लागेन एकडे जांवचानिक देह सगळें घट जांवचे वरी दिसलें. तीव्र दोवु कारण कसलेंच दृष्टी पडना. खाणा उपरांतें केंपांतु परतूचे वेळार

मि. षास्तिदत्तान सांगलेलें एक कायरें माका सामकी आवडलें. राती बारा वरां उपरांते, उदेवनु राबलेले पूर्णचन्द्राचें असुलभ दृश्य एक पसार पुणीय पळोंवका जालेलेंच म्हूण तं ताणे सांगलेलें. भाग्य आसा तरी कालावस्था अनुकूल जातली आनी तेन्ना तें दृश्य बरें जावनु आस्वाद्य करयात म्हणूय ताणे सांगलें.

पूर्ण चंद्राक पळोंवचाक मेळचे असुलभ अवसराचे पासून सहयात्रिकांचे लागी भो विस्तारान सांगलें तरीय एकल्याकय तात्पर्य नाशिल्लें. मि. हरिहर तांय मागशीं राबलो. दिसाचें, कठिन यात्रा, शेळोवान घट जांवची तसली कालावस्था, पर्वत रोगपीडेची अस्वस्थता हें सर्वय कष्ट दितना एकल्याकय तात्पर्य दिसलेंना म्हळ्ळेलें स्वाभाविक मात्र.

पूर्ण चन्द्राक पळोंवकायीच म्हळ्ळेले दृढनिश्चयान, सामकी विश्राम काडूक जावनु सल्प झमेंवचाक म्हणून हांव स्लीपिंग बेगांतु चडून पडलों. अलारम दवरनाशिल्लेंच जाय जालेले वेळारी निद्दांतु साकून जागूक हांवें पयलींच शिकून काडलेलें. निद्देंवचे मुरथम प्रार्थना जातरी, मनाक एकाग्र करून, जागूका जालोलो समयु परत परत मनांतु सांगतलों. सर्व फंताय जाय जालेले वेळार चुकूनाशिल्लें जागलां. आमकां समजूक जायनाशिल्ले, उपबोध मनाचे थोडे विशेश गूण कारण अशी सगट जाता आनी अभ्यास केल्यार कोणाच्यानय हें साध्य जातलें म्हूण मिजो विश्वासु.

गाढ निद्देंतु साकून उठावनु टोर्च मारनु वरां चोंवचानिक बारा जांवचाक पांच मिनिटां आसाय. आवश्याक पांवचीं तसलीं रोमे वस्त्रां घाल्यांय म्हूण तृप्त जावनु ग्लावसां आनी षूसां चडयलीं. कवड वात्तें करून वेगीन भायर देवलों. फालें जावनु णव वरां पुणीय जाल्यांय म्हूण दिसून हांवे दुशेरी वरां पळयलीं. बाराच जाल्यांय. केंप षेड़डाचे जगलेरी राबून मऴबार पळयलें. अनेकनेक नक्षत्रां उज्वल राबलेल्या मद्दें चंद्र पूर्ण

प्रकाश पसरावनु उद्देवनु राबला. शेळोवु तीव्र जावनु आशिल्लो तरीय दोवु आनी पावसु दूरा राबलोलो. सान एक कीड्येक तांय स्पश्ट दृष्टी पडचे ते उज्वल चांदीण्याची शोभाय बरी आस्वादन करूक जाली. सुमार दोन फरलोंग दूरा आशिल्ले एक फातरा हींडाचे लागी हांव चमकलों.

तांतूले होडले एक फातराचे ऊंच प्रयास काडून चडून ताजे सपाट भागारी हांव बेसलों. मनोहारिता भरून विकरचें तें अंतरीक्ष आनी परिसर आश्चर्यान पळोवनु घेतलें. चंद्रबिंबाचे असामान्य होडकायेन माका विस्मित केल्लो. चंद्राचेरी स्पश्ट दृष्टी पडचे खांपां विशीं उत्सुक जावनु हांव चडच घडियांक पळोवनु बेसलों. काळिदासाले रघुवंशांतु भूगोळाचें प्रतिबिंब तं चंद्राचेरी खांप जावनु दृष्टी पडता म्हूण परामर्श केल्ला;

'अवैमी चैनामनघेती; किंतु
लोकापवादो बलवान मतो मे;
छाया ही भूमेः शशीनो मलत्वे-
नारोपिता शुद्धीमतः प्रजाभीः'

(सीता निर्दोषी म्हूण माका कळता. तरीय लोकापवादूच होड म्हूण हांव आठयता. भूमीची सावळीच निवळ चंद्राचें कळंक म्हणून जनांच्यान आरोपित जाल्यां.)

दोळे पावनाशिल्ले अंतराचे विस्तृतीरी पडलेले हिम पर्वतांचेरी, धा सास मेघावाट शक्त एक सर्चलैटान घालचे उजवाडा सारके, पूर्णचंद्रू चांदीणे घालनु राबला. हें सर्वय पळयतना भुंयचेरी एकु स्वर्गु आसा तरी तो होच म्हूण कोण जाल्यारीय मानून दितलीं. अंतरीक्षांतु उबून भोंवच्यो हिमल्हायो चंद्रकिरणां घेवनु वज्र समान झगझगेताय. तेन्ना उद्देवनु राबलेले चंद्रबिंबाक, रोमे बोकड्यो चंवरानी वारें घालून अभिवाद्य करताय म्हूण

दिसूक लागलें.

एकेक हिमशिखरांचेरीय पूर्णचंद्रान घालचें चांदीणे आनी सावळी समन्वय जावनु अपार शोभाय दाकयता. आनी हें दिकतना प्रकृतीचे कलानैपुण्याचे मुकार आमी आश्चर्य चकित राबून वतलीं.

कालापानींतुले समस्त जीवजालांय गाढ निदेंतु बुडलेले वेळु न्हय जालेले ते वेळार, विजन हे स्थलारी चड घडियांक बेसूच्याचे औचित्या पासून चिंता येंवचानिक हांवें परतूक निश्चयु केल्लो. कडकडांवचो शेळोवु घेवनु कें‌पांतु पांवचानिक वर देड जावनु गेल्यां.



माल्पांतु एक विश्रम वेळु



आठवो दीसु

# नवीधांग

कालापानींतुलो उदय पावुणी पांच वरांचेरी आसतलो. चवड वरांचेरीच जागून आमी तयार जालीं. वेगीन उठायल्यार जायते तरा गूण देहाक मेळतले म्हूण आचार्य सांगताय.

ब्राह्मे मुहूर्त्ते उत्तिष्ठेल
स्वस्थो रक्षार्थमायुषः

कालापानींतुले सूर्योदयान आमकां निराश केल्लो. गुंजींतुले प्रौढगंभीर उदयाचे लागी तारतम्य केल्यार हो एक साधारण उदय दिसलो. पुरतो उदय पळोंवचाक राबूनाशिल्लें आमी प्रभात कृत्यां करून वेळु सारलो. काळी मंदिरांतु दर्शन मेळूक स वरां जांवका म्हूण कळूनिक हांव आनी हरिहर वेदपारायणांतु बुडले. घोडेल्यांक निर्देश दीवनु राबलेले मि. मोह्तान तेन्नाच तें राबोवनु आमगेले कॆंपांतु येवनु पारायणांतु भागु घेतलो.

स वरां जांवचानिक देवळांतु वचून दर्शन घेवनु आयलीं. मागीर संथ खाण खावनु यात्रेक तयार जालीं. एमिग्रेषन कार्य करून दवरलेलें

पासपोर्ट परतून घेवनु आमी थंय आशिल्ले सर्वांकय हात दीवनु विदा सांगलीं.

कालापानींतु साकून नवीधांगांतु पांवचाक केवल णव किलोमीटर मात्र आसा. नवीधांगाची उंचाय 14500 फीट आसा. पन्खा नांवाचे सान एक न्हंयचे देगेवेल्यान आमी पयलेचें एक मैल यात्रा केल्ली. सामक्यो उब्यो न्हय तरीय दिगायेन पडलेल्यो चडतीयो देखून श्वासकोशांचेर चड भार घालका जालो. सानसान झाडां, फुलून राबलेलीं फुल्लां, थंय थंय जावनु दृष्टी पडचीं तणामळां आदी मनाक थंडाय दिता.

पन्खा न्हंयचे पाडीक साकून सान एक रुका सांकोवु दांटवून पेलतडी वचून आमी उणे घडियांक आराम केल्लो. एकेक खोल्लो ग्लूकोसा उदाक पीवनु जावनु, दिगायेन पडलेली एकि होडी चडती चडून देंवनु परत एक न्हंयचे पाडीक पावलीं. लिपुलेख पासांतु साकून व्होळनु येंवची ही लिपुगाड नांवाची न्हंय सुमार होडी आसा तरीय उदाक ऊणे. व्हाळ्याकय जाय तितली शक्ती ना. न्हंयचे पाडीक आशिल्ले सान दोंगर चडून देंवनु आमी देड किलोमीटरा लागी यात्रा केल्ली. आदिकैलासाचे सान सरोवरांतु साकून उद्भवून येंवची रिपु नांवाची सानी एकि झरी लिपुगाड न्हंयेंतु मेळचे स्थला लागी आमी उणे घडीयो चाया पिंवचाक जावनु खर्चील्यो.

कठिन शेळोवु अनुभवतालो. चोवधा सास फीटा लागी उंचटाक पांवतालीं आमी. स्वासु काडूक जायत्यांक कष्ट जाताले. राजस्थान स्वदेशी डॉ. अनिल एकेकल्यांकय विशेश श्रद्धा दीवनु निर्देश दितालो. ITBP चो हो सैनिक डोक्टर घोड्या फाटीर सवार करून एकेक यात्रिकाचेय लागी वचून पळयतालो. अवश जालेल्यांक विश्राम करतना वोकदां

आनी अन्य पानीयां दिंवचाक डोक्टरूच निष्कर्षा दाकयतालो.

न्हंयचे संगमस्थलाक लागून पडलेले एक विशाल घाटींतु आमचे घोडे वळवळपणान चरून भोंवचें हांवें कौतुकान पळयलें. घोडेली एक तरा धारे अयदूव उपयोगु करून तण आनी झाडां कातरून भोरे करून दवरताले. घोड्यांक राती खांवचे आवश्याक जावयात हें म्हूण हांवें आठयलें. तरीय तशी न्हय म्हूण सुरींद्रकुमारान सांगलेलें आयकून माका अतिशय जालो. आदिकैलासाचे परिसरार साबार वाडूचीं अमूल्य वकदा झांडां हीं एकंठाय करून औषधनिर्माण कंपनी अमित लाभु करता म्हण ताणे सांगलें. पर्वतवासी व्होड मात्रेन हीं वकदा झाडां एकडे करून एजेंटांक पांवयताय. गाय बोकड्यो, घोडे, याक आदी मृगां हीं झाडां खांवचाक वळवळसाण दाकयताय आनी तेंच आसा तांचे आरोग्याचें रहस्य म्हणूय सुरींद्रकुमारान जाणयलें.

थोडे सैनिक चायेक उदाक खतखतांवचाक परिश्रम करताले. सुकयलेलीं कुका बाळकां तेलांतु घालनु तळताले आनी थोडे सैनिक. चाया तयार जांवचाक तोडोवु आसा म्हूण समजलें. हांवें आनी हरिहरान एकेक मुष्ठी कुका बाळुकां काडलीं. आनी तें परिसर भोवनु थंयचे सस्य भांडार पळोंवचाक देवले. तें परिसर सोडून दूरा वचाक नज आनी जांवचे इतले वेगीन परतून पांवका म्हूण एक सशस्त्र सैनिकान सौम्य भासेन उपदेशु दिल्लो. सैन्याची ही जाग्रता पळोवनु माका भो संतोषु जालो.

वकदा झाडांचो होडू एक भंडारूच आमी थंय दिकलो. हिमशिखरांचेर साकून व्होळनु येंवचे सान झर्यांचे फलभूयिष्ठ पाडींचेरी खूतच वाडूचीं विविध तरा झाडां आश्चर्यान मात्र पळोंवचाक जातलीं.

घोडेल्यांतुलो जाण्टो मि. रामसिंग तणा भोरो घेवनु तशीणान आयलो आनी आमी ताजे लागी झाडांचीं नांवां आनी अन्य जाणकारी निमगून घेतली. उच्चारण करूक सरी प्रयास आशिल्लीं नांवां बरोवनु काडूक आशिल्लो मिजो श्रमु हांवें सोडलोच. तरीय डॉ. अनिलाचे लागी चड चर्चा करूं म्हूण आठयलें. सर्पा फण्या सारके पाल्यांचीं झाडां, नक्षत्राकृतीचे पाल्यांची झाडां, रुप्या तीळे फाफुडलेल्या सारके पाल्यांचीं झाडां अशी तरा तरा शेंबरा भायर झाडां ते प्रदेशार वाडताय म्हळ्ळेलें विस्मय दृश्य. वाल्यो आनी सान झाडांय हांतूं पडताय.

चाया आनी कुका बाळुकां खातना डॉ. अनिलाचे लागी सस्य वैविध्याचे पासून चर्चा केल्ली. डॉ. मोह्ताय संभाषणांतु भागु घेवूक आयलो. टिबेटाक लागून आशिल्ले भारताचे शीमे गांवांतु औषध सस्यां व्हड मात्रेन वाडताय. हिमालय श्रेणीची देंवती भारत भागाक आसून हे प्रदेशार साबार पावसु मेळता. पावसा कालु जाल्यारी मागीर हिम करगून व्होळनु येवनु हो प्रदेश सदा ओल्लो वरतोलो. शींया कालाक हिमान निपोवनु घाल्लेले झाडांचीं मूळां आनी बीं प्रकृती संभाळून राकून दवरता. शींया कालु जातरी हिमाचे व्हाळ्या पोंदाक साकून हीं किरलेवनु ऊंच येताय. टिबेटा भागाक पावसु ऊणे देखून थंय सुको बंजर प्रदेशूच चडय. भारत भुंयचेरी साकून हीं अमूल्य वकदा झाडां खुंटून टिबेटांतु निपोवनु व्हरनु विक्री करताय. चैनेन संसार भर विकचे प्रसिद्ध टिबेटी वकदांतु चडय, भारतांतुले हे वकदां झाडांतु साकून उत्पादन केल्लेलीं अत्यपूर्व मूलांशां समाविष्ट आसाय.

DHUA RHODIOLA वर्गाचे औषध सस्यांतु 21 तराचीं Biological Active Microelements आनी 17 तराचीं Amino Acid आसाय म्हूण तं संशोधन करून व्यक्त जाल्यां. हृद्रोग, प्रमेह, रक्त समर्द्ध,

आमाशय संबधित पीडा, किड्नी रोग, अपस्मार आदींक जीवनरक्षा वकदां, आनी थकाय उणे करूक, उदासीपण ऊणे करूक, बुद्धीविकासाक, देहपुष्टीक सर जालेलीं देहरक्षा वकदां उत्पादन करूक, हिमालय-टिबेटी प्रदेशांचेरी आशिल्लीं औषध झाडां विपुल मात्रेन उपयोगु करताय.

हिमालयाचे सर्व पर्वतांचेय आवश्याक, भूमीक गाय जावनु संकल्पु करून धार काडून दिल्लेली अमूल्य औषधरत्नश्रेणी तं ही म्हळळेल्यो कालिदासाल्यो वळ्यो (कुमार संभव) मिजे उडगासांतु आयल्यो.

*'यं सर्वशैलाः परिकल्प्य वत्सम्
मेरौ स्थिते दोग्धरि दोहदक्षे
भास्वन्ति रत्नानी महौषधीश्च
प्रथूपदिष्टाम् दुदुहुर्धरित्रीम्'

हूनी चाया भितरी पांवचानिक नवोन्मेषु आनी उत्साहु अनुभवलो. लागीच आशिल्ले एक रुकारी थोडे कायळे गोंदोळ करताय हांव कौतुकान पळोवनु राबलों. थारचूलांतु आनी गालांतु कायळ्यांक दिकलेले तरीय इतले उंचटाक कायळे आसतले म्हूण आठयलेलेंच ना. दाटायेन हिमावृत हे पर्वतप्रदेशांचेरी अन्य सवर्णीय भोव ऊणे. केरळांतुले कायळ्यांक तुलन केल्यार हांकां होडकाय चडि तरीय आकृती तीच. आमी घालनु दिल्लेलीं बाळुकां, भयरहीत येवनु खाताय पोळोवनु मनुष्यवासु आशिल्ले कडेचे

---

*हिमवानाले सर्व पर्वतांकय मेळोवून
महामेरु राबला, गो संकल्प करून
पृथुक्तीन दिता, भूमीचेरी साकून
रत्नौषधी श्रेणी, धार काडून-

बि वे हे म्हूण संशयु जालो. सैन्याचें दीर्घ विसील वाजता आयकून ते एकसाणीच उबून टिबेट भागाक गेल्ले. मुकार वचाक जावनु आमीय उठावनु तयार जालीं.

लिपुगाढ न्हंयचे पाडीरी साकून आमी संथ चमकीलीं. चड उंचायेरी तं आमी चडतालीं तरीय दिगायेन पडलेली चडती देखून चड कष्ट दिसलेनाय. सूर्या उद्देवनु ऊंच पावला तरीय भो शेळोवु दिसतालो. न्हंयचे देगेंचेर आनी न्हंयचे तलारी दिकलेले एक खास तरा फातर मिजे श्रद्धेंतु पडले. फातरांचे आकृतींतु आनी रंगविन्यासांतु भो खाशेलेपण दिसलेल्यान हांवे तांचे पासून रामसिंगाचे लागी निमगीलें. महत ॐ पर्वताचेरी साकून व्होळनु येंवचीं शिवलिंगां हीं आनी लागीच तं पर्वताचें दर्शन घेंवचाक जातलें म्हणू ताणे सांगलें. जायते संघाचे यात्रिकांक ॐ पर्वताचें दर्शनभाग्य मेळना आनी अनुकूल कालावस्था आसा जाल्यार मात्र ताजें दिव्य दर्शन मेळत म्हणूय ताणे जाणयलें.

दिगायेन पडलेली ती होडी चडती चडून देंवचानिक नवीधांगांचे केंपाचीं षेड्डां दूरा दृष्टी पडलीं. सल्प लागेन मुकारसुचानिक महत्वपूर्ण ॐ पर्वताचें रूप दूरा दिकलें. दाटायेन दोवान पांगूरनु राबलेले हिमपर्वतांचे मद्दें जावनु निस्तेज रूपान तरीय वाचूक जांवचे तितले स्पश्ट रूपान 'ॐ' दृष्टी पडता. कालावस्था भो अनुकूल आसून उजळ किरणां पडून, केंपाचे मुकार पांवतना स्पश्ट जावनु ॐ दृष्टी पडतलें म्हूण परिचय संपन्न घोडेल्यानी आमकां जाणयलें. सैनिक संघांतुले एक कालावस्था विदग्धानय हो अभिप्राय सम दवरलो.

सर्वय सामकी उत्तेजित जाले. जायतो त्याग सहन करनु इतली दुष्कर यात्रा तरण करनु, हांगा तांय पावनु, ॐ पर्वताचें दिव्य दर्शन

मेळनाशिल्लें वचप म्हळ्यार सामकी दुखकर अनुभवु आसतलो. जायते संघांक ते मेळप ना म्हूण सांगूचें केवल आश्वास वचन मात्र. केंपाचे लागी पांवता तशीच तें दिव्य दृश्य चड स्पश्ट जावूक लागलेलें.

इकरा वरांचेरी आमी केंपातु पावलीं. फायबर षीटांचीं पाकीं घाल्लेलीं सान षेड्डां आसाय हे ITBP केंपांतु. 'O' आकृतीरी आशिल्लीं हीं कूडां साय मारनु सुंदर केल्यांय. केंपांतु साकून सल्प दूरा जावनु न्हाण्योय आसाय. हिमपर्वतांचेर साकून व्होळनु येंवचें शुद्धजल टेंकांतु भरून घाल्यां. इन्ड्या, नेपाळ, टिबेट शीमो नविधांगांतु मेळताय. हे भागाचे पर्वतश्रेर्णींचेरी आसा ॐ पर्वत. 14500 फीट आसा नविधांगांची उंचाय. ॐ पर्वतारी साकून व्होळनु येंवची निल्यंती न्हंय आनी लिपु न्हयं एकडे जांवचे संगमस्थलाचे लागी, विस्कळ मैदानांतु आसा नविधांग केंप. शीमेचे राखण सैन्याचें एक घटक लागेन हांगा आसा.

केंपाचे उत्तर पश्चिम कोणारी आशिल्या फातरां राशीरी साकून हून उदाक व्होळनु देंवता म्हूण सैनिकांनी सांगूनिक आमकां आश्चर्य जालें. हिमालय पर्वत श्रेणींचेरी हो हून उदका प्रतिभासु सर्वसाधारण. शेळोवान घट जांवचे हे अंतरीक्षांतु हून उदका न्हाण आरोग्याक बरें म्हूण दिसून हांव आनी हरिहर ते उदका झर्यांतु न्हांवचाक गेल्ले. उदकाक सहनीय हुनसाण मात्र.

न्हाण जातरी रोमेवस्त्रां घालून आमी, केंपाक लागून पडलेले तणामळाचेरी गेल्ले आनी सौकर्यप्रद जागे सोदून बेसले. अन्य संघांगां, घोडेली, सैनिक, लेयसण अफसर हीं सर्वय ॐ दर्शन घेंवचाक थंय एकडे जालेलीं. कडकडेंवचे ते थंडायेंतु KMVN परिचारकांनी हाडून दिल्लेली चाया बरी जाली. कालावस्था निवळ आसून ॐ पर्वत भोव स्पश्ट दृष्टी

पडलो. हिमावृत पर्वत श्रेणींचे मद्दें जावनु उंचायेरी राबलेले एक हिमपर्वताचे उंचावेले सपाट सरी आशिल्ले प्रतलारी ॐ म्हूण संस्कृतलिपीन बरयल्यां. पन्नेरा वीस फीट पूणीय होडकाय आसा हे अक्षराक. खंचे कोणारी साकून पळयल्यारीय तें अक्षर थंयीच तोंड करून आसा म्हूण दिसता. ॐ लिपीचे भायरचे भागाक हिम थोडी सरी ना. ॐ रूपाचेरी आशिल्ले हिमाक असाधारण तेज आसा. एक निपुण कलाकारान वज्रा पिट्टो फाफूडून रचिल्ले सारके दिसता तें रूप. ॐ मंत्र परत परत जपून बेसल्ले आमकां सर्वांकय स्तब्द करून तें छटीने अप्रत्यक्ष जालें. तें परत दृष्टी पडतलें म्हूण घोडेल्यांनी भक्ती भावान सांगलें. दोवु यद्दो सरी नाशिल्लो आनी लिपी बरयलोलो तो काळो भागु स्पश्ट दृष्टी पडता. डॉ. मोह्ताचे हातांतूली दूरदर्शनी घेवनु हांवें तो भागु विस्तारान निरीक्षण केल्लो. थंय ते पर्वत भागाचेर कसलींय लक्षणां, कोरांतून घाल्लेलीं बी दृष्टी पडता जावनु दिसलींनाय. दोळे फटफटावनाशिल्लें पळोवनु राबलेले तेन्ना पर्वताचेर



ॐ पर्वत

परत हिमकणां रूप धरूक लागलीं. तें सामकें एक विस्मय दृश्य म्हूण सांगचेंच पडता. धा मिनिटांनी ती प्रक्रिया पूरती जालीय.

सुंदर ते तणामळाचेरी उद्दारीच पडून ॐ दर्शन दोळे भरून आस्वादन करतना मिजे चिंतेंतु धर्मशास्त्रांतुली आनी पुराणांतुली साक्षात परब्रह्माचे विशींची वर्णना एकेक जावनु आयली. 'ॐ म्हळ्यार बीजमंत्रू. एकाक्षर ब्रह्मम् म्हूण ॐकाराक भगवद्गीतेंतु विशेषण केल्यां. ॐकार प्रणवमंत्रु आसा, शब्दब्रह्मम् आसा. परब्रह्मवाचक आसा. ॐकार स्वरूपा म्हळ्यार देवु- परब्रह्मा, विष्णु, शिव अशी. ॐकाराक ब्रह्ममाचे लागी आशिल्लो संबंद केवल सांकेतिक मात्र न्हय, तरी नित्य आसा म्हूण आचार्य स्पश्ट सांगताय. सृष्टी-स्थिती-संहार प्रक्रियेंतु सृष्टीचे आरंभारी सर्वप्रथम जावनु ॐकार रूप प्रणवाचें स्फुरण जालें. ब्रह्मप्राप्तीचे खातीर आचरण करचे विभिन्न साधनांतु प्रणवोपासना प्रथम प्रधान आसा. सर्व दैवीकानुष्ठानांचो आनी मंत्रांचो आरंभ ॐ शब्दान जांवका म्हूण नेम. ॐकाराचे भाग अ+ उ+ म, बिंदू, अर्दचंद्रकला अशी आसाय. हांतु अकार, उकार, मकार सृष्टी स्थिती संहाराक नियंत्रण करचे ब्रह्मा-विष्णू-महादेव हांचे पर्याय आसाय. अक्षरमात्रा पळयल्यारी आत्माक अ, उ, म रूप आसा. अ म्हळ्ळेली विष्णू संज्ञा. उच्चारण केल्यार हरद्यांतु तिजो त्याग जाता. उ म्हळ्ळेलें शिव उत्तर गळ्यांतु त्यज्य जाता. म ब्रह्म वाक्य. त्यज्य जाता ताळुवेरी साकून. अर्दमात्रा बिंदू, मनाचें रूप, देवाचें रूप आसा. बिंदू साकून ऊंच वाच्यवाचक भेद जायना.'

मंगळकर ॐकार मंत्राचो अ शब्दु महादेवाले उत्तर मुखारी साकून, उ शब्दु पश्चिम मुखारी साकून, म शब्दु दक्षिण मुखारी साकून, बिंदू पूर्व मुखारी साकून आनी योगात्मक शब्दु मध्य मुखारी साकून उत्भव जालो. तशी पांच स्वरांचें एक पूर्ण रूप. तीं सर्व स्वरांय एकडे

जावनु मूलमंत्रु ॐ रूप धरलो. ॐकारांतु साकून गायत्री मंत्रु आनी तांतु साकून वेद. ॐ विस्कळेल्यार सर्व वेद जाले. वेदांतु साकून परत ॐकारादी. हांचें आवर्तन राबूनाशिल्लें चमकता आनी ताका शब्दब्रह्मम् अथवा वेदब्रह्मम् म्हणताय.

'कर्म ब्रह्मोद्भवम् विद्धि
ब्रह्माक्षरसमुद्भवम्
तस्माल सर्वगतम् ब्रह्म
नित्यम् यज्ञे प्रतिष्ठितम्'

(भगवद्गीता- तिसरो अध्यायु. वेद म्हूण सांगूचो ब्रह्मम्, अक्षरब्रह्मम् जावनु आशिल्ले परमात्मांतु साकून जालोलो. जे कारणान वेद परमात्मा जावनु अक्षर पुरुषांतु साकून तागेलो श्वासु सारके उत्भवु जाता, ते कारणान सर्वांक प्रकाश दीवनु, सर्वांतु व्यापून आसा. तरीय मुख्य जावनु यज्ञांचे आनी तद्वीधींचे पासून तांतू प्रतिपादन आशिल्ले कारणान वेद नित्य यज्ञांतु स्थित करता म्हूण म्हणताय.)

वायुपुराणांतु ब्रह्मा-विष्णु-महेश्वर हांचे संबंदा विशीं वर्णन केल्यां. त्या लेकान ॐकारश्रुती अशी -

'अकारो विष्णुरुद्दिष्ट
उकारस्तु महेश्वरः
मकारस्तु स्मृतो ब्रह्मा
प्रणवस्तु त्रयात्मकः'

'अ' काराक, 'उ' काराक आनी 'म' काराक प्राधान्य दीवनु आशिल्लीं उत्तरां संस्कृत श्लोकांतु सावार आसाय. तें देखून संस्कृत

श्ळोक म्हणतना आमी नेणताच 'ब्रह्माक' वंदन करताय. देवस्थान दर्शन जातरी निडळारि, गोमटेरी आनी हरद्यारी गांद लायतना आनी संध्या समयारी भस्म लायतना आमी 'ब्रह्माक' वंदन करताय. बाल्य कालाक साकूनूच संस्कृत श्ळोक साबार म्हणच्यांक आयुरारोग्य चडता म्हूण प्रबल एकु भारतीय विश्वासु.

महत ॐ दर्शन एक अध्यात्मिक साक्षात्कार जावनु माका अनुभवलो. ॐ दर्शनान निर्वृती पावनु हांव ते मैदानाचेर पडून निदून गेल्लों. एक सैनिकान येवनु माका जांगोंवचानिक हांव उठायलों. संघांगां पूरा वचून जालेलीं. एक फातरा राशीचेरी उंबळेलीं आंगवालीं सुकत घालचे श्रमांतु आशिल्लो हरिहर. पालकडी घालून बेसून हांवें परत ॐ पर्वताक पळयलें. तो भागू सगळो दाटायेन दोवु पांगूरनु रावला. ॐ पर्वताचें भीमाकार रूप तांय दृश्य न्हय.

वरां देड जावनु गेल्लेलीं. सूर्या मात्याचे ऊंच आसा तरीय काळें कूळींग ग्ळास दवरून पळोंवचे लेकान तो प्रदेशु पूरा काळको जाला. अतीव शेळोवु कारण देह कडकडेता. व्यत्यस्त दिशेरी साकून मारचें वारें कारण तो परिसर पूरा प्रक्षुब्द जाला. छट जावनुच हो बदलाव आयलोलो. सुखान निदलेले माका सैनिकान येवनु जागयलोलो कालावस्थेंतु येंवचाक वचे हे बदलावा पासून जाणून जावयात. देनपारांचें जेवण केंपांतु हाडून दिल्लें. शक्तीन मारचे वार्यान केंप षेड्डां तांय मोडून पडतलीं म्हूण आमकां भय जालें. वारें ऊणे जातरी खाण खावूं म्हूण आमीं राकून बेसलीं.

सर्वनाश करचे लेकान इतले समयाकय मारतालें वारें. चारी वरां लागी राबून गेल्लें. परिचारकांनी हून चाया आनी बिस्कुटां जाय



तितलीं हाडून दिल्लीं. भायर देवलेले आमकां प्रसन्न कालावस्थेन स्वीकारले. भो शेळोवु आशिल्लो तरीय भायर भोंवनु चोंवचाक आमी निश्चयु केल्लो. ॐ पर्वताचे भागाक पूरा दोवु पांगूरनु राबला दिकलें.

न्हंयचे संगमस्थलाचे दक्षिण भागाक उंचटाक जावनु सान एक देवळ आमी पयेलेंच दिकलेलें. तशी एक देवळ थंय ते प्रदेशारी कोणे बांदलें आनी ताजे पासून अन्य जाणकारीय हांवें सैनिकांचे लागी निमगून मनांतु केल्ली. अतिपुरातन ते देवळांतु सांजवेळार दिवो लावनु पूजा चमकयताय आनी थंयचें दर्शन घेंवच्यान बरें जाता म्हणूय ताणे सांगलें. देवळाचे मागशीं भागाचे अगाध घाटींतु एक हेलिकोप्टर पडून आसा आनी हे स्थलाचे प्रवचनातीत कालावस्था कारण जावयात ती दुर्घटणा जालेली म्हणूय ताणे सांगलें. ते देवळांतुले शिवविग्रहाक अतीव गांभीर्य आसा. घांट वाजून ॐकार मंत्र जपून आमी उणे घडी थंय राबून प्रार्थना केल्ली.

दोंगराचेर राबून चोयतना हिमावृत पर्वतश्रेण्यांक भो गांभीर्य आसा. धव्यो सातूल्यो धरलेले लेकान फांतीन राबलेले हिमशृंगाक अस्तमय सूर्यान वांटून दिल्लेली अतिमनोहर फांटभूंय मनमोहक आसा. ते रंगविन्यासाची शोभाय अपार आशिल्ली. शींयान कडकडेताय तरीय आमी सल्प चड घडियांक थंय बेसून प्रकृती शोभाय आस्वादन केल्ली. पूर्वार हिमपर्वतांचेर दाट दोवु भरता दिकूनिक आमी परतूक लागलीं. देवळाचे मागशीं वचून अगाध घाटींतु पडलेलें हेलिकोप्टर पळोंवचाकय आमी वेळु केल्लो.

खाण तयार करचे षेड्डांतु थोडो वेळु डॉ. मोह्ताचे सांगातांतु खर्चीलो. KMVN मनेजर आनी सैनिक अफसरांय थंय आशिल्लीं.

भारत भुंयेंवेलें निमणे केंप आसा हें नविधांगाचें. फाल्याचे खातीरची यात्रा पद्धती एक अफसरान सांगून दिल्लेली आमी श्रद्धेन आयकली. राती एक वराचेरी लिपुलेख पासाकडे वची आमची यात्रा आरांभतली. नविधांगांतु साकून लिपुलेख पांवचाक णव किलोमीटर आसा. इतलेच अंतरान 2500 फीट उंचटाक चडूक आसा. लिपुलेखांतु पांवतना समांतरारी साकून 18600 फीट ऊंच आसतलीं आमी. दाटायेन हिम पडलेले प्रदेशाचेर करची ही यात्रा अतिदुर्घट म्हूण अफसरान उडगास दिल्लो. फाल्यार लिपुलेखांतु पांवतना संघाक राकून पेल्ले भागाक चीनी अधिकारी राबलेले आसतले. औद्योगिक क्रमांचे उपरांतें संघाक चीनी अधिकार्‍यांक हात परततना आपली जवाबदारी तात्कालिक जावनु सोंपतली म्हणूय अफसरान सांगलें.

पांच वरां जांवचानिक काळूक भरलो. पावसा मोड दवरून आयलें आनी अस्तमय सूर्याचीं किरणां काळकांतु पडलीं. जोर हिमवृष्टी लागेन जांवचानिक शीं सहन करूक जायना. सात वरांचे मुरथम जेवण करून बरी नीद काडूक श्रम करका म्हूण निर्देश आसलोलो. देखून आमी उणेच घडियांक वेदपारायण चमकोवनु भजन केल्लें आनी कर्पूरा आरतीय दाकयली. भारत भुंयेंवेली निमणी राती आमी ही खर्चीताय आनी विदेश भुंयेंवेले मुकावेल्ले यात्रेचे उपरांतें कोणकोणाक परतून येंवचाक जातलें, असली सगट चिंता एकेक यात्रिकालेय मनांतु भरल्या म्हूण माका दिसलें. तरीय मिगेली चिंता वेगळे तराची आसलेली.

'वेदांतवाक्येष्ठ सदा रमन्तो  
भिक्षान्नमात्रेण च तुष्टिमन्तः  
अशोकमन्तःकरणे चरन्तः  
कौपीनवन्तः खलू भाग्यवन्तः'

(सर्व वेळारीय वेदांतचिंता करून शोक नाशिल्लें जावनु आपलेच अंतरांतु रंजून भिक्षाटनांतु संतुष्टी पावनु कौपीन मात्र धारी जावनु भोंवचे भाग्यवंत.)

भो काळ मुरथम साकूनूच रिषी, योगी आनी अन्य पुण्यात्मा हे भुंयचेर भोवलेले आसाय. तांचे लक्ष्य एकच आशिल्लें, कैलास दर्शन. हिमशिखरां, हिमावृत घाट्यो आनी हांगाचें अतिशैत्य तरासून तांनी मुकारसलीं. हे न्हंयांचे व्हाळे तेन्नाय आसलेले. साधारण तरा वस्त्रां न्हेसून, मेकळे मैदानांचेरी राती काडून, अल्प मात्र खाण खावनु तांनी लक्ष्यस्थान पांवचाक अतिकठिन प्रयत्न करतालीं. तांगेलो तो परिश्रम तारतम्य केल्यार आयची यात्रा तितली कष्टकर न्हय म्हूण माका दिसता. मरण खंयीच घडूयात. जन्मु घेतल्यार मरण आसा आनी मरणानंतर पुनर्जन्मूय सुनिश्चित. मरणाचे विशींची दुरूहता मनुष्यराशीचे अंत्य तांय वरतली म्हळळेल्याक संशयु ना.

'जातस्य हि ध्रुवो मृत्युर-
ध्रुवम् जन्म मृतस्य च
तस्मादपरिहार्येऽर्थे
न त्वम् शोचितुमर्हसि'

(जन्मु आशिल्याक मरण निश्चित. मरण आशिल्याक जन्मूय निश्चित. तें देखून जनन मरण अनिवार्य कार्य. तसले अनिवार्य कार्याचे पासून तूवें उदास जावूक नज. भगवद्गीता- दुशेरो अध्यायु)

जेवण जावनु सात वरांचे मुरथम आमी स्लीपिंग बेगांतु चडून पडलीं.

णवावो दीसु

# लिपुलेख - तकलाकोट

गाढनिदेंतु साकून छट जावनु उटावनु टोर्च मारनु समयु चोंवचानिक वरां 12.40 जाल्यांय. तेन्नाच सैन्याचें विसिल वाजूक लागलें आनी भायर साकून गोंदोळूय आयकलो. मित्रांक जागोवनु जावनु हांव केंपाचें कवड वाकतें करून भायर चोयलों. सामान्य शक्तीन वारें मारता. पावसूय शिरशिरेता. रांदपा कूडा लागी जळोवनु दवरलेले ग्यास लायटाचे उजवाडांतु दृष्टी पडचे पावसा थेंब्यां सांगातांतु सान ऐसा कुटके लागेन पडचे स्पश्ट दिसताय. इमारताचे फायवरा पाक्यांचे ऊंच ऐसा कुटके पडचो पडपडा सोवदू एक वाद्य मेळाची प्रतीति हाडता. अतीव शेळ हे कालावस्थेंतूय केंपाक लागून आशिल्ले मैदानांतु पावसु तिमून, कुरवून राबलेले घोड्यांक सहतापान पळोवनु हांव राबलों.

KMVN परिचारकांनी हाडून दिल्लेली हून चाया पीवनु राबलेले वेळार हांवें ॐ पर्वतभागाक अशीच पळयलो. तो भागू सगळोच दोवान पांगूरनु राबला. रांदपा कूडाचे लागी प्लास्टिकान बांदलेल्या सामान्य होड एक तंबूंतु घोडेली आनी कूली निदेताले. लग्गेजाची जवाबदारी आशिल्ले KMVN अफसरांनी गोंदोळु करून तांकां जागयले आनी तुरंत घोड्यांचे फाटीरी लग्गेज चडोवनु भायर सरचे खातीर तयारी करूक

निर्देश दिल्ले. एकाचे ऊंच एक जावनु पांच रोमे वस्त्रां धरसूक आनी तिनतीन सोक्सां घालनू ट्रेकिंग षू घालनु घट बांदूक डॉ. अनिलान सांगलें. नंतणा रोमे ग्ळोवसां घालेल्याचे ऊंच चामाचीं ग्ळोवसां, मात्यार मंकी केप, केनवासा टोपी, गोमटेक माफ्ळर आदी घालनु मातें, गोमटो पांगूरनु सुरक्षित करूक एकेक यात्रिकाकय डोक्टर निर्देश दितालो. एकु सैनिक अफसर आनी ताजे दोन सहायी दर एक यात्रिकालेय वेषविधान पळोवनु तें तृप्तीकर म्हूण सुनिश्चित करताले. परिचारकांनी कोणफ्ळेक्स आनी बोणविट्टा हाडून दिल्लें.

वरां सवाय एक जांवचानिक सैनिक उद्योगस्थान विसिल वाजलें. आमी सर्वय, दिंब्येरी तांय पांवचें पावसा कोट घालनु मैदानारी एकडे जालीं. दाटायेन आशिल्लो दोवु आनी पावसु कारण दर एकलोय शींयान कडकडेतालो. चंद्रु उदेला तरीय मळब येद्दें दृष्टी पडना. घोड्यांचेर सवार करच्यांक आद्यच तयार राबयलीं. तांचे मागशीं कूली तयार जाले. मागीर आमी पांच पदयात्री फांतीन तयार राबले. उज्चल टोर्च लायटांचे उजवाडांतु, KMVN उद्यागस्थ आनी सैनिक धावनु भोंवनु निर्देश दिताले. सर्वांचेय बंदोवस्त सामकें जाल्यां म्हूण समजूनिक दुशेरें विसिल वाजलें. तेन्ना सशस्त्र सैनिकांचें एक संघ मुकार सरनु राबलें. आनी एक संघ आमचे मागशींय तयार राबलें. देड वर जांवचानिक तिसरे फंतांचें विसिल दीर्घ वाजूचें ते घाटींतु घुंजलें. 'ॐ नमशिवाय' होडान म्हणून आमी ॐ पर्वताक वंदन करून मुकारसलीं.

पावसाक शक्ती चडली. शींयान कडकडेवनु एकेक पावल सावधपणान दवोरनु आमी संथ चमकीलीं. अतिशक्त टोर्च लायटाचे प्रकाशाक तांय दोवांतुल्यान रिगूक जायना. लिपु न्हंयचे पाडीवेल्यान करचे हे दुर्घट यात्रे वेळारी हिमशिखरांचेरी साकून व्होळनु येंवच्यो झर्यो आडखळायताल्यो. फातरा कुटके शिंवडून पडलेले स्थायांचेर घोड्यांक

चमकूक भो कष्ट जाताले. पावसा थेंब्यांचे सांगातांतु ऐसा कुटके लागेन टोपीचेरी आनी रेनकोटारी बळान पडताले.

सुमार एक किलोमीटर चमकून जांवचाकय सपाट जागे सरले. मुकार अतीव दुष्कर चडतीयो तरण करूक आसाय. पांच मिनिटांक विश्राम करून जावनु आमी मुकारसलीं. टोर्चलायटाचे शक्त उजवाडांतु एकेक पावलय सावधपणान दवरून चडतीयो चडूक लागलीं. पावसाची शक्ती चडून आयली. हिमावृत पर्वतशिखरां आनी हिम नाशिल्ले वाडकूळे फातरांचे पर्वतभागय एक सोडून एक येत राबले. एकेक पावल चडून जातना स्वासु सामकी करूक एक मिनिट राबूका, मागीर संथ लागचें पावल दवोरनु संथसंथ चडका अशी आशिल्ली आमची रीति. ते कारणान स्वासकोशांचेर अधिक भारु घालनाशिल्लें राबूक सल्प पुणीय जालें. शींयान घट जांवचे वेळारीय भितरच्यान हुमेंवचे सारके दिसलें. सुमार दोन घंटे यात्रा करून जांवचाकय आमी एक समतलाचेरी पावलीं. अर्द घंट्याक थंय बेसूक डोक्टरान निर्देशु दिल्लो. बिस्कुटां खांवचाक आनी पानियां पिंवचाक तशीच विश्राम काडूकय हो वेळु उपयोग करूक ताणे सांगलें.

सुरींद्रकुमारान बेग वाक्तें करून फ्रूटी आनी बिस्कुटां भायर काडून दिल्लीं. आमी पदयात्रिकांनी मांडु घालनु बेसून तें वांटून खेल्लें. आमचे कूलींकय एकेक वांटो दिंवचाक विसरलींनाय. काळे फातरांचो आसा तो प्रदेश. जायते कडे फातरांचे उंचार हिम पडून आसा. सात दीस भितरी हो प्रदेश सगळो हिमावृत जातलो. परतूचे वेळार हिमावृत जालेले हे स्थलावेल्यान करची यात्रा अतीव दुष्कर आसतली म्हूण माका दिसलें. थंय बेसल्ले वेळार चारींय वशीं उजवाडु मारनु हांवें निरीक्षण केल्लें. आमी बेसल्ले फातरांचेय पेल्यान दक्षिण भागाक घाटींतु कसलेच मृगांचो एकु हींडु राबला. हांवे सांगलेलें आयकून बाकींच्यांनीय ते दिकारी टोर्च

मारलें. पळोंवचानिक याक मृगांचो होडलो एक हींडु तो. मातें भुजारी तेंकून दोळे बंद करून निदेंवचीं, फातरांचे मद्दें किरलेवनु राबलेलीं तणातलवां खांवचीं, आवसूंचे रोमावृत देहांचे पोंदाक निपून राबून दूद पिंवचीं पिल्लां आदी ते हींडांतु आसाय. शेळोवान घट जांवचे तसले कालावस्थेंतु पावसु आनी हिम आंगारी घेवनूय निर्विकार राबलेले ते साधु मृगांक सहतापान पळोवनु सल्प चड घडियांक हांव बेसलों.

मुकार आमकां दांटवूक पडल्या होडली एक चडती. सैनिकांचे अतिशक्त दीव्या उजवाडांतु मुकार एकि सामकी उबी चडती दिकून माका परिभ्रमु जालोच. घोड्यां फाटीर यात्रा करच्यांचो मुखभाव दयनीय आसलोलो. हरिहराचें आनी अन्य पद यात्रिकांचींय मुखामळां उत्साह रहित घट दिसतालीं. डोक्टर आनी सैनिक उद्योगस्थ एकेकल्यांचे लागी पावनु धीरु दीवूक पळयताले. कूलीय तांचे धन्यांक जांवचे तितले प्रोत्साहन दिताले. परिभ्रमांतु साकून मुक्त जांवचानिक हांवें, ॐकार स्तुती होडान म्हणूक एक निर्देशु हरिहराचे लागी दवरलो. आमी दोगांनीय म्हणून दिल्लेली ॐकार स्तुती बाकींच्यांनीय होडान म्हळ्ळी. हिमावृत घाटींतु आमचो सोवदू प्रतिध्वनित जालो. सृष्टी-स्थिती-संहाराक नियंत्रण करचे शक्तींक आदरान मनांतु ध्यान करून आमी तीन पावटी ॐकार स्तुती आलापन केल्ली.

हिमवृष्टी आनी पावसु शिरशिरेवनु राबलोलो. आमी यात्रा चालू दवरली. अनंत जावनु दिगायेन उबो राबलेले ते पर्वताचेरी दोळे व्हरनाशिल्लें पावला मूणांतु मात्र श्रद्धा दवोरनु सावधपणान चडका म्हूण परिचय संपन्न एक सैनिक उद्योगस्थान आमकां उपदेशु दिल्लो. पर्वतांक मनान वंदन करून मानु दींवका आनी तांचेरी चडून आमी जिखताय म्हळ्ळेले तराचो अहंकारु येद्दो सरी नज म्हणूय ताणे आमचे लागी सांगलें.

भयभक्ती बहुमानान देवात्मा नगेंद्र समूहाक मनांतु ध्यान करून आमी एकेक पावलय श्रद्धेन दवरून चडलीं. चडती उबी चडूक असाध्य देखून, हेयरपिन घूंवळ्यो आशिल्ले सोपूर पायवाटेवेल्यान आमी चमकीलीं. एकेक घूंवळीचे तुद्दीयेरीय खालाक आसाय अगाध गर्ता. अतिदुष्कर थोडे कडे पांवचानिक सैनिक विसिल वाजून यात्रा राबवयताय. प्राणवायू जाय तितलो मेळूक नाशिल्यान श्वासु ओडूक कष्ट जातालें. तेन्ना ग्ळूकोसा उदाक पीवनु आनी निंबिया मिठाई खावनु आमी धीरु हाडलो. सुमार दोन घंट्यान अतिदुर्घट ती वाट तरण करून आमी ऊंच पांवचानिक पूर्वारी उजवाडाचीं किरणां मातें नीट करूक लागलेलीं.

दाटायेन हिम पडून आशिल्ले ते स्थायारी आमी उणे घडियांक विश्राम केल्लो. लिपुलेख पर्वत मार्ग (Pass) उल्लो मारल्यार आयकूक येंवचे तितले दूरा दृष्टी पडतालो. केवल एक किलोमीटराचे पशी ऊणे अंतर. सानसान्यो चडतीयो मात्र आशिल्ली मुकावेली वाट चडूक चड समयु काडचो ना. तरीय कैलास यात्रा जावनु परतून येंवचे तिसरे संघान पर्वत मार्गाचे लागी पावल्यार मात्र तं आमकां मुकार सरूक अनुमती मेळतली. थोडेच सैनिक ते संघाचे आगमना पासून जाण जावूक पर्वत मार्गाचे लागी गेल्ले. तेन्ना आमी हिम पडून नाशिल्ले फातर सोदून ताजेर बेसले.

सूर्योदय व्यक्त जावूक लागलोलो तरीय दोवु कारण तो प्रदेश पूरा काळकांतूच आशिल्लो. लघुपानीय पीवनु, बिस्कुटां खावनु भूक आनी थकाय ऊणे करून आमी राकून बेसलीं. अर्द घंटो जांवचे मुरथम आमकां यात्रा चालू करूक आदेशु मेळ्ळो.

दाटायेन पडलेले हिमावेल्यान चमकून लिपुलेख पासांतु पांवचानिक वरां सवाय स जालेलीं. अतिशैत्य अनुभवतालें. हिमावृत पर्वतश्रेणींचे मद्दें जावनु होडी एकि खांची आसा. तशीणान खालाक देंवल्यार टिबेटांतु

पांवयात. 18600 फीट उंचायेरी हो मार्गु पडला. गुफेचे तोंडा सारके आशिल्ले हे मार्गांतुल्यान शताब्दां आदीं भारत आनी टिबेटा मद्दें व्यापार चमकतालो. सासानी रिषीमुनी, योगी आनी सन्यासी हेच वाटेवेल्यान कैलासाचेर पांवताले. तांगेलीं पावलां लागलेले हे पुण्यभूंयेक आपडून पांयी पडून हांवें एक निमिशाक प्रार्थना केल्ली.

शींयान कडकडेवनु आमी थंय अक्षम राकून राबलीं. लिपुलेख मार्गाचे अगाध खालटाक टिबेट भूप्रदेश पडला. चार सास फीटा लागी खालटाक आमकां देंवनु वचाक आसा. दाटायेन हिमान पांगूरनु पडलेले ते उबे देंवतीचो भूभागु उंचार साकून दृष्टी पडता. तिसरें संघ पांवचाक तोडोवु जांवच्याचें कारणय तेंच आसलेलें. आमी लिपुलेखांतु पावलेल्या सारके तितलेच खालटाक साकून जांवका तिसरे संघाकय चडून येंवचाक. मार्गाचे सामकी खाल साकून हिमपर्वतांचे मद्देंच्यान वच्यो पायवाटो हेयरपिन घूंवळ्यांचे आकृतीरी आसाय. दूरा साकून लग्गेज व्हावनु येंवचे घोड्यांक दिकीले. तेन्नाच एकेक सैनिक, एकेक हेयरपिन घूंवळीचेरी वचून राबलो. लग्गेज चडयलेले घोड्यांचे दीग फांतीचे मागशीं यात्रिकांक घेवनु येंवचे घोडेय आशिल्ले. हेयरपिन घूंवळ्यो चडतना घोड्यां फाटीर घट बेसूक कष्ट काडचे यात्रिकांक हात धरून सैनिक सहाय करताले. निमणे एक अतिदुर्घट उबे घूंवळीचे मुरथम यात्रिकांक सर्वांकय घोड्यांचेरी साकून देंवयलीं. मागीर तांकां एकेकल्याकय सैनिकांनी उबारनु म्हळ्या वरी तं ऊंच चडयलेलीं. तो मार्गु चमकून चडून आयलोलो कोण एकलोय त्या संघांतु नाशिल्लो म्हूण हांवें खास जावनु पळयलें. भारत भुंयचेरी पावलेले तेच निमिशारी एकेकल्यानय मातृभूमीक आपडून पांयी पडलेलें दृश्य विकारनिर्भर आसलेलें.

आमी तांकां बिस्कुटां आनी लघुपानीयां विरकीलीं. यात्रा जावनु थकून अवश जालेले तांचें लागी उणेच मात्र तं उलोंवचाक जालेलें. चीनी

अधिकार्यांचे लागी साकून चड सहकाराची प्रतीक्षा नाका आनी अत्यावश्य सौकर्य तांय थंय मेळचें ना म्हूण संघांगांचे लागी साकून समजून घेतलें. अन्य प्रदेशांचेरी आशिल्ली कालावस्था चिन्ना तरीय कैलासारी घट जांवचो तसलो तीव्र शेळोवु म्हूण तांनी सांगलें. दोनी सप्ताहांक चीनी अधिकार्यांचे कठक नियंत्रणारी भोवलेल्याचो परिभ्रमु तेन्नाय जांयत्यांचे तोंडारी स्पश्ट आशिल्लो. चमकून कैलास प्रदक्षिणा केल्लेलीं कोंण तांचे मद्दें नाशिल्लीं.

सैनिक विसिल वाजता आयकून आमी परस्पर आशंसा सांगून तिसरे संघाचे लागी विदा सांगली. सैनिकांचे, KMVN उद्योगस्थांचे, कूलींचे, घोडेल्यांचे हात धरून नमस्कार सांगून आमी यात्रानुमति घेतली. कैलास दर्शनाचे समयारी तांचोय लागेन उडगास काडका म्हूण सांगून तांनी आमकां शुभकर यात्रे खातीर आशंसा आनी आशिर्वाद दिल्लो. गेल्या दिसांकडे एकेक अपायकर घटारीय आमकां फाटीबल दीवनु, तशीच खाणाचें आनी अन्य सौकर्यां करून दीवनु आमचे सांगातांतु आयलेले तांकां सोडून वचें असहनीय दिसलें.

दुशेरी विसिल वाजीताय आयकून आमी फांतीन मुकार सरनु राबलीं. आमगेलें लग्गेज टिबेटी कूली व्हावनु खालाक व्होरनु घोड्यांचे फाटीर चडयताय. तेन्ना भारतीय समयु सतड जाला. वाच मुकार चलोवनु धा वरां (चीनी समयु) करूक लेयसण अफसरान सगटांकय निर्देशु दिल्लो. चीनी उद्योगस्थांनी विसा, पासपोर्ट आदी पळोवनु आमकां शीमेचे पेल्ले भागाक चडोवनु राबयलीं. खाण तयार करचे खातीर आनी अन्य कसलेच सहाय करूक जावनु चारी कूलींक तात्कालिक विसा दिल्लें चीनी अधिकार्यांनी. तिसरे फंता विसिल आयंकूनिक आमी चमकूक लागलीं.

दोन किलोमीटर सामकी उबी अतिदुष्कर देंवती तरण करूक आसा. घूंवनु घूंवनु पडलेले हे हिमावृत देंवतीचेरी केन्ना केन्ना बेसून

झरनूय आमी मुकारसलीं.

हेयरपिन घूंवळ्यो देंवतना एक भागाक आसाय अत्यागाध हिमावृत गर्ता आनी एक पावल बि चुकल्यारी सास फीटाचे पशी चड खालाक वचून पडतलीं. आमचेर श्रद्धा थोडी सरी दवरूनाशिल्लें चीनी अधिकारी मुकार देंवनु गेल्ले. भारतीय सैनिकांचे आनी KMVN कर्माचार्यांचे अमूल्य सेवनाचे पासून आमी तेन्ना खेदान आठयलें.

अत्यंत कष्टकर ती यात्रा अंत्यारी पावलेली खालाक एक सपाट प्रदेशारी पांवचानिक मात्र. थंय राबून आमी चमकून आयलेल्यो वाटो पळोवनु सामकी धापको लागलो. उणे घडी आराम करून मागीर लागी आशिल्ले सान एक दोंगूल्याचे घाटींतु तयार राबलेल्या घोड्यांचे लागी आमी चमकीलीं. पदयात्री सोडून अन्य पूरा यात्रिकय घोड्यां फाटीर चडलीं. बुरशीं, पिंजून बंतर वस्त्रां घाल्लेलीं गांवकारां घोड्यांक नियंत्रण करूक आसाय. स्त्री पुरुष भेदु नाशिल्लें तीं सर्वय सर्व समयारीय सिगरेट वोडीताच आसलेलीं. सामान व्हांवचे घोड्यांचे मागशीं यात्रिकांक चडयलेले घोडेय मुकार सरले आनी आमीय तांचे मागशीं गेल्ले.

टिबेटी भासेन अल्पसल्प आशयविनिमय करूक डॉ. मोह्ताक कळता. अगाध पर्वतमाळो दांटवून आट किलोमीटर गेल्यार गतागत योग्य एक स्थल पांवतलें आनी थंय तयार पडलेल्या बसाचेरी चडून 35 किलोमीटर यात्रा केल्यार तकलाकोट पांवतलीं म्हूण घोडेल्याचे लागी साकून समजून घेतलें. आमकां जाय जालोलो सहायु आनी मार्ग निर्देशु दीवनु आमचेच सांगातांतु चीनी उद्योगस्थानींय यात्रा करका म्हूण तं व्यवस्था. तरीय तीं घोड्यां फाटीर चडून अतिशीघ्र खंयींच पावलीं, दृष्टींत साकून गेल्लींच.

शेळ कालावस्था आसूनूय दोवु थोडो सरी नाशिल्ले प्रदेशावेल्यान

आसा आमची यात्रा. सर्व कडेय तांबडे फातरा पुडीये रेंव. थंय सर्व मळबाक आडोळनु राबलेले दोंगर आनी समतल प्रदेश आसाय. पर्वतांचेरी साकून उत्भवून आयलेले सान सान झर्येंतु उदाक भो ऊणे. केन्ना केन्ना सान न्हंयो दांटवून वचूका जातालें. तरीय पावलांखिणांतु तांय पांवचें उदाक मात्र आसून कष्ट म्हूण दिसनाशिल्लें. अगाध घाटींचे देगेवेल्यान सुमार फंता यात्रा करका जाल्यां. तरीय भारत भुंयचेरी तरण केल्लेल्याक तुलन केल्यार हें होड न्हय. एक मनुष्यजीवीक सरी थंय खंय दृष्टी पडना. भुकेन तळवळेवनु गेल्लीं आमी. बिस्कुटां आनी पानियां पीवनु भूक दांबयली. देड वरा लागी बस राबयलेले टिसंग म्हळ्ळेले स्थलार पावलीं.

आमी चमकून पांवचे मुरथमच बाकींचीं सर्वय बसांतु चडून बेसलेलीं. आमी पावनु चडलेलींय परणे पंद्रास बस सोडलें. चाळीस जाणांक बेसुयात जालेले ते बसाचो भितरचो भागु बुरशो वृतिहीन आशिल्लो. पिंजकर सीटां चडय हालताय. पर्वतांचे देगेवेल्यान आशिल्ले फोंड फोंडार्यांचे रस्ते भो सोपूर आसलेले. उदका झर्यो दांटवून वतना बसाचें हालप भय दिसयता. खालाक अगाध गर्ता आसून मनाचो परिभ्रमु सामकी चडता. धा किलोमीटर यात्रा करून जांवचानिक आमी मुगरंग नांवाचे सान गांवांचे लागी पावलीं. थंयचे चेकपोस्टाचे लागी उणे घडियांक गाडी घालका जाली. चीनी अधिकारी पासपोर्ट आनी अन्य प्रमाण पत्रां अतिसूक्ष्मेन परिशोधना करूक लागले. बसांतु चडून यात्रिकांक मेजून चोवनु संख्या सम म्हूण खात्री हाडताले. एकु हासु जावो एक अभिवंदन जावो तांचे कडे साकून आयलेंना म्हळ्ळेलें भो खेदजनक जालें.

मुकारची आमची यात्रा टिबेटी ग्रामप्रदेशांतुल्यान आसा. कर्णाली न्हंयचे पाडीवेल्यान आसाय हे रेंवेंचे रस्ते. फोंड फोंडारे साबार आसाय. न्हंयचे पेलतडी आसा नेपाळ. खंय चोयल्यारीय बंजर दोंगर मात्र. हे गांव

भागाचीं एक माळ्येंचीं घरां भो परणी दिसताय. रोमे बोकड्यांक आनी गायगोरवांक हांगाचीं जनां वाडयताय. न्हंयचे तडीचे पशी खालटाक पडलेले गजन्यांतु भाताची आनी सूर्यकांती फुलांची कृषी साबार आसा. भूंय घसरण कारण जायते स्थलांचेर गांवचे भाग मोडून पडलेलेय आमी दिकले. सल्प दूरा जावनु तांनी परत कोळनी बांदून उबारल्या. न्हंयचे तडीरी साकून दुरच्यान यात्रा करूनिक सान दोन चौकी दिकीली. थंय सानसान्योच आंगड्यो आसाय. आंगड्यांचे मुकार रित्तीं सूरा बोतलां राश करून घाल्यांय पळोवनु आश्चर्य जालें. पेप्सी, कोका-कोला आदी पानीयांच्यो पोड्योय साबार विक्रीक दवरल्याय.

सुमार चारी वरांचे लागी आमी तकलाकोट पावलीं. तेद्दूसची यात्रा थंय अंत्यार पांवतासा. पुरांग अशी टिबेटी भासेन हे गांवाचें नांव. सामान्य खीटू आशिल्लें एक शहर म्हूण सांगूयात. प्रधान रस्त्याक लागून पडलेले पुरांग गंस्टहावसांतु आमगेलें वाहन राबयलें. गस्ट हावसाचे विस्कळ हॉळांतु एमिग्रेषन क्रमां चमकता. चीनी उद्योगस्थांचे एक संघान पासपोर्टांची सूक्ष्म परिशोधना केल्ली. पुस्तक, किंमती नशेदार वकदां, फिलीम रोळां आदी आसाय वे म्हूण तीं सोदतालीं. कम्यूणिस्ट आशयांक विरोध करचे पुस्तकांक हांगा निरोधाज्ञा आसा. एमिग्रेषन, कस्टंस क्रमां जावनु भायर पावलेल्यांक गस्ट हावसाचे परिचारकांनीं एकेक चाया दीवनु सत्कारु केल्लो.

चीनी उद्योगस्थांचो व्यवहारु येद्दो सरी अभिलषित नासलो. कदाचित गौरव मुखामळ सयत जन्मु घेतलेल्यान जायत तांचो भाव सौम्य न्हय. ग्रूप विसेवेलीं नांवां वाचून काडूक ते सामकी कष्टेताले. पासपोर्टावेलीं नांवांय जावनु तुलन करतनाय ते कोपान पुरपुरेताले. परदेशींक स्वीकारतना आचार मर्यादेन जांवका म्हळ्ळेलें प्रथम पाठ सरी चैनाकारांक कळना म्हूण आमी खिन्न जालीं.

पुरांग गस्टहावसांतु डोरमेटरी व्यवस्था तं राबचे खातीर मेळ्ळेली. एक सान कूडांतु चौग जाणांक राबूयात. लोकंडाचे मांचे, दाट निबर हांतूणां आनी कांबळे आसाय. कांबळ्यो आनी उश्यां किसवण्यो भो काळ जावनु उंबळीनाय म्हूण स्पश्ट. गस्ट हावसाचे मागशीं भागाक आसा न्हाण्येचें आनी शौचालयाचें सौकर्य. न्हांवचाक नळ्या उदाक मेळतलें तरीय तें निश्चित समयारी मात्र. थोड्यांतु हून उदाकय मेळतलें खंय. कवडां सरी नाशिल्लीं, भो शोचनीय अवस्थेरी आसाय तीं टोयलेटां. उणेच उतरांनी सांगता जाल्यार अळशीकेची राशी थंय पूरा.

मुरथमले मदराती आरांभलेली दुष्कर यात्रा कारण सर्वय थकलेलीं. आवश्याक खाणय मेळ्ळेंना आशिल्लें. शेळोवा कालावस्था आसूनूय टिबेटांतु दिसाचें रोमे वस्त्रां नाका. उन्मेश हाडूक जावनु न्हावया म्हळ्यार नळ्यांतु उदाक ना. दांत घासूक, तोंड धुंवचाक आदी कूडांचे भायर कोपुरलांतु उदाक दवरल्यां. तांतु साकून एक कप उदाक काडून देहशुद्धी हाडली म्हूण केल्ली. गस्टहावसांतु जेवण मेळूक णव वरां जातलीं म्हूण कळूनिक उणे घडियांक झमेंवचाक हांवे निश्चयु केल्लो.



हादीर साकुन आसिल्लो देखाव

# टिबेट

हिमालयाचे उत्तर भागाची एकि पीठभूंय आसा टिबेट. निषिद्ध राज्य* म्हूण ताका आद्यकालाक साकून आपयताय. 1950 साकून चैनेचे हातांतु आसा हें राज्य. 1995 वर्षाचे प्रमाण पळयल्यारी जनसंख्या 75 लक्षु आसा. तरीय टिबेटी जनता हे प्रमाणाक अंगीकार करना. तांचे लेकान जनसंख्या ताजाकय कितलीकींच चड आसा. टिबेटाचें विस्तीर्ण 2.5 मिल्यण चतुरश्र किलोमीटर. समांतरारी साकून तेरा सास फीटा पशी चड उंचटाक हो प्रदेशु. राजधानी आसा ल्हासा. एक कालाक तो प्रदेश पूरा महासमुद्र आशिल्लो म्हूण शास्त्रीय रीतीन स्थिर केल्यां. टिबेटांतुल्यो प्रधान पर्वत श्रेण्यो आसाय लदाक, कैलास, कारकोरम आनी कुनलून. एष्येंतुल्यो महान्हंयो सिंधू, ब्रह्मपुत्रा, हळदूवी न्हंय, सत्लज, कर्णाली, एरावती आदी हांगा उत्भव जांवच्यो. दक्षिण भागाक एक किले सारके दिगायेन उबे राबलेले हिमालय पर्वत मणसूण वायूक परिमित मात्रेन मात्र टिबेटांतु चडूक सोडताय. ते कारणान थंयचे थोडे स्थलांचेर पावसु भो ऊणे.

एनगारी जिल्लेंतुले सत्लज तटारी आनी पूर्व भागाक आशिल्ले चुंबी तटारी विशाल रानांवनां आसाय. कोणीफर, स्प्रूस, सैप्रस, ओक, वाळनट आदी वृक्ष हांगा साबार वाडताय. रानरोड्डे, रानघोडे, वाग,

---

*निषिद्ध राज्य- Forbidden City

कोल्ले, मांकडां, चिट्यां वाग, काळें भालू, बदामी भालू, कोलसूणे आदी मृगांय साबार आसाय. टिबेटाचे पूर्व जाग्यांचेर कस्तूरी मृग म्हळ्ळेले विशेश तराचे चितळांक दृष्टी पडता. हिमालयाचे आनी कैलासाचे मद्दें आशिल्ले फलभूयीष्ठ न्हंयचे तटांचेरी बारळी वोरोव, सासम आदी विपुल मात्रेन कृषी करताय. शिंपणीक सौकर्य ऊणे आसून हांगा भात, गोंव आदींची कृषी ऊणे मात्रेन मात्र चमकता. बोकडी, रोमे बोकडी, घोडो, गाडव, याक आदी आसाय घरवंताक पोसूचीं मृगां.

जनांतु तीन प्रमुख विभाग आसाय. मध्य पश्चिम टिबेटांतु वासु करचे बोदपो, पूर्व टिबेटांतूलीं खंपा, उत्तर पश्चिम भागाचे आंभो हे आसाय तीन विभाग. जनांक पांच तराचीं जावनु लेकुयात. लामा, कुलीन प्रभू, व्यापारी, गोवाळे आनी कर्षक. 1950 वर्षा चैनेन टिबेट धोरून काडचे मुरथम जनसंख्येचे पांचांतुलो एकु वांटो बौद्ध पुरोहित आसलेले. बौद्ध पुरोहितांक आदरान म्हणचें नांव आसा लामा. एक बौद्ध मठांतु सोळा वर्षांक धर्म पठन पुरतें केल्यार एक लामाक गेषी म्हळ्ळेली उन्नत पदवी मेळतली. सरकारांतु वा मठाचे भरणांतु उन्नत स्थानमान मेळूक अर्ह आशिल्ले हे गेषी. टिबेटांतुलो आद्य धर्मु बोण आसलोलो. सातवे शताब्दांतु बुद्ध धर्मु भारतांतु साकून टिबेटांतु पसरलो. सोंगसेन गांपो नांवाचे पंडितान खंय हाजो आरंभ घाल्लोलो. तरीय ट्यूमीसंबोटा म्हळ्ळेले धर्म पंडितान तं टिबेटांतु बुद्धधर्माक चड प्रचार दिल्ला म्हूण टिबेटी जनता विश्वास दवरता. ताणे साबार काळांक भारतांतु वासु करून विविध भारतीय भासेंतु प्राविण्य घेतलें. टिबेटांतु एकु नवो संस्कार आनी भारतीय भासेंतु साकून रीण घेवनु विपुल केल्लेली एकि भास प्रदान केल्लेली ट्यूमीसंबोटा पंडितश्रेष्ठान म्हूण टिबेटी जनता आराधनेन उडगासु करता.

बुद्धधर्मु टिबेटांतु मूळ धरूक लागलेले तेन्ना बोण मतस्थांचो

विरोध आयलो. बोण धर्माचे आनी बुद्धधर्माचे मद्दें उग्र संघर्श चमकीलो. आखेर फाटिबळ नष्ट जालेलीं बोण धर्माचीं समाधानेक तयार जालीं. बोण धर्माचे गुण स्वीकारून बुद्ध धर्मु टिबेटांतुलो व्यापक धर्मु जालो. पन्नेरावे शताब्दांतु सोंग्खप्पा म्हळ्ळेले मतनेतान टिबेटांतु साबार कडे मठांचें स्थापन केल्लें. तांतूले एक मठाचो मुख्या आशिल्लो दलयलामा आनी एकाचो पंचनलामा.

टिबेटाचें राष्ट्रीय चरित्र पळोंवचें रसकर आसा. सातवे शताब्दा आदींचें टिबटा चरित्र लोककाण्यांतु मात्र मेळचें तसलें आसा. तेन्ना एकेक प्रदेशूय एकेक स्थानीय रायांचे भरणार आशिल्लो. आनी टिबेटाचेर चमकलेलें संघटित विदेशी आक्रमण भारतांतू साकूनूच आसलेलें. अशोक चक्रवर्तीले आदेशानुसार कुमयोण रायु राजानन्दीदेवान टिबेटाचे विविध भाग धरून काडले.

राजानन्दीदेवान कैलास भागाचेर दोन पसार यात्रा चमकयल्या जावनु सांगताय. 755 साकून 797 वर्षा तांय टिबेट भरण करतालो खरीसोंग्दतसेन. परिपूर्ण बुद्धमतविश्वासी आशिल्ले ताणे भो बरें भरण चमकयल्यां. 815 वर्षा साकून 838 वर्षा तांय, रालपचनान टिबेटाचेरी राज केल्लेले तेन्ना जायते प्रदेशांचेर झूज चमकीलें. 1239 वर्षा मंगोळियेन टिबेट आक्रमण करून जिखून घेतलें. कुटकुटीके जावनु गेल्लेले टिबेटाक, चोवधावे शताब्दाचे अंत्यार सोंग्खप्पा म्हळ्ळेले शक्त भरणाधिकारीन एकडे करून बरें राज केल्लें. ताजो शिष्यु आशिल्लो आद्य दलयलामा. पांचवो दलयलामा 1682 वर्षा अंतरलो. तरीय ताजे मरणा खबरी भायर घालनाशिल्लें ताजो रिजेंट संगग्वातसोन भरण निर्बाध चमकयलेंय. टिबेटाचें संपूर्ण एकीकरण हाजे राजकालाक चमकीलें. सोळावे शताब्दाचे मध्यारी भारतांतुले मुगळ चक्रवर्ती अक्बराचें होडलें एक सैनिकदळ टिबेटांतु पावलें. गंगा न्हंयचो उत्भव मानसरोवरांतु साकून वे म्हूण

पळोंवचो आशिल्लो ह्या संघाचो उदेशु. अक्बराले सेनेचे लागी टिबेटांतु कोणे विरोध दाकयलोना म्हूण हांतु साकून स्पश्ट जाता.

चैनेंतुलो मंजू रायु कांगसीन 1717 वर्षा टिबेटार आक्रमण केल्लें. 1788 वर्षा नेपाळांतुले गूरखेनी टिबेटारी आक्रमण केल्लें तरीय चीनी सेनेन तांकां हार खावयली. ह्या कालाक एक चीनी राजकीय आदेश (Chinese Imperial Edict) प्रकारी भारतीय, मुगळ आनी अन्य परदेशींयांक कोणाकच टिबेटांतु प्रवेश दिंवचो राबयलो. तरीय कश्मीर महारायु गुलाबसिंगाले वीरशूरपराक्रमी डोग्रा कमांडेन्टाचो जनरल सोरावर सिंगान 1841 वर्षा टिबेट जिखून घेतलें. कश्मीर रायाले साबार प्रशस्त जैतांचो सेनानायक आसलो जनरल सोरावर सिंग. लदाकांतु आनी कश्मीराचे सिक आनी डोग्रा सैनिकांचें केवल देड सास अंगबळाचे दळाक उपयोगु करून तं सोरावर सिंगान आट सास टिबेटी सैनिकांचे सेनेक हार खावयलेली. पुरांग म्हळ्ळेले स्थलाक तकलाकोट म्हूण पुनर नामकरण करून ताणे थंय साकून थोडे काळांक राज केल्लें.

एक प्रत्याक्रमण संभव्य म्हूण भीवनु सोरावर सिंग आपले बायलेक भारतांतुले एक सुरक्षित स्थलार पावोवनु परतून येतालो. तेन्ना टिबेटी सेनेन तांकां घेरून आक्रमण केल्लें. एक सान संघ सैनिक मात्र सहाया आसूनूय अतिरूक्ष संघट्टन चमकिलें. घोर हिम आनी अतीव शेळोवु कारण सोरावर सिंगाले संघाक प्रतिरोध करून राबूक जालेंना. दिंब्येक घायु जालेले सोरावर सिंगाक टिबेटी सैनिकांनी धरून दिमशी मारलो. हार मानलेले ताजे सैनिकांकय टिबेटी सैनिकांनी निष्करुण दिमशी मारले. वरलेले सैनिक लिपुलेख वाटेन भारतांतु धावनु गेल्ले.

टिबेट सैन्यान करयात जालेली क्रूरता सर्वय जनरल सोरावर सिंगाचे मृतदेहाचेर केल्ली. ताजो केसु पूरा पिसडून काडून भाग्यचिह्न जावनु तांनी दवरलें. मृतदेह कातोरनु कोचकोचोल करून ते प्रदेशावेले

एकेक घरकारांकय कुटके पावोवनु दिल्ले. मृतदेहाचे सान कुटके आनी ताजें खांडें, कवच आनी अन्य हतियारां तकलाकोटाचे लागी आशिल्ले सिंब्लिंग गोंपा मोणास्ट्रींतु आतांय सांभाळून दवरलेलें आसा. टिबेटी जनतेन आराधनेन मात्र उडगास काडचें एक नांव आसा सोरावर सिंगालें. ताणे नामकरण केल्लेलें तकलाकोट तेच नांवार आजीय वळकता.

1855 वर्षा नेपाळान परत टिबेटाचेर आक्रमण केल्लें. हे फंता विजय पावलेल्या नेपाळान टिबेटाचेर सम्मर्द चलोवनु थोडे करार चालूंत हाडले. वर्षान वर्ष टिबेटान नेपाळाक धा सास रुपया लगान दिंवका आनी टिबेटाक अभिमुख करका जांवचे खंचेय विदेशी आक्रमणांक प्रतिरोधन करूक नेपाळ सहाय करतलें म्हूण हे करार प्रकारीं निर्णयु जालो. 1774 साकून टिबेटाक ब्रिटीशांचे लागी संबंद आरांभलो. 1783 वर्षा सामुवल टर्णरान भारताक टिबेटांतु व्यापार करचे खातीर करार केल्लें. व्यापारिक आवश्याक नंतणा टिबेटांतु कोणाक प्रवेश ना म्हूण आदेश आसलोलो तरीय 1812 वर्षा डॉ. डब्ल्यू मूर क्रोफ्ट आनी केप्टन जे. एच. हेरसे म्हळ्ळेले दोग ब्रिटीशकारी तीर्थाटक जावनु टिबेटांतु निपून चडले. 1812 जून तीसावे तारिकेक निति पर्वतमार्गाचे हादीवेल्यान ते टिबेटांतु चडले. कैलास-मानसरोवर लक्ष्य करून गेल्लेले तांकां नेपाळी गूरखेनी धरून बंदी केल्ले. भारतांतु साकून ब्रिटीशकारांनी प्रश्न परिहार करका जालें हांकां मोचित करूक जावनु.

टिबेटा पासून आनी टिबेटांतु पडलेले कैलास-मानसरोवराचे पासून पठन करूक हे कालाक साबार श्रम चमकीले. टिबेटांतुले न्हंयांचे आनी भूचित्राचे प्रमाण तयार करचें आदी आसलेलें जायत्यांचें लक्ष्य. नेपाळान आनी टिबेटान असले संरंभांकडे पयलीं साकून विरोध दाकयलो. कैलास-मानसरोवर भागारी जायते परदेशी अतिदारुण जावनु मरण पावले. तरीय भारतांतू साकून अपूर्व सिद्धी आशिल्ले थोडे सन्यासीवर्य

भो दीग हादीवेल्यान कैलासाचेर पांवताले. 1816 वर्षा विल्यम वेब्ब नांवाचो ब्रिटीश सरवेयर लिपुलेख वाटेन टिबेटांतु चडूक चोयलो तरीय टिबेटान अनुमती दिल्लीना. 1846 वर्षा बंगाळ इनफेंट्रींतुलो लफ्टनेंट हेन्री स्ट्राचे हो, दक्षिण भागाच्यान आशिल्ले लांपियादुरा पर्वत मार्गांतुल्यान टिबेटांतु चडलो. कैलास-मानसरोवर भागु सरवे करून, कोणाचेच हातांतु पडूनाशिल्लें वांचून परतलो. 1857 वर्षा भारतीय आंदोलनाचे उपरांते थोमस वेब्बर, रोबर्ट ड्रम्मण्ड, एडमेंड स्मित, हेन्री हडसण हे ब्रिटीश उद्योगस्थ विपुल मात्रेन व्यवस्था करून बलप्रयोगान टिबेटांतु चडूक तयार जाले. 1864 वर्षा लिपुलेख हादीन हें संघ नाटकीय रीतीन टिबेटांतु घुसलें. टिबेटाचे घुडसैन्यान हे संघाक घेरलें तरीय ब्रिटीशकारांचे पिंगारतांनी गर्जूनिक टिबेट सेनेन हार मानलीं. निर्वाह नाशिल्यान ब्रिटीशकारांक टिबेटांतु चडूक अनुमती दिंवका जाली. हांनी कैलास-मानसरोवर भागांचे शास्त्रीय सरवेक आरंभ घाल्लो. रोबर्ट ड्रम्मण्डान मानसरोवरांतुल्यान एक चेपटे व्हड्यार सवारी चमकयल्या जावनूय चरित्र सांगता.

भारतांतु ब्रिटीश राजकालाक सरवे विभागांतु भोटिया वर्गांतुले पूजारी साबार आसलेले. पर्वत प्रदेशांचे पासून हांकां अपार ज्ञान आशिल्लें. ब्रिटणानाले आदेशान साबार हादीवेल्यान हांनी टिबेटांतु निपुन चडून जायतें सरवे चमकयल्यां. लदाकी ब्यारेल्यांचे वेष घालून पंडित नैनसिंग, मनिसिंग, कल्याणसिंग रावत आदी, टिबेटांतु निपून चडून सरवे केल्लेले आनी ब्रिटीशकारांची प्रीति घेतलेल्यांतुले प्रमुख आशिल्ले. 1897 वर्षा हेन्री सावेज लान्डर म्हळ्ळेले एक आंगलेय युवकान लिपुलेख वाटेन चडून कैलास भागाचे पासून आधिकारिक पठन करूक श्रमु काडलो. टिबेटींचे लागी जायते संघर्श चमकोवनु हो घायल जावनु भारतांतु परतलो. 1900 वर्षा जापनीस सन्यासी एकायकावगुची, पिंटू पर्वतमार्गांतुल्यान टिबेटांतु चडलो. चीनी सन्यासी जावनु अभिनय करून हाणे कैलास-मानसरोवर प्रदक्षिणा मुळियान चमकयली. तरीय ल्हासांतु

पांवचानिक हाका धरून मारनु अवश करून भारतांतु धांवडावनु घाल्लो.

भारताचे लागी केल्लेले व्यापारिक करार संबंधित केन्ना केन्ना प्रश्न करून येंवचे टिबेटाक मर्यादेन राबोंवका म्हणून करसण प्रभून 1903 वर्षा टिबेटाचेर आक्रमण केल्लें. ब्रिटीशकारांचे लागी हार खावनु 1904 वर्षा तांचे लागी टिबेटान करार केल्लें.

स्वीडनकारी स्वन हेडिन एक लामाचो वेषु घालनु दोन पावटी टिबेटांतु चडूक चोयलो तरीय ते श्रम चमकलेना. मागीर 1906 वर्षा लदाक वाटेन तागेलें संघ टिबेटांतु घुसून पन्नेरा मासांक निपून राबलें. टिबेटाचीं प्रधान सरवे चडय हाणेच चमकयल्यांय.

1924 वर्षा स्वामी ज्ञानानन्दजी महाराज एक व्होल्लाणे मात्र न्हेसून कैलासार पावलो. 1928 वर्षा हांगेलो शिष्यु प्रणवानन्दान कैलास पर्वताक 23 फंता आनी मानसरोवराक 25 फंता प्रदक्षिणा काडल्या.

1947 वर्षा ब्रिटीशकारांनी भारत सोडून दिल्लेले उपरांतें टिबेटांतु कष्टकालु आरांभलो. 1948-49 कालाक चैनेंतु कम्यूणिस्ट भरण पावलें, तेन्ना टिबेटाचे भविष्याचोय निर्णयु जालो. 1950 वर्षा चैनेन टिबेट आक्रमण करून जिखलें. चीनी आक्रमणाक टिबेटान अत्यधिक विरोधु केल्लो. लामांचे मुखेलपणार सर्वय जनांनी एकडे जावनु चीनी सैन्याचे लागी अतिरूक्ष विरोध दाकयलो. तरीय 1954 वर्षा चैनेचे तांबडे सेनेन ह्या झूजाक दांबयलें. लामा बुद्धमठांतु साकूनूच झूज चमकयताले म्हळेले कारणान स सासांचे पशी चड बुद्धमठ मारनु पिटपिटो करून चीनी सैन्यान झुजार्यांचें फाटिबल मोडलें. दलयलामा, कुटुंब आनी लागचे अनुयायी भारतांतु आश्रयु घेवूक पावले.

आतां टिबेट चैनीस पीपिळस रिपब्लिकाचो स्वतंत्र भरण प्रदेशु आसा. चैनेचें आधिपत्य आंगीकारु करून स्वयंभरण आशिल्लें एक

घटक संस्थान जावनु टिबेट राबता. टिबेटाचो संस्कारु आनी पौराणिक परंपरा आज चरित्र मात्र जावनु वरल्या. टिबेटकारांनी अवश्य जावनु चीनी भास शिकून काडका म्हूण आसा नेम. चीनी भास कळनाशिल्यांक सरकार उद्योगु मेळचो ना. टिबेट गांवु चीनी तरणाट्यांनी भरून आसा. सेना, पुलीस, सरकार विभागांतु पूरा चीनींक मात्र काम. विद्याभ्यास क्षेत्रांतु टिबेटी भासेक कसलेंच प्राधान्य ना. चीनी भासच औद्योगिक भास. टिबेटी जनतेले अभिमानाचे, तांचे ते पूर्व महतसंस्काराक चैनेन मूळ सयत हुमाटून उडयला.

लामांचे भरणकालाक बारळींतु साकून उत्पादन करचें 'चांग' (Chang) म्हळ्ळेलें बियर मात्र उपयोगु करूक अनुवादु आशिल्लो. तरीय आतां मद्याचो आनी नशेदारी वकदांचो एक स्वर्गु जाला टिबेट. बियर, धवें वैन, ब्रांडी, विस्की आदी मद्य आतां ऊणे मोलाक टिबेटाचे कोण्श्यांतु कोण्श्यांतु चैना पांवोंवनु दिता. सान सान आंगडींतु तांय लायसेन्स नाशिल्लें हांची विक्री चमकता. ऊणे मोलाचीं विविध तराचीं चीनी सिगरेटां हांगा सुलभ. तेच लेकान नशेदारी वकदांय. चीनी वेश्यांनी भरून आसा टिबेट. टिबेटांतुलीं युव पिळगीं मद्याक, नशेदारी वकदांक आनी मदिराक्षींतु बुडून जीण व्यर्थ सारताय. रस्त्यांचेरी, आंगडींचे मुकार आनी अन्य सार्वजनिक स्थलांचेर बेशुद्ध पडलेले युवकांक पळोवनु चैना हासता. सामकी यमरायालो हासु. टिबेटाक पीळनु चैना होड्डु आर्थिक लाभु करता. अंतराष्ट्रीय विपणींतु चैनेन विक्री करचीं अमूल्य वकदां चडय टिबेटांतु साकून आनी हिमालय शीमेंचेर साकून एकंठाय केल्लेलीं आसाय. मृगांचें मांस, हांडां, चाम आदीय होड मात्रेन हांगा संभरण करून निर्यात करताय. भांगार, रुपें, रेडियम, टैटानियम, बोराक्स, लोकंड, तांबें, मगनीष्यम, शिशें, तुत्तनाक, गंधक, इंगाळो, अन्टिमणी, माय्का, ग्राफाय्ट आदी लोह धातु यूरोपी विपणींतु चैनेन निर्यात करचे वस्तु आसाय. नक्षिकामान अलंकृत लोहाचे आनी रुकाचे पुरावस्तूंक

लोकविपणींतु आवश्यक लोक साबार आसाय. टिबेटांतुले समृद्ध वनांतु साकून 1984-85 कालाक 54 बिल्यण डोळर मोलाचे रूक चैनेन कातरून व्हेल्याय जावनु अन्वेषणांतु स्थिरीकरण जाल्यां. 1955 साकून आशिल्लें लेक पळयताय जाल्यार 50 मिल्यण रूक एकच एक प्रदेशारी साकून कातोरनु काडल्याय जावनु कळता. टिबेटाचे कुल वनभूमीचे 70 प्रतिशत प्रदेशूय बंजरभूंय जावूक कारणय चैनाच.

काळाचो बदलाव मानून घेवनु टिबेट मुकारसता तरीय आजीय ते राज्यांतु स्वतंत्र जावनु चडचें वा भोंवचें सामकी अपायकर आसा. लिपुलेख आनी परिसर, संभ्रम आनी भीती हाडचो तरा प्रदेश, आनी टिबेट निषिद्ध, गूढ रहस्यां भरलेलें एक राज्य म्हूण निसंशय सांगूयात. आमचे तराचे तीर्थाटकांक सल्प पुणीय समाधान कित्तें म्हळ्यारी आमी फटवणेन चडून येंवचीं न्हय म्हळ्ळेलें मात्र.

घांट वाजूचो होडलो सोवदू आयकून हांव निदांतु साकून उठायलों.

चीनी सरकाराले नियंत्रणारी प्रवर्तन करची अली टूरिस्ट एजेन्सी तं कैलास-मानसरोवर यात्रेचें टिबेटांतुलें कार्य चमकयता. इंगळीश भास परिमित रीतीन उपयोगु करूक कळचे दोन टिबेटी युवक आमचे मार्गदर्शक जावनु मेळ्ळे. गुड्डो थोरु मि. टेंपा उणे काळांक भारतांतु राबलोलो आसा आनी ते कारणान हिन्दी उलोंवचाक कळचो. सुक्कडे देहप्रकृतीचो मि. पुचोंग सामकी मान्य व्यक्ती आनी टिबेटाची आधिकारिक जाणकारी ताजेच लागी साकून माका मेळ्ळी. चैनाकारांचे गुलाम जावनु टिबेटी जनता जीण जळोवनु सारचें मि. पुचोंगाचे सारके आशिल्यांक निस्सहाय पळोवनु राबूक मात्र जाता.

घांटे शब्दु जेवणाक आशिल्ली अपोवणी म्हूण मि. पुचोंगान येवनु सांगूनिक आमी गस्टहावसाचे खाणा कूडांतु चमकीलीं. भो भुकेन

आशिल्ले कारणान जेवणा मेजेरी आमी वळवंळेवनु स्थायु धरलो. गस्टहावसाचे तशीच खाणा शाळेचेंय नियंत्रण चैनाकारांचे हातांतु आसा. चीनी बायलो खाण वाडताय आनी उष्टीं वाटीं काडूक, साफ सफाई करूक टिबेटी बायलांक राबयल्यांय.

सूप, शीत, तरातरा तरकारींची मिश्र दोन रांवदयो, पोङ्येतुलीं फळां आदी जेवणाक मेळ्ळें. प्रसिद्ध चीनी रुची कांय आमकां अनुभवलीना म्हूण सांगचें पडता. दीग सुलुंभ, दाट खाड मीशी आशिल्ले आमकां, चीनी बायलो आराधनेन पळोवनु राबलेल्यो. दादले पुण, शत्रुता भावाचें गौरवमुख घेवनु राबलेले. बायलो मातें बावगोवनु आचारान वंदन करताल्यो तरीय दादल्यांक ते तराचे कसलेच सौहृदभाव नाशिल्ले.

आमकां सर्वांकय विस्मित केल्लोलो एक अनुभव टिबेटांतुलो तो सांजवेळु आशिल्लो. राती अठड वरां जावनूय सामकी दिसा उजवाडु आसलोलो. धा वरां जाल्यार मात्र उजवाडु ऊणे जाता. बंजर पर्वतांचे पेल्यान हिमालयपर्वतमाळो दाट हिमान आवृत पडलेल्यो अतिहृद्य दृश्यच. अस्तमय सूर्याचे रंगमिश्रणांतु बुडून राबलेले हिमशिखरांक दिगंतरान दिल्या भो सुंदर फांटभूंय. कितलेंच पळयल्यारीय पावनाशिल्लें एक सुंदर दृश्य.

तकलाकोटांतु भो शेळी कालावस्था आसा. सहन करयात जालोलो शेळोवु तरीय रोमे वस्त्रां आवश्यच. निदेंवचे कूडा मुकावेले जगलेचे सोप्यारी, पाय लांबोवनु घालनु बेसून आमी उणे घडी उलोवनु खर्चीली. मि. मोह्ताय सांगातांतु आशिल्लो. इकरा वरां जांवचानिक आमी गाढ निदेक लक्ष्य करून हांतुणारी पडलीं.

# धावो दीसु

## तकलाकोट

पांच वरांचेरी उठावनु चोंवचानिक तकलाकोटांतुलो उदय जाला. सामकी उजवाड आशिल्लो प्रभात. सकाणचीं किरणां घेवनु झगझगेंवचे हिमपर्वतांचेर पळयल्यार दोळे विसविसेवनु वताय.

हांगा गस्टहावसांतु सकाणची चाया मेळची ना म्हूण कळूनिक आमी अन्य प्रभातकृत्यां करूक गेल्लीं. शौचालयांतु वचीं कायरीं आलोचना करूनिक अवकी आयली. चीनी आनी टिबेटी लोक वाकतें मैदान उपयोग करताय दिकलें. तमिळनाडांतु सर्वसाधारण तरीय विदेशांतु असलें एक दृश्य पळोंवचें, मिगेलो आद्य अनुभव आशिल्लो.

खाणाचे मुरथम सर्वानीय एकडे जांवका म्हूण मि. मोह्तान सांगलेलें. देखून आमी एकेकलींच जावनु वेगीन न्हांवचाक भायर सरलीं. केवल इकरा वरां तांय न्हाण्यो वाकत्यो आसतल्यो. शेळ उदकांतुलें न्हाण जांवचानिक उन्मेषु आनी ऊर्जा मेळ्ळी.

मि. मोह्ताचे कूडांतु आमी एकडे जालीं. गायडांय आयलेलीं. दिल्ली साकून आरांभलेले आमचे हे यात्रे वेळार संघांतुले अन्य यात्रिकांचे पासून परामर्श करूनाशिल्याक कारण आसा. चौग पांच जाणांचे सानसान संघांतु सर्वांकय वांटलेले देखून परस्पर मेळूक परिमित रूपान मात्र

अवसर मेळतालें. आमी पांच पदयात्रिकांचो संघ केंपांतु पांवतना भो तोडोव जातालो. खाणा समयारीय आमी तोडोवु जावनूच पांवताले. यात्रे वेळार केन्ना केन्ना सर्वय एकडे जातालीं तरीय यात्राक्लेशान कोणेच उलोंवचाक तात्पर्य दाकयनाय आशिल्लीं. नंतणा गुजरातांतु साकून आशिल्ले पन्नेरा यात्रिक एक खास संघ जावनु भोंवताले म्हळ्ळेलेंय अन्य थोड्यांक सायना आशिल्लें. तरीय गुजरात संघांतुलो चारटेड आकांवटेन्ट श्री. दिनेश षा, श्री. भरतवाषी, बिसिनसकारी श्री. अर्चीश षा आदींय जावनु माका पयलीं साकूनूच दोस्ती जालेली. दर निमिशाकय मरण मुकार पळोवनु चलतना संघांच्यांक दोस्ती करूक जाय जालेली मानसिकावस्था नाशिल्ली म्हूण जांवका लेकूक.

मार्गदर्शकांचे लागी टिबेटी भासेन आशय विनिमय करून मि. मोह्तान आमकां यात्रेचे विशदांश सांगून दिल्ले. आमचे लक्ष्यस्थायांचे, कैलास मानसरोवराचे लागी आमी पांवत आसाय. कैलासाक आनी मानसरोवराक प्रदक्षिणा काडचीच आसा मुख्य पद्धती. हे स्थलांचेर तीर्थाटकांक भो परिमित सौकर्यांच मेळतलीं. रातीचें वसती करूकय चड सौकर्यां नाय म्हळ्ळोलोच होडलो प्रश्नु. ते खातीर संघाक दोन भाग करचें आसा. एकु भागु कैलासाचेर वतना वरलोलो भागु मानसरोवरा कडे वतलो. मानसरोवराचे तटार आशिल्ले एक बेस केंपांतु यात्रा पुरती करून संघान एकडे जांवका. तकलाकोटांतु तेद्दूस आराम करून हेरदूसा फाले फाल्यार यात्रा आरंभ करका म्हूण मि. मोह्तान जाणयलें.

संघाक दोन करूक कसलेच कष्ट जालेनाय. आमचे सांगातांतु चमकून यात्रा करचो मि. कलपेष षा सयत पन्नेरा जाणांचो ए विभागु केल्लो. मि. मोह्ता सयत बी विभागूय केल्लो. ए विभागांतु पूरा गुजराती आशिल्ले. तांचो गायड जावनु मि. टेंपा आनी बी विभागाचो गायड मि. पुचोंगाकय निश्चयु केल्लो. आमचो रांदपी जावनु मि. कुन्शीरामाक

आनी एक सहायीक दवरलो. रेशना सामानां दोन विभागांकय वांटलीं.

खाणाक आपोंवचो घांटे शब्दु आयकून आमी खाणा शाळेंतु गेल्लीं. भाजीली रोटी, जाम, लोणी, भाजील्ले भुंयमूग, कोर्णफ्लेक्स, चाया आदी मेळ्ळें. खाण जावनु आमी मि. पुचोंगाचे सांगातांतु गस्टहावसा आंगणांतूच आशिल्ले बेंक ऑफ चैनेचे शाखेंतु वचून दुडवांची बंदोवस्त केल्ली. चीनी सरकाराक दींवका जालेले सशें यू एस डोळर थंय भरनु रसीदी घेतली. टिबेटांतुले खर्चाक जावनु आमकां एकेकल्याकय अनुवदनीय देडेशें यू एस डोळर बेंकांतु दीवनु चीनी दुड्डु घेतले. युवान (Yuan) म्हूण आसा चीनी दुडवाचें नांव. एक डोळराक 8.12 युवान मेळतलें. चडय ऊणेय जावयात. एक युवान म्हळ्यार भारताचे स रुपयांचे तितलेंच. बैंक ओफ चैनेचीं नोटां आकर्शक आसाय.

यात्रा संबंधी दंद जांवचानिक आमी चमकूक देंवलीं. गस्टहावसा भायर देंवल्यार तकलाकोटाचे मुख्य रसत्यार चडूयात. पासपोर्ट हातांतु दवरका म्हूण मि. पुचोंगान आमकां उडगास दिल्लो. तकलाकोटाचो मुख्य रस्तो टार घाल्लोलो न्हय म्हूण आयकल्यार कोणाकय जाल्यारीय अतिशय जाताच. फोंड फोंडारे भरलेले रेंवेंचे रस्त्याचे दोनीय वशीं कचरा राश जावनु पडलेलें आसा. चीनी सेनेचीं वाहनां गर्जून वतना तो प्रदेशु पूरा धूळींतु बुडतलो. रस्त्याचे दोनीय वशींय आंगड्यो आसाय. परणे तराचीं एकमाळ्येचीं आनी तशीच नवीन रीतीर बांदलेलीं पांच माळ्येंचीं इमारतांय एकसाणीच आसाय. बेंकां, सान आस्पतालां, पोस्ट आफीस, मेडिकल शोपां, होटलां आदी नवे इमारतांतु आसाय. स्टेषनरी, ग्रोसरी, तरकारी आंगड्यो, मांसा आंगडी, सान होटलां, लुगटा आंगडी, लोकंडा आंगडी आदी एक माळ्येंचे परणे इमारतांतु आसाय. अत्याधुनिक रीतीर अलंकृत आंगड्यो आनी रेस्टोरेंटां चीनींचींच. चीनी बायलांचे हातांनी ब्यारु चमकता. थोडे आंगड्यांतु मात्र टिबेटी बायलांक दिकीलीं.

तरकारीचो आनी मांसाचो ब्यारु रस्त्या देगेनच चमकता. चडय आंगड्यांतु सूराची विक्रीय आसा. चडय रेस्टोरेंटांतूंय नशेदार संगीतांतु आनी अर्द नागडे बायलांचे नांचांतु बुडून उन्मत बेसल्ले टिबेटी युवकांकय दिकूक येताय. रस्त्याचेर राबून भितरी चमकूचें कोणाकय पळोवयात जालेंलेंच. टेलिविषन चेनलांय सेक्साकच चड प्राधान्य दिताय.

प्रधान रस्त्याक लागून पडलेले हादीरी जुगार घरांची एक फांतीच दिकीली. ताजेय पेल्यान वेश्या घरांय आसाय. हो रस्तो आनी परिसर, मद्य आनी नशेदार वकदांचे उपयोगान किरगून भोंवचे टिबेटी युवकांनी भरून पडला. एक चैनाकाराक सरी तांचे मद्दें दिकलोना. जेवणा वेळु पांवता देखून, दोन किलोमीटर अंतरार आशिल्ले नेपाळी मारकेटाची भोंवडी देनपारां उपरांते चमकोंवू म्हूण आमी परतलीं.

सहन करयात जालोलो शेळोवु मात्र आसा तेन्ना. कालचे रातीक दिल्लेले खाणाचें आवर्तनच आयचें जेवणय. पोड्येंतु बंद येंवचे तराची तरकारी आसून रांवदयांक सूवादु भो ऊणे. जेवणा उपरांतें आमी चार वरां तांय निदेवनु पडलीं.

चार वरांचेर आमी नेपाळी मारकेट लक्ष्य करून देंवलीं. तकलाकोटांतुले प्रधान रस्त्यार दोन किलोमीटर मुकार चमकतना नेपाळी मारकेट पांवता. प्रधान रस्त्याचो, खीटु आशिल्लो भागु सरल्यार मागीर वाट भो सोपूरी जाता. हांगा साकून उबी देंवती देंवल्यार सांकोवु दांटवून कर्णाली न्हंयचे पेलतडी पांवयात. कर्णाली न्हंयेक रुंदाय आनी खोलाय भो चड आसा तरीय उदाक भो ऊणे. न्हंयचे बिजन तटावेल्यान देड किलोमीटर गेल्यार नेपाळी मारकेट म्हळ्ळेलें अत्भुत विश्व पांवयात. रस्त्याचे एक वशीं खोल न्हंय आनी दुशेर भागाक बंजर दोंगर आसाय. दोंगरांचे उंचावेले भागांचेर पुरातन इमारतांचें अवशिष्ट दिकूक येता. एक कालाक प्रधान व्यापार केंद्र आसलोलो हो प्रदेशु एक किलेचोच

भागू. नाश जावनु पडलेले अवशिष्टांचे मद्दें सन्यासी मठ, देवळां, बुद्ध विहारां आदींचे भागय दिकूक येताय.

नक्षिकामान अलंकृत सुंदर खांबे, कवडां, बालकणी आदी नाश जावनु पडलेलें पळयल्यार तेद्दूसचे राजकीय प्रतापाची सावळी आमचे मनांतु धावनु येतली.

दोंगरांचे उंचावेले भाग सगट नाश जाल्याय तरीय खालचे भागांचेर जनवास आसा. दृष्टि पडच्या तितले अंतरार व्यापार स्थापनां आसाय. रस्त्यांक अभिमुख आशिल्या आंगड्यांचे मद्देंच्यान सुरंगा सारके भितरी चडून वच्यो साबार आडवाटो भीतीजनक दिसताय. हांचे मद्दें आशिल्या आंगड्यांतु लुगट, स्टेशनरी, आयदनां, इलक्ट्रोणिक सामानां, परवतान्यो, पप्पासां, मद्य, फर्णीचर आदी आधुनिक जीवित रीतीक आवश्यक सर्व तरा सामानांय मेळताय. ससराक मेळतलें म्हळ्ळेलेंच हांगाचें आकर्शन.

पुरायेन पळयतना हांगाचे ब्यारांतु टिबेटींक आनी नेपाळींकच आधिपत्य. तरीय चीनी ब्यारेलीय साबार आसाय. इलक्ट्रोणिक्स आनी स्टेषनरी सामानांचो ब्यारु सगळोच चीनींचेच नियंत्रणारी आसा. चैनीस-अमेरिकन निर्मित आसाय चडय सामानां. आंगड्यांतुले थोडे सामानांचें मोल अशी आसा - होडली ड्राय सेल बॅटरी (एक जोडी) = 2 युवान, तीन सेलांचें टोर्च (स्टील प्लेय्ट केल्लेलें)= 5 युवान, उत्तम तरा स्टीला पेसकाती (एक डज़न)= 10 युवान, कळर फिलीम रोळ= 5 युवान, बरें तरा रिस्ट वोच= 25-30 युवान, जपानी कॅमरा = 30 युवान, कूळिंग ग्ळास= 5 युवान, चांग तरा षूस= 20 युवान, रब्बरा पप्पास= 2 युवान, डिज़ाय्न शिंवलेल्यो उश्या किसवण्यो (एक जोडी)= 5 युवान, होडले कांबळे= 10 युवान, चेरडुवांचीं आकर्शक वस्त्रां= 10-20 युवान, पेन्टस= 30-50 युवान, शर्ट= 15-30 युवान, विस्की, ब्रांडी (विविध

ब्रेंडांची)= 12-15 युवान, बियर केन= 3 युवान, वैन= 5-10 युवान. संघ जावनु वचून मोलावणी केल्यारी मोल मागीरीय ऊणे करून मेळतलें. टोर्च लायटाचे खातीर बॅटरी मात्र घेवनु आमी परतून चमकीलीं.

राती आट वरां जालीं तरीय भो उजवाडु आशिल्लो. सामकीच शेळोवु अनुभवतालो. चीनी सैनिकवाहनां सर्व कडेय पेट्रोलिंग करत आसाय. फोटो काडूक अनुवाद ना देखून आमी कोणे कॅमरा काडलेंना आशिल्लें. परतून येतना आमी चड उंचटावेल्यान वची हादी तं धरलेली. मोडून पडलेले बुद्ध विहारांचें हें एक मशणा परम. सिबिलिंग म्हळ्ळेले नांवान वळकूचे हे पुरातन राजनगराचें पतन, आभ्यंतर झूजा कालाकच जालेलें. सिबिलिंगांतु साकून अर्द घंटो चमकिल्यारी तोये गांवांतु पांवयात. थंय भारताचो वीरपुत्रु जनरल सोरावर सिंगाचीं भौतिक अवशिष्टां आनी स्मारक स्थित आसा. टेक्सी वा अन्य वाहनाचीं सैकर्यां तकलाकोटांतु मेळचींनाय. टिबेटी जनानीं धांवडांवचीं परणीं जीपां केन्ना केन्ना दृष्टि पडताय. तांनी साबार दुड्ड घेताय म्हूण पुचोंगान आमकां पयलींच ताकीद दिल्लेलें.

चीनी सैनिकांच्यो रूक्ष दृष्टीयो केन्ना केन्ना आमकां अभिमुख करच्यो पडलेल्यान आमी तोये गांव भोवनु चोंवची पद्धती नाका म्हूण दवरली. जनरल सोरावर सिंगाक मनांतूच ध्यान करून उपचार सांगून आमी चमकीलीं. जुगार घरांचे आनी वेश्या घरांचे मुकार आनी परिसरांचेर चीनी सैनिकवाहनां फांतीन राबोवनु घाल्यांय दिकीलें. टिबेटी युवकांनी स्थल सोडल्यां.

लागी आशिल्ले एक स्कूळांतु साकून चेरडुवां फांतीन चमकून वचें हांवे कौतुकान पळयलें. घडी मोडनाशिल्लें, बुरशेवनाशिल्ले युणीफोर्म धरसून मातें बावगोवनु चमकून वचीं चेरडुवां चडय टिबेटींच आशिल्लीं. पारतंत्र्याची भीतीची सावळी ते सान चेरडुवांले मनांतुय काळूक घालता



जावनु तांचे मुखभाव पळोवनु माका दिसलें. धावनु भोवनु नांचून खेळचे चेरडुवांचीं युणीफोर्मा सांज तांय इतले वृतीन, घडी मोडनाशिल्लें राबोंवचाक साध्य न्हय. स्कूळांतु तशीच भायरय तांनी कोणाकींच सगट भिताय म्हूण स्पश्ट.

टिबेटांतु कायळे साबार आसाय. सांज जांवचानिक रसत्या देगेवेले खाणामळांक जीव आयलो. खाणांचें अवशिष्ट खांवचाक साबार कायळेय थंय भोंवताले. चीनी तशीच टिबेटी जनांय रस्त्याचे देगेर बेसून खाण खांवचें दिकीलें. मांस आनी मासळी आसा प्रधान विभव. मद्यय थंयीच जाय तितलें मेळतलें. आट वरांचे लागी कूडांतु परतून पावलेले आमी ल्हवू ताळ्यान उणेच घडियांक वेदपारायण केल्लें. गस्टहावस आंगणांतु आनी परिसरारी सैनिक केन्नाकेन्ना येवनु वताले. हेरदूसा फालेफाल्यार यात्रा करूक आशिल्यान णव वरांचे लागी जेवण जेवनु आमी निदेंवचाक गेल्लीं.



मानसरोवराचेर सूर्यास्त

## इकरावो दीसु

# छुग्गु

फांत्याव राती चार वरांचेर उठावनु आमी तयार जालीं. ए विभागाच्यांचीं आनी बी विभागाच्यांचीं सामानां ट्रकाचेर वेगवेगळे जाग्यार चडयलीं. चवड वरांचेर खाण खेल्लें. पूर्वार प्रभातकिरणां किरलेंवचाक लागलेलीं तरीय दाटु दोवु कारण तेन्नाय काळूक भोरनूच राबलोलो. भो शेळोवु आशिल्लो आनी रोमे वस्त्रां घालून आमी भायर सरलीं.

तकलाकोटाचो प्रधान रस्तो विजन आशिल्लो. कर्णाली न्हंयचो सांकोवु दांटवून नेपाळी सांते रस्त्यार साकून आमगेलें वाहन तोये गांव लक्ष्य करून चडती चडलें. बंजर पर्वतांचे मद्देंच्यान आशिल्ली हादी भय दिसोंवचे रीतीर उबी चडताली. हेयरपिन घूंवळ्यो घूंवनु चडतना ट्रकाचो उजवो भागु अगाध घाटींतुले शून्यतेंतु सरी धिंगूळनु राबतालो. मि. पुचोंगान तोये गांवचे अंतर भागाक बोट दाकोवनु जनरल सोरावर सिंगाले समाधी स्मारक प्रदेशु म्हूण सूचयलो. काळकांतु खास कसलेंच दृष्टि पडना. जनरल सोरावर सिंगाले पतनांतु इंग्ळीश् कारांचेय काळे हात आशिल्ले म्हूण मि. मोह्तान उणेच उतरांनी विवरण दिल्लें.

तकलाकोटांतु साकून 160 किलोमीटर दूरा आसा छुग्गु. दोंगरांचेर साकून दोवु दूरा सरूनिक सर्व कडेय उजवाडु पसरलो. होड पर्वतांचे

मद्देंच्यान वाहन चरून चरून सरी मुकारसतालें. फोंड फोंडार्यांचे फातरा पुडिये रस्त्यावेल्यान वतना ट्रकाचो नांच असहनीय आशिल्लो.

पर्वतांक घूंवळ काडून उबी देंवती देंवल्यार मागीर उणे वेळु समतलावेल्यान आसा यात्रा. थंय एकडेय अंगीकृत रस्ते नाशिल्यान ड्रायवर ताका बोय जालेले रीतीर वाहन धांवडायतालो. दृष्टि पडच्या पशी चड अंतरार तांय बंजर भूंय पातळेवनु आशिल्ली आनी ताजेर हंयथंय उणेउणेच तण मात्र आसा. लान वाडकूळे फातरांचे आनी सोंकर्यांचे हे मिश्र रेंवेंतु झाडांक वाडूक साहचर्य ना म्हूण स्पश्ट सांगूयात. समतल प्रदेश सरचे कडे परत होडल्यो चडतीयो आरांभताय.

अठड वरांचेर आमी गुर्ळा पर्वतमार्गार (Pass) पावलीं. 16200 फीट आसा हांगाची उंचाय. राक्षसताळ म्हळ्ळेलें सरोवर पांवचाक हांगा साकून उणेच गेल्यार जाता. राक्षसताळाक रावण सरोवर म्हूण आनी रावणह्रिदा म्हणूय आपयताय. एक सपाट प्रदेशार वाहन राबोंवचानिक आमी राक्षसताळ लक्ष्य करून मुकार सरलीं. थंय राबून चोयल्यार कैलास पर्वत एक तीळो सरी दिगंतरार दृष्टि पडतलो म्हूण गायडान सांगलेलें. तरीय कालावस्था प्रतिकूल आसून आमकां पळोंवचाक जालेंना.

राक्षसताळ शुद्ध उदका सरोवर. दोंगरां मद्दें दिगायेन तलव दिकूक येवनाशिल्ले लेकान तें तशी पातळेवनु पडल्यां. 45 किलोमीटराचे पशी चड आसा ताजी परिमिती. सदा समय पाळांचे सारके सरोवराचें उदाक नांचूनूच आसा. अत्भुत आनी संतोषाधिक्याचे एक मिश्र विकारान मात्र सरोवराक पळोंवचाक जातलें. राक्षसताळाचे उजवे भागाक सल्प दूरा जावनु आसा मानसरोवर.

राक्षसताळाचे पासून हिन्दू पुराणांतु जायते परामर्श आसाय. लंकाधिपती राक्षसरायु रावण शिवभक्तु आशिल्लो. कैलासारी दोन फंतां

संदर्शन केल्लेले रावणान तप करून महादेवाक संतुष्ट केल्लो. कोणाच्यानय आपल्याक हारवोंवचाक जावूक नज म्हूण ब्रह्माचो वरु घेतलो रावणान. आनी एक फंतां देवलोकांतुलें एक झूज जिखवून जावनु पुष्पक विमानारी परतून येतालो. विमानाक आडावूक म्हळ्यावरी उबो राबलेले कैलास पर्वताक धींगूळनु दूरा काडूक रावणान श्रम केल्लो. कैलास पर्वत एक हालल्लो. तेन्ना महादेवान पायान दांबून माडयलें. रावणालो एकु हातु पर्वताचे पोंदाक शिरकून राबलो. विवेक परतून मेळनु रावणान अतुल्य नादधारेन शिवस्तुति म्हळ्ळी. स्तुतिगीतांतु संतुष्ट महादेवान चन्द्रहास नांवाचें एक खांडें रावणाक दीवनु अनुग्रहु दिल्लो.

अहंकारी रावणान एक फंता महादेवाक आनी ब्रह्माक निंदा केल्ली. शिवपार्वतींचें आस्थान कैलासाक बळान वोडून आपले लंका राज्यांतु व्हरूक श्रम केल्लोलोय रावणालो होच अहंकारु कारण. कैलासाक होडले दोरान बांदून रावणु आपली सर्व शक्तीय उपयोगु करून ओडूक लागलो. कैलास येद्दो सरी हालल्लोना. रावणाली ही अपहास्य प्रवृती कारण ताजे देहार साकून पडलेली हूम राक्षसताळ जावनु परिणाम जाल्या म्हणताय. कैलास पर्वताचे दक्षिण भागाचे प्रतलार मद्दें जावनु, दोरान बांदून ओडून पडलेले कातोरे सरी दृष्टि पडचें रावणाले व्यर्थ श्रमाची निशानी म्हूण विश्वासु.

राक्षसताळ बरें करून पळोवनु आमी मुकारसून चड तोडोवु नाशिल्लें मानसरोवराचे पाडीर आशिल्ले सेय्दी केंपांतु पावलीं. मानसरोवराचे सुमार तिनीशें मीटर लागी आसा सेय्दी केंप. सत्राचे उजवे भागाक आशिल्लीं दोन कूडां आनी सानी वासरी मात्र यात्रिकांचे खातीर उपयोगाक दितलीं. तांतू पन्नेरा जाणांक कशीच करून राबूयात. दावे भागाचे कूडांतु केंप चमकोवपी कुटुंब राबता. लागीचे कूडांतु एक सान स्टेषनरी आंगडी आसा. सिगरेट, मिठाई, बिसकुट, पेप्सी, मिनरल वाटर आदी सामानां

हांगा मेळतलीं. रेंवेंचे वणतीयांचे परणे एक माळ्येंतु आसाय हीं कूडां. न्हाणी, शौचालय वा उदाक कसलेंच ना.

आमी सेय्दी केंपांतु पांवतना चोवते संघांतुलो ए विभागु थंय आशिल्लो. कैलास दर्शन जावनु ते संघाचो बी विभागु राती धा वरांचेर पांवतना तांनी सर्वय मेळनु तुरंत तकलाकोटाक परततलीं. ए विभागाचीं सर्वय गाढ निदेंतु आशिल्यान आमकां पदयात्रींक तांचे लागी उलोंवचाक जालेंना.

रांदप्यांनी तयार केल्लेलें नूडिल्स खावनु आनी चाया पीवनु आमगेले ए विभागांचीं ट्रकाचेर चडून कैलास यात्रेक भायर सरलीं. धा दीस जातरी मात्र तं आमी दुशेरी दिकतलीं. सर्व जणांनीय अळता पेळतांतु आशंसा सांगली.

होगी होगी खाण खावनु आमी चौग जाणां मानसरोवर प्रदक्षिण करूक तयार जालीं. घोड्यां फाटीर सवारी करून मानसरोवराक प्रदक्षिणा काडूक आसलेली आमगेले विभागांतुले अन्य यात्रिकांची इच्छा. तरीय तकलाकोटांतु साकून घोड्यांची बंदोवस्त करूक जायनाशिल्यान तें चमकलेंना. बी विभागाचे खातीर केंपाचे मुकार तयार राबलेले वेगळे एक ट्रकांतु चडून वरलेल्यांक मानसरोवराची प्रदक्षिणा करूक जातलें. सरोवर पळोंवचाक मात्र जावनु आयलेले विदेश टूरिस्टांक घेवनु आयलेलीं जीपां सौकर्यप्रद जावनु मेळताय जाल्यार तांतु चडून प्रदक्षिणा काडूकय डॉ. मोह्ता श्रम करतालो.

चमकून वचे आमी होगी तयार जाले. मि. पुचोंगान आनी डॉ. मोह्तान आमकां जाय जालेले निर्देश दिल्ले. पन्नास किलोमीटर चमकून छुग्गु म्हळेले स्थलावेले खुगु मोणास्ट्रींतु पांवचाक आमकां भो तोडोवु जातलो. पेट्रोलिंग करचीं चीनी सैनिक वाहनां दिकल्यार चमकूचें

राबोवनु हात उबारनु दाकयल्यार पुरो, तांनी लागी येवनु कितेंय निमगीताय जाल्यार पासपोर्ट दाकयल्यार पुरो, अशी पुचोंगान निर्देश दिल्ले.

देनपारांचे जेवणा खातीर बांदून दिल्लेली नूडिल्सा पटळी बेगांतु चडोवनु आमी सर्वांचे लागी यात्रा सांगून देंवले.

आरंभार मानसरोवराचे पाडीवेल्यान न्हय आशिल्ली आमची चमकण. 85 किलोमीटर आसा सरोवराची परिमिति. दोंगरार साकून अगाध खालटाक आसा सरोवर. सरोवराचे चड खोलायेन आशिल्ले भागाक तिनीशें फीट उदाक आसा म्हूण औद्योगिक प्रमाण सुचयता. थोडे स्थलांचेर सरोवराक लागून समतल प्रदेशु आसा. असले भागारी पांवतना मात्र सरोवराचे भाटीवेल्यान चमकूक जातलें. समतलार पांवतना सरोवराचो देखाव मेळतलो.

शेळ तरीय प्रसन्न कालावस्था आशिल्ली. घंट्याक चार किलोमीटर वेगीन पुणीय चमकिल्यार मात्र तेद्दूसचे लक्ष्य स्थायार पांवचाक जातलें. दिगायेन मरुभूमी सरी पडलेले भागांचेर पांवतना आमी जांवचे इतले वेगीन चमकीले. वाहनां धांवचाक उपयोगु करचे एक कच्ची वाटेन पयले साकूनूच आमी चमकताले. हादी सरोवराक दूरा सोडून वचानिक ती सोडून आमी सरोवराक लागून पडलेले दोंगरांच्यो घाट्यो लक्ष्य करून मुकारसलीं.

पयलेचे घंट्याक आमी सामान्य वेगीन चमकताले. तरीय मागीर वेग ऊणे जालो. कितलें चमकील्यारीय सरनाशिल्ले लेकान वाट तशी दूरा दूरा वता.

सपाट स्थाय सोडून हादी एक होडले दोंगराचेर चडून वचे कडे पांवचानीक थंय बेसून आमी आराम केल्लो. ग्लूकोसा उदाक पिल्लीं आनी मागीर संथ संथ चडलीं. उंचार पावनु आळता पेळतांतु पळोंवचानिक

भो दूरा जनवास आशिल्लो एकु गांव दृष्टींतु पडलो. दूरदर्शनींतुल्यान पळोवनु हांवें ते गांवचीं कायरीं उणे पुणीय समजून घेतलीं. रेंवेंन बांदलेलीं एक माळ्येंचीं घरां थंयचीं सर्वय. बारा घरां आसाय ते कोळनींतु. कोळनीचे मागशींच्यान एकि न्हंय व्होळता. ताजे पेल्यान कसलेकींच तरकारींची कृषी केल्या. रोमे बोकड्यो आनी सूणी घरांचे आंगणांतु आनी परिसरार साबार भोंवताय. पावलां तांय लांबून पडचे तरा वस्त्रां दादूल्याबायलांनी न्हेसिल्यांय. विविध प्रायेचीं चेरडुवांय साबार भोंवताय.

दोंगुल्या उंचावेल्यान चमकतना उजवे भागाक मानसरोवर दृष्टि पडता. नीळ वर्णु दिसता ते सरोवराचे उदकाक. दृष्टि पडच्या पशी अंतरार तें तशी निश्चल जावनु पातळेवनु पडल्यां. अतिदूरा सरोवराक दिगंतर आडोळनु आडोळनु पडलेलें दृश्य अतिसुंदर आसा.

लक्ष्य दवरलेले वेगीन चमकूक जायना म्हूण कळूनिक आमी खाण खावूक निर्णयु केल्लो. भो भूक लागतालीच. सल्प दूरा दिकलेले एक सान झर्येचे लागी बेसून जेवलीं. ऐस सरी शेळ आसा न्हंयचें उदाक. खाण जावनु आराम करूक राबूनाशिल्लें आमी वेगीन चमकीलीं. दोंगुले आनी दोंगर एक सोडून एक पडलेले विशाळ भूप्रदेशावेल्यान चमकतना टिबेट म्हळ्ळेले अत्भुत राज्याचे पासून हांवें चिंता केल्ली. जनवासु नाशिल्ले प्रदेशांतुल्यान तं आमी चमकतालीं. तरीय आमकां येद्दें सरी भय दिसलेंना. खाणाचे उपरांतेची आमची यात्रा वेगीन आशिल्ली. शेळ वारें मंदमंद मारतालें तरीय ताजान आमकां कसलेच कष्ट म्हूण दिसलेनाय.

दोंगरा भाग सोड्डून एक आडवाटेवेल्यान आमी मानसरोवराचे पाडीक लागून आशिल्ले हादीरी चडलीं. तेन्ना शक्तीन वारें मारूक लागलें. सरोवरांतुलीं हालचीं पाळां भो विस्मयान मात्र पळोंवचाक जाताय. नृत्य करचीं रूपां सरी दिसलीं तीं सुमार फंता. उदकाक सल्प तांबीडसाणी लागलोलो वर्णु. शेळोवान कडकडेताय तरीय चड आवेशान चमकूक

जालें.

सरोवराचे भाटीक लागून पडलेले पाणाथळारी दीग तराचें तण वाडून राबल्यां. तणा मद्देंच्यान साबार सवणीं उबून भोंवचें दृश्य हृद्य आसा. पाणाथळांतुले सान मासळ्यांक धरून खांवचाक तीं सवणीं भोवतालीं. हांव आनी हरिहर चमकून मुकार पावले. वरलेले दोगांय तेन्ना भो मागशीं आशिल्ले. तांनी लागी पांवतना कितेंय खाण खावनु विश्राम काडून वचूं म्हूण आठोवनु आमी थंय ते सोंकर्याचेर उद्दारीच पडले. बेग उशें सरी उपयोग करून पडलेलें तें पडप अतिसुखप्रद जालें.

मित्रानि पांवचानिक आमी मांडु घालनु बेसून बिस्कुटां खेल्लीं, फळांरोसु पिल्लीं. शेळ वार्याक भो शक्ती आशिल्ली. तोंडाचे आनी वोंटांचे सालीक सुकप पडूकय लेपु लायलो. तोणांतु लाळ ऊणे जाता म्हूण दिसूनिक निबिंया मिठाई घळावनु चमकप आरांभिलें. सरोवराचे देगेर आशिल्ले दोंगरांचे घाटींतुल्यान आमी वेगीन चमकीले.

सूर्या पश्चिम भागाक ल्हवल्हवूच चलूक लागलोलो. दावे भागाचे उबे पर्वताचेर साकून देंवनु येंवची एकि होडली झरी सरोवरांतु मेळचे भागाक पांवचानिक एकि प्रतिसंधि उत्भवली. दिंब्येर पांवचे तितलें उदाक आशिल्ली झरी दांटवून वचूका जाल्यार षूसां निसरावनु पेन्टा पाय ऊंच वोडून चडोवनु दवरचें पडतलें. वेगळी वाट कसलीच ना. नंतणा, हिमालय भाटींचेर आशिल्ले झर्येंतुले जायत्यांतु अपायकर अगाध पाणाथळां आसाय म्हूण हांवें रफरेंन्स पुस्तकांचेर वाचलेलें उडगासांतु आयलें. बडीयेनी खोंबून चोवनु अतिसावधपणान संथसंथ आमी झर्येंतुल्यान पेलतडी पावले.

मुकारची यात्रा भो संथ आशिल्ली. वार्याक शक्ती चडून आयली. केन्ना केन्ना तें एक तूफाना वरी ते प्रदेशाचेर धूळीचीं चक्रबादलां उबयतालें.

निवळ मळबारी सूर्या चड वेगीन पश्चिमार देंवूक लागलोलो. सरोवराचे दुरच्यान तं आमी चमकताले. सर्वांकय थकाय अनुभवूक लागलेली. पांच वरांचे लागी आमी एक सान गांवांतु पावले. थंय एक बुद्ध सन्यासीक भेटले. अल्प सल्प हिन्दी उलोंवचाक ताका कळतालें. परका नांवाचे ते गांवांतु स घरांच आसाय. रेंवेंचे ते सान खोंप्यांतु आसा गांववास्यांची वसती. बुरशीं पिंजकर वस्त्रां, फातरांमाळा धरशिलेले हांकां पळयल्यार रानवासी म्हणूच दिसता. चडय जनांचेय केस जट्टा पडलेले आनी दांत हळदूवे जालेले. रोमे बोकड्यांचो होडलो एकु हींडु थंय दिकीलो. बोकड्यांचे पिलांचे मद्देंच्यान धावनु भोवनु खेळचे गांवकारी भुरग्यांक हांव कौतुकान पळोवनु राबलों.

बुद्ध सन्यासीचे सांगातांतु आमी सेरुलांग मोणास्ट्री लक्ष्य करून चमकीले. मानसरोवराचे पूर्व भाटीरी आशिल्लो हो मठु अतिपुरातन एकु आसा. 1966 वर्षा तांय टिबेटांतुलीं बुद्धविहारां मारनु फुटोवनु नाशु करच्यांतु लागून आशिल्ले चैनाकारी. तेद्दूसचे ते नशीकरणांतु साकून वांचलेल्या मठांतुले आसाय मानसरोवर भाटीवेले हे तीन मठ.

बुद्ध धर्माचे आचारांचे विशीं कसलीच जाणकारी नाशिल्ले आमी मठाचे आंगणांतु शंकेवनु राबले. सांगातांतु आयलोलो सन्यासी सुमसुमीच भितरी चडून गेलोलो. उणे घडियांनी चार पांच सन्यासी भायर आयले. मातें बावगोवनु, फाटी बावगोवनु आचार दाकयताले, तरीय तेन्नाय भयान सरी भायरचे भागाक ते पळयताले. चीनी सैनिक वाहनां येताय वे म्हणूच ते पळयताले. सैनिकांक भीवनूच आतांय बुद्धधर्मी टिबेटांतु जीण काडताय. तांनी दाकोवनु दिल्लेले जगलेचे एक भागारी आमी बेसले.

मानसरोवराचे पाडीक लागून आसा हो मठू. जगलेक लागून आशिल्ले मुख्य साळेंतु कमनीय रीतीर अलंकृत एक बुद्ध प्रतिमा आसा.

मठाचे माळ्येर वसती खातीरचीं कूडां आसाय. सरोवरा भागाक वात्तीं जांवचीं जनलां सर्वय बंद करून दवरल्यांय. साबार सन्यासी हांगा वासु करताय जावनु समजूक जालें. सर्व कडेय परिपूर्ण निशब्दता. सुरंगांतु चडचे तराचे प्रवेशन मार्ग थोडे कडे दिकले. घुड्यो, तोरणां आदींनी अलंकृत एकु गोपुर आंगणाचे एक भागाक आसा. जगलेचेर बेसून ल्हवल्हवूच पेप्सी पीवनु आमी उणेच वेळु सारलो.

पयले दिकलेले सन्यासीन वेगीन देंवनु येवनु आमचे लागी पश्चिमार आंग्य दाकोवनु 'कैलास... कैलास!' म्हूण होडान सांगलें. अस्तमय सूर्याचे उज्वळ भांगराळे प्रभेंतु बुडून राबलेले कैलास पर्वताचो उंचावेलो भागु दूरा दिगंतरार झगझगेवनु राबला. एक दिव्य दर्शनच! माळ्येचीं जनलां वात्तीं करून अन्य सन्यासीय तें दृश्य पळयताले. कैलास पर्वताक प्रथम जावनु दिकलेले कारणान निर्वृती मेळ्ळी. मागीर आमी यात्रा चालू करूक निश्चयु केल्लो.

वरां स जातालीं. सामान्य वेगीन चमकिल्यार मात्र तीन घंट्यांनी आमकां छुग्गु पांवचाक साध्य जातलें म्हूण ते सन्यासीन सांगलेलें. तांचे हाताक धरून विदा सांगून आमी चमकण आरांभीली. सरोवराक लागून आसा आमची हादी. मठाचे लागी वार्याक शक्ती ऊणे आशिल्ली तरीय मुकार सरतना शक्ती चड चड जावनु आयली. मळब निवळ आशिल्लें. सरोवराचे उदकाक रुप्पें कडोवनु घाल्लेले वरी वर्णू. दूरा, दिगंतर सरोवराक आडोळनु राबलेले अंतर तांय उदाक पातळेवनु पडल्यां पळोवनु विवराणातीत अनुभूती जाली.

दोंगर आनी घाट्यो दांटवून, सन्यासीन सांगलेली ट्रेकचुंहु न्हंय दांटवून सरोवराक लागून पडलेले हादीचेर आमी दुशीर वचून चडलीं. हांगा साकून सरोवराक आडोळनु होडले पर्वत आसाय. उणे वेळान आमी अतिपुरातन न्यागो मोणास्ट्रीचे लागी पांवलीं. दोंगराचे तुदीयेर आसा ही.

चडून ऊंच पांवका जाल्यार कष्ट काडचे पडताय. भांगीक रूपान नाश जालेले मठाचे जायते भाग न्हंयचे पाडीक शिंवडून पडून आसाय.

शक्त वारें मारतालें. वेळु वेगीन वतालोय. थकाय अनुभवली तरीय आमी लक्ष्या कडे मुकारसलीं. दोंगूले आनी दोंगर थंयच्यान सरले म्हूण दिसलें. दिगायेन पातळेवनु पडलेली मरुभूमी आसा मुकारी. मागीरीय एक घंटो जालो आनी तेन्ना दूरा जावनु एक सानु उजवाडु दिकीलो. छुग्गु सन्यासी मठांतुलो उजवाडु आसतलो तो म्हूण आमी निश्चयु केल्लो.

णव वरां जांवचानिक दिसा उजवाडु ऊणे जांवचाक लागलोलो. मागल्यान साकून अतिशक्त उजवाडु आनी वाहनाचो गर्जु आयकून आमी कडेन सरनु राबलीं. लागी येवनु राबलेले वाहनांतुले सैनिक आमकां एकेकल्याकय पळोवनु मुकार गेल्ले. चीनी भासेन ते परस्पर कितेंय सांगताले. सरोवराचे पाडीरी साकून शें मीटरांचे अंतराचेर आशिल्ले समतलावेल्यान जांवचे इतले वेगीन चमकून आमी मुकारसले.

णवाड वरां जांवचाकय आमी छुग्गु मोणास्ट्रीचे लागी पावले. मठाचे आंगणांतु राबून आशिल्ले एक टिबेटी जाण्ट्यान आमकां आपोवनु लागी आशिल्ले एक सान इमारतांतु व्हेल्ले. भो परणें, एक माळ्येचें इमारत तें. तलवाक आशिल्ले एक कूडा कवड चावी घालनु वात्तें करून ताणे भितरी हात दाकयलो. मागीर तो लागीचे कूडांतु चडून गेल्लो. टोर्च मारून हांवें कूड पळयलें. तिनतीना लेकान स मांचे दोन फांतीन घाल्लेले आसाय. एक कोण्श्यांतु कवोळनु दवरलेलीं हांतूणय दिकलीं. आनी एक कोण्श्यांतु परणें एक मेजेंय आसा. परतून येवनु ते जाण्ट्यान दोन मेणावात्यो जळोवनु मेजेर दवरनु दिल्यो. खाक्यांतु मारनु घेवनु आयलेल्यो कांबळ्यो आनी उश्या किस्वण्यो मांचार दवरनु, निरोप सांगूक हात उबारनु दाकोवनु तो भायर गेल्लो.

पश्चिम भागाक वात्तें जांवचें आसा कूडाचें एकमेव जनल. तें वात्तें करूकय वारें बळान मारनु मेणावात्यो सोंतु जाल्यो. चंद्रु उदेतालो. मानसरोवराचो अतिसुंदर देखाव विस्मित करचे तराचो आशिल्लो. दृश्य पळोंवचें मागीर जावो म्हूण आठोवनु जनल बंद करून मेणावात्यो लावनु दवरल्यो. मठाचे दावे भागाच्यान एकि सानि झरी व्होळनु सरोवरांतु वता हांवें आद्यच दिकलेली. कूडांतु वा भायर उदकाची बंदोवस्त नाशिल्ली. भायर वचून झर्येंतु तोंड धूवनु आमी परतले. भायर शक्तीन मारचें वारें आनी कडकडांवचो शेळोवु आशिल्लो. वरां धा जातालीं. भूक तारासूक जायनाशिल्ले तशी जाल्या. बेगांतु साकून विविध तरा खाणा वस्त भायर काडले. दिल्ली तराचें मिक्श्चर, काजूबी, खाजूर, कुकाबाळुकां, विविध तराचीं सुकीं फळां आदी आमी वांटे घालनु खेल्लीं. तें जावनु फळां रोसु पिंवचाकय तृप्ती जाली. उणेच घडी थंय पडून आराम केल्लो. चंद्रु उदेवनु सामकीच ऊंच पांवतना मानसरोवराची शोभाय जाय तितली आस्वादन करुं म्हूण निश्चयु केल्लो.

सल्प झमेवनु इकरा साडदाचेर जागून हांवें हरिहराक जागयलो. देह सगळेंच, खास जावनु पायां पोवट्यांचे मांसपेश्यांक दुकी भोगताले मि. बलराम डेक आनी मि. रुपेंदराक चांदीणे पळोंवचाक तात्पर्य ना म्हूण सांगलेल्यान हांव आनी हरिहर जनलांतुल्यान सरोवर पळोवनु राबले. शेळ वारें बळान मारतालें. ऊंच पावनु आशिल्ले चंद्राचो प्रकाश कारण सरोवराचे पाळांक विवरणातीत झगझगु आशिल्लो. चांदीण्यांतु न्हांवनु राबलेले सरोवराचे सर्व भागांकय अतीव शोभाय दिसताली. भायर देंवनु तें वश्य सौंदर्य चड आस्वादन करका म्हूण आशिल्लें तरीय कपलाकणकण आनी निदकूरे दोळे कारण ते पद्धतेंतु साकून आमी मागशीं सरले.

## बारावो दीसु

# सेय्दी

हांवें जागूनिक वरां स जावनु गेल्लेलीं. आड आशिल्लें जनल वात्तें करून पळोंवचानिक दाट्ठु दोवु कारण मानसरोवर दृष्टि पडना. कवड वात्तें करून हांव भायर देंवलों. राती होडलो पावसु पडलोलो. आंगणांतु आनी परिसरार उदाक भोरनु पडल्यां. दोवु सरोवराचे ऊंच मात्र आशिल्लो. केंपाचो भोंवतणी प्रदेश भोवनु चोंवचाक हांवें निश्चयु केल्लो.

केंपांतु साकून केवल पन्नास फीटाचे अंतरार आसा बुद्ध मठ्ठु. विस्कळ आंगणाचे पेळतांतु उंचायेन बांदलेले वणत्यांचे मद्दें आसा मठ्ठु. आंगणांतु बेसून तण खुंटूचे चार सन्यास्यांक लक्ष्य करून हांव चमकीलों. आचारपूर्व चौगांनीय उठावनु राबून माका अभिवाद्य सांगलें. आशयविनिमयाक भासेचो प्रश्नु आसतलो म्हूण आठोवनु शंकेन राबलेले माका विस्मित करून तांतूलो एक युवसन्यासी इंगळीशान उलोंवचाक लागलो. माका भो संतोषु जालो. उणेच वेळा भितरी ताणे माका जायतीं विज्ञानप्रद कायरीं सांगून दिल्लीं.

भरणांतु भागेदार आशिल्ले कालाक बुद्धमठांचे निर्माणांतु जायते निगूढ संप्रदाय उपयोगु करतालीं. रहस्य कूडां, निगूढ होळस्यांचे मार्ग,

सुरंग, मठाचे भायर वचे खातीर रहस्य मार्ग आदी चडय मठांतूय बांदलेले. चडय मठांतूय अभ्यासी बुद्ध सन्यासी वसती करून येताले. कुटुंब सयत वासु करचींय साबार आशिल्लीं. संक्षिप्त जावनु सांगता जाल्यार मठांक भो शक्त सुरक्षाक्रमीकरणां आशिल्लीं.

अशी सगट आसूनूय चैनेचे आधुनिक सेनेचे आनी नवे तरा शस्त्रांचे मुकार सर्वय व्यर्थ जालें. चडान चड मठ चीनी आक्रमणांतु नाश जाले. वरलेले उणेच मठांचेर चीनी सैनिक सदा नदर दवरून आसाय. वेगळें कसलेंच करूक वाट नाशिल्यान बुद्धसन्यासी मठांचे काळकांतु भीवनु निपून भोंवताय. राजधानी ल्हासांतु आनी अन्य थोडे प्रविश्येंतु साकून बुद्धमठांक आर्थिक सहाय मेळता. साबार शेतभाटां आनी अन्य आमदनी आशिल्लीं बुद्धमठांय टिबेटांतु आतांय आसाय. चैनेंतुले कम्यूणिस्ट भरणाक केन्ना पुणीय अंत्य आसतलें आनी तेन्ना आपल्याक नष्ट जालोलो प्रताप परतून मेळतलो म्हूण बुद्धधर्मी शुभाप्ति विश्वासान राकताय.

मानसरोवराचे पासूनूय जायती माहिती हे युवसन्यासान सांगून दिल्ली. सात वरांचेर पुणीय यात्रेक लागल्यार मात्र सांजे पांच वरांचेर सेय्दी केंपांतु पांवचाक जातलें म्हूण ताणे ताकीदय दिल्लें. पांतीस किलोमीटरांचे हे यात्रे मद्दें अतिशैत्य आशिल्लीं साबार स्थलां दांटवूचींय पडताय म्हूण जाणकारी मेळ्ळी.

मित्र जागलेले. झर्येंतु वचून प्रभातकृत्यां आनी देहशुद्धी करून आयलीं. सात वरांचेर आमी चमकण आरांभीली. चाया पिंवचाक सरी कसलीच वाट ना. मि. रुपेंदराक अल्पसल्प देहास्वास्थ्य अनुभवतालें म्हूण आमी बेचार जाले. तीव्र जावनु पेश्यांची दुकी आनी तोंडार सूज कीं कित्याचींय लक्षणां ताका त्रास दिता जावनु दिसलें.

मानसरोवर सगळेंच दाट दोवान पांगूरनु पडल्यां. नदरे भायर

तांय विस्तृतीर सरोवराचे उंचार मात्र दोवु भरून राबलेलें दृश्य विस्मयकर आसा. एक फोडदो घालनु निपयलेल्या वरी दिसता तें. सरोवराचे पाडीक साकून तिनीशें फीटाचे अंतरार वची हादी आमी उपयोगु करतालीं. सोंकरो, सान वाडकूळे फातर आनी सान झाडांचे हे प्रदेशार चडतीयो नाशिल्यो. दावे भागाचे होडले पर्वतांचेर साकून देंवनु येंवच्यो सानसान्यो झर्यो सरोवरांतु मेळताल्यो. सान झाडांचे मद्देंच्यान धांवनु भोंवचे एक तरा कोळविंदरांक आमी कौतुकान पळयलो. एक सोस्या इतली होडकाय आशिल्ले तांकां हळदूवसाणीचो वर्णु. हिमप्रदेशांचेर वास करचे कारणान जावयात तांकां हे तराचें रोमे वस्त्र प्रकृतीन दिल्यां म्हूण दिसलें.

दोन घंट्यां पशी चड वेळु चमकून जांवचाकय वाट सरोवराचे चड लागीच्यान वची जाली. मुकावेली यात्रा सरोवरा पाडीच्यानच जाली. सरोवराचे तडियेर सुंदर सानसान वाडकूळे लान फातर भरून पडल्याय. विविध रंगांचे हे फातरांची शोभाय विवरणातीत आसा. सरोवराचे निवळ उदकांतुल्यान पोंदाक पळयतना विविध वर्णा लान फातरांनी केतविल्ले समान देखाव अति मनोहर आसा. निपुण हातांनी केल्लेली एकि कलासृष्टी सरी दिसता ती. सरोवराचे उदकाक गाढनीळ वर्णु म्हूण सांगूयात. पूतु सुब्रह्मण्याचे सांगातांतु पार्वतीदेवीन स्नान केल्लेलें स्थल हें म्हूण विश्वासु. सरोवराची घूंवळ हे उत्तरपश्चिम भागाक स्पश्ट दिसता. कितलेंच चमकून मुकार सरल्यारीय ती घूंवळ सरनायीच. कैलास पर्वताचो उंचावेलो भागु एक तीळो सरी अतिदूरा दिगंतरार झगझगेवनु राबलेलें स्वप्नतुल्य एक दृश्यच. मानसरोवराचे सर्वांपशी सुंदर देखाव हे उत्तरपश्चिमाचे म्हूण सर्वांकय दिसतलेंच.

वरां धा जावनु गेल्यांय. शेळ वारें आनी सुंदर दृश्यां आस्वादन करून चमकलेले आमकां भूक लागनाशिल्ली. सरोवराचे पाडीक साकून केवल पन्नास फीट दूरा दोंगराचे ऊंच दिकलेले सान एक बुद्धमठाचे

मुकार बेसून आराम केल्लो. जायते भाग मोडून गेल्लेले हे मठाचे एक भागाक उणेच सन्यास्यांक दिकीले. सुरंग सरी दिसूचे हादीवेल्यान देंवनु येवनु ते सन्यासी सरोवराचे उदकांतु न्हांवचाक लागले. सरोवरांतु न्हांवचाक तीव्र इच्छा आसलेली तरीय गायडान दिल्लेली चेतावणी कारण हांव तेन्ना तांय शंकेन राबलोलों. सरोवरांतु अपायकर फोंड, उदकाचे भोंवरे आनी चिकलाचीं थळांय साबार आसाय म्हूण मि. पुचोंगान आमकां आद्यच सावध केल्लेलीं. उदकाक तीव्र शेळोवु आसून देह घट जांवची साध्यता आसा म्हणूय सांगलेलें. 2001 वर्षा कैलास-मानसरोवर यात्रेचे आद्य संघांतुलो यात्रिक एकलो सरोवरांतु न्हातना अंतरला म्हूण आमी यात्रे मद्दें आयकलेलें.

हांवे आनी हरिहरान सरोवरांतु न्हांवचाक निश्चयु केल्लो. देहाक सौक्य नाशिल्यान मि. रुपेंदर आनी पोंवचाक कळनाशिल्लो मि. बलराम डे पाडीर बेसले. सन्यास्यांचें न्हाण विशेश आसलेलें. दिंबी भर उदकांतु देंवनु राबून ते मातें बरें करून धुताले. मागीर आंगूटी तिमोवनु आंग सगळेंच पुशीताले.

उदकाचो शेळोवु असहनीय आसा. एकेक पावलय अतिसूक्ष्मेन दवोरनु आमी गोमटो तांय उदकांतु देंवले. एक रब्बरा षीटाचेरी माडोंवचे वरी खाल ऊंच हालचें अनुभवून माका विस्मय जालो. छट जावनु अपायाक साध्यता आसा म्हूण माका दिसलें, तुरंत हांवें हरिहराचे हाताक धरलो आनी वेगीन दोगांय मागशी चमकीले. दिंबी तांय उदकांतु पांवचानिक थंय बेसून मात्तें तांय सगळेच उदकांतु बुडले. परतून ऊंच पाडीर राबून कैलासनाथाचें ध्यान केल्लें. मागीर उणेच खाण खावंनु थोडो आराम केल्लो.

मि. रुपेंदराची पीडा चडून येता म्हळ्ळेलें आमकां अस्वस्थ करता. पेशींयांक दुकी आनी तोंडार सूजी दिसता. सल्प तापु लागेन

आरांभूनिक ताका चमकूक वेग मेळना जालो. सांजेच्यान पुणीय केंपांतु पांवका जाल्यार आमकां जायती हादी तरण करूक आसा. सरोवरा पाडीवेल्यान आमी चमकूक लागले. वकदां आवश्य तकीत खेल्लेलीं देखून लागीच ताजी पीडा ऊणे जातली म्हूण आमी आठयलें. दृढ देह आनी भो देहपुष्टी आशिल्ले हे मित्राक अशी जातलें म्हूण कोणेच आठयलेंना आशिल्लें.

सरोवराचे पाडीवेल्यान आनी केन्ना केन्ना सरोवराक लागून पडलेले दोंगुल्यांवेल्यानय चमकून आमी साबार वाट मुकारसलीं. वोकदांचे शक्तीन जायत, मि. रुपेंदरान जांवचे तितलें सहकरण आमकां दिल्लें. एकेक घूंवळी चमकून मुकार वतना मागीरीय हादीच्यो घूंवळ्यो येताच आसाय. इतले उंचायेर 85 किलोमीटर परिमितीन, जायते भागांक पर्वतांचे संरक्षणान घेरून, तलव दृष्टि पडूनाशिल्ले लेकान पातळेवनु हाजे सारके एक अतिमनोहर शुद्धजल सरोवर जगांतु वेगळें आसा म्हूण आयकलेंना. मानसरोवर अत्भुत एक प्रतिभासूच. आमचे पुराण इतिहासांतु मानसरोवराचे पासून साबार परामर्श आसाय. ताजेच पाडीरी मू आमी चमकताय म्हळ्ळेली चिंता माका विकाराधीन करता.

दोन वरां जावनु वचानिक थकाय अनुभवूक लागली. रेंवेंचे सान एक धेड्यारी, खाण खांवचाक आनी विश्राम करूक मांडू घालनु बेसले. सुक्कीं फळां खावनु आनी टिन्नांतुलो फळां रोसु पीवनु बरें करून आराम करूं म्हूण दवरलें. मि. रुपेंदराक तापु चडून आयलो. जाय तितलें खाण, पानीय मेळनाशिल्यान ताजे देहाक भो थकाय दिसताली. वकदां पीवनु उणेच घडियांक निदेवनु पडूक हांवें ताजे लागी सांगलें. ताजे सांगातांतु आमीय त रेंवें धेड्यार उद्दारीच पडले.

सल्प घडियांक विश्राम काडूक म्हूण पडलेले आमगेली पद्धती चुकली. दोन दिसांची अतिकठिन यात्रा कारण जावयात उणे घडियांक

म्हूण आड सरलेले आमी चवड वरां तांय गाढ निदेंत पडून गेल्ले. सूर्या पश्चिमारी वचाक लागलोलो. शेळ वारेंय मारूक लागलेलें. एक मनीश जीवि सरी नाशिल्ले ते प्रदेशारी आमी एकलेच जालेले वरी दिसलें. सरोवराचे उदकाचे रंगाक बदलाव आयला. रुपें कडोवनु घाल्लेले वरी आशिल्लो तो वर्णु सुर्यकिरणां घेवनु झगेझगेता. सान पाळांय रूप धरूक लागल्यांय.

नीद जावनु चमकण आरांभूनिक मि. रुपेंदराले स्वास्थ्यारी माका आशंका दिसली. तो चड अस्वस्थ जावूक लागलोलो. तरीय आमी चमकण चालू दवरलेली. मुकार वता तशीच सरोवरा भाटीवेल्यान चमकण साध्य न्हय जाली. चिकोलु भरलेले ते स्थायावेल्यान चमकूक जांवचें ना. दावे भागाक होडले पर्वत भो दुरच्यान आसाय. तलव दिकूक येवनाशिल्ले अनंत मैदाना वरी सपाट स्थलावेल्यान आमी चमकून मुकारसले. वार्याक वेग आनी शेळोवु चडलो. मुसांचे वरी आशिल्लीं मुंबुरां अंतरीक्षांतु उबून भोंवचीं पळोवनु आमकां आशंका जाली. मनुष्यांक उपद्रव दिंवचे तराची न्हय ती प्राणी तरीय वात्ते तोंडांतु वा नांक, कान आदींतुल्यान भितरी चडचें अपायकर आसा. हे भाग लुगटांनी बांदून आमी मुकारसले.

मि. बलराम डेचे खांदार हातु तेंकून चमकतालो मि. रुपेंदर छट जावनु परंगून खाल पडलो. आमकां परिभ्रमु जालो. भो तापु आशिल्लो ताका. बेग उश्या वरी दवोरनु आमी ताका ताजेर मात्तें दवरोवनु उद्दारीच निदायलो. निडळारी लुगट तिमोवनु घालनु दिल्लें. मि. हरिहरान आपले वकदांचे पेट्टेंतु साकून थोड्यो शक्त गुळ्यो ताका खावयल्यो. रोगांचे विशीं आनी तांकां सर जालेले वकदांचे पासूनूय मि. हरिहराक अल्पसल्प परिज्ञान आशिल्लें.

आमी मि. रुपेंदराचे लागी बेसले. वरां सात जावनु गेल्लेलीं. उजवाडु सामकीच आशिल्लो तरीय मळबार हंय थंय मोड दवरलेलें.

मित्राली रोगपीडा कारण तत्कालाक यात्रा राबोवया म्हूण दवरलें. सैनिक वाहन तशीणान येता बि जाल्यार हात दाकोवनु राबोवनु सहायु मागूकय तयार जाले. मिगेले लेकान पांच साकून सात किलोमीटर लागेन चमकिल्यार मात्र तं सेय्दी केंपांतु पांवचाक जातलें. मित्राकय घेवनु इतलें अंतर चमकूचें चिंतूक सरी जायना.

सैनिकांचो सहायु मेळना जाल्यार विजन सरोवर भाटीर एक राती काडका जातली. तशी नंतणा वेगळी वाट ना. सरोवरा भाटीरी राती कडच्यान आसूयात जालेले अपायाचे पासून हांवें चिंतन केल्लें. रानप्रदेश न्हय जालेल्यान वन्यमृगांचे उपद्रव आसचिनाय. चरतल्लींय हे प्रदेशार नांय म्हूण तं आयकल्यां. कोळविंदरांनी आनी अन्य सान जीव्यांनी मनुष्यांक उपद्रव दिंवचें ना. जनवासु नाशिल्ले हे प्रदेशार चोरांचें भय नाकायीच. मागीर प्रकृती क्षोभाची भीषणी आसा. पावसु पडल्यार पावसा कोटच परिहारु. सकाणी दिकलेले सन्यासान सांगलेल्या सरोवरांतुल्या अमानुषिक सान्निध्याचे पासून जाल्यार परिहारु करूक निस्सार मनुष्याक कशी जातलें?

अमानुषिक सान्निध्याचे विंशींचे चिंतेन माका स्वामी परमहंस योगानन्दाचे 'Autobiography of a Yogi' म्हळ्ळेले पुस्तकांतुले थोडे परामर्शांचेर पांवयलो. आमी एक वस्तूक तीन डायमेन्षनार पळयताय - दिगाय, रुंदाय, खोलाय. चवतें डायमेन्षन आसा वेळु (Time) तरीय आज हीं चार डायमेन्षनांय एकसानी पळोंवचाक साधारण मनुष्याक साध्य न्हय. तें साध्य जाल्यार अमानुषिक रूपांक पळोंवचाक जातलें. विज, अंतरीक्ष प्रदूषण आदी नाशिल्ले कालाक जीण काडलेले फूडेचे पूर्विकांक चोवतें डायमेन्षन वेळु लागेन मेळोवनु पळोंवचाक जातालें. तेच कारणान तांकां अमानुषिक रूपांक पळोंवचाक जातालें. स्वामी परमहंस योगानन्दान कुल णव डायमेन्षन आसा म्हूण समर्थन केल्यां. तीं

सर्वय स्वायत्त केल्लेल्यांक विविध तरा अत्भुतां दाकोंवचाक जातलें. सास सास वर्षां आदीं आमचे पूर्वीकांनी अंतरीक्षांतुले रहस्यांचे विशीं अधिकारिक जावनु पळोवनु संशोधन करनु रचलेले शास्त्र ग्रंथ आज वाचीतना विस्मय दिसता. नग्न नेत्रानी मू तांनी हें सर्वय साध्य केल्लेलें.

रातीक जांवका जालेली तयारी केल्ली. मातें सरोवरा कडे दवरचे लेकान घूंवनु पडूक चारी स्लीपिंग बेगांय लागलागून पातळायलीं.

उज्या कुंडांचें एक सुरक्षा वलय तयार केल्यार चांग आसतलें म्हणून हांव आनी बलराम डे ते खातीर आवश्यक वस्तु सोदून थंय सगट भोंवले. सुके तणा पुंजे, मूळां सयत हुमाटून राश करून उजो घालनु पळयलें. तें भगभगेवनु जळनाशिल्लें ल्हवुल्हवूच धुवरूक लागलें. कशीच जावो म्हूण आमी जायते तणा पुंजे एकडे करून रातीक जाय जालेली तयारी केल्ली.

पश्चिम भागाचे हिमपर्वत अस्तसूर्याचे देंवती किरणांतु न्हांवनु राबलोलो देखाव मनमोहक आसा. सूर्यबिंबाची होडकाय आनी ताका घेरून आशिल्लो वर्णविन्यास सरोवरांतु प्रतिबिंबित जावनु दिकतना विविधतरा अनुभूतींत बुडची प्रतीति जाता. सरोवरा पाडीक राबून ध्यान करून हांवें आनी हरिहरान गायत्रीमंत्रु जपीलो.

'ॐ भूर्भुवः स्वः
तत्सवितुरवरेण्यम्
भर्गो देवस्य धीमहि
धियो यो नः प्रचोदयात्'

मन शांत जालें. रोगी गाढ निदेंतु आसा. पश्चिम भागाक चोवनु बेसून आमी वेळु सारलो. सरोवरांतुले पाळांक जायते घडियांक हांवें पळोवनु बेसलों. चोयता चोयता विस्मय चडून येता. दूरा साकून रूप



घेवनु रूप घेवनु येंवचीं पाळां पाडीचे लागी पांवतना संस्कृत लिपींतुलें ॐ जावनु रूप धरता. हांवें कायरें मित्रांक जाणयलें. आमी तेगांनीय सरोवराचे लागी वचून राबून सामकीच सूक्ष्मेन पळयलें. साबार दिशेर साकून पाळां येताय. अंत्यार सर्वय ॐ रूप धरताय. भारतांतुले ॐ पर्वताचे दर्शनान आत्मीय साक्षात्कार मेळळेल्या समान मानसरोवरांतुले ॐ दर्शनानय आमी निर्वृती पावले.

णव वरां जांवचानिक सल्प काळूक भरलो. रोगीक जागोवनु हरिहरान वकदां खावयलीं. सुक्कीं फळां, कुका बाळुकां, बिस्कुटां आदींचें खाण ताणे आमचे सांगातांतु खेल्लें. ऑन्टिबयोटिक वकदां आसून समयासमयारी दिंवचाक आशिल्यान रातीय जागोवनु दिंवचें आसा म्हूण हरिहर आत्मगत सरी सांगता आयकलें.

वार्याक आनी शेळोवाक शक्ती चडून आयली. उज्या कुंड धुवरत राबलेले. काळूक दाटायेन पांगरूनिक सरोवर आनी परिसर दृश्य न्हय जालें. चंद्राचो प्रकाश येंवचाक आनीकय समयु आसा म्हूण दिसलेल्यान हांव विश्राम काडूक पडलों. निद्देंवचाक जांवचें ना म्हळळेली चिंता मन भोरनु राबलेली, सांजे वेळार नीद काडली देखून जावयात. दोळे धांपून पडून मानसरोवराचे एकेक चिंतेन वेळु सारलो.

मानसरोवराचो रचणार आसा ब्रह्मा. उद्यानकम आनी अच्छोद सरोवर म्हणूय हाका नांवां आसाय. एक फंता सनक, सानन्द आनी सुजित नांवांचे तेग रिषी शिवप्रीतीक जावनु कैलासार घोर तप करूक लागले. बारा वर्षांक केल्लेले हे तपाचे मद्दें एक कालाक हांगा घोर कंगाळ अनुभवलें. तेग रिष्यांनीय भो दूरा आशिल्ले मंदाकिनी न्हंयतू वचून स्नान इत्यादी कर्मां करका जालीं. असले कष्ट कारण रिषींनी ब्रह्माचे लागी तांचे संकट सांगलें. सृष्टीचो मूळाधार ब्रह्माचे मनांतु साकून मानसरोवर रूप धरलें. रिषी संतुष्ठ जाले.

भारताचे पुराणेतिहासांतु सप्नतुल्य तेजान मानसरोवर झगझगेता. अप्सरांनी मानसरोवरांतु नग्न स्नान करचें व्यासान आनी पूतु शुकान दिकचानिक देव्यांनी लज्जेवनु निमिशभितरी वस्त्रधारण केल्यां म्हूण भागवतांतु सांगल्यां. अर्जुनान मानसरोवर संदर्शन केल्यां जावनु महाभारताचे सभापर्वांतु परामर्श केल्ला. वसिष्ठाक आनी अरुन्धतीक हांगा आसतना सिद्धी मेळ्या जावनु महाभारताचे वनपर्वांतु सांगल्यां. मानसरोवरांतु वास करताले एक महर्षीन, शरशैयेचेर पडून आशिल्ले भीष्माक संदर्शन केल्लेलें जावनु भीष्मपर्वांतु विवरण दिल्यां. मानसरोवराक ब्रह्मान अतिमनोहर एक पत्माक्षा तळयेची रूपकल्पना केल्या जावनु आनी हांतु साकून आसा सरयू न्हंयचो उत्भव म्हूण वात्मीकी रामायणांतु सांगताय. ‘एक पत्माक्षाचे लागी साकून आनी एकाचे लागी हंसीक मानसरोवरांतुले पाळांनी व्होळोवनु व्हेल्लेले समान’ काळिदासाली हें वाक्य (रघुवंश) सामकी हृदयस्पर्शी आसा.

‘समीरणोत्थेव तरंगरेखा
पत्मान्तरम् मानसराजहंसीम्’

मानसरोवरांतु स्नान केल्यार मोक्षु मेळतलो म्हूण विश्वासु.

मानसरोवराचे पासून अत्भुत विश्वास साबार प्रचाराक आसाय. बुद्ध सन्यासी आनी अन्य टिबेटी हे सम दवरताय. सरोवरा भागाक वात्तीं जांवचीं मठाचीं जनलां पुनवे दिसा सन्यासी बंद दवरताय. तसले रातींचें सरोवरांतु कोणेच चोवप ना. पुनवे चांदीण्यांतु मानसरोवरांतु साबार अप्सरा स्नान करूक येताय जावनु विश्वासु: रोमे बोकड्यांक आनी याकांक वाडोंवचे टिबेटी गांवकारांनी पुनव म्हूण नेणतना सरोवरा पाडीक तंबू मारून राबप आसा. तेन्ना मदराती जातना सूण्यानी भीतीन राबयनाशिल्लें कुल्लेरी घालतना बोकड्यांनी आनी याकांनीय आस्वस्थता दाकोवप आसा. हे सग गोंदळा कारण जागलेले गांवकारांक घंटानादा

वरी हास, संभाषण आनी हर्षाकार मानसरोवरांतु साकून आयकूक येता. आनी ते कारणान तांकां क्रमान सुबोध नष्ट जाता जावनु आयकल्यां. सदां फालेफाल्यार उठांवची सवंय जालेले ते गांवकारांनी असले वेळार देनपारां तांय थकून बेशुद्ध पडप आसा म्हूण स्थिरीकरण केल्लेलीं रिपोर्टी मेळताय. वाडोंवचीं मृगांय तांचे धन्यांचे वरी बेशुद्ध निदेवनु पडचें विस्मयान आनी भीतीन मात्र आलोचना करूक जाता.

मानसरोवरांतुलो आनी एक अत्भुत प्रतिभास आसा ब्रह्माचो दिव्य उजवाडु (Divine light of Brahma). काळकांतु बुडून पडलेले सरोवराचे उदकाचेर मळबारी साकून एक दिव्य प्रकाश प्रतिबिंबित जाता जावनु तीर्थाटक संघांतुले जायत्यांनी दिकल्यां म्हूण स्पश्ट कळता. तसल्याचें एक फोटो हांवेय दिकल्यां.

बारा वरां जांवचानिक पूर्णचंद्रु उदेलो. तारानाथाक अभिवाद्य सांगून नक्षत्रां वज्रां समान झगझगेवनु राबलेलें दृश्य अविस्मरणीय आसा. देंवनु आशिल्ले दिगंतराचेर असामान्य होडकाय आशिल्लो चंद्रु राबला हात पांवचे अंतरारीच म्हूण माका दिसलें. पश्चिम भागारी हिमावृत पर्वत घेरून राबल्याय. तांचे खालटाक जावनु मानसरोवर चांदीण्यांतु न्हांवनु विस्तारान पातळेवनु पडल्यां. हारश्यांतु म्हळ्या वरी मळब सगळेंच सरोवरांतु प्रतिबिंबित जांवचें दृश्य अतीव सुंदर आसा. तांबडे दोंगूले, खालटाक उंचटाक पडलेलीं तणामळां आदी अन्य प्रदेशांचेरीय दृष्टि पडतलीं. तरीय चांदीण्यांतु न्हांवनु राबिल्लो असलो एक सुंदर देखाव मिगेलो आद्य अनुभव. अंतरीक्षाचे हे नग्न सौंदर्याचे निर्वृतीन राबलेले तेन्ना मिजे जिबेर वाल्मीकी रामायणांतुली प्रकृती वर्णना खेळूक लागली-

'चन्चचंद्रकरस्पर्श-

हर्षोन्मीलिततारका

अहो, रागवती संध्या
जहाति स्वयमंबरम्'
(किष्किंधाकांड 30 वो सर्गु, 45 वो श्ळोकु)

सरोवराचेर दोवु भरूक लागलो. वार्याक शक्ती चडली. शेळोव असहनीय जालो. उज्या कुंडांतु जळतालो सान उजोय सोंतु जालो. वरां दोन जावनु गेल्लेलीं. हांव निद्देवचाक जावनु कांबळी पांगूरनु उद्दारीच पडलों.

स वरांचेर हरिहरान माका जागयलो. उठावनु सल्प दूरा बेसूनाशिल्ले रूपेंदरान माका अभिवाद्य केल्लो. तो पूर्ण उन्मेशान दिसतालो.



कैलास- उत्तर मुख

## तेरावो दीसु

# सेय्दी

फुडले दिसाचे सांजेच्यान आमी सेय्दी केंपांतु पांवचें आसलेलें. आमकां सोदून डॉ. मोह्ता आनी गायड येंवचाक साध्यता आसा देखून आमी वेगीन भायर सरले. मद्दें मद्दें पेप्सी पीवनु वेगीन चमकीले. सरोवराक लागून आशिल्ले हादीवेल्यान आमी चडय समयु यात्रा करताले. णव वरांचे लागी आमी सेय्दी केंपांतु पावले. थंय डॉ. मोह्ता राकून राबलोलो. मुरथमले राती घरकडे गेल्लेले ट्रक ड्रायवराक राकतालो तो. आमकां सोदून येंवचाक जायनाशिल्याचें कारणय तेंच म्हूण ताणे खेदान जाणयलें. रोगीक परिशोधना करून जावनु डॉ. मोह्ता मि. हरिहराले वैदीकेक वांकाणसीतालोय आयकलें.

तेद्दूस लागेन सेय्दींतु विश्राम काडूक निश्चयु केला डॉ मोह्तान. आमकां पदयात्रींकय सामकी आराम करूक जावनु तशी सांगल्यां. डॉ. मोह्ताक आनी अन्य सहयात्रिकांकय आमगेले पदयात्रेचे विशेष विशद जावनु सांगून दिल्ले. भुकेन तळवळेताले आमकां मि. कुन्शीरामान तयार करून हाडून दिल्लेली सेमिया उपमाव आनी दूद रुचिक ज़ालें. ओल्लीं जालेलीं रोमे वस्त्रां फातरांचेर सुकोंवचाक घालीं. पावलांची दुकी ऊणे करूक़ लेपु पुसून, परसूनूय देनपारां तांय आशिल्लो वेळु सारलो.

जेवणाक चप्पाती आनी रांवदय मेळ्ळी. पांच वरांचे लागी मानसरोवरांतु पूजाकर्मां आनी स्नान करयात म्हूण मि. मोह्तान सर्वांकय जाणयलेलें.

पांच वरांचेरीच आमी सेय्दी केंपाचे दक्षिण भागाचे घटाक लक्ष्य करून चमकीलीं. केंपाचे सामकी मुकारीच तोरणांनी अलंकृक एक घाट आसा. तरीय थंय चिकोलु भरून पडलेल्यान स्नान करूक सौकर्य ना म्हूण मि. पुचोंगान सांगलेलें. एकेकल्यानीय तागतागेले रीतीन पूजा चमकयली. चड जाणांनीय मलट्येंतु वाती घालनु जळोवनु करपूर आनी गांदावाती सांगातांतु जळोवनु दवरून प्रार्थना करून सर्वय मानसरोवरांतु समर्पीलें. परेतात्मांचे खातीरचीं श्राधबळी कर्मां भक्तीन श्रद्धेन करून तेंवय सरोवरांतु समर्पीलें. सरोवराचे उदकाक घट जांवचो तसलो शेळोवु आशिल्लो. ते कारणान जायतीं जाणां तांतू न्हायनाशिल्लें दूरा सरलीं. सरोवरांतु तीन पावटीच बुडून भायर येंवचाक कठिन आसा म्हणतना इकरा पावटी बुडूक माका साध्य जालेल्यान अतीव संतोषु आनी संतृप्ती भोगली.

सरोवराचे पाडीक मांडु घालनु बेसून आमी जायते घडियांक भजन केल्लें. वेदपारायण केल्लें. परतून येवनु जेवलीं. तेन्नाय भो उजवाडु आशिल्लो. मि. पुचोंगाक आनी ट्रक ड्रायवराक एकसाणीच उलोंवचाक मेळूनिक केंपाचे आंगणांतु सोंकर्यांतु बेसून खबरी उलयली. मानसरोवराक घेरून पडलेले सास सास हेक्टरां लेकान प्रदेशांचेर वासु करचे टिबेटी गांवकारांचे पासून जायती माहिती समजून घेतली.

हांगाचीं जनां सानसान गांवांतु जीण काडताय. राष्ट्रीय संभवविकासांचे पासून कसलेंच तांकां कळना. सोंकर्याचे रेंवें भूंय आसून प्रधान कृषी कसलीच करूक हांगा साध्य न्हय. ऊणे मात्रेन तरकारीची

कृषी आसा. हिम वृष्टी जांवचो प्रदेश आसून वर्षाचो चारींतुलो तीन वांटो समयूय भूंय हिमावृत राबता. कृषी करूक जायनाशिल्याचें कारण हेंवय आसा. सासा भायर किलोमीटरांचे अंतरार आशिल्ले ल्हासांतु साकून भक्ष्य धान्य घेवनु येंवका जाता. राजधानी ल्हासांतु आनी परिसर प्रदेशांचेरी गोंव आनी भात व्हड मात्रेन कृषी करताय. रोमे बोकड्यो, याक आदी मृगांक पोसून गांवकारां खर्चाक आशिल्ले दुड्ड एकडे करताय. डिसेंबर, जनुवरी मासांचे अतिशैत्याचे कालाकय जनां हांगाच जीण काडताय. ताजे मुरथम तीं तांचे मृगांक विकून उडयतलीं. दूद मेळचे खातीर एक दोन मृगांक मात्र घरांतु राबोवनु पोसतलीं. मृगांचें मांस सुकयलेलें आनी अत्यावश्याक मात्र धान्य उपयोगु करून हांनी शींयांकालु तरण करतलीं. धा फीटा चड दाटसाणीर हिमान भूंय पांगूरचे हे समयारी घरांतु साकून भायर सरी देंवचाक जायनाशिल्लें हीं नरकतुल्य जीण काडताय. धान्याचो संचय सरतना, तेन्ना तांय दूद दीवनु सहाय केल्लेले मृगांकय दिमशी मारनु खातलीं. उज्यांतु भाजून काडून दवरचीं, मृगांचीं अवयवां जायते काळांक वायट जायनाशिल्लें राबतलीं.

शींयांकालाक राक्षसताळांतुलें उदाक घट जातलें. उदकाचीं लक्षणां सरी आसचीं नांय. मानसरोवराचे तडीक हिमाची कांबळी पांगूरता तरीय मद्देंचे भागाक उदाक दिकूक येतलें. ते उदकांतु हंसाचे हींड दृष्टी पडचेंय हेच समयारी म्हूण आयकल्यां. हंसाचे सारक्याचें एक तराचीं टिबेटी बदकां राक्षसताळांतु आनी मानसरोवरांतु सासानी आसाय. उदकांतुली समृद्ध मत्स्य संपत्ती तांचें खाण. कठिन हिमवृष्टी कारण साबार सवणीं वर्षवर्ष मरून वताय. शींयां कालू सरतना साबार गांवकारां राक्षसताळांतु वचून हे सवण्यांचे अंडे एकंठाय करताय. एकेकल्याकय सास अंडें तांय मेळताय म्हूण आयकल्यां. रुचिकर हे अंडे घेंवचाक ल्हासांतु साकून

व्हडले ब्यारेली पांवतले. सरोवराचेर रूप धरलेले ऐसाचे पोंदाक घट जावनु मरून गेल्लेले मासळ्यांकय धरून एकडे करून गांवकारी विक्री करताय. हे दुडवांनी तांनी दुशेरी मृगांक घेतलीं. बोक्ड्यो, याक आदी मृगांक पोसून आनी सरोवरांतुली आनी न्हंयचे उदकांतुली मत्स्य संपत्ती धरून सुकोवनु विक्री करून हे दरिद्र गांवकारी दीस काडताय. शुद्धजल, विज, आरोग्य संरक्षण, विद्याभ्यास आदी सामान्य सौकर्यां कसलींच हांकां मेळना. लामांचे भरणाकालाक हे गोत्र जातींच्यांक जाय तशी संरक्षण दीवनु येतालीं. आज तें सर्वय चरित्राचो भागु जाला.

दिसा उडवाडु ऊणे जांवचानिक मळब छट जावनु मेघावृत जालें. शेळ वारें मारूकय लागलें. हेरदूसा फांत्यावराती यात्रेक देंवचें आसा देखून सुखान नीद काडूक जावनु हांव पांगूरनु पडलों.



याक

## चोवधावो दीसु

# दरचन

देहाक सगळोच शेळोवु लागूनिक हांव गाढ निदांतु साकून जागलों. तिमून फुगल्ले रोमे कांबळ्यांतुल्यान देंवनु पावसाचें उदाक वस्त्रांतुल्यान भितर पांवचाकय शीं खेल्लें. भायर शक्त पावसु पडतालो. रेंवेंन बांदलेलें भो परणे इमारत आसून ताजे पाक्याक पडलेले फूटीचे खांचींतुल्यान पावसा उदाक देंवनु भितरी थेंबेतालें. तिमून फुगलेलें पाकें खंचेय निमिशारी भूंय पांवची साध्यता आसलेली देखून आमी सर्वय भायर देंवलीं. वासर्यांतु बि पोंवना म्हूण मि. कुन्शीरामान उल्लो दीवनु सांगचानिक आमी सर्वय ते सान कुडांतु चड्डून शिरकलीं.

वरां दोन जालेलीं. पावसु राबलोच तरीय मुकार आनी निदेंवचाक जांवचें ना. कारण कूड आनी हांतूण तितेलें साबार तिमून नाश जालेलें. सकाणचे खाणाक आशिल्लें, पटली करून हातांतु काडून, जांवचे तितले वेगीं यात्रा आरांभूक डॉ. मोह्तान निश्चयु केल्लो. रांदपे खाण, चाया तयार करच्यांतु लागले. तेन्ना आमी आमगेलीं सामानां सगट बांदून ट्रकांतु चडोंवचाक पांवोवनु दिल्लीं. एकेकल्यानय मानसरोवरांतु साकून भरलेलें पवित्र जल केंप राखप्यान एक कूडांतु दवोरनु बंद केल्लें. परतून येतना आमकां तें घेवनु वचात.

हून चाया पीवनु बेसून आमी उणेच वेळु सारलो. भो शेळीवु आनुभवतालो. खाण तयार जावू तांय आमी अक्षम जावनु राकून बेसलीं. ओवूट वरां जांवचानिक खाणा पटळ्यो मेळ्यो. आमी ट्रकांतु चडलीं. मळबार चंद्रप्रकाश आसलोलो तरीय पावसु आनी दोवु कारण उजवाडु नाशिल्लो. मानसरोवराचे पाडीवेले एक हादीवेल्यान यात्रा आरांभीली. सरोवर सगळेंच दोवान पांगूरनु राबल्यां. पावसा सांगातांतु वारें लागेन आशिल्लें देखून भो शीं खातालें. फोंड फोंडार्यांची हादी आसून वाहन भो संथ धांवतालें. पावसु, वारें आनी दोवु कारण वाहन धांवडांवचाक कष्ट जाता म्हूण ड्रायवरान वाहन राबयलें. सीटांचेर बेसूनूच निदेंवचाक आमी निश्चयु केल्लो.

वाहन दुशेरी सोडूनिक वरां पांच जावनु गेल्लेलीं. पूर्वारी हिमशृंगाचे मागशींच्यान उजवाडाचे किरले येताले. बालसूर्याचे किरणांनी हिमशिखरांचेर आनी धवे फुल्ल मेघांचेर भांगराळी प्रकाशधारा घालचें दृश्य अतीव हृद्य आसलेलें. दोवांतुल्यान देंवनु येंवचीं सूर्याकिरणां सप्तवर्णांचो प्रपंच रचतालीं. निमिशान निमिश येंवचो रंगवित्यास विस्मयान मात्र पळोंवचाक जाता.

स वरां जातरी आमी एक चेक पोस्टाकडे पांवलीं. चीनी सैनिक परिशोधना चमकयताय. क्रूर मुखभावांच्या तांनी ट्रकांतु चडून येवनु यात्रिकांची संख्या मेजली. संशयु सरनाशिल्यान तांनी परत परत मेजलें. एक सैनिक ड्रायवराचे लागी तापता दिकलें. अर्द घंटो दांटवूनिक आमकां वचाक अनुमती मेळ्ळी. घोर पावसु पडून राबलेल्यान आमकां वेगळे दीग वाटेवेल्यान जांवका वचाक. मुकार साठी किलोमीटर पुणीय मागीरीय यात्रा केल्यार मात्र दरचनांतु पांवचाक जाता म्हूण मि. पुचोंगान जाणयलें.

मुकारची भूप्रकृती व्यत्यस्त आशिल्ली. विस्तारान पातळेवनु

पडलेलें एक मैदान सरी आसा मुकावेलो भूभाग. खंतंय चोयल्यारीय दूरा दूरा तांय सपाट भूंय मात्र दृष्टि पडता. अंतरार हिमावृत हिमालय पर्वत दिगंतराक आडोळनु राबल्याय. तांचे खालटाक जावनु तांबडे दोंगर दिगायेन आसाय. तांचेर भागीक जावनु हिम पांगूरनु पडलां. तांचेय खालटाक जावनु पाचवीं तणामळां दृष्टि पडताय. हिमशिखरांचेर साकून उत्भव जांवच्यो झर्यो तणामळांवेल्यान व्होळनु मैदानांचेर पांवताय. मैदानांचेर साबार सान होड जलाशयां आसाय. पत्माक्ष आनी विविध तरा जलसस्यां उदकांतु भोरनु आसाय.

दरचनांतु वची विजे सरी सपाट घट प्रदेशावेल्यान वता. ताजे देगेवेल्यान धांवता आमचें ट्रक. जायते कडे उदकाचो व्हाळो कारण वाट मोडून पडल्या. केन्ना केन्ना उदकांतुल्यान देंवनु चडून ट्रक मुकारसता. सगळे बुडून पडलेले भागय आसाय हादीरी. असले आडखळ सगट कारण वाहन चरनु चरनु मुकारसतालें.

आट वरां जांवचानिक एक जलाशयाचे लागी वाहन राबयलें. खाण खांवचाक आनी विश्राम काडूक जावनु आमी ट्रकांतु साकून देंवलीं. विसरूक जायनाशिल्ले तराची प्रकृती शोभाय थंय आमी आस्वादन केल्ली. मळब निवळ आसलेल्लें तरीय सल्प दोवु आशिल्ले कारणान उजवाडु ऊणे. हिमशृंगाचे उंचार दिकचे मळबाक गाढ निळबाणी. तणामळांक आनी मैदानाकय ते कारणान निळबाळी मेळसल्लो रंग दिसता. ल्हवूच मारचे शेळ वार्यांतु सरोवरांतुलीं पत्मक्षो आनी जलसस्यां हालचें दृश्य अतीव हृद्य आसा. वार्याक परमळु आसा म्हूण दिसलें. मनाक आनी देहाक एक तरा अवाच्य अनुभूती अनुभवली. एक सपन नगरींतु पावलेल्याची प्रतीती आसा.

परतपरत घुंवचें रितुचक्र कारण कालावस्थेरी जांवचो बदलाव आनी ते कारणान मनुष्यमनांचेर जांवच्या चलनांचे विशीं महाकवि काळीदासान ऋतुसंहारांतु सुंदर वर्णना दिल्या-

‘प्रचण्डसूर्यः स्पृहणीयचन्द्रमाः
सदावगाहक्षमवारिसन्चयः
दिनान्तरम्योऽभ्युपशान्तमन्मथो
निदाघकालोऽयमुपागतः प्रिये!’

(भय दिसोंवचो सूर्या, भुलोवपी चंद्रु, स्नान करूक सर जालेलीं जलाशयां, सुखकर सांजवेळु, शमन मेळोलो कामविकार अशी सगट आसूचो ग्रीष्मकालु, हेचोय प्रिये पावला.)

‘द्रुमाः सपुष्पाः सलिलम् सपत्मम्
स्त्रीयः सकामाः पवनः सुगन्धिः
सुखाः प्रदोषा दिवसाश्च रम्याः
सर्वम् प्रिये! चारुतरम् वसन्ते’

(रुकांचेरी फुलां आसाय, उदकांतु पत्माक्ष आसाय. बायलांक कामासक्ती आसा. मंदमारुताक परमोळु आसा. रात्यो सुखकर आसाय. दीस मनोहर आसाय. प्रिये, वसंत काळांतु सर्वय सुखकर आसा).

काळीदास महाकवीन केन्नाकींच वास केल्लेली अळकापुरी हांगाच खंयकींच आशिल्ली आसुका. ताजे वर्णनेंतु आसाय चडय उत्तरखंडांतुले हेच मनोहर प्रदेश.

खाण खावनु जावनु यात्रा पुनरारंभीली. मुकार वताय तशीच यात्रा अतीव दुष्कर जाली. फोंडारे, झर्यो आदी दांटवून वतना वाहन

अगाध जलांशयांतु सरसरेवनु वची प्रतीती दिसता. चड मुकार वता तशीच भूप्रकृतींतु बदलाव येवूक लागलो. फातरांचे आनी दोंगुल्यांचेच प्रदेश चडय. वारें आनी शेळोवु तीव्र जावनु चडलो. हिमावृत पर्वतांचे चड लागी पांवलेलीं आमी. बळान मारचे वार्याक आनी शेळोवाक शक्ती आनीकय चड जाली. एक सानु दोंगूलो चडून पेल्यान देंवचानीक दरचन केंपाची वणती दूरा दृष्टि पडली.

णव वरां जातरी आमी केंपांतु पांवलीं. सैनिकांनी दाकोवनु दिल्लेले एक भागाक ड्रायवरान वाहन राबयलें. ट्रकांतु साकून देंवलेले आमकां गायडान कूडां दाकोवनु दिल्लीं. एक सान कूडांतु चौग जाणांनी शिरकून पोडका.

अली टूरिस्ट एजेन्सीचें हें दरचनांतुलें गस्ट हावस, परणे तराचें एक माळ्येचें आसा. न्हाणी शौचालय कसलेंच ना. उदाकय ना. रांदचे खातीर सानी एकि वासरी आसा. लागी आशिल्ले झर्यांतु साकून उदाक हाडका. टिबेटाचे पश्चिम तलवारी आशिल्ले नगारी जिल्लेंतु आसा कैलास आनी मानसरोवर. नगारीचें औद्योगिक नांव आसा अली (Ali). टिबेटांतुलो जनवासु ऊणे आशिल्लो जिल्ला होच. नेपाळ, भारत, कसाकिस्थान हीं शीमे राज्यां. 'टूरिसम ब्यूरो ओफ टिबेट ओटोनोमस रिज्यन चैना, टिबेट टूर' म्हळ्ळेले सरकार एजेन्सीचे खाल प्रवर्तन करचें 'टिबेट नगारी कैलास इन्टरनाष्णल टूरिसम' हें, ही कैलास यात्रा चमकयता. तकलाकोट, सेय्दी, छुग्गु, दरचन, देरापुक आदी स्थलांवेलीं गस्ट हावसां हांचे नियंत्रणारी आसाय. सामान्य आवश्याक आशिल्लीं कसलींच सौकर्यां हांगा नांय. तकलाकोट नंतणा आनी खंयीच खाणा बंदोवस्तय ना.

दरचनांतु अतीव शेळोवु अनुभवतालो. देनपारांचें खाण तयार

करचे वेळान हांव आनी हरिहर परिसर भोंवनु चोंवचाक देंवले. चीनी सैन्यांचें होडलें एक संघ दरचनांतु तयार आसा. गस्ट हावसाचे उत्तर भागाचीं कूडां सर्वय सेना आफीसां जावनु प्रवर्तन करताय. उपग्रह चानला वाटेन अत्याधुनिक वार्ताविनिमय संविधानां हांगा उपयोगार आसाय. आणव मिसैल आनी व्हडलीं शस्त्रां हांगाचे जायते भागांचेर निपोवनु तयार राबयल्यांय म्हूण विश्वसनीय वाटेन कळूक जालें. तीर्थाटकांची एकेक हालचालाय सैनिक अतीवसूक्ष्मेन पळयताय. केंपाचे वणत्यांचे भायर मैदानाचेर सैनिकांचे तंबू साबार बांदल्याय.

मैदानाचे देगेवेल्यान सेरलंग न्हंय कुदून व्होळता. न्हंयचे पेलतडी नेपाळ. न्हंयचे पाडीक प्लास्टीकांचे पाक्यांचे जायते तंबू दिकले. सीसणा वेळारी ब्यारु करूक येंवचे नेपाळींचीं हीं व्यापार स्थापनां म्हूण समजूक जालें. एकु लोकण्डा सांकोवु दांटवल्यार नेपाळांतु पांवयात. यात्राप्रमाणांचें कसल्यांचेंय आवश्य ना. सांकोवाचे परिसरारी चीनी खाणामळां जायतीं आसाय. मांस आनी मद्य जाय तितलें हांगा मेळतलें. कैलास यात्रेचें मूळ केंप दरचन आसा. तसले परिपावन हे प्रदेशाचेर चैनाकारांनी मांस मद्याची विक्री करचें बरे संस्काराक उचित न्हय म्हूण माका दिसलें.

सेरलंग न्हंयतुले उदकान मिजें मन ओढून घेतलें. लागी आशिल्ले हिमपर्वतांचेर साकून हिम करगून व्होळनु येंवचें तें उदाक स्फटिक तुल्य आसा. रुंदाय आनी खोलाय ऊणे तरीय व्हाळो शक्त आसा. न्हंयचे पाडीक आनीक उदका पोंदाक अतिसुंदर लान फातर दृष्टि पडताय. न्हंयतु देंवनु न्हांवचाक आमी निश्चयु केल्लो. सांवकापळी, आंगूटी आनी तेल घेवनु आयले. आंग सगळेंच तेल बिडबिडावनु मालीश केल्लें. मध्यह्ना वेळु जातालो देखून वोत सामकीच आसा. कठिन शेळोवु आशिल्लो. तेल लावनु परशिलेल्यान शिरशिरांतु रक्तप्रवाह चडलो, रक्त पेश्यो

सडळ जाल्यो आनी ते कारणान शेळोवु ऊणे म्हूण दिसलो. वोताची हुनसाणीय सुखदायक आशिल्ली. न्हंयचे उदकाक कठिन शेळोवु. सावकापळी सारोवनु आंगाचें तेल घासून पेल्यान घालें आनी न्हंयचे उदकांतु सगळो बुडून न्हालों. न्हावनु ऊंच येंवचानीक एक विचित्राची अनुभूति मेळ्ळी.

डॉ. मोह्ता आनी अन्य यात्रिक कूडांतु पांगूरनु पडून आशिल्ले. आमचे न्हाणाची खबरी आयकून डोक्टर विस्मित जालो. जेवण तयार जाल्यां म्हूण मि. कुन्शीरामान जाणयलें. तेन्ना सर्वय मेळनु ते सान वासर्यांतु गुडदून बेसून जेवलीं. चप्पाती, कुक्का उकरी, वांयगणा रांवदय आदी आशिल्ले खाणा विभव. खाणा उपरांतें आमी निद्देंवचाक तयार जालीं. कैलास प्रदक्षिणेक आवश्यक याकांक आनीं गांवकारांक सोदून मि. पुचोंग भायर गेल्लो.

हांवे जागूनिक वरां पंचड जावनु गेल्लेलीं. कालावस्था सामकीच बदललेली. देहांतु खोंबून चडचें अतिशैत्य कारण कडकडो आयलो. तीन रोमे वस्त्रां न्हेसून आशिल्लों तरीय शेळोव सहन करूक जायना. होडलो एक रोमे कांबळो काडून देह सगळेंच पांगूरलें. रांदप्यान एकेक खोल्लो हून होर्लिक्स हाडून दिंवचाकय आश्वास जालो. बिस्कुटां, सुकीं फळां, पानीयां आदी घेंवचे खातीर नेपाळी मारकेटांतु वचाक संघ संघ जावनु देवलीं. आमचे हातांतु काडलेलीं असलीं भक्ष्यपदार्थां सरूक जालेलीं.

नेपाळी मारकेटांतु सर्व तरा सामानय मेळतलें. कैलास दर्शनाक येंवचे भारतीय, इतर विदेशी आनी चीनी सैनिक हांगा साकून सामानां घेताय. ओक्टोबर आद्याक सीसण सरतना हे ब्यारेली सामानां बांदून याकांचे फाटीर चडोवनु हांगा साकून घेवनु वतले. पन्नेरा फीट तांय दाटसाणीरी हिम पांगूरनु पडचे हे प्रदेशांचेर शींयां कालाक जनवासु

आसचो ना. गस्ट हावस आनी परिसर हिमान पांगूरनु पडतलें.

स वरां जांवचानिक हिमवृष्टी आरांभली. जोर मारचें वारें आनी सानु पावसु पडूक लागूनिक आवश्याचीं सामानां वेगीन घेवनु आमी परतलीं.

डॉ. मोह्ताचे कूडांतु मि. पुचोंग आनी गांवकारांचो मुख्या म्हूण दिसूचो एकु जाण्टो उलोवनु बेसलेले. गांवप्रदेशाची टिबेटी भास सल्प व्यत्यस्त आसून समजून घेवूक डॉ. मोह्ताक कष्ट जाता. मुख्याचे लागी उलोवनु जावनु मि. पुचोंग मि. मोह्ताचे लागी साबार घडी उलोवनु बेसलो. ते उपरांतें संघाच्यांक आपले कूडांतु आपोवनु डॉ. मोह्तान लागीचे दिसा आरांभूचे कैलास प्रदक्षिणेचे विशदांश सांगून दिल्ले.

कैलास प्रदक्षिणेक (Circumambulation) उण्यान ऊणे तीन दीस पुणीय जाय. कैलासाचे दक्षिण भागाचें मूळ केंप आसा दरचन. थंय साकून मुकार जनवासु येद्दो सरी ना. दिसाक बरोबर वीस पंचेवीस किलोमीटरां लेकान तीन दिसानी 65 किलोमीटर दांटवून जांवका प्रदक्षिणा पुरतें करूक. देरापुक, सोंगसेरबु म्हळ्ळेले स्थलांचेर पयलेची आनी दुशेरची राती काडची पडता. दुशेरे दिसा आसा हे यात्रेंतुली सर्वा पशी चड अपायकर यात्रा. 21000 फीट ऊंच आशिल्लें डोळमा पास दांटवून वचो अतीव दुर्घट प्रयत्नु दुशेरे दिसा करचो आसा. प्राणवायु मेळनाशिल्लें स्वासु राबून वचोच होडलो अपाय. सान ओक्सिजन सिलेंडरां उपयोगाक व्हरताय तरीय साबार जाणां हे स्थलाचेर मरण पांवताय. अत्यधिक हिम पांगूरनु पडलेले प्रदेशांवेल्यान करची ही यात्रा, सगळे कैलास-मानसरोवर यात्रेंतुलो सर्वापशी चड कठिन भागु. 65 किलोमीटर म्हूण आसा औद्योगिक अंतर तरीय केन्ना केन्ना वाट चुकून पन्नेरा वीस किलोमीटर चड चमकूचेंय

पडता.

भारतीय तीर्थाटकांनी विविध रीतीर तं कैलास प्रदक्षिणा पुरतें करप. घट जांवची अतिशैत्य कालावस्थाच हाका कारण. घोर पावसु आनी जोगुलांक तांय उबोंवचे तरा वारें जायते संघांक आडायता. असले संदर्भांचेर अपाय साध्यता वळकून लेयसण अफसर ही प्रदक्षिणा नांवां पुरोश करयता. याकांचे फाटीरी सवारी करून पांच स किलोमीटर उजवे भागाक आनी परतून येवनु तितलेंच दावे भागाकय चमकोवनु प्रदक्षिणा पुरती केल्ली म्हूण संकल्प करताय. डोळमा पास चडूक जायनाशिल्लें परतून वचीं संघांय आसाय. पन्नेरा जाणांचे एक संघांतुलीं तेग चौग जाणां मात्र याकांचे फाटीरी बेसून प्रदक्षिणा पुरतें करूक वतना वरलेलीं दरचन केंपांतु विश्राम काडतलीं. संघांगांनी कसले रीतीर प्रदक्षिणा काडका म्हळळेल्याचो निश्चयु करता लेयसण अफसरच. ताकाच आसा ताजी पूर्ण जवाबदारी.

चमकून कैलास प्रदक्षिण करचेंच अत्युत्तम म्हूण बदरीनाथाचे सन्यास्यांचे लागी साकून हांवें समजून घेतलेलें. शिवपुराणांतूय असले परामर्श साबार आसाय. अतिपुरातन काळाक साकूनूच भारतांतुले साबार योगीश्वर रिषीमुनी चमकूनूच कैलास प्रदक्षिणा करताले. हे यात्रेक वेंचून काडूनिक तसली एकि इच्छा मिज्यांतूय किरलेली. डॉ. मोह्ताचे लागी बरी दोस्ती केल्लेलीय तोच उद्देशु मनांतु दवोरनु आशिल्लो. तकलाकोट साकून मि. पुचोंगाचे लागी चड लागणूक दवरलेल्याक कारणय वेगळें कसलेंच न्हय. मंग्तींतु साकून चमकून मात्र यात्रा करूक माका प्रेरणा जालेल्याकय तेंच कारण. मानसरोवराक प्रदक्षिणा काडून चमकतनाय मिजी प्रार्थना मुख्य जावनु कैलास प्रदक्षिणाय चमकूनूच पुरती करूक साध्य करका म्हूण आसलेली.

आट वरां जांवचानिक वार्याक आनी पावसाक शक्ती चडली. शेळोवूय तीव्र जालो. वासर्यांतु चप्पाती भाजूचे मि. कुन्शीरामाचे लागी बेसून आशिल्ले मि. पुचोंगाक हांवें आनी हरिहरान भायर आपयलो. कैलास यात्रा चमकून करचो मिजो निश्चयु जाणोंवचानिक "It is very very risk" म्हूण ताणे प्रतिकरण केल्लें. आमी परत परत मागणी करूकय डॉ. मोह्ताचे लागी शिफारीश करीन म्हूण ताणे मानलें. मि. रूपेंदर आनी मि. बलराम डे लागेन पदयात्रेक तयार म्हूण आयकूकय आमचो उत्साहु दोटी जालो. आमी सर्वांनीय वचून डॉ. मोह्ताचे लागी कायरीं सांगलीं. आमकां तें साध्य आसतलें म्हूण मि. पुचोंगान शिफारिशय केल्ली. इजिप्ती मम्म्यांचे विशींचो एक पुस्तक वाचून बेसलोलो डॉ. मोह्ता पुस्तक बंद करून दवोरनु उणे घडियांक चिंतित बेसलो. मागीर मांचार साकून उटावनु ताणे आमकां चौगांकय हस्तदान केल्लें.

एक सपनाचो साक्षात्कार जांवचाक वता म्हळ्ळेले चिंतेन हांव हर्षभरीत जालों. सकाणची कालावस्था अनुकूल आसूका म्हूण आसलली मिजी रातीची प्रार्थना.

वार्याक आनी पावसाक शक्ती चडून येताली. तीव्र शेळोवु कारण देह कडकडेतालें. णव वरां जांवचाकय आमी एकसाणीच बेसून खाण खेल्लें. देनपारांचींच विभवां. खाणाचीं अवशिष्टां खांवचाक वार्यावेले सूण्यांचो एक हींडु वासर्येचे मुकार राकून राबीला हांवें पळयलें. बूटिया वर्गांतुलीं आशिल्लीं तीं. वारें आनी शेळोवु क्रमातीत जावनु चडूनिक, वेगळें कसलेंच करूक नाशिल्यान आमी निदेंवचाक तयार जालीं.

## पंद्रावो दीसु

# देरापुक

सकाणी पांच वरांचेर जागून भायर पळोंवचानिक वारें आनी पावसु राबलोलो. सल्प दोवु आसा तरीय सूर्यदेवाले सुवर्ण किरणांनी थंय सगट भांगराळो वर्णु फाफडून घालोलो.

भायर साकून होडान उलोंवच्याचो गोंदोळु आयकून हांव कवड वात्तें करून चोयलों. मि. पुचोंग गांवकारांचे लागी उलयतालो. बायलो आनी दादले मेळून चाळीसां लागी जनां गस्टहावसाचे एक भागाक एकडे जावनु राबून आसाय. तांचे वेष विधान भो कष्ट. तांचे मागशीं जावनु याकांचो एकु हींडूय आशिल्लो. याकांचीं नांकां विंदून तांतूल्यान बांदलेले प्लास्टिकाचे दोरांचीं तलवां गांवकारांनी हातांतु धरलेलीं. गोंदोळ आयकून जागो जावनु आयलेले डॉ. मोह्तान गायडाक आपयलो. गोंदळाचें कारण निमगीलें. मि. पुचोंगाची जाप श्रद्धेय आशिल्ली.

कैलास प्रदक्षिणेक उपयोगु करचे दर याकाक दिसाक 90 युवान आनी कूलीक दिसाक 70 युवान आसा अलि टूरिस्ट एजेन्सीन निश्चय केल्लेलें भाड्या रकम. तीन दिसांचे खातीर याकाक 270 युवान आनी कूलीक 210 युवान दींवका जातलें. तरीय एक दिसान जावो दोन दिसानी जावो प्रदक्षिणा राबोवनु चडय यात्रिकय परततलीं. असल्यांनी

यात्रा केल्लेले दिसांचें मात्र भाडें दीवप. यात्रा केल्यारीय ना जाल्यारीय तीन दिसांचें भाडें तांकां मेळका म्हूण गांवकारां सांगताय. कूलीच आसूका यथार्थ मार्गदर्शक. याकांचे फाटीर यात्रा करचीं आनी उणेच भाग चमकून वचीं, कूलींचो आश्रयु घेताय. श्वासु राबून वचे व्हड चडतीयांचेर, तीव्र शेळोवांतु, पावसांतु सर्वय यात्रिकांचे राखणदार जांवचे हेच कूली म्हूण लेक. तरीय केन्ना केन्ना उपराटेंय जाता खंय. यात्रा करचे याकांचे फाटीर सामान चडोंवचाक तांचे धन्यांनी अनुमती दिंवची ना. सामान व्हावनु वचे कूलीन एक सोडप सोडल्यार मागीर लागीचे केंपांतु पांवतरी मात्र तो राबतलो. हिमप्रदेशार वासु करचे हे जातींच्यांक कालावस्थेचे आनी दुर्घट हादींचे पासून हुसको कसलोच आसचो ना. तीर्थाटकांचे जायते संघांतु साकून तांचे विरुद्ध अभिप्राय नेमान येवूक लागल्याय. देखून अधिकार्यांचे निर्देशानुसार मि. पुचोंग गांवकारांचे लागी उलोंवचाक गेल्लोलो. तांनी गोंदोळ घालोलोय तेच कारणान आशिल्लो. सौम्यता नाशिल्लीं कर्कश स्वभावाचीं तं तीं गांवकारां म्हूण मि. पुचोंगान अभिप्रायु सांगलोय.

गायडाचे निर्देशानुसार आमी चौग पदयात्री वेगीन तयार जाले. रोमे वस्त्रां, कांबळ्यो, पायार घाल्लेलें नंतणा एक जोडी ट्रकिंगाचीं षूसां, वस्त्रां, बिस्कुटां, सुकीं फळां, पानीय, वोकदां इतर आवश्यक सामानां सगट एक बेगांतु भरून कूलीचे लागी दिल्लें. हातांतूय आवश्याक कितेंय जांवका म्हळ्ळेले खातीर बिस्कुटां, पानीय, वकदां, एक फीट दिग ओक्सिजन सिलिंडर आदी खांदार घालचे बेगांतु भरनु काडलें. देनपारांचे खातीरची सेमीया उपुमावाची पटळीय बेगांतु काडली. मि. कुन्शीरामान वेगीन इंगळ्यार भाजून तयार केल्लेली चप्पाती खावनु आनी एकेक खोल्लो होरलिक्स पीवनु आमी तयार जालीं. सहयात्रिकांचे लागी यात्रानुमती घेवनु अनुग्रह करूक मागलें. णव वरांचे उपरांते याकांचेर सवार जावनु तींवय यात्रेक लागतलीं आनी हादीरी खंय तरीय भेटूक जातलें म्हूण

डॉ. मोह्तान सांगलें. मि. पुचोंग लागेन आमचे सांगातांतु येतलो म्हणूय ताणे सांगलें.

चौग जाण मध्यवयस्क गांवकारी आमचे कूली जावनु सामान खांदारी चडोवनु तयार जाले. आमगेलीं बाकी सामानां दरचन केंपांतु दवरूक बंदोवस्त केल्ली. मि. पुचोंग कूलींक निर्देश दितालो. आमकांय ताणे आवश्यक निर्देश दिल्ले. सरकार वनविभागांच्यांनी दवरचे तरा दिशा दाकोवपी घुड्यो सगळेच हादीरी हंय थंय दिकूक पडतल्यो आनी त्यो चोवनु यात्रा केल्यार लक्ष्य चुकचेंना म्हूण मि. पुचोंगान सांगून दिल्लें. कैलास प्रदक्षिणा लागेन चमकूनूच पुरतें केल्यार तें अप्रूप रेकोर्ड आसतलें आनी ताजो भोवमान पांचवे संघाचे अंगांकय मेळतना सर्वां पशी चड अभिमानु आपल्याकच भोगतलो म्हूण डॉ. मोह्तान आमकां उडगास दिल्लो. उत्तर भागाक चोवनु कैलासनाथाक वंदन करनु आमी यात्रा आरांभीली.

दरचन केंपाचे पश्चिम भागाक 28 किलोमीटर दूरा आसा देरापुक म्हळ्ळेलें लागीचें केंप. हादीचे आरंभाचे भागार सान दोंगूले, सान झाडां, तणामळां अशी मात्र आसाय. मागीर तणामळांचेर एकेक जावनु दूरदूरा पडलेले होडले फातर साबार दृष्टी पडले. स्तूपांचे आकृतीचे होडले फातरय केन्ना केन्ना दिकले. जायत्यांर संस्कृत लिपीं सारके कितेंच कोरांतून दवरल्यां. अति पुरातन आसून जायतीं अक्षरां स्पश्ट जायनाय.

आट वरां जांवचानिक अल्पसल्प जावनु पावसु शिरशिरेंवचाक लागलो. सांगातांतु शेळ वारेंय मारूक लागलें. पाचवीं तणामळां, सान दोंगूले, झर्यो आदी दांटवून आमी संथ मुकारसले. सुमार पांच किलोमीटर चमकून णव वरांचे लागी सरयुं घाटींतु पावले. भो सुंदर आसा सरयुं घाटी. टिबेटी जनता, श्रीबुद्धाले प्रबोधोदय उत्सव, एप्रिल मेय मासांतु हांगाच आघोषु करताय. उत्सवाच्यो घुड्यो, तोरणां आदी थंय दिकलीं.

हिमावृत हिमलयपर्वतांचे सामकी खालटाक आसा ही घाटी. सान दोंगूले, पाचव्यो परवतान्यो पातळायलेल्या वरी दिसूचीं विस्कळ तणा मैदानां, हिमगिरींचेर साकून व्होळनु येंवच्यो झर्यो आनी कमानाचे आकृतीर दिसचें दिगंतर हे प्रदेशाक अविस्मरणीय करता. मैदानाचेर पालकडी घालनु बेसून आमी खाण खेल्लें.

सरयुं घाटींतु साकून आमी मुकार सरले. दोन किलोमीटर चमकून जांवचाकय हाचु न्हंयचे पाडीक पांवले. सामान्य शक्तीन व्होळची हाचु न्हंय दांटवूक धडियो एकडे करून बांदून केल्लोलो सांकोवु आसा. न्हंयचे उदकाक अतीव शेळोवु. हें उदाक व्होळनु राक्षसताळांतु वचून मेळता.

सरयुं भूंय सरचे मुरथम कैलास पर्वताचो उंचावेलो भागु अल्पसल्प व्यक्त जावनु दृष्टी पडता. सरयुं भुंयचेर आशिल्ले एक सान दोंगुल्याचे ऊंच राबून चोयतना कैलासाक घेरून पडलेले अन्य पर्वतांचें सामान्य रूप समजता. अन्य होडले पर्वत कैलास पर्वताक एक पत्माक्षा फुलाचे पात्यांचे वृताकारारी घेरून राबचे सारके स्थित करताय. तांचे मद्दें कैलास मळबाक आडोळनु सरी उबो राबला. अन्य पर्वतांचे पशी ऊंच राबलेले कैलासाचो शिखर मात्र खंतंय राबून पळयल्यारीय दृष्टी पडता. कैलासाचें पूर्ण रूप, देरापुक केंपांतु पांवतनां मात्र दृष्टी पडतलें म्हूण मि. पुचोंगान सांगलेलें.

भागीक रूपान तरीय कैलास पर्वताचें गांभीर्य पळोवनु सल्प चड घडियांक हांव विस्मित राबून गेल्लों.

वरां धा जावनु वचानिक कालावस्थेंतु छट जावनु बदलाव आयलो. पावसु आनी वारें राबून गेल्लें. शेळोवु आसा तरीय सूर्यान थंय सगट भांगराळो उजवाडु भरला. मुकारची आमची यात्रा हाचु न्हंयचे पाडीवेल्यान करची आसा. मुकार वताय तशीच न्हंयची रुंदाय आनी

व्हाळो चडून आयलो. टिबेटी भासेन 'हाचु' न्हंयचो अर्थु देवाली न्हंय म्हूण आसा. न्हंयचे पेलेतडीरी आसा मळबाक आडोळनु राबलेले पर्वतांची सांकाळ. आयले भागाकय आसा हिमावृत पर्वत श्रेणी. तांचे मद्देंच्यान व्होळचे न्हंयेक लागून, सामान्य रुंदाय आशिल्यो चडतीयो आनी देंवतीयो आशिल्ली वाट तशी दिगायेन पडल्या. हादीचेरीय जायते भागार हिम पडून आसा.

एक वर जांवचानिक आमी अर्द वाट दांटवून जाली. भूक सामकी लागताली देखून न्हंयचे तडीरी बेसून आमी देनपारांचें खाण खेल्लें. खाणाचेर जाय तितलें तात्पर्य दाकयनाशिल्ले मि. हरिहराचे लागी हांवें कारण निमगीलें. सूर्य प्रकाश चडूनिक दोळ्यांक भो अस्वस्थता अनुभवता म्हूण ताणे सांगलें. उंचटाक आशिल्ले स्थलांचेर नीलातित किरणां (Ultra Violet Rays) दोळ्यांचेर लागल्यार हिमांधता म्हळ्ळेली पीडा येता. काळो चश्मो उपयोग केल्यार हांतु साकून वांचूयात.

खाण खांवचाक बेसलेले तेन्ना मळबार ऊंच उज्वल राबलेले सूर्यबिंबाक घेरून एक अत्भुत देखाव मेळ्ळो. काळो चश्मो दवरून आमी तें दृश्य चडच घडियांक चोवनु बेसलीं. कैलास पर्वताचे सामकी ऊंच आशिल्ले सूर्याक वलय करून सप्तवर्णांचें एक प्रभावलय मळबार रूप धरून राबल्यां!

प्रकाश वलयाक कैलासाचे तितलें व्यास आसलेलें. दोळो विसविसांवचो तो अत्भुत देखाव मेघान निपोंवचाकय अप्रत्यक्ष जालो.

खाण जातरी विश्राम काडूक राबनाशिल्लें तुरंत चमकण शुरू केल्ली. कूलींक दिकूक सरी ना. भारतीय कूलींक तुलना करतना हे टिबेटी कूलींचें सेवन तृप्तिकर नाशिल्लें. सांगातांतु चमकून यात्रिकांक सहाय करूक जावो लग्गेज वात्तें करून अत्यावश्य सामान भायर काडून

दिंवचाक जावो तांनी तयार नाशिल्लीं. आमी विश्राम काडूक आनी खाण खांवचाक बेसतना तीं चमकताच राबतालीं.

दरचन कॅंप सोडलेले उपरांतें मनुष्य वासु आशिल्लो एक स्थायु सरी दिकलोना. हिमावृत पर्वतश्रेणी, विजन घाट्यो आनी पातळेवनु पडलेले सपाट प्रदेश मात्र आसाय. हिमगिरींचेर साकून व्होळनु येंवचे प्रवाह, तांनी रूप दिल्लेलीं विस्कळ जलाशयां, हाचु न्हंयतु व्होळनु वच्यो सोपूर झर्यो आदी साबार दिकील्यो. मागीर एक अगाध घाटींतु आमी प्रवेश केल्लो. हांगा हाचु न्हंय समतलाक लागून व्होळता. दोनीय तांतू मळबाक आडळच्यो तसल्यो पर्वत माळो. तांचे मद्देंच्यान, पाताळांतु वचे समान वाट दिगायेन देंवनु वता. उजवे भागाक हिमपर्वत अनन्ततेंतु पातळेवनु पडल्याय. दावे भागाक काशाय वर्णाचे पर्वत आसाय.

खंचेकींच एक आदी युगांतु परिष्कृत एकु संस्कारु हांगा आसलोलो म्हूण पळयतनाच समजता. दोंगरांचेर आतांय दिकूक पडचीं वातायनां, खांबे, राजागंणां, मोडून पडलेले इमारतांचे भाग आदी विस्मयान मात्र पळोंवचाक जातले. किलोमीटरांचे दिगायेन, व्यत्यस्त रूपान आनी भावान हीं अवशिष्टां पातळेवनु पडल्यांय.

मागीर भांगराळे प्रकाशाचे वेगळे एक घाटींतु आमी चडलीं. अगाध भूप्रदेशाकडे ही हादी आमकां घेवनु गेल्ली. हो भूभाग सूर्याक निपून पडलेल्या सारको आसा. तरीय खंचेय एक अज्ञात कोण्श्यार साकून सूर्यकिरणां हांगाय पांवता आसाय. निगूढ विस्मित करचो हो भूप्रदेश पळोवनु 'मेकन्नास गोळ्ड' नांवाचे एक पोरणे होळीवुड चलचित्रांतु भांगार सोदून वचे युवकांनी संचार केल्लेले निगूढ प्रदेश उडगासांतु येताय. पुराणांतु आदी सांगूचे पाताळांतु वची हादी वे ही म्हूण दिसता.

अगाध ही वाट मागीर ऊंच उबी चडून वता. देंवलेले तितलेंच

सरळ न्हय ऊंच चडूक. पाया मूळांतु रेंव घट न्हय आसून एकेक पावल सावधपणान दवरून हांव आनी रुपेंदर ऊंच पावले. मि. हरिहर आनी मि. बलराम डे भो मागशीं आसलेले. आमचे कूली खंचे दिशेर आसाय म्हूण सरी कळूक वाट ना. जांवचे तितले वेगीन लागीचे केंपांतु पावल्यार मात्र तं उत्तर भागाक आशिल्ले पर्वतार चडून कैलास पर्वताचें दर्शन घेंवचाक जातलें म्हूण मि. पुचोंगान सांगलेलें. सांज दांटवल्यार कालावस्था बदलूक साध्यता आसा. कालावस्था अनुकूल न्हय जाल्यार कैलास दर्शन मेळचें ना म्हूण ताणे खास जावनु उडगास केल्लोलो. मित्रांची अनुमती घेवनु आमी दोगांय वेगीन चमकीले. मुकार वता तशीच शेळोवाक शक्ती चडून आयली. हिमपर्वतांचे सामकी लागीच्यान आसा आमची चमकण. जायते स्थलांचेर हादीरीय हिम पातळेवनु पडल्यां.

वाट मागीरीय न्हंयचे तडीरी पावली. न्हंयची खोलाय आनी रुंदाय भो चड जाल्या म्हूण दिकलें. व्हाळ्याकय शक्ती आशिल्ली. न्हंयचे पाडीवेले सान दोंगूले चडून दांटवून हादी मुकार वता. दोंगुल्यार चडून चोयतना उजवे भागाक तलव दिकूक जायनाशिल्ले हिमावृत पर्वत प्रदेश. सूर्य किरणां घेवनु झगझगेवनु ते तशी अनन्ततेंतु पातळेवनु पडल्याय. हे भागार राबल्यार कैलासाचो थोडो सरी देखाव मेळना. हिम करगून येंवचे होडले प्रवाह जायते स्थलांचेर हादी दांटवून न्हंयतु वचून पडताय. सान धडियो बांदून केल्लेले सांकोवावेल्यान जांवका पेल्ले भागाक पांवचाक. पाय निसरल्यार अगाध गर्तांतु पडतलीं. एक मनीशु सरी नाशिल्ले हे स्थलांचेर असलो एक अपायु जालो जाल्यार सर्वय तेन्नाच समाप्त जातलें. ॐकार मंत्रु आनी शिवपार्वती स्तुती सर्व समयारीय जपून आमी मुकारसले.

'वागर्थाविव संपृक्तौ
वागर्थप्रतिपत्तये

जगतः पितरौ वन्दे
पार्वतीपरमेश्वरौ'

(उत्तर आनी अर्थ म्हळ्ळेल्या वरी वेगळांवचाक जायनाशिल्ले रीतीर एक आशिल्लीं, प्रपंचांतुले चराचरांचे आवसु बापूस पार्वती परमेश्वराक मिगेलें वंदन)

शेळोवु क्रमातीत जावनु चडून येतालो. सूर्या पश्चिम दिशेरी वता आसा. वरां ओवूट जांवचानिक दूरा एक धवो तीळो सरी सत्र दिकलें. उत्साह चडून हांव आनी रूपेंदर तें लक्ष्य करून वेगीन चमकीले. भागीक जावनु हिम पांगूरनु पडलेले पर्वतांचे मद्देंच्यान कैलास पर्वताचो दुरच्यान आशिल्लो पार्श्व देखाव मेळ्ळो. कैलासार साकून देंवनु येंवचे होडले एक प्रवाहाक, रुका धडियेचे सांकोवावेल्यान दांटवून आमी डेरापुक केंपांतु तोडोवु जायनाशिल्लें पावले. मळबाक आडोळनु राबलेल्या कैलास पर्वताक अत्भुत स्तब्द, विस्मयान हात जोडून राबून केंपाचे आंगणांतु साकून पळयलें. कितलें पळयल्यारीय पुरो जायनाशिल्लें तें दृश्य, विस्तारान पळोंवचें मागीरीक दवरून आमी केंपांतु चडले.

रेंवेंचे वणतीयांचे, रुंदाय चड आनी दाटसाण ऊणे आशिल्यो फातरां पाळ्यो छत जावनु उपयोगार आशिल्लें, एक माळ्येचें इमारत आसा सत्र. मुकावेले सगळेच भागाक रुंदाय ऊणे आशिल्ली जगलि आसा. तीर्थाटकांक राबूक चार कूडां आसाय. कूडांतु भुंयचेर खरखर रुका फळीं घाल्यांय. कठिन शेळोवांतु साकून वांचूक जावयात अशी केल्यां म्हूण दिसता. दाट निबर हांतूण, रोमे कांबळे,.स्लीपिंग बेगां आदी कूडांतु तयार आसाय. उजवाडाक दीवे, उदाकाचें वा शौचालयाचें सौकर्य कसलेंच ना. तलवाक आशिल्ले दोन कूडांतु सत्राचे चलोवपी बुद्धसन्यासी राबताय. लागीच आशिल्लें एक कूड वासरी जावनु उपयोगांतु आसा. केंपाचे मागशीं भागाक चार तात्कालिक तंबू आसाय. तांतूं कूलींक राबूक

बंदोवस्त आसा. आमगेलें लग्गेज सोदून तांबूंतु चडूनिक आमगेले कूली तांतूं पडून घोरेवनु निद्देताय दिकलें.

तीव्र शेळोवु अनुभवतालो. कूडांतु सल्प घडी आराम करूया म्हूण आठोवनु पडलेले आमकां सोद्दून सत्राचो राखपी पावलो. टिबेटी भासेन ताणे कितेंय सागट सांगलें. मागीर आमी भारतीय म्हूण वळकून एक बुद्धसन्यासीक आपोवनु घेवनु आयलो. ताणे करून दिल्लोलो होडलो उपकारु तोच आसलोलो. सन्यासीक हिन्दींतु अल्प सल्प परिज्ञान आसून आशय विनिमय करूक जालें. आमी उणे घडी उलोवनु बेसलीं.

सत्राचे आंगणांतु राबून आमी कैलास पर्वत पळयलो. सामकी मुकारचो एक पर्वत कैलासाक अर्द निपोवनु राबला आनी ते कारणान उंचावेलो भागु मात्र दृश्य आसा. दोन सासा भायर फीट उंचाय आशिल्ले ते आड राबलेले पर्वताचेर चडून चोयल्यार कैलासाचें पूर्ण रूप दृश्य आसतलें म्हूण बुद्धसन्यासीन जाणयलें. जाल्यार तें भो अपायकर आसा आनी चडचे मुरथम सामकीच चिंतन करून जांवका म्हणूय सन्यासीन आमकां समजायलें. कैलास बुद्धधर्मीयांचें परमोन्नत आराधना स्थल आसा. केन्ना केन्ना बुद्धसन्यासी हांगा येवनु केंप करताय तरीय पर्वताचे ऊंच चडून कैलासाक पळोंवचें तांकां निषिद्ध आसा. हें आयकून माका अत्भुत जालें. जैन आनी टिबेटकारां ऊंच चडून वंदन करताय म्हणूय सन्यासीन सांगलें. विविध मतांच्यांनी आराधना करचे स्थलांतु प्रथम स्थान कैलासाक आसा. हिन्दू, जैन, बुद्ध धर्मी आनी टिबेटी जनता कैलासाक आराधना करताय. क्रिस्तांव, मुसलमान, जूदेव आदींचें आराधना स्थल जेरुसलेमाक आसा दुशेरें स्थान. कैलास केवल एक हैन्दव प्रतिभास मात्र न्हय. अनेक जनसमूहांचो खास जावनु एष्येचो तिलक आसा कैलास.

पर्वत चडून कैलासाचें पूर्ण दर्शन घेंवचाक हांवें आनी रूपेंदरान

निश्चयु केल्लो. उंचार घट जांवचो तसलो कठिन शेळोवु आसतलो म्हूण सन्यासान सावध केल्लेलें देखून आमी दाट रोमे वस्त्रां न्हेसीलीं. रोमे ग्ळावसांचे ऊंच चामाचीं ग्ळावसां लागेन चडयलीं. रोमेचीं तिनतीन सोक्सां पायार चडोवनु ट्रेकिंग षूसां घालनु घट बांदलीं. गोमटेरी होडलें एक मफ्ळर वेष्टावनु ताजे ऊंच मंकी केप घालें. पावला खिणांतु तांय पांवचें दीग पावसा कोट लागेन चडोवनु जांवचानिक कितलेच तीव्र शेळोवाकय प्रतिरोध करूक तयार जाल्याय म्हूण मनांतु धीरु आयलो. बिस्कुटां, पानीयां, अत्यावश्य वकदां आदी कोटाचे भितरचे किसांतु घालीं. तशी ते दुष्कर यात्रेक तयार जावनु, जगलेर फांतीन राबलेले बुद्धसन्यासांचे लागी विदा सांगून आमी चमकूक लागले.

सत्राचे आंगणांतूच साकून चडती आरांभता. काळे रेंवेंचो प्रदेश. विविध वर्णाच्यो आनी होडकायेच्यो शिला ते प्रदेशार पूरा पडून आसाय. फुटून रूपांतर जालेल्या सारके पडल्याय त्यो. चडय फातरांचेर अत्भुत दिसोंवचीं चिन्नां आसाय. संस्कृतान बरयलेंलें ॐ, त्रिशूलाचें रूप, शिवलिंगाचें रूप, नन्दीचें मुख, सूर्यचंद्र रूप आदी नंतणा वृक्षांचीं, पर्वतांचीं तांय रूपां फातरांचेर स्पश्ट दिकूक येताय! कैलासावेले फातर सगट शिवलिंग म्हूण विश्वासु. किसांतु घालयात जालेले तरा सान फातर हांवें पुंजायले. कैलासावेले फातर घरवंताक दवरल्यार मुकावेले पिळग्यांक बरेपण जातलें म्हूण विश्वास.

पैंशें फीट चडून जांवचानिक चड उबे न्हय जालेले चडते भाग सरले. मुकावेले उबे भाग अतीव दुर्घट आसाय. भुंयचेर तण आशिल्लें देखून हे भागार पाय सरसरेंवचाक साध्यता ऊणे. जांवचे इतलेच तणाचेर माडोवनु सावधपणान एकेक पावल दवोरनु चडले. ऊंच चोयतना मळबाक आडोळनु आसलेल्या कैलासाचो उंचावेलो भाग अभौम तेजान झगझगून राबला दृष्टी पडता. तरीय मुकार आड राबलोलो होडलो पर्वत चडून

ऊंच पांवचाक साध्य न्हय म्हळ्ळेली एकि चिंता मिगेले मनांतु भरूक लागली. मित्राली उसरमेटी आनी मुखभाव पळोंवचानिक ताजेय मनांतु हीच चिंता आसा म्हूण हांवें अनुमान केल्लो.

केवल चार फीटाचे लागी ऊंचाय आशिल्ले एक फातराचेर तेंकून बेसून आमी विश्राम काडलो. फळां रोसु पीवनु, बिस्कुटां खावनु उणे घडियांक थंय बेसलीं. तीव्र शेळोवाक सांगात दिंवचाक शक्त वारेंय मारतालें. खंय साकून म्हूण कळना, जलप्रवाहाचो होडु गर्जु कानांतु पावलो. खालटाक आशिल्ल्या सत्राच्या खांब्याक तेंकून दोग बुद्धसन्यासी आमकांच पळोवनु राबलेले.

थकाय ऊणे जांवचानिक आमी परत चडती चडूक तयार जाले. एकेक पावलय रेंवेंतु बळान माडोवनु बडियेर बळ घालून ऊंच चडची रीती आमी उपयोगु केल्ली. सुमार अर्द घंटो जांवचानिक आमी अर्द वाट दांटवून जाली. मित्रु थकून अवश जालो. मुकारची यात्रा ताजान जांवची ना आनी जाता जाल्यार चडती चडून लक्ष्य प्राप्त करूक ताणे मिजे लागी मागणी केल्ली.

मि. रुपेंदराक सुरक्षित जावनु बेसूक आनी विश्राम काडूक सर जालोलो एक सपाट फातर दाकोवनु दीवनु हांव एक निमिशाक ऊंच चोयलों. भीमाकार पर्वताचे उबे शिखराचे मागशीं मळबाक आडोळनु राबला कैलास. चकचकेंवचे, तेलट काळबाणीचे एक शिवलिंगाची आकृती आसा उंचावेले भागाक. धवो हिम जायते भागाक थापून पडला. वोतांतु झगझगेंवचे हिमा भागाक आनी तकतकेंवचे काळे फातरा प्रतलाक हांवें विस्मित जावनु आदरान पळयलें. पूर्ण रूपाचे कैलासाक पळोंवका जाल्यार उंचार पांवचे आवश्य स्पश्ट जालें. ॐकार मंत्रु आनी शिवपार्वती स्तुती जपून राबलों. साबार कष्ट काडून तं हांगा तांय पांवलां. चमकून हांगा तांय यात्रा केल्लेले वेळार खंचेय निमिशारीय अपाय मुकारीच आसलेले.

आपल्याचे पासून सदा अहंभावान भोंवचे मनुष्याक जीविताचें यथार्थ परीक्षण अभिमुख करचें पडता असलेच वेळार मू म्हूण माका दिसलें. देवाली चिंता एक मात्र मनुष्याक लक्ष्यार पांवयता.

मंत्र, स्तुती जपून जांवचानिक मन शांत जालें. एकाग्रता मेळ्ळी. भो संथ सावधपणान पावल दवोरनु हादीचो सुमार चारींतुलो तीन वांटो चडून जालो. वार्याक आनी शेळोवाक तीव्रता चडत राबली. लागी खंयीच अतिशक्त जलप्रवाहाचो उत्भव आसा. काना खीळी वचे लेकान आसा ताजो गर्जु. शेळोवु कारण हांव कडकडेतालों. तरीय एकेक पावल अतीव श्रद्धेन दवोरनु हांव चडलों. श्वासु वोडूक अल्प सल्प कष्ट जावूक लागलेले. भुंयचेर जाय तशी पावल खोंबूकय कष्ट दिसूक लागले. भूंयचेर पावलांचे कडेन मात्र दृष्टी खोवनु अत्यंत दुष्कर एक उबी चडती हांव चडलों. सपाट एक प्रदेशारी पांवलों. थकाय जालेले कारणान थोडे निमिशांक तशीच खाल दृष्टी दवोरनु राबलों. ते पर्वताचे ऊंच तं हांव पांवलां म्हळ्ळेलें बोधोदय जालेलें मागीरीय उणेच घडी जावनु मात्र.

हांव संथ मातें उबारनु चोयलों... कैलास पर्वत ताजे पूर्ण रूपार मुकार आसा!

सुमार दोनीशें फीट अंतरार मळबाचे निळबाणीक चुंबन करचे सारके झगझगेवनु तकतकेवनु राबलेले कैलासाक हांवें भक्तीन आदरान वंदन केल्लें.

कैलासाक आड राबलेले पर्वताचे तुद्धियेर तं हांव राबलां म्हूण माका समजावणी आयली. केवल शें फीट परिमितीचो आसा तो उंचावेले भागु. ताजे पेल्यान अगाध घाटी. कैलासाचें मूळ तें घाटींतु आसा. सामान्य सर्व पर्वतांकय पोंदाचो भागु भो पातळेवनु, ऊंच वतनां क्रमांन त्रिकोणाचे आकृतीर सोपूर जावनु येतलें. तरीय कैलास एक शिवलिंगाचे

आकृतीर भुंयचे पोंदाक साकून ऊंच आयलेल्या सारके आसा. जांवचे इतलेंच तलवाक सरनु पळोंवका म्हळ्ळेली चिंता मिज्यांतु मूळ धरलेली. तरीय तें सरळ नाशिल्लें.

अतिशक्त वारें आनी मैनस डिग्री शेळोवु. देह सगळेंच घट जाता म्हूण दिसलें. तोंड वात्तें करूक जायना. श्वासु वोडूक कष्ट जाताय. जलप्रवाहाचो गर्जु कानांतु गुंजता. तरीय मिजे कानारी पांवचे घनगंभीर ॐ शब्दाचीं तरंगां माका विस्मित करताच! निश्चित अंतरावेळारी कानाचेरी गुंजूचे ते शब्दाचेरी मन एकाग्र करूक हांवें श्रमु केल्लो.

हांव राबलेले प्रतलारी विशेष आकृतीचे फातरा कुटके शिंवडून पडलेले. जायत्यो विशिष्ट निशान्यो प्रकृतीदत्त रीतीर फातरांचेरी स्पश्ट दृश्य आशिल्यो. भक्तीन, अत्भुतान मात्र हें पळोंवचाक जातलें. फातर नंतणा थंय वेगळें कसलेंच ना. मुकार सरूक जावनु हांवें श्रमु केल्लो. तरीय जोर मारचें वारें कारण उद्देश केल्लेले लेकान मुकार सरूक जायना. चमकतना सहायाक बडी उपयोगु करून सावधपणान एकेक पावल मुकार दवरलें. जोर वारें माका उबारनु अगाध घाटींतु उडकायतलें म्हूण एक भय दिसूक लागलें. उंचावेले ते समतलाचे तलवाक आशिल्लो दोन फीट उंचायेचो एक काळो फातोर आसा मिजें लक्ष्य.

शेळोवु आनी वारें क्रमातीत जावनु चडलें. कैलासाचे उंचावेले भागाक साकून उदका थेंबे, जलधारा यंत्रांतु साकून पडचे समान थंय सगट शिंवरताले. जलाभिषेकान तिमून फुगून हांव चरनु चरनु मुकार सरलों. ॐकार मंत्रु आनी शिवपार्वती स्तुती सर्व समयारीय जपून आशिल्लों. श्वासु वोडूक कष्ट जाताले तरीय दृढनिश्चयान हांव मुकारसलों. फातराचे धा फीट अंतरार पांवचानिक हांव नेणतनाच राबून गेल्लों. टिबेटी आनी नेपाळी घुड्यो थंय एक फातरार पातळावनु घाल्याय. लुगटाचीं विविध वर्णांचीं तोरणांय थंय दिकलीं. चडय परणीं जावनु

बोंतर जाल्यांय.

हांवें मागीरीय मुकार सरूक श्रमु केल्लो. तरीय येद्दें सरी वचाक जायना. खंचीकींच एक अदृश्य शक्ती आडायता सरी अनुभवता. श्वासोच्छ्वासु सामकीच दुष्कर जालो. घुड्यांनी आनी तोरणांनी रचिल्ली ती सीमा अपाय सूचना दिता जावयात म्हूण दिसलें. आनी चड मुकार वचूका नाका म्हूण दवरलें. सुमार 75 फीट अंतरार कैलास पर्वत राबला. इतलेच लागी पावूक जालें म्हळ्ळेलेंच होड भाग्य म्हूण दिसलें.

कैलासाक हांवें वंदन केल्लें. सूक्ष्मेन निरीक्षण करून ग्रहण करूक हांव थंय जायते घडियांक राबलों. मातें जांवचे तितलेंच उद्दारी करून ऊंच पळयल्यार मात्र कैलासाचो उंचावेलो भागु व्यक्त जातालो. मेघांक आडोळनु आसा कैलासाचें शिखर. मेघां चक्रबादळांचे सरके रूप बदलताच आसाय. उत्सवाघोषा वेळार होड दारुवे दंद फुटल्ले उपरांतें रूप घेंवचे धुवरा माणके आसाय तीं मेघां. मेघांचे पोंदाक आशिल्लो मनमोहक प्रकाश कैलासाक अतीव शोभाय दिता. कैलासाक प्रथमले पावटीचें दर्शन जावनु हिमावृत दिकलो. हिम नाशिल्ले भाग मध्य भागाक आसाय. हे भागांचेर णव अर्दचंद्रकला हिमान रूप धरून पडल्याय दिकल्यो. महादेवा देवळांतु शिवलिंगाचे मुकार लोहनिर्मित अर्दचंद्रकला दिकप आसाय. तसल्योच णव चंद्रकला हांगाय हिमाचेर थापलेले सारके झगझगेताय. मध्य भागाक सरी जावनु होडलो एक कातोरो सरी दृष्टी पडता. पर्वताक वेष्टण घेवनु सरी दिसता तो कातोरो. रावणान दोरानी बांदून कैलासाक ओडून लंकेंतु व्हरूक केल्लेले श्रमाचे पासून पुराणांतूले परामर्श मिजे मनांतु आयले. ते कातोर्यारी दोराची निशानी सरी व्यक्त दृष्टी पडता. ताजे पोंदाक कमानाकृतीरी होडले द्वाराची निशाणी शिलेचेरी दृश्य आसा. मनुष्यांचे हातानी साध्य जावनाशिल्ले जायते विचित्र नक्षिकाम हे भागांचेर दिकूक येता. कैलासाचे मूळ भागाकय घनगंभीर रूप आसा.

भुंयचे पोंदाक सरी तें तशी देंवनु वता. दृष्टी पांवचे तितले खालटाक पळोंवचानिक श्रीकृष्णविलासं महाकाव्यांतुले आद्य श्ळोकाचो दुशेरो भागु उडगासु आयलो.

'तिष्ठनिदम् विश्वमनुप्रविश्य
स्वेनात्मना विष्णुरिवोर्जितेना'

पर्वताचे उत्तर मूळ भागाक साकून आसा सिंधू न्हंयचो उत्भव. धुवरांतुल्यान सरी मात्र दृष्टी पडचे ते होड प्रवाहाची शक्ती अपार आसा. सिंधू न्हंयचे उत्भव स्थानाक भारतीय होड प्राधान्य दिताय. सिंधू न्हंयचे भाटीर वासु करचे जनांक हिन्दू म्हूण आपयतालीं. क्रमान हे विभागांच्यांनी वासु करचें राज्य म्हळ्ळेले लेकान हिन्दुस्थान म्हूण वळकी मेळ्ळी. कैलासाचे इतर तीन भागारी साकून तीन महा न्हंयो लागेन उत्भव जाताय. पूर्वारी साकून ब्रह्मपुत्रा, दक्षिणारी साकून कर्णाली आनी पश्चिमारी साकून सत्लज न्हंयो उत्भव जाताय. तीन भागय मनुष्यांच्यान पळोंवचाक जांवचे न्हय. वचून पांवचाक साध्य न्हय. कैलास पर्वताचें पूर्ण रूप हे उत्तर दिकावेल्यान मात्र पळोंवचाक जाता. ते कारणान जावयात वडकुन्नाथन* म्हळ्ळेलें नांव मेळ्यां.

चडच घडियांक पळोवनु राबलेले कारणान म्हूण दिसता दोळ्यांक भो दुकी अनुभवली. दोळे बंद करून हांवें मान बावगोवनु थोडे घडियांक प्रार्थना केल्ली. शेळोवु आनी शेळ वारें चडून येतालें. स्वासु वोडूक भो कष्ट भोगताले. पांच मिनिटां जावनु परत ऊंच चोयतना हांव अक्षरार्थ स्तब्ध जालों!

भागीक जावनु हिम पांगूरलेले रुप्या वर्णाचे एक पर्वताक हांवें पयलेचे फंता दर्शन घेतलेलें. आतां दुशेरे पावटी पळोंवचानिक भांगराळो वर्णु घेवनु उज्वल राबलेलें रूप! शेळोवान घट राबलेले ते अवस्थेंतूय

---

*वडकुन्नाथन(मलयाळम)- उत्तर भागा नाथ

माका रोमांच आयलें. अतीव कौतुकान हांवें परत परत पळयलें. सुवर्ण प्रभा कारण दोळे विसविसेवनु वताय. कैलास भांगरांतु बुडून भायर आयलेल्या सारके सामकीच वर्णनातीत आसा. निमिश भितरी परत एक अत्भुत संभवलें. कैलास पर्वत दाट दोवांतु निपून गेल्लो. थंय एकु पर्वत आशिल्याचें लक्षण येद्दें सरी ना. दोवान पांगूरलेलें किं मेघानी देंवनु येवनु निपयलेलें?

कैलासाचे भोंवतणे प्रदेश हांवें पळयले. सर्व कडेय भो उजवाडु आसा. दृष्टी पांवनाशिल्ले अंतरांचेर तांय हिमावृत पर्वत मात्र. सान होड हिम शृंग आनी दाट दोवान पांगूरनु पडलेले प्रदेश अनन्ततेंतु पातळेवनु पडल्याय. सांज वेळाचें मोव वोत आसूनूय दोळ्यांतु पीतां येंवची श्वेत शोभाय सर्व कडेय व्यापून आसा. खालाक एकु तीळो सरी सत्र दृष्टी पडता.

कैलासाचे दक्षिण भागाक आसा अगाध हिमावृत घाटी. थोडीं वर्षां मुरथम एक टिबेटी यात्रा संघांतुलो एक बालक हे भागाच्यान खालाक पडून गेल्लो. प्रतिकूल कालावस्था कारण तेद्दूस रक्षाप्रवर्तन करूक जालेंना. हेरदूसा चीनी सैनिकांचे सहायान एक संघ रक्षाप्रवर्तक ते भागाक देंवनु गेल्ले. हिमाचेर दिकचे पावलांचे छाप पळोवनु थंय सगट सोदून भोंवलीं. आखेर होडले एक गुफेचे तोंडार साकून ते बालकालें मृतदेह मेळ्ळें. गोमटेरी लांबोवनु घाल्लेलें कॅमरा नाश जायनाशिल्लें लागी साकून मेळ्ळें. तांतूलें फिलीम रोळ डेवलप करूकय हनुमंतालें मुखामळ आशिल्ले भीमाकार मनुष्याचें चित्र मेळ्ळें. गुफे तोंडार बेसून आशिल्ले रीतीर दिकलेले ते अमानुषिक रूपाक दीग शेंपडी आनी सगळें देह हळदूवे आंगवस्त्रान पांगूरलेले रीतीर आशिल्लें. असलें एक खबर हांव गांवांतु साकून भायर सरचे मुरथमच आनी दिल्ली पांवनु जातरीय आयकलेलें. वेबसायटांतु ह्या पासून वाचलें आनी चित्र पळयलेंय. हाजे

पासून सगट चिंता मनांतु येवनु हांव ते अगाध घाटींतु चोवनु राबलों.

धा मिनिटांचे लागी दांटवूनिक हांवें मागीरीय कैलासाचेरी दृष्टी व्हेल्ली. दोवु चडय दूरा सरलोलो. पर्वताचें रूप परत बदलेलें. शिवलिंग समान काळे शिलेचो कैलास राबला. ऊंच साकून खाल तांय काळबाणी मात्र. भय दिसोंवचें तें रूप. एक दिव्य दर्शनच! उंचावेलो दोवु पुरतोच दूरा वचानिक वेगळें एक महा अत्भुत संभव जालें... देवळां केडे शिवलिंगारी अभिषेक करचे समान ऊंच साकून जोर जलवृष्टी...! उंचारी साकून कोणेय कोळस्यानी रकयलेल्या वरी पर्वताचेर पूरा समृध्द जलवृष्टी दिकून नेणतनाच हात जोडून गेल्लों.

पर्वताचें नग्न शिला रूप हांवें सूक्ष्मेन पळयलें. तासून, सेंड पेपर घालनु झरोवनु लान करून, पोळीष मारनु तकतकायलेल्या वरी दिसता. कैलासाचे प्राकृतिक रूपीकरणाचे पासून चाळस अलन आपले 'A Mountain in Tibet' नांवाचे पुस्तकांतु अशी सांगता - 'विश्वासाचो आनी वास्तविकतेचो उचित संमेळ - जगांतुले सर्वां पशी होडले अवसाद शिले* राश, मळबाक आडोळनु राबलेले कैलासाची भूशास्त्रीय मौलिकता अतिशय दिसोंवची. विश्व शिल्पीले निपुण हातांनी तासून तकतकायलेले पर्वताची ज्यामितीय पूर्णता आमकां अत्भुत स्तब्द करतली. सुमार 23000 फीट ऊंचायेर आनेक होडले पर्वतांनी घेरून गंभीर भावान मातें उबारनु राबलेले कैलासाचो देखाव विवरणातीत आसा. आतां कैलास महामेरूच जाता. पुराण सृष्टी वे महामेरू? कीं महा मेरूच कैलास?'

भारतीयांलें विश्वविज्ञान केंद्र आसा हिमालय. प्रपंच सृष्टीचे आद्य घटारी महाविष्णून रचिल्ले भांगरा पत्माक्षाच्यो पात्तीयो आसाय हिमालय शिखर. तांतूले कैलास शृंगारी सनातन ध्यानारी बेसून महादेवु, हे सगळेच प्रपंचाक आत्मीय शक्ती प्रदान करताच आसा. दुर्घट एक आत्मीय भूंय आसा कैलास. आर्षभारताचो वैभव वैजयंती कैलास. आनी

*अवसाद शिला - Sedimentary Rock

तेच कारणान कैलास मनुष्य मनांचेर दैविक प्रभा घालून झगझगून राबला.

विश्वमहाकवि काळीदासाले मेघदूतांतु कैलासाचे पासून इन्द्रीयानुभूतींक आह्वान करचे तरा एक विवरण आसा - महादेवालो अट्टहासु गोठेवनु राबलोलो आसा कैलास.

‘शृंगोच्छ्रायैः कुमुदविशदैर्यो वितत्य स्थितःखम्
राशीभूतः प्रतिदिनमिव त्र्यंबकस्याटहासः’

(कमळाचे सारके धवे शिखरांनी मळबारी व्यापून राबलोलो कैलास, दीसां दीस होड जावनु येंवची, महादेवाले अट्टहासाची राश सरी आसा)

वरां सात जालीं तरीय भो उजवाड्ड आशिल्लो. उणेच वेळु लागेन थंय राबूका म्हूण इच्छा आसलेली. शेळोवु चडून येतालो. श्वासु वोडूक अतीव कष्ट जाताले. देखून हांव परतून देंवूक लागलों. कैलासाक ताजे पूर्णतेन लागीच राबून पळोवनु आत्मीय साक्षात्कार मेळूक माका साध्य केल्लेले दैवीक शक्तींक- पार्वती परमेश्वरांक वंदन करून हांव परतूक लागलों. समतल भागार साकून देंवचे मुरथम फातर नाशिल्ले एक जाग्यार श्वासाचो क्रम सामकी करूक राबलों. कैलासाक वंदन करून हांवें णव फंतां साष्टांग नमस्कारु घाल्लो. मनाक परिपूर्ण संतृप्ती जाली. मित्रु देंवती देंवनु गेल्लोलो. आट वरांचे लागी हांव केंपांतु परतून पांवलों. आंगणांतु राकून राबलेले बुद्ध सन्यास्यान माका वेंगेंतु मारनु स्वीकार केल्लो. तांनी दिल्लेली दूद घालनाशिल्ली चाया भो हृद्य जाली. मित्रान दिल्लेलीं बिस्कुटां लागेन खांवचानिक थकाय वेगीन ऊणे जाली. मि. हरिहर आनी मि. बलराम डे पांवलेनाय म्हूण कळूकय सल्प उत्कंठा दिसली. कैलासाचो रूप बदलाव खालाक साकून सन्यास्यानीय दिकलोलो.

रुप्या वर्णाचे रूपार तं साधारण दर्शन मेळप. अप्रूप जावनु असले रूपभेद दृष्टी पडप आसा म्हूण तांनी सांगलें. हे रूपभावांक दैवीक परिवेष आसा म्हणूच तं टिबेटी जनतेलो दृढ विश्वासु. माका चड संतोषु जालोलो वेळु आशिल्लो तो. असले एक अपूर्व मुहूर्तारी ते सन्निधीरी पांवचाक जालेल्याक देवानुग्रहूच कारण म्हूण माका विश्वासु आसा.

कैलासाचे उंचार चडलेले कोणेय आसाय वे? मनुष्याक तें साध्य वे? हांवें हे मिजे संशय बुद्ध सन्यासींचे लागी निमगीले. मि. हातर नांवाचे बुद्धसन्यासीन दिल्लेलें विशदीकरण श्रद्धेय आशिल्लें. एक पत्माक्षा फुल्लाचे पात्यांचे वरी घेरून राबलेले होडले पर्वतांचे मद्दें आसा कैलास. उत्तर भागाच्यान कैलासाक आड राबचो पर्वत आसा जांबीयांग. सर्वा पशी चड पवित्र आराधना स्थल आसून कैलासाचेरी माडोवनु अशुद्ध करूक नज म्हूण विश्वासु. तरीय एक फंता तसलो एक श्रमु चमकीलो म्हूण टिबेटी विश्वासु. मंत्रसिद्धी आनी अत्यपूर्व योगविद्या कळचो मिलेरप्पा नांवाचो बुद्धसन्यासी जांबियांग पर्वतारी साकून कैलासाचेर उबलो! तेन्ना तो अप्रत्यक्ष जालोच. कैलासाचेर मनुष्यालें पादस्पर्श जालेंना म्हूण वास्तव. आनी मनुष्याच्यान तें साध्य न्हय म्हूण जांवका समजूक. एवरेस्ट चडचे मनुष्यांक हें असाध्य वे म्हूण संशय दिसतलोच. जाल्यार कैलासाचे लागी पांवचाक सरी साध्य न्हय म्हूण कळतना ताका एक दैवीक परिवेष आसा म्हूण समजूका मात्र. टिबेटी भासेन कैलासाचें नांव कांगरिंपोचे.

णव वरां जांवचानिक मि. हरिहर आनी मि. बलराम डे परतून पावले. थकून विवश आसलेले दोगांय. लागीच आमचो रांदपी मि. कुन्शीराम आनी ताजो सहायी पावलो. गांवकारी तेग चौग जाणां लागेन सांगातांतु आसलेले. याकांचेर सवार करून ते आयलेले. आमकां अनुगमन करूक मि. मोह्तान तांकां निर्देश दिल्लोलो खंय. कशी जाल्यारीय चड जाणां पांवचानिक संतोषु जालो. मि. हातराचे औदार्यान स्टोव

आनी आयदनां मेळ्ळीं. रांदप्यान वेगीन सेमिया उपमाव तयार केल्ली. भो भूक लागताली देखून धा वरांचे मुरथम खाण खेल्लें.

अति तीव्र शेळोवु अनुभवतालो. बळान मारचें शेळ वारें ते प्रदेशाक सगळेंच शब्दमुखरित करतालें. काळूक तरीय हिमशृंगाची धवसाणी खास दृष्टी पडताली. जोर मारचे वार्यांतु हिमधूळी उबून भोंवता ते काळकांतूय व्यक्त दृष्टी पडताली. राती दोन वरां उपरांतें चांदीणे येतलें म्हूण कळ्ळें. तेन्ना कैलास आनी परिसर पळोंवचें जीवितांतुलो अविस्मरणीय अनुभव आसतलो म्हूण बुद्ध सन्यासान सांगून समजलें. भो थकाय आसा देखून दोन वरां तांय निद्देंवचाक निश्चयु केल्लो. मित्र सगटय गाढ निद्देंतु पडलेले देखून तांकां जागोंवका नाका म्हूण दवरलें.



दोंगर कोरांतून केल्लेली हादी

## सोळावो दीसु

# सोंगसेरबू

गाढ निदेंतु साकून जागून हांवें वरां पळोंवचानिक दोन जावनु धा मिनिटां जालेलीं. कवडाचे खांचींतुल्यान चांदीणे पझारून भितरी येंवचें जागूनिकच दिकलेलें. आड आशिल्लें कवड ल्हवूच वात्तें करून जगलेर देंवलों. चांदीण्यांतु न्हावनु राबलेले कैलास पर्वताक अतीव विस्मयान हांवें पळयलें. त्रिकोणाकृतीचे कैलासाची ज्यामतीय पूर्णतया विस्मयावह आसा! आर्षभारत संस्काराचे निडळार देवान घाल्लेलें हस्ताक्षर आसा कैलास. प्रकृतीचें नैसर्गीक तेज आसा कैलास. कैलास शृंगाचेर आनी दृष्टी पांवनाशिल्ले अंतरार तांय पातळेवनु पडलेले इतर हिमपर्वतांचेरीय चांदीण्यान घालचो प्रकाश कितलो पळयल्यारीय पूरो जांवचो न्हय.

कठिन शेळोवु अनुभवतालो. वारें ऊणे मात्रेन मात्र घुंवता. आंगणांतु देंवनु हांव मळबार चोयलों. मळबार भोरनु नक्षत्रां. नक्षत्रांक आनी चंद्राक असामान्य होडकाय आसा. कैलास शृंगाचे ऊंच चोंवचानिक माका आपले दोळ्यांचेर विश्वासु दवरूक जायना. कैलासाचे ऊंच मळबारी, वृत्ताकारारी विविध रूपांची नक्षत्रां उजवाडु घालनु राबल्यांय. नक्षत्रांचे आकृतींक प्रकट व्यत्यासु आसा. उत्सवांकडेचे विजे सर्क्यूटार धांवचे सारके निपचींय तांतु आसाय. सगळें तारा मंडळ कैलासनाथाक प्रणाम करूक एकडे जाल्यां म्हूण माका दिसलें. स्वर्ग लोक अप्सरांनी मिणमिणेंवचे

दोळ्यांनी कैलास म्हळ्ळेले प्रकृतीचे हारश्यांतु पळोंवचें वें?

जगलेचे फातरा खांव्यांक तेंकून बेसून मळबावेले विस्मय हांवें परत परत पळयले. नक्षत्र समूहान कितलेंय झगझगेल्यारीय तेजवंत चंद्रू तांकां निस्तेज करता. काळीदासाले रघुवंशांतु, इंदुमती स्वयंवराचे पासून आशिल्ली वर्णना मिजे उडगासांतु आयली. रघु महारायालो पूतु अजा, जायते रायांचे सांगातांतु इंदुमती स्वयंवर मंटपांतु भागु घेता. कमनीय रीतीर अलंकृत स्वयंवर मंटपांतु राय दोन फांतीन बेसून आसाय. मगध रायु, अंगरायु, अवंतीरायु, अरूप रायु, शूरसेना रायु, कलिंग रायु, पाण्ड्या रायु तशी रायांची फांती दीगी आसा. रात्रिसंचार करचे दीपशिखेचे समान इंदुमती राजकुमारी सखी सुनन्दाचे सांगातांतु रायांचे मद्देंच्यान चलता. दर एक रायाचे लागी पांवतना ते रायाचे पासून राजकुमारीचे लागी सखी वर्णना करता. राजकुमारी ल्हवल्हवूच मुकार सरता.

‘ताम् सैव वेत्रग्रहणे नियुक्ता
राजान्तरम् राजसुताम निनाय’

मगध रायाचे पासून सखीली वर्णना श्रद्धेय आसा “पळय, राजकुमारी, जगांतु सासांनी राय वेगळेय आसाय, तरीय हो एकलो कारणच भूमीक बरो रायु आशिल्ली म्हूण वळकताय. नक्षत्रां, ताराग्रहां आसाय तरीय राती उज्वाडित जाता चंद्रु एक मात्र कारण मू.

‘कामम् नृपाः सन्तु सहस्रशोऽन्ये
राजन्वतीमाहुरनेन भूमिम्
नक्षत्रताराग्रहसंकुलापी
ज्योतिष्मती चन्द्रमसैव रात्रिः’

हें मळब काळीदास महाकवीक भो परिचित आसलेलें आसुका. रघुवंशाचे वरी महत एक काव्यरचनेंतु बुड्डून बेसलेले तेन्ना कवीक असलीं

अतिमनोहर अर्थालंकार मनांतु येंवका जाल्यार ते निश्चय जावनु पळोवनु आस्वादन केल्लेले आसूका. मेघदूताचे पूर्वभागांतु विरह दुख भोगूचो यक्षु, वर्षारितूचे आरंभारी उत्तर दिशेरी चलचे नवे मेघांचे लागी आपले प्रियतमाक एकु संदेश पांवोंवचाक मागता. मेघांक यक्षान सांगून दिंवची हादी कैलास, अळकापुरी आदी आशिल्ले उत्तरखंड- हिमालय भागावेल्यानच वता.

वार्याचो मंद स्वर विना पूर्ण निशब्दता. खंतंय पळयल्यारीय हिमावृत प्रदेश मात्र. हिम ल्हायो थंय सगट उबून भोंवताय. चंद्र किरणां घेवनु त्यो वज्र समान झगझगेंवचें दृश्य हृद्य आसा. चांदीण्यांतु झगझगेंवचे हिमभुंयचेर रोमे चितळां हींडु जावनु भोंवताय वे म्हूण हांवें पळयलेंय. चंद्रकिरणांचे समान धवे, झगझगेंवचे शेंपड्यां चंवरांनी वारें घालनु, हिमशृंगांक अभिवाद्य करचे हे मृगांचे पासून काळीदासान कुमार संभवांतु अतीव मनोहर ज़ावनु वर्णना केल्या.

'लांगूलविक्षपविसर्प्पिशोभै-
रितस्ततश्चन्द्रमरीचिगौरैः
यस्यार्थयुक्तम् गिरिराजशब्दम्
कुरवन्ति वालव्यजनैश्चमर्यः'

प्रकृती सौंदर्यांतु बुडून जायते समयाक थंय बेसून गेल्लेले माका खंचेय सप्नराज्यांतु पांवलेल्याची प्रतीती जाली. कठिन शेळोवु कारण हातपाय मुयेंवचाक लागले आनी हांवें निदेंवचाक निश्चयु केल्लो.

मि. हरिहरान माका आपोवनु जागोंवचानिक वरां साढे स जालेलीं. कुन्शीरामान दिल्लेली दूद नाशिल्ली चाया पितापिता हांव भायर चोवनु बेसलों. अंतरीक्षाक सामकी बदलाव जालोलो. दाटु दोवु कारण कसलेंच व्यक्त जायना. जगलेर देंवनु पळोंवचानिक कैलासाचें लक्षण येद्दें सरी ना. मळबार मोड दवरल्यां. कठिन शेळोवु अनुभवतालो.

आमी चौगानीय बेसून तेद्दूसचे यात्रे खातीरची चर्चा केल्ली. कैलास-मानसरोवर यात्रेंतुलो सर्वा पशी चड दुर्घट दीसु, डोळमा पास चडून दांटवूचो आसा. प्राणवायु मेळनाशिल्लें डोळमा पासारी मरण पांवच्यां पासून आशिल्यो काण्यो दिल्लींतु साकूनूच आमी आयकलेल्यो. जांबियांग पर्वत चडून कैलासाक लागीच राबून वंदन केल्लोलो म्हळ्ळेले लेकान माका तितलेच उंचायेर आशिल्लें डोळमा पास चडूक प्रयास जांवचो ना म्हळ्ळेली एकि चिंता मनांतु आयली. जाल्यारी जीवु घेवनु आशिल्लो खेळु हो म्हळ्ळेले कार्यांतु संशयु ना. याकांक उपयोगांतु घेवयात म्हळ्ळोलो एकु निर्देशु चर्चे मद्दें उदेलो. तरीय हांवें विरोध सांगलो. जाता जाल्यार चमकूनूच कैलास प्रदक्षिणाय पुरतें करका म्हूण मिगेलो आग्रोह हांवें जाणयलो. आनी मि. हरिहरान माका सहमतय दिल्ली. कोणे कोणा खातीर राकचें नाका म्हणूय निश्चयु करून तयार जावूक गेल्ले.

सकाणचे आनी देनपारांचे खाणा खातीर, कुन्शीरामान इंगळ्यार भाजून काडलेली चप्पाती पटळी करून दिल्ली. सांगातांतु खांवचाक नोणचें मात्र. वेगळें कसलेंच ते वेळार करूक अवसलेंना. मि. बलराम डेन आनी मि. रूपेंदरान याकांचे फाटीर सवार करूक निश्चयु केल्लो. मि. कुन्शीराम आनी गांवकारी सांगातांतु आसाय. कूलीय तांचेच ओट्टू सरले. सतड वरां जांवचानिक आमी यात्रा आरांभीली. कैलासाचें एक पावट लागेन दर्शन घेवूक दाट्टु दोवु कारण साध्य जालेंना. पर्वता दिशेरी पळोवनु हांवें जपलें.

‘लोकानुग्रहहेत्त्वर्थम्-<br>स्थिरो भव सुखाय नः ’

डेरापुकांतु साकून सोंगसेरबु केंपांतु पांवचाक 26 किलोमीटरां यात्रा करका. कालावस्था येद्दी अनुकूल नाशिल्ली. पयलेचें एक किलोमीटर

सपाट प्रदेश आसा. गुंडे फातर आनी सान झाडां साबार आसाय. हिमशृंगांचेर साकून व्होळनु येंवच्यो झर्यो लाचु न्हंयतु वचून मेळताय. जायते भागाक शक्त व्हाळ्यांक दांटवून वचे खातीर घाल्लेले फातरांवेल्यान माडोवनु जांवका वचाक. असले वेळार पाय सरसरेवनु उदकांतु पडून व्होळनु वचाक साध्यताय आसा.

अनन्ततेंतु म्हळ्ळेल्या वरी वाट दिगायेन वता. तेन्ना पर्यान नाशिल्ले वार्याक क्रमान जीवु दवरलो. वार्याचे सांगातांतु हिम ल्हायोय थंय सगट उबून भोंवताय. शेळोवु दुस्सह जांवचानिक वस्त्रां एक लागेन रक्षात्मक केल्लीं. मळबारी मोड दवरलेलें. कालवर्षाचें मोड आनी वारें हिमालयारी तांय पांवल्यां म्हूण दिसलें.

देड घंट्या लागी चमकून जांवचानिक सपाट स्थलां सरलीं म्हूण सांगूयात. तेन्नाच्यान भूप्रकृतींतु भो बदलाव आयलो. फुटून शिंवडून पडलेले गुलाबी रंगाचे फातरां राश एक भागाक. सास सास टण फातर अशी राश जावनु पडलेले आसाय. ऊंच साकून घसरण बि आरांभल्यार तो प्रदेश पूरा पोंदाक चिरडून वतलो. देंवणे ऊणे आशिल्ली एकि होडली चडती चडून ऊंच पांवचानिक सपाट प्रतलारी पांवलीं. शिवताळ श्मशान हांगा दिकचें हेंच आसा. टिबेटी लोक हाका मरणाचें स्थल म्हूण आपयताय. जनांनी उपेक्षित केल्लेलीं वस्त्रां, आयदनां, नित्योपयोग सामानां आदी हांगा शिंवडून पडलेलीं आसाय. आपापल्याक भो प्रियकर एकेक वस्तु हांगा सोडल्यार ते व्यक्तीक पुनर्जन्मु मेळतलो म्हूण विश्वासु. मरणाचो अधिपती यमरायाच्या ह्या स्थलाक एक तराची भीकरता आसा म्हळ्ळेल्याक संशयु ना. एक किलोमीटर दिगायेन मोडून पडलेल्या फातरां राशींचे पोंदाक खंयकीच आसूका यमाली राजधानी. मळबाक आडोळनु पर्वतश्रेणी, तांचे मद्देंच्यान अगाध गर्तां, फुटून देंवनु येवनु पडलेले फातरांची राश, सर्वय दिकतना असले एक संशयाक बळ दवरता.

अतिपुरातन यागशाळेचे अवशिष्टांचें एक श्मशान आसा आनी एक भागाक. विस्मयान मात्र हें सगट पळोंवचाक जाता. वीट उपयोगु करून निर्माण केल्लेले होमकुंडांक भो विस्तार आसा. आकृतीय व्यत्यस्त आसा. असामान्य होडकाय आशिल्लीं शिलास्तूपां, नक्षिकामांलंकृत शिला आदी साबार ते प्रदेशाचेरी व्यापून पडल्याय. हिमपर्वतांचेरी साकून व्होळनु येंवचे झर्यांक तटशिला जावनु पडलेले कारणान जायत चडय भाग रेंवेंतु पूरनु पडल्याय. खंचेंकींच एक युगांतु परिष्कृत एक जनसमूह हांगा वासु करतालो म्हूण समजूक सरळ जाता. ह्या महत संस्काराचीं अवशिष्टां शोचनीय अवस्थेरी पडल्यांय पळयल्यार विषाद भरता.

श्मशान दांटवल्यार परत देंवती आरंभु जाता. भो थकाय अनुभवूकय आमी खाण खेल्लें आनी थकाय ऊणे करूक एक होडले फातराचे मूळांतु बेसलीं. याकांचेर सवार करचीं आनी संघ अतिदूरा तीळो सरी दृष्टी पडताय. हीं मृगां तांकां बोय जालेले रीतीर मात्र चलतलीं. तण खावनु झर्यांतुलें उदाक पीवनु, केन्ना केन्ना उन्मत्त नांचून धावनु, केन्ना केन्ना राबलेले कडे साकून हालूनाशिल्लें सगट आसा हांची संचार रीति. यात्रिक खालाक पडचें सर्वसाधारण. फातोरु सरी निबरी जालेली चप्पाती खावनु, फळांचो रोसु पीवनु आमी थंय पडून विश्राम काडलो.

मागीरची यात्रा अतिदुष्कर आशिल्ली. मळबारी चडून वचे लेकान हादी उबी चडता. फुटून पडलेले फातरांचे मद्देंच्यान सावधपणान जांवका वचाक. हालचे खंचेय फातरांचेर माडोवनु बि्गडगडेवनु पडल्यार क्षत जातलेंच. अंगीकृत हाद्यो नासून युक्ती पूर्वक एकेक पावल दवरनु चडूक मात्र साध्य. ऊंच पळयतना, गोंदळांवचे लेकान आसाय चडतीयो.

मि. हरिहर भो अस्वस्थ जावूक लागलो. तेन्ना आमी दुशेर आराम करूक बेसले. ग्लूकोसा उदाक पीवनु, बिस्कुटां खावनु उणेच घडी

हांव ताजे सांगातांतु बेसलों. चडती चडतना भो उसरमेटी येता आनी थकाय जाता देकून, याकां फाटीर येंवचे संघान पांवतना तांचे सांगातांतु याकाचे फाटीर सवारी करून येता म्हूण मि. हरिहरान सांगलें. ताका थंय एकलोच सोडून वचाक हांव विमुख आसलों तरीय मि. हरिहरान स्नेहान निर्बंध केलेल्यान हांव उठावनु चमकूक लागलों.

चमकून चडतना हांवें चड चिंता केल्लेली मित्राचे पासूनूच. मंग्तींतु साकून चमकूक लागलेले तेन्ना साकून आमी दोगांय एकसाणीच आसलेले. केन्ना केन्ना ताका अस्वस्थता जाताली तरीय मुरथमले दिसाच ती चड रूक्ष जालेली. गुंजींतुले डोक्टरांनी शुरवेक मि. हरिहराक अयोग्य केल्लोलोय हेच कारणान जावयात. दिल्लींतुले इन्डो-टिबेटन बोर्डर पोलीस बेस केंपांतुले आनी मागीर गुंजींतुले विशद वैद्य परिशोधनेंतु एकेक यात्रिकाले सुरक्षेकच प्रामुख्य दितालीं म्हळेलें सत्य हांवें उपकारपूर्वक उडगास केल्लो.

वार्याक शक्ती चडून येताली. अतिरूक्ष शेळोवु कारण कडकडेतालों. हिमशिखरांचे समांतरार हिम नाशिल्लो एक पर्वत आसा. तो चडून जांवका डोळमा पासारी पांवचाक. चमकून चडचे हादीरी हिम पातळेवूक लागल्यां मात्र. एक वारु जातरी हो भागु सगळोच दाट हिमान पांगूरनु आसतलो म्हूण निश्चित आसा. तेन्नाच्यान डोळमा पास दांटवप असाध्य जातलें. एक भागाक अगाध गर्त. ताजे देगेवेल्यान चरनु चरनु हांव चडून वतां. ॐकार मंत्रु आनी शिवस्तुती मनांतु जपून दुर्घट स्थलां एकेक जावनु हांव चडून दांटवत राबलों.

दरचन केंप सोडलेले उपरांतें मनुष्यवासु आशिल्लीं स्थलांच नाय. हे भागाक उंचाय चड आशिल्यो पर्वतसंकाळो आनी तांचे मद्देंमद्दें जावनु खोलाय चड आशिल्यो घाट्यो मात्र. चडय प्रदेश हिमावृत आसाय. हिमालय एक अत्भुत प्रतिभासूच. आर्षभारत संस्कारु वाडून पुष्टी घेवनु

आयलोलो हेच सपन भुंयचेर. लोकारंभ कालाक साकूनूच नित्यात्भुत आशिल्ले कैलासाक प्रदक्षिणा काडता आसतना मनीषु कितलो तुच्छ म्हूण माका समजलें.

डोळमा पर्वत मार्ग लागी पावला. चड जाल्यार देडेशें मीटर लागेन चडल्यारी ऊंच पांवयात म्हूण दिसता. तरीय सामकी ऊंच उबी राबलोलो तो भागु चडून वचप अत्यधिक दुष्कर म्हणूय समजलें. वायूक दाटसाण ऊणे म्हूण दिसता. प्राणवायूचो ऊणावु अनुभवूक लागलोय. पावलांचे मूणांतु मात्र पळोवनु एकेक पावल दवोरनु, श्वासोच्छ्वासाचें क्रमीकरण करनु हांव संथ संथ मुकार सरलों. माडयतना गडगडेवनु दूरा वचे तरा सान फातर भरून पडलेली, पन्नासा लागी फीट दीगी चडती भो दुष्कर आशिल्ली. सरसरेवनु पडल्यार सास सास फीट खालटाक पांवतलीं. श्वासाचें क्रमीकरण करनु श्वासकोशांक जायतितलो विश्राम दीवूक हांव राबलों. याकांचें सुकल्लें शेण थंय सगट शिंवडून पडल्यां पळोवनु माका अतिशय जालो. यात्रिकांक फाटीर व्हांवनु हीं मृगां अतिदुष्कर चडतीयो कशी दांटवताय म्हूण गेल्ली मिजी चिंता. चडतीयो चडचे वेळार ते मृगाचे फाटीर यात्रा करचो यात्रिक बावगून घट धरनु एक जीवन्मरणा झूज चमकोवनूच बेसता म्हूण मि. पुचोंगान सांगलेलें.

दर एक पावल सावधपणान दवोरनु, बडीयेरी तेंकून बळ दीवनु, संथ संथ हांव चडलों. कुल्लेरी घालचें शेळ वारें थंय सगट घुंवता. अति रूक्ष शेळोवांतु आंग सगळेंच घट जाल्यां म्हूण दिसलें. आखेरची पन्नास फीटा लागी आशिल्ली चडती भो कठिन आशिल्ली. सल्प घडियांक विश्राम काडूक म्हूण राबलेले तेन्ना नेणतना खालाचे अगाध घाटींतु दृष्टी गेल्ली. हिमान पांगूरनु पडलेले फातरांचेर उमती पडून आशिल्लें तें एक मनुष्याचें मडेंच म्हूण समजलें! तें मडें परतून हाडचें कार्य असाध्यच, कारण तितले अपायकर एक फातराचेर पडून आसा तें.

शिवपार्वती स्तुती जपून, पावलांकडे मात्र पळोवनु संथ चडलों. सपाट एक फातरारी पाय माडोंवचानिक मातें उबारनु चोयलों. हांव डोळमा पासाचेर पावनु जालां! खांदावेलें वेग खालाक देंवयलें आनी ते पवित्र भुंयचेर साष्टांग पडलों. अतिदुष्कर ती आडखळय दांटवूक देवानुग्रहान साध्य जालें म्हळ्ळेले चिंतेन माका अत्यानन्दित केल्लो.

संथ उठावनु रावून भोंवतणे प्रदेशु निरीक्षण करूनिक हांव विस्मित जालों. मुकार मळवाक आडोळनु हिमशिखरां. तांचे खालटाकच सरी डोळमा पर्वतमार्ग पडला. विशाल एक मैदान सरी आसा पासाचो उंचावेलो भागु. मद्देंचे भागार होडले फातरांचे हींड आसाय. फातरांक घेरून साबार घुड्यो आनी तोरणां, बोरडेवनु रंगहीन जावनु पडल्यांय. तारादेवीक आनी पार्वतीदेवीक पूजा चमकोंवचें हांगा म्हूण समजलें. मोक्षाचो दोंगर (Hill of Salvation) म्हूण डोळमा पासाक आपयताय. हांगा पूजा केल्यार कैलासनाथाक प्रीति जाता म्हूण विश्वासु.

देनपारां बारा वेळु आसूनूय वोत नाशिल्लें. मळबारी उजवाडु ऊणे. डोळमा मार्गाचे मुकार आशिल्ले पर्वत, कैलासाक आड राबलेले. हंय थंय सगट साकून अल्प सल्प भाग मात्र पळोवयात.

अतिरूक्ष शेळोवु अनुभवतालो. हिमवारेंय जोर मारतालें. प्राणवायूचो ऊणावु कारण श्वासु वोडूक कष्ट जाता. एक मनुष्यजीवि सरी थंय खंय ना. एक फातराचे ऊंच चडून राबून खंयच्याय जाग्यार मित्रांची बि दृष्टी मेळता वे म्हूण पळयलें. कसलेंच दिकलेंना. उंचाय आशिल्ले ते फातराचेर प्राणवायु ऊणे आसून श्वासु सरी राबतलो म्हळ्ळेली स्थिती येंवचानिक हांव होगीच खालाक देंवलों. सुक्कीं फळां खावनु आनी पानीय पीवनु भुक शमन केल्ली. मागीर पूजेची तयारी केल्ली.

दिल्ली साकून उपहारु जावनु मेळ्ळेलें पूजे पेटेंतु तूप, मलटी,

वाती, गांदावाती, करपूर, गांद, कुंकूम, हाताक बांदूचो दोरु, लाड्डू, उज्यापेट, फुल्लां सुक्की पात्तियो, आदी आशिल्लें. फडिचाना पेटेचे इतले सान ते पेटेंतु इतलेंच सामान कशी दवरलेलें म्हूण पळोवनु माका कौतुक जालें.

फातरांचे एक हींडाचे मद्दें पूजा करचें स्थल आसा. गोळाकृतीरी आशिल्ले होडले एक फातराचेरी मद्देंच प्रकृत्या रूप धरलेलें पार्वती विग्रह. दोळे, नांक, तोंड फातराचेर स्वयंभू जाल्यां म्हूण दिसतलें. वात्येक तूप लावनु मलट्येंतु दवोरनु जळोंवचाक भो वेळु काडलो. प्राणवायू ऊणे आशिल्यानच अशी जालेलें. ॐकार मंत्रु आनी शिवपार्वती स्तुती नमन करून पूजा केल्ली. निवेदु समर्पीलो, साष्टांग नमस्कारु घालो आनी मागीर संतृप्तीन डोळमा पासाचे लागी विदा सांगली.

वरां बारा साडद जालेलीं. मित्रांक दिकूक येना. डोळमा मार्गाचे पूर्व भागावेल्यान हांव देंवती देंवलों. पास चडतना जालेल्या वरीच देंवतनाय कष्ट जाता. जोर मरता वारें. यमराजधानीचे परिसरावेले फातरां राशीचे वरी हांगाय सर्वत्र आसाय. आदीं एक परिष्कृत संस्कारु हांगा आशिल्लो म्हूण स्पश्ट कळता. फातरांची आकृती, आयु, तकतकेंवचीं प्रतलां, रंग व्यत्यासु श्रद्धेय आसा.

सासा चड फीट उबी देंवती देंवनु एकि सपाट भूंय पांवली. उत्तर भागाक खालटाक पांच सुंदर जलाशयां दृष्टी पडताय. पार्वती देवीन स्नान केल्लेले हे सरोवरांक गौरीकुंड म्हूण वळकताय. पंचनक्षत्र होटलांतुले पोंवपा तळ्यां सारके आसा हांची निर्माण रीति. पांच सरोवरांतुले उदकाकय रंग व्यत्यासु स्पश्ट आसा. पोंद तांय खोलायेन स्पश्ट दिकूक येता. कैलास पर्वताचेर साकून अंतर धारा जावनु देंवनु एक होडले वेजांतुल्यान भायर जोरान येंवचें उदाक दोन सास फीटे उंचायेर साकून सरोवरांतु पडता. पयलेचे सरोवरांतु पडचें उदाक इतर सरोवरांतु व्होळनु पांवचाक



गौरीकुंड

---

बंदोवस्त केल्लेली आसा. तरीय कितलेंच उदाक येवनु पडल्यारीय भरती जांवची ना. गौरी कुंडांतुलें उदाक भूगर्भ हादीन गंगा न्हंयतु पांवता म्हूण विश्वासु. खंचेकींच एक पुरातन युगांतु जावयात हीं सरोवरां रूपांतु आयलेलीं. तरीय तांची रूप कल्पना आनी निर्माण प्राविण्य सर्वांकय विस्मित करचे तराचें आसा.

गौरीकुडांतु साकून परिशुद्ध जल भरूक कूलींक निर्देशु दिलोलो. ते खातीर दर एक यात्रिकाचे खातीर पांच युवान म्हळेले लेकान सर्वांचेय गुणी मि. पुचोंगान बंदोवस्त केल्लेली. 18500 फीट उंचायेरी स्थित गौरीकुंड जगांतुले चड उंचटाक स्थित शुद्धजलसरोवरांतुलें एक आसा. गौरीकुंडांचे लागी सल्प चड वेळु खर्चीलो. मळबार मोड आशिल्लें. कुल्लेरी घालचे वार्याक शक्ती चडली.

फातरांचे राशींचे उंचावेल्यान हांव सावधपणान देंवती देंवलों. फातरांची दृढता परिशोधना करनूच एकेक पावल दवरून देंवतालों. एक

फातोरु बि हालून पाय सरसरेवनु खालाक पडल्यार खंतय पांवतलों म्हूण सांगूक जांवचें ना. जायते कडे फातरांचे उपरीतलारी याकांचें शेण थापून पडलेलें आसा. हे अत्भुत मृगांचे विशीं हांवें परत चिंता केल्ली.

सासा चड फीट देंवनु हांव एक सपाट जाग्यार पांवलों. थंय उणेच घडि विश्राम करया म्हूण आठोवनु राबलेले तेन्ना उत्तर पूर्व दिशेरी आनी एक दृश्य दृष्टींतु पडलें. लागलागीच राबलेले तीन होडले शिखरांचे ऊंच साकून, जलधारा यंत्रांतु साकून म्हळ्यावरी उदाक बळान उसोळनु खालाक व्होळता. हिमशिखराचेर साकून इतले शक्तीन पडची ती जलधारा भो विस्मयानच पळोवनु हांवें आस्वादन केल्ली. सासा लेकान फीटाचे उंचायेरी साकून पडचे ते जलधारेन तो प्रदेशु सगळोच धवसाणीन सजायला. हे स्थलार राबून आखेरचे पावटी हांवें कैलास पर्वताचे झगझगेंवचे शिखराचें दर्शन घेतलें.

डोळमा पर्वत मार्गारी साकून चार सासा लागी फीटाची उबी देंवती देंवनु समतलाचेर पांवचानिक वरां तीन जावनु गेल्लेलीं. पेपसी पीवनु आनी थोडींच बिस्कुटां खावनु जावनु उणेच वेळाक हांव ते मैदानारी उद्दारीच पडलों. पावलांक आनी संधसंध्यांतु भो दूकी भोगताली देखून एक पारासिटामोळ गूळी खावनु तं पडलोलों. ते पडपाक पडून डोळमा मार्गाचेरी दृष्टी व्हरूनिक सामकी धापको लागलो. भयानक आसलेलें तें दृश्य. दोंगरा सारके राश जावनु पडलेले फातरांचे मद्देंच्यान सामकीच उबी देंवती इतलेंच अंतर देंवनु खालाक आयलां म्हूण माका विश्वासूच आयलो ना. केवल धांचे पशी ऊणे किलोमीटरां मात्र इतले वेळान चमकून जाल्यांय. आनीकय पन्नेरा किलोमीटरां पूणीय मुकार चमकूक आसा. मि. पुचोंगान सांगलेले तकीत डोळमा पास जाल्यार मागीर सग सपाट प्रदेश मात्र आसाय. दिसा उजवाडु आठ वरां तांय आसतलो म्हूण कळतालें. देखून काळकाचे मुरथम केंणातु पांवका म्हूण

निश्चयु करून हांव उठावनु वेगीन चमकूक लागलों.

उजवे भागाक हिमपर्वत दिगायेन आसाय. तो भागु सगळोच एक हिमप्रपंचु सरी दिसता. दावे भागाक हिमान पांगरूनाशिल्ली सल्प मध्यम पर्वतश्रेणी आसा. जायते कडे सान रूकय आसाय. हे पर्वतांचे खालाचान सोंगचू न्हंय उडकी मारनु व्होळता. न्हंयेक समांतर जावनु पाचवें तणा मैदान दिगायेन पडल्यां. जायते कडे, हिमशिखरांचेरी साकून व्होळच्यो झर्यो मैदान दांटवून सोंगचू न्हंयेंतु मेळताय.

न्हंय दिशा घूंवनु वचे थोडे भागांक मैदानाक अपार रुंदाय आसा. तसले स्थलांचेरी वाट घुसपूक नज म्हूण चार फीटा उंचायेरी फातरां राशेन वणते समान करून घाल्यां. ती वणती भो पुरातन दिसता. तीर्थाटकांनी आंगवाल्या कुटके, प्लास्टिकाच्यो चीलो, रित्यो पोड्यो आदी हे फातरांचे मद्दें शिरकावनु दवरल्याय. वाट घुस्पूनाशिल्लें राबूक आशिल्ली निशाणी जावनु जावयात तशी केल्यां म्हूण माका दिसलें.

पांच वरां तांय एकच वेगीन चमकीलों. पातळेवनु पडलेलीं मैदानां आनी हंय थंय सान दोंगूले आशिल्ले एक प्रदेशावेल्यान आसा मिजी चमकण. न्हंयचे तटारी साकून दुरच्यान चमकून मागीर एक अविस्मरणीय प्रदेशारी हांव पांवलों. यमराजधानीक, डोळमा पासाक आनी उबे देंवतेक तांय विस्मित करचे तशी फातर हे स्थलार पडून आसाय. सुमार दशलक्ष मेट्रिक टण फातर पुणीय देड किलोमीटरा दिगायेन राश जावनु पडून आसाय. अगाध एक घाटींतुल्यान आसा मिजी चमकण. दोनीय वशीं मळबाक आडोळचे उंचायेचे पर्वत आसाय. फुटून पडलेले फातर भो प्राचीन दिसताय. दाट हिमान पांगूरनु पडलेले हे पर्वत पळयल्यार तांचेरीच साकून घसरण जावनु वे हे फातर पडलेले म्हूण सांगूक जायना. दोनीय वशीं एक सारके हे फातर कशी राश जाले म्हूण माका समजलेंना. कैलासाचे मूळ भागारी आसा अळकापुरी म्हूण

काळीदास महाकवीन मेघदूतांतु विस्तारान प्रतिपादन केल्यां. भो व्हड माळ्येंचे बंगळे आनी रावळारां आशिल्ले तेच प्रदेशारी वैश्रवणालें रावळारय आशिल्लें. हे नाश जावनु पडलेले प्रदेशारी जावयात वैश्रवणाली राजधानी आसलेली म्हूण माका दिसलें. तरीय चड आलोचना करूकय वेगळी एकि साध्यताय मनांतु उद्देली. यमराजधानींतु आनी डोळमा पासाचे खालटाक सर्वांकय विस्मित करचे लेकान आसाय त्यो फातरांच्यो राशयो. कैलासाचे मूळ भाग हे सर्वय. शिवताण्डवाचे आघातान फुटल्लेय जावयात हे भाग.

'त्रुड्यलकैलासतटत्यस्त्रीपुरविजयिनः पान्तु मामार्भड्यः'

(त्रिपुरवैरीचे (शिव) कैलासाचे तडिये प्रदेशांक नाश करचीं ताण्डव नृत्यां माका रक्षण करो)

शिवताण्डवाचे पासून भयभक्ती बहुमानान चिंता करून हांव थंय उणेच घडी राबलों.

एक घंट्याचे दुष्कर यात्रेचे उपरांतें हांव एक वात्के मैदानांतु पांवलों. हिमपर्वतांक हे भागाचेर सल्प चड देंवती आसा. ते कारणान जावयात मैदानाचो चड भागूय हिमावृत आसा. वाट कशी वता म्हूण कळनाशिल्लें हांव थंय सगट सोदून भोंवलों. हादीची निशानी दाकोंवच्यो घुड्यो खंयींच दृष्टी पडनाय. कितेंय जावो म्हूण हांवें हिमांतुल्यान चमकून मुकार वचाक निश्चयु केल्लो. मैदानांचेर हिमाचे पोंदाक निपून पाणाथळांय आसप आसाय. दृढ प्रतल म्हूण समजून हिमाचेरी माडयल्यारी नेणतना पाणाथळांतु देंवनु वची साध्यता आसा. तीव्र शेळोवु आनी पाणाथळांतु आसचो जलभोंवरो कारण मरण निश्चित. हिमाचेर बडियेन खोंबून चोवनु सावधपणान हांव मुकार सरलों.

हिममैदानाचेरी साकून वांचून मुकार परत एक अनंत पडलेले मैदानाचेरी पांवलों. वरां सात जातालीं. दीस सगोळ मोड दवरलेलें.

तरीय पावसु पडचो ना म्हूणूच हांवें आठयलेलें. मळबार मोड दाटतालें तरीय दरचन केंपाची शीमा सोडलेले उपरांतें पावसाची चिंता मनांतु नाशिल्ली.

मैदानाचेरी बेसून विश्राम काडतना मिजे आंगारी पावसा थेंबे पडूक लागले. तेन्ना मात्र हांवें मळबार श्रद्धा व्हेल्ली. भयानक रूपान मोड दवोरनु राबल्यां. लागीच कुल्लेरी घालनु वारेंय मारूक लागलें. हिमल्हायो ते प्रदेशारी उबून भोंवताय. ऐसा कुटके मिजे टोपीचेरी आनी आंगारी पडूक लागले. दोळे कुरडे करचे रीतीर जोगुलेंवचाक लागलें. जोगूलाक लागून दिगंतरां फुटचे तरा गुडगूडय. हिमशिखरांचेर जोगुलेंवचें पळोवनु माका धपको लागलो. पळोवनु उणे घडियांक मिजे दोळे कुरडे जालेल्या सारके दिसले. जोगूला तुरंत गुडगुडेता. ताजी प्रतिध्वनी जायते घडियांक वरता. लागीच घोर पावसु पडूकय लागलो.

हो वेळु पर्यान हांवें पावसा कोट चडोवनु जालेलें. केनवासाचे टोपीचे बदलाक प्लास्टिकाची टोपी बांदली. जूतां निसरावनु, सोक्सांचे उंचारी प्लास्टिक चीलां चडोवनु बांदलीं. तांचे उंचारी षूसां चडोवनु बळान बांदलीं. हातांचेर घाल्लेले चामाचे ग्लोवसांचे उंचारीय प्लास्टिकाचीं चीलां बादलीं. खांदावेलें बेग कोटांतु निपोवनु धरनु हांव मुकार सरलों.

कैलास यात्रेंतुलो विसरूक जायनाशिल्लो एक संभव आशिल्लो तो पावसु. धारांधरी पावसु राबनाशिल्लें पडत राबलोलो. एका मागशीं एक जावनु जोगूल गुडगुड येत राबलेले. जोगूलांचे सांगातांतुले भयंकर गुडगुडाचे शब्दान आनी हिमशृंगाचेरी अग्नी गोळा सारके उज्वल उजवाडान मिज्यांतु भय आनी परिभ्रांती भरली. भूमी सगळीच कांपून फुटून वचे समान आशिल्लो दर एक गुडगूडय. पावसु जोर आशिल्यान हिम शिखरांचेर साकून अतिशक्त व्हाळे देंवूक लागले. मैदान भरून विकरता. हांव जांवचे तितलेंच तणामळा देगेवेल्यानच चमकूक श्रमु करतालों. वाट दाकोंवचे

खातीर राबलेले सरी दिसचे फातरांची राश पळोंवनु चमकतालों देखून हादी चुकची ना म्हूण माका निश्चयु आसा. घोर पावसाक आनी शक्त वार्याक अभिमुख करून हांव मुकारसलों.

मैदानारी साकून सानी चडती चडून एक तणामळाचेर पांवचानिक उणे घडियांक थांगा राबलों. उदाक चडूनाशिल्ले ते थळारी, पावसु राबू तांय राकल्यारी इत्तें म्हूण चिंता केल्ली. तरीय कितलो वेळु म्हूण राकतलों? जोगूलाचे उजवाडांतु तणामळ पळोंवचानिक तें अंत नाशिल्ले लेकान तशी पातळेवनु पडल्यां. जायते भागाक उदाक तळें सरी जावनु भरून पडल्यां. काळकांतु खंचेय पाणाथळांतु बि पडल्यारी म्हूण माका भय जालें. एकु मनीषु सरी नाशिल्ले हे विजन स्थलार राकून राबच्या पशी उचित चमकूचेंच म्हूण निश्चयु केल्लो. अग्नी गोळाचे सारकें एक जोगूल आनी तुरंत भूंय चिरचे तरा भयानक गुडगूड मिजे लागी जावनु फुटूकय हांव उद्दारी जालों. दारुवेचो रूक्ष गंध नांक करपावूक लागलो. मागीर आनी कसलीच चिंता करूक राबनाशिल्लें वेगीन ते तणामळाचे देगेवेल्यान चमकीलों.

मृत्युंजय मंत्रु* जपून हांव चमकीलों. तणामळाचे तलवाक अतिशक्त व्हाळ्याचे झर्येंतु देंवनु जांवका दांटवून वचाक. चमकतना षूसांतु सल्प

---

*मृत्युंजय मंत्रु-

रुद्रम् पशुपतिम् स्थाणुम् नीलकण्ठमुमापतिम्
भस्मोद्धूळितसर्वांगम् नागाभरणभूषितम्
त्र्यक्ष्म् चतुरभुजम् शांतम् जडामकुटधारिणम्
वामदेवम् महादेवम् लोकनाथम् जगद्गुरुम्
नमामि शिरसा देवम् किम् नो मृत्युः करिष्यति

(श्लोकु अपूर्ण)

उदाक चडल्यां म्हूण दिसलेलें. झर्येतुल्यान चमकूकय पुरतेंच चडलें आनी चमकण संथ जाली. पावलां ओडून ओडून तरीय दृढ मनान मुकारसलों.

एक घंटोभर आशिल्ल्या जोगुल गुडगुडांची तीव्रता ऊणे जांवचानिक जोर वारें मारूक लागलें. एकेक पावल मुकार दवरतना शक्त वारें मागशींच धिंगुळतालें. तसले संदर्भारी आडूवे गतीरी चमकून वार्याक प्रतिरोध करका जालें. तशी चमकून उणेच अंतर दांटवीलें. तापमान भो ऊणे आसून आनी सांगातांतू अतीव शेळ वारें करण सामकीच कडकडेतालों. वारें भितरी चडनाशिल्लीं, शेळोवु धरनाशिल्लीं वस्त्रां धरसूनूय आंग शेळोवान घट जाता सरी दिसलें. पावसा कोटाचे खंचेकींच भागाच्यान उदाक भितर चडून रोमे वस्त्रां तिमतालीं देखूनूच तशी जातालें.

वरां पळोंवचाक कसलीच वाट ना. कोटाचे भितरी आशिल्ले बेगांतु साकून टोर्च भायर काडूक जावो चामाचें ग्लोवस निसरावनु वाच पळोंवचाक जावो साध्य न्हय. धरांधरी पडचो पावसु आनी बळान मारचें वारें सर्वय आडायतालें. गुडगुडाची तीव्रता ऊणे जाली तरीय दोळे कुरडे करचे तराचीं जोगुलां चालू आशिल्लीं. जोगुलाचे उजवाडांतु, हादीची निशानी दाकोवनु सरी राबलेल्या फातरांची राश दृष्टी पडता म्हळ्ळेलेंच होडलो उपकारु जावनु दिसलो. तेन्ना भितरी हादी मैदानाचेर साकून चडती चडून सान दोंगुल्यां उंचावेल्यान वताली. मैदान क्रमान दावे भागाक सरनु वता आनी दोंगुल्यांचे उंचावेल्यान आशिल्ली हादी उजवे भागाक घूंवनु वता म्हूण जोगुला उजवाडांतु हांवें पळोवनु घेतलें. माका भो संतोषु जालोलो संदर्भु आशिल्लो तो. मैदानावेले उदकांतुल्यान चमकून उदाक पीवनु स्पंजा समान फुगलेलीं सोक्सां आनी षूसां पायांचेरी भारु जातालीं. पावलां शेळोवान मुंयेलेल्या वरी दिसूक लागलेलीं. देखून षूसां आनी सोक्सां निसरांवचाक हांवें एकु श्रमु केल्लो. तरीय शक्त वारें, पावसु आनी शेळोवान मुंयेलेले हात हे उद्देशाक आड राबलेले.

पाय जाय तशी दवोरनु चमकूक कष्ट जाताले. देखून बडीयेरी तेंकून पावलां झरोवनु झरोवनु चमकतालों. केन्ना केन्ना ऊंच धिंगूळनु राबलेले फातरांक आडोळनु पडूक गेल्लों, तरीय कशीकींची वांचलों. फातरांक आडळतना येद्दी सरी दुकी कळना. पाय मुंयेवनु गेल्लेल्यानच तशी जाता म्हूण माका समजलें. धरांधरी पावसु आनी रूक्ष शेळोवु कारण थकून अवश जालों. देखून हांव एक फातराचेर उणे घडियांक विश्राम काडूक बेसलों.

कैलास प्रदक्षिणा पुरती करूक मिज्यान जांवची ना म्हूण एक चिंता मिज्यांतु भरूक लागली. हातपायांचें मुंयेवप देह सगळेंच व्यापून धरतना सर्वय अंत जातलें म्हूण चिंतून माका धपको लागलो. जीवितांतु केन्ना केन्ना जायते प्रतिसंधींतु पडलोलों आसा. तसले संदर्भाचेर मिजे रक्षेक पावल्या मिजी आराधना मूर्ती एक अदृश्य शक्ती. जांबियांग पर्वताचेर चरून चरून चडून कैलासाचे लागी तांय पांवलेले वेळार आनी तशीच डोळमा पर्वत मार्ग चड कष्ट काडनाशिल्लें चडून दांटवतनाय तें रूप मिजे सहायाक पांवलेलें. ते रूपार मात्र दृढ विश्वासु दवोरनु तं हांव वाडून आयलां म्हूण मिजो आत्मार्थ विश्वासु. विजन हे हिमप्रदेशारी मदरातीचे हे वेळारी हांवें परत ते काळी रूपाक उडगास केलो...

हांव एक झमेयलों कीं उणे घडियांक स्थलकाल बोध गेल्लें कीं म्हूण निश्चयु ना. 'उत्तिष्ठत, जाग्रत! प्राप्य वरान निबोधत!' म्हळ्ळोलो उपनिषत मंत्रु मिजे उपबोध मनांतु कीं, भायर कीं, अंतरीक्षांतु कीं घुंजलो जावनु सानूच एकु उडगासु सरी दिसता.

हांवें जागूनिक जोगुलाचो उज्वल उजवाडु दृष्टि पडलो. वारें मारतालें तरीय पावसाची शक्ती ऊणे जालेली. हात पाय मोडसून नीट करून आनी राबलेले कडेच उडकी मारनु हांवें लघुव्यायामां केल्लीं. रक्तप्रवाहु चडल्यारी मुंयेवप वतलें म्हूण हांवें आठयलें. जायते घडियांक

व्यायाम करून जांवचाकय पूसां निसरांवचाक जालीं. तांतूलें उदाक चिटून पेल्यान घालें. सोक्सां निसरावनु पीळनु उदाक पर घाल्लें. पावलां चिरडून परसून सगट शेळोवु ऊणे करूकय सल्प वेळु खर्चीलो.

पावसु राबूनिक उठावनु चमकूक लागलों. पायांचें मुंयेवप गेलेंना तरीय कशीकींच चमकीलों. अतीव शेळ वारें ऊणे जायना आशिल्लें. कुल्लेरी घालनु मारचे हिमवार्याचे मद्देंच्यान हांव संथ संथ मुकारसलों. जोगूल आनी गुडगुड दूरा खंयनेन पांवलोलो. तरीय दूरा जावनु जोगुलेतालें आनी शब्दु गुंजतालो. दोंगर चडून देंवतना केन्ना केन्ना हिमावेल्यान चमकूचें पडतालें. पायांचें मुंयेवप आनी ओळी चडून आयली तरीय दृढ निश्चयान हांव मुकारसलों.

सल्प चड चमकून जावनु सामान्य होडली एकि चडती पावली. भो कष्ट काडून चडून ऊंच पांवचानिक दूरा जावनु एकु उजवाडु दृष्टींतु पडलो. तो एक तेला दीव्याचोच उजवाडु म्हूण समजूनिक हांवें कैलासनाथाक ध्यान केल्लें. सोंगसेरबू केंपांतुलोच उजवाडु तो म्हूण माका निश्चयु आशिल्लो. दोंगुल्यार साकून देंवती देंवनु सीदा ते उजवाडाक लक्ष्य करून पाय वोडून चमकीलों.

सुमार एक किलोमीटर चमकून जांवचानिक सपाट एक दोंगूल्या उपरितल पांवलें. थंयींच आसलेलें सोंगसेरबू केंप. केंपाचे जगलेर लांबोवनु घाल्लेले दीव्याचे पोंदाक कांबळ्यांतु गुडळेवनु बेसलेले एक म्हांतार्याक दिकलो. ते टिबेटी गांवकाराचें रूप भयानक दिसलें. ते सान जगलेरी हांव पडून गेल्लों म्हूण सांगचें सम जातलें. म्हांतारो लागी येवनु कितेंकींच सांगता. हांव हालना म्हूण दिसलेल्यान जावयात ताणे माका हाताक धरून उटकरांवचाक श्रमु केलो. लोहाचें बळ आशिल्लें ते हातांक! मुंयेवनु गेल्लेले मिगेले पायांक भुंयचेर बळ घालनु राबूक जायना देखून म्हांतार्यान माका वणतेचेर तेंकोंवनु राबयलो. आनी होडान कोणाकींच

उल्लो मारलो.

थोरीच एकि बायलमनीषी वेगीन आयली. हाजे भरसी हांवें मिगेलें कोट निसरावनु खालाक घाल्लेंलें. दोगानीय मेळनु माका धोरनु, धिंगूळनु म्हळ्या वरी कूडांतु पांवयलो. हांतुणारी पडचे मुरथम तिमून थापो जालेलीं वस्त्रां निसरांवचाक म्हांतार्यान आंग्यान निर्देशु दिल्लो. एका ऊंच एक चडयलेलीं चार पांच रोमे वस्त्रां आनी षूसां, पेंट सगट निसरांवचाक दोगांनीय सहाय केल्लो. आंगारी काळसांव मात्र वरले तेन्ना म्हांतार्यान माका दाट कांबळ्यांतु गुडळायलो. हाजे मद्दें ती बायल भायर वता हांवें दिकलेलें. हांतुणारी उद्दारीच पडलेले मिगेले मुंयेलेले हातपायांक मालीश करून हुनसाणी हाडूक जावनु म्हांतारो कष्ट काडतालो.

सल्प घडी भितरी दूद घालनाशिल्ली हूनी ऊब येंवची चाया घेवनु ती बायल पावली. अर्द लीटराचे पशी चडी चाया ते आयदनांतु आशिल्ली. चाये आयदन मिजे हातांचेर आनी दिंब्येचे खाल पायांचेर दवरून हुनसाणी हाडोंवचाक श्रमु काडतालो तो म्हांतारो. अतीव हुनसाणी आसूनूय मिजे पावलांचेरी दवरूनिक माका हुनसाणी कळ्ळेलीच ना. हूनी चाया भितरी वचानिक भो उन्मेश अनुभवलो. मेणावातीचे उजवाडांतु, वरां पावुणी तीन जाल्यांय म्हूण कळ्ळें. आषा घंट्यांचे पशी चड ते यातना पूर्ण यात्रे पासून चड चिंता करनाशिल्लें कांबळेन आनी रजायेन पांगूरनु हांव पडलों. निदेवू पर्यान मिजे उडगासांतु तेच टिबेटी दंपतीलीं मुखामळां उज्वल राबलेलीं.

सत्रावो दीसु

# दरचन

सुखदायक निदेंतु साकून जागूनिक अठड वरां जालेलीं. पूर्वारी तोंड करून प्रार्थना केल्ली. मागीर कूडांतु सर्व कडेय दृष्टी धांवडायली. रेंवेंची निबरी भूंय. फातर आनी रेंव उपयोगु करून बांदलेल्यो वणतीयो. जायते कडे फूटी पडून आसा. फातरांच्यो पातळ पाळ्यो उपयोगु करून केल्लेलें पाकें, सान धड्यां खांब्यानी बळवंत केल्यां. एक कूडांतु तेग जाणांक पडचें सौकर्य मात्र. असले विजन स्थलार इतलेंच सौकर्य पुणीय मेळता म्हळ्ळेलेंच होडलें कायरीं म्हूण आठयलें.

सहयात्रिकांची खबरी कळूक हांव भायर वोचून चोयलों. कोण पांवलेनाय. चार कूडां मात्र आशिल्ले ते सान सत्रांतुलीं तीन कूडां तीर्थाटकांचे खातीर आसाय. तलवाचे कूडांतु सत्रकारी आनी बायल राबता. सत्राचे लागीच भुंयचेर एक तंबू लागेन बांदून तयार आसा. कूलींक आनी इतर जनांक राबूक तें. ते सान जगलेरी बेसून हांवें मिगेले पांवलांची परिशोधना केल्ली. साली चुरमुटेवनु आसा. नांकुटांक निळबाणी दवरल्या. संधसंध्यांतु दूकी आसा नंतणा वेगळे घाय कसलेच नाय.

तीव्र शेळोवु आसा तरीय भो सूर्य प्रकाश आशिल्लो. केंपाचे मागशीं भागाक सग हिमपर्वत. उंचटाक आशिल्ले एक स्थलारी आसा केंप. विशाल परिसरांतु गुंडे फातर साबार आसाय. तांबडी रेंव. तणातलवां मातें उबारनु राबलेले कारणान तें मैदान सुंदर दिसता. मागशींचें कवड वात्तें करचो आनी पावलां सोवदु आयकून हांव घूंवनु चोयलों. कालचे रातीची टिबेटी दंपती. दूरा अंतराचेरी आनी मळबारी हात दाकोवनु तांनी कितेंय सगट सांगलें. लागींचे कूडांक दाकोवनु कोण ना म्हूण मातें हालोवनु दाकयलें. मिगेले पायांक धरनु परिशोधना करून जातरी, मिजे फाटीरी थापटावनु कितेंय सगट सांगलें. माका कसलेंच समजलेंना.

समतलाचे खालटाक देंवनु थंय आशिल्ले झर्येंतु हांवें प्रभात कृत्यां केल्लीं. मागीर मुरथमले राती चमकून आयलेले हादीवेल्यान उणेच चमकीलों. मित्रांचे आगमनाची सूचना मेळता वें म्हूण पळोंवचाक गेल्लोलों. मिगेलीं सामानां कूलींचे लागी आशिल्यान तीं मेळ्यारी मात्र माका कितेंय करूक जातलें. वस्त्रां सगट तिमून फुगून पडल्यांय. सुकीं वस्त्रां आनीक खाण कूलीन हाडतरी मेळतलें. संथ एकेक चिंतन करून चमकतना मागशींच्यान म्हांतार्यान उल्लो दिल्लो. हांव परतलों.

एक आयदन भरी दूद नाशिल्ली चाया ताणे माका दिल्ली. माका भो संतोषु जालो. उपकारु सागूक भास कळना. तें देखून हांव ताका उपकारपूर्वक चोवनु हासलों. खांदार घालचे बेगांतु सोदून तिमनाशिल्लीं दोन बिस्कुटापेकटां मेळ्ळीं. एक सत्रकाराक दिल्लें. चाया पीवनु बिस्कुटां रुचीन खावनु एकेक चिंता करून जगलेरी बेसलों. मित्रांक आनी सांगात्यांक कालचो पावसु खंतंय आसतना अभिमुख

करका जालो आसतलो? राती तीं खांय राबलेलीं आसतलीं? अपाय कसलोच घडलोलो आसतलो वे? मि. हरिहराक डोळमा पास कष्ट नाशिल्लें दांटवूक जालेलें आसतलें वें? विचार काडून कसलोच प्रयोजन ना म्हूण कळता. वेगळें कसलेंच करूकय ना. तें देखून हांव वचून हांतूणारी पडलों.

भायर गोंदोळ आयकून जागलों. वचून चोंवचानिक कुन्शीरामालो सहायी आनी चार कूली मात्र आसाय. सहायीचे लागी निमगून कायरीं समजून घेतलीं. डोळमा मार्गाचो चड भागूय चडून जाले उपरांतें पावसु, वारें, जोगुल आदी आरांभलें. तेन्ना याकांचे फाटीर साकून सर्वय खालाक देंवलीं. आद्य साकूनूच अस्वस्थ आसलोलो मि. हरिहर उंच पांवलोलोच बोधक्षय येवनु पडलो. ओक्सिजन ओडोवनु, पावसा कोट पांगूरनु, ताका घेरून सगटय राबलीं. पावसु आनी वारें रूक्ष जालेले उपरांतें तद्देशीय कूलींक नंतणा इतर सर्वांकय असौख्य जावूक लागलें. मि. हरिहराचे पासून आशा सोडून राबलेले अवसराचेरी याकांक घेवनु एक संघ चीनी सैनिक पावले. सर्वांनीय मेळनु थंय तुरंत एक तंबू बांदलें. स्टोवारी उदाक हून करून हरिहराक हुनसाणी धरली. वकदां खावयलीं. तशी ताका तांनी रक्षण केल्लो. मदराती जांवचानिक पावसु राबलो. तंबूंतु स्थल ऊणे आशिल्यान पांच जाणां भायर सरलीं. चांदिणे आयलेलें. आनी तीं आळतांतु आयलीं म्हूण ताणे सांगलें. कूलींतुले एकल्यान गौरीकुंडांतु साकून भो कष्ट भोगून तीर्थजल भरून काडलेलें कायरींय ताणे सांगलें.

वरां धा जालेलीं. सोंगसेरबू केंपांतु साकून दरचना कडे पन्नेरा

किलोमीटर अंतर आसा म्हूण कळतालें. कसलेच कष्ट नाशिल्लें चमकून वचात जालेलीं समतलां आसाय चडय भागांकय म्हूण मि. पुचोंगान सांगलेलें. निश्चित दिसांनी एकल्यान पुणीय चमकून कैलासपरिक्रमण पुरतें केल्लें म्हूण दरचन केंपांतुल्यांक कळोंवचें उचित म्हूण माका दिसलें. इतर सहयात्रिकांचे पासून आयकलेलें जाणोंवचाकय जातलें.

वेगळी कसलीच चिंता करनाशिल्लें हांव यात्रेक तयार जालों. लग्गेज वात्तें करून सुकीं वस्त्रां काडून घालीं. खाणा सामानां आनीं वकदां खांदार घालचे बेगांतु दवरलीं. जगलेचे तलवाक आशिल्ले सत्रकाराले कूडा कवडारी खटखटायलें. तांचे लागी माका सारूक जायनाशिल्लें रीण आसा. घट जालेले पाय कारण जगलेरी पडून गेल्लेले माका वांचोंवचाक तांनी दोगांनीय काडलोलो श्रमु हांव एक कालाक विसोरचों ना. राती दोनी वरां तांय निद्देवनाशिल्लें राकून बेसूक ते म्हांतार्याक दिसलेलें कसले कारणान म्हूण हांवें चिंतन केल्लें. दरचन केंपांतु पांवतरी मि. पुचोंगान दिल्लेलें विशदीकरण आयकून मिगेले जिज्ञासेक शमन जालें. दर एक संघाचोय कैलास परिक्रमणाचो पद्धती क्रम, अली टूरिस्ट एजेन्सी हांकां आदींच दीवनु सोडता. डोळमा पास चडून येंवचे यात्रिक चडय, राती दांटवून मात्र पांवतले. तें देखून पद्धती क्रम प्रकारीं आशिल्ले रात्यांक राकून बेसप सत्रकारालें कर्तव्य. निश्चित दिसा पांवलेनाय जाल्यार लागीचे दिसांकय राकून बेसचें पडतलें.

कवड वात्तें करून म्हांतारो आनी ताजी मध्यवयस्क बायल भायर आयलीं. तांनी पिंजकर रोमेवस्त्रां न्हेसून आसाय म्हूण हांवें सकाणी पळयलेलें. हासमुखी राबलेले तांकां हांवें एक जोडी चांग रोमे

वत्रां आनी पन्नास युवानाचें नोट हातांतु दवोरनु दिल्लें. संतोषान दोगांय मातें बावगोवनु राबलीं. काली राती पाय परसून दिल्लेंलें आनी अमृताक तुल्य चाया पीवयलेल्याचे पासून मनांतु येवनु हांव तांचे हातांक धरनु राबलों. तांचे लागी विदा सांगून जावनु हांव तंबूचे देगेवेल्यान भायर देंवलों. कूली सर्वय गाढ निदेंतु बुडलेले. कुन्शीरामाले सहायीक दरचन केंपांतु पांवतरी परत मेळूं म्हूण सांगून हांव चमकीलों.

पयलेचे एक घंटयाची यात्रा चडतीयो नाशिल्ले विशाल मैदानावेल्यान केल्ली. शिंवडून पडलेले काळे फातर आनी रेंव तांबडी आसा. मैदानाचेरी तण किरलेवनु राबल्यां. भो शेळोवु आशिल्लो. तरीय मंद वारें घुंवतालें. शुद्धजल जलाशयां साबार दिकलीं. मैदानाचेर साकून दूरा सरनु हादी क्रमान होंगचू न्हंयचे देगेर पांवचानिक भूप्रकृतीक बदलाव दृष्टी पडलो. हिमपर्वत दूरा सरले. हिम नाशिल्ले पर्वतश्रेणीचे देगेवेल्यान न्हंय व्होळता. व्हाळ्याक शक्ती ऊणे तरीय अगाध खोलाय आसा.

बारा वरां जांवचानिक विविध वर्णांचे पर्वतांचे लागी पांवलों. अरबी काण्यांतुलीं जादूचीं रावळारां म्हूण संशयु दिसता. तांबडो, गुलाबी, हळदूवो, काळो वर्णु आसा पर्वतांक. सूर्यकिरणांचे चड ऊण्यान रंग विन्यास जाता. अर्द किलोमीटर दिगायेन एकामेकाक जोडून आसाय हे. रुप्याचे वर्णाचे पर्वतय मद्देंमद्दें आसाय. भो विस्मित जावनु हांवें ते पर्वतांक पळयलें. हे भागाचे वाटेक दोन फीट रुंदाय मात्र. खालाक अगाध गर्तांतुल्यान न्हंय व्होळता. थंय उणेच घडियांक बेसून आराम करून खाण खेल्लें. विविध रंगाचे सानसानच फातर वेंचून किसांतु घालूकय विसरलोंना.

हिमपर्वत दूरा सरूनिक शेळोवु ऊणे जालो. तरीय जोर वारें मारतालें. पर्वत माळा सरूकय सान दोंगुल्यांचे देगेवेल्यान जाली यात्रा. न्हंयची रुंदाय आनी खोलाय ऊणे जावूक लागली. वाट चुकूनाशिल्ले खातीर बांदलेली फातरां वणती पळोवनु संशयविना चमकूक जालें.

देनपारां उपरांतें चमकणेक सामान्य चड वेग मेळ्ळो. चार वरां जांवचानिक भूप्रकृतीक परत बदलाव आयलो. एक सान मैदान चडून परत पर्वतांचे लागी पांवलों. एक किलोमीटर दूरा आशिल्ली एकि घूंवळी घूंवनु जांवचानिक हिमपर्वत हादीक लागून पांवले. शेळोवु क्रमातीत चडलो. हिमवारें शक्तीन मारूक लागलें. उणेच अंतर चमकूनीक परत एकी घूंवळी. ते घूंवळीचे तलवाक पांवचानिक दरचन केंपाचीं पाकीं दृष्टी पडलीं.

केंपांतु पांवचानिक पंचड वरां जावनु गेल्लेलीं. संघांतुलीं जायतीं पांगूरनु पडून आसाय. भारकूण, तापु, अतिसार आदी पीडा जायत्यांक जालेली. हांवें कैलास परिक्रमण चमकून पुरतें केल्यां म्हूण निमिश भितरी केंपांतु पसरलें. माका वेंगेंतु मारनु पांयी पडून सर्वांनीय संतोषु दाकयलो. सर्वां पशी संतुष्ट मि. मोह्ताच. चाया खाण पांवलें. आट वरां तांय निद्देवनु विश्राम काडका म्हूण मिजे लागी सांगलें आनी मागीर यात्रानुभवांचें विवरण आयकूक सर्वांनीय एकडे जांवका म्हूण मि. मोह्तान निर्देशु दिल्लो. हें आयकून हांव निद्देंवचाक गेल्लों. अत्यधिक थकाय आशिल्ले कारणान तुरंत निदेवनूय गेल्लों.

आषावो दीसु

# दरचन

सुख निदेंतु साकून स वरांचे उपरांतें जागलों. भायर चोंवचानिक सामान्य शक्त पावसु पडता. उजवाडु ऊणे. प्रभात सवारीक गेलोलो मि. मोह्ता तेन्ना पावसु कारण अमसरान परतून आयलो.

सुप्रभाताची आशंसा सांगून आमी दोगांय एकसाणीच कूडांतु चडले. मि. पुचोंगय तेन्ना पावलो. काली राती णव वरांचे लागी माका जागोवूक तांनी श्रमु केलो तरीय गाढनिदेंतु पडलेले कारणान चड कष्ट दींवका नाका म्हूण दवरलें खंय. मिगेले यात्रानुभव तुरंत सांगूक मि. मोह्तान मागलें. इतर जनांकय आपोंवचाक डोक्टर लागीचे कूडांतु सगट चडून देंवतना हांव मि. पुचोंगाचे लागी उलोवनु बेसलों. याकाचे फाटीर सवार जावनु ताणे जायते फंता कैलास प्रदक्षिणा काडल्या तरीय इतली रूक्ष कालावस्था आतां पर्यान अनुभवलीना म्हूण सांगलें. चमकून यात्रा करच्या पासून ताका अनुमान करूक सरी जांवचें ना म्हूण लागेन सांगलें. चीनी सैनिक डोळमा पासांतु गेल्लेल्याचें खाबर ताका मेळ्ळेंना. तांनी तांचे ड्यूटीचो भागु जावनु करचें पेट्रोळिंग कालचे रातीक चमकयलेलें मि. हरिहराचें भाग्य कारणच म्हूण मि. पुचोंगालो अभिप्राय.

पावसु आनी वारें रूक्ष जांवचानिक शेळोवु चडलो. एक टिबेटी युवकाक तात्कालिक रांदपी जावनु मि. मोह्तान राबयलोलो. ताणे तयार करून दिल्लेली चाया पीवनु बेसतना हांवें मित्रांक मिगेले अनुभव विस्तारान सांगून दिल्ले. साबार वेळाक आमी उलोवनु बेसले. कैलास पर्वताक लागी साकून दिकलेले तेन्नाचेच अनुभवांचे पासून चडय जाणांकय आयकूका आशिल्लें. मि. मोह्ता टिपणी बरोवनु काडतालो. यात्रे वेळारी हांव मिगेले यात्रानुभव सर्वय विस्तारान बरोंवचें मि. मोह्तान दिकल्यां. भारतांतूले भागार आसतना आनी तशीच चीनी भागारीय, चडय रात्यां वेळार मेणावातीचे उजवाडांतु, शेळोवान मुंयेलेले मिगेले हातान बरवप आशिल्लें. जायते फंता चड विशदांशांचे खातीर हांव ताजे लागी गेल्लोलोंय आसा. तें सगट मनांतु येवनु जावयात कुशाग्र बुद्धयेचे ते नयतंत्रविदग्धान, विस्तारान एक यात्रा विवरण निश्चय जावनु बरोवनु छापोंवका म्हूण माका उपदेश दिल्लोलो. मंग्तींतु साकून लिपुलेख-टिसोंग तांय आनी मानसरोवर कैलास भागांकय हांवें चमकूनूच यात्रा केल्या. कैलास परिक्रमण चमकून पुरतें केल्लेलें आनी जांबियांग पर्वताचे ऊंच चडून कैलासाक लागी साकून पळयलेलेंय खबर भारतांतुले हैंदवांनी निश्चयु जावनु कळनु राबूका जालेलें म्हूण एक चिंता मिगेले मनांतु मूळ धरलेलीय तेन्ना साकूनूच. पुस्तकाचें इंगळीश भाषांतर लागेन निश्चय जावनु उजवाडांवका म्हणूय डॉ. मोह्तान मागलें.

पयलेचे दिसा दरचन केंप साकून सरयु समतल तांय आनी दुशेरे दिसा अष्टपाद नांवांचे पुण्यस्थलाकडे संघांतुले इतर यात्रिकांनी यात्रा केली. दरचनांतु साकून दक्षिण पश्चिम भागाक पांच किलोमीटर यात्रा केल्यार अष्टपादांतु पांवतलीं. जैनमतस्थांचें पवित्र एक आराधना स्थल आसा अष्टपादपर्वत. तांचो आत्मीय गुरु तीर्थांकर रिषबदेव हांगा

निर्वाण पांवलो. अनुकूल कालावस्थेंतु हांगा राबून पळयल्यार कैलासाचें दुरच्यान आशिल्लें सामान्य पूर्णरूप दृश्य आसता म्हूण मित्रांनी सांगलें. तरीय हांवें लक्ष्य पुरतें केल्यां देखून एकि यात्रा लागेन नाका म्हूण निश्चयु केल्लो.

देनपार जांवचानिक भो बरी कालावस्था जाली. पावसु, दोवु सगट दूरा राबलो. सूर्य प्रकाशांतु झगझगून राबलेले हिमपर्वत अतिमनोहर आसाय. हिमालयाचे मनमोहक प्रभावाचे पासून एकेक चिंता करून, आंगणांतु आशिल्ले एक फातराचे उंचार हांव पालकडी घालनु बेसलों.

2500 किलोमीटर दिगायेन आनी 350 किलोमीटर रुंदायेन पातळेवनु अत्भुत प्रतिभास जावनु आसा हिमालय पर्वत श्रेणी. वर्षाचे बारायकाळ हिमावृत आसूचे हे पर्वतश्रेणींतुले सश्यां (600) भायर शिखरांक 18,500 फीट साकून 26,000 फीट पर्यान उंचाय आसा. 29,000 फीटाची उंचाय आशिल्ले एवरेस्ट शिखर जाल्यार नंदादेवी (25,636), कामेट (25,439), त्रिशूल (23,452), मृगतुणी (22,491), नंदकोट (22,504), आदी होडले शिखरांची फांतीच आसा. 28,244 फीट उंचायेची कांचनजंघा आसा भारतीय भागाचें परमोच्च शिखर. हिमालय प्रदेशाचें कुल विस्तीर्ण पांच लक्ष चतुरश्र किलोमीटर. विश्वाचे नाना प्रदेशार साकून पर्वतांचेर चडूक जावनु पर्वतारोहक हिमालयारी पांवताय. तांकां पर्वतारोहणाचें मेक्का आसा हिमालय. 'Discovery of India' म्हळ्ळेले आपले विश्व विख्यात पुस्तकांतु पंडित जवाहरलाल नेहरून हिमालयाचे पासून बरयलेलें मिगेले उडगासांतु आयलें.

"हिमालयाचें चैतन्य आनी आकर्षण आतां भारतांतूले सर्व भागाचेय युव जनांचे मद्दें पसरून आसा. भारताचे शिरशिरांतु प्रवाह जांवचे

नवजीवनाचें, नवचैतन्याचें प्रतीक आसा हिमालय".

पंडितजीचे आत्मकथेंतु कैलास-मानसरोवर यात्रा केवल एक सपन जावनु वरलेल्याचे निराशेचे परामर्श आसाय. "आत्मकथा बरयतना मानसरोवराचे पासून चिंता मिजे मानांतु आयली. जायते काळ जावनु ती चिंता मिज्यांतु भरून राबलेली. टिबेटांतुलें तें सरोवर आनी लागी आशिल्ले हिमावृत कैलासाचें दर्शन घेवनु प्रणाम करूक हांवें पद्धती घालेली. तरीय मिजे यात्रेन माका आनी खंयीच सगट पांवयलो. तशी मिजे पद्धतीचो साक्षात्कार जालोना. कैलासार वा मानसरोवरांतु एक कालाकय हांव पांवचों ना म्हळ्ळेली चिंता माका दुख दिता, निराश करता. तरीय तांचे पासून आशिल्ली चिंताच मिजे मनांतु संतोषु भरता".

पांच वरां जांवचानिक मि. हरिहर आनी संघ पांवले. तांनी सर्वय भो उन्मेशारी आसलेलीं. तांनी सवार केल्लेले याकांचे चलोवपी, कूली, कॅंपांतु आशिल्ले आमी सर्वय एकडे मेळूनिक तीं आनन्दाचीं निमिशां जालीं.

ते राती आमी दरचनांतूच राबलीं. सांज जांवचानिक आरांभलोलो धरांधरी पावसु आनी अतीव शेळोवु कारण आमी कूडांतू साकून भायर देंवलीनाय. डोळमा मार्गारी जालोलो अनुभव मि. हरिहरान विवरसीलो. बोधक्षय जावनु खालाक पडलेले तेन्नाय ताजे उपबोध मनांतु दिव्य तेज आशिल्लें एक रूप भरून राबलेलें जावनु ताका उडगास. नृत्य करचीं स्त्री रूपांय ताजे उडगासांतु आसाय.

खाण समृद्ध खावनु गांवांतु परतूचे यात्रे विशींची सुखकर चिंता करून हांव निदेंवचाक पडलों.

# परतूची यात्रा

हिमवृष्टी आनी पावसु पडतालो तरीय आमी सकाणीच यात्रेंतु लागलीं. मानसरोवराचे देगेर आशिल्ले सेय्दी केंपांतु साकून ए विभागूय आमचे संग आयलो. राती आट वरांचेरी आमी तकलाकोट पांवलीं.

हेरदूसा सकाणी वीस किलोमीटर दूरा आशिल्ले कोजारनाथ मंदिरांतु वचाक भायर सरलीं. दोंगरा देंवतीवेल्यान आनी कैचिनचु न्हंय दांटवून ट्रकारी केल्लेली ती यात्रा भीतीन मात्र उडगासु करूक जाता. न्हंयचे दोनीय भाटीरीय सासा एकरा स्थलांचेर बारळीची आनी सासमाची कृषी आसा. हळदूवीं फुलां फुलांवनु राबलेलीं सासमा झाडां आनी लुवणीक तयार जालेलीं बारळीचीं झाडांय वार्यांतु हालचें दृश्य अविस्मरणीय आसा.

कोजारनाथ मंदीर प्रौढगंभीर आसा. श्रीराम, सीता आनी लक्ष्मण हांगाची प्रधान प्रतिष्ठा. कैलासप्रदक्षिणा काडचे खातीर वनवासकालाक तांनी कोजारनाथ मंदीरांतु साकून यात्रेक भायर सरलीं म्हूण विश्वासु. श्रीरामालो म्हूण सांगचो एक धणु आनी बाणु हांगा विग्रहाचे लागीच आसा. तिनीय बिंबां कमनीय रीतीर अलंकृत आसाय. भांगार, रुपें आनी रत्नां ज़ायतितले मात्रेन प्रतिष्ठा गृहांतु उपयोगु केल्लेलीं आसाय.

बुद्ध मठाचे मातृकेरी आसा देवळाचें निर्माण. काळकीं कूडां, व्होळसीयो आनी सुरंगा सारके मार्ग दांटवून जांवका थंय पांवचाक. देवळाचें संरक्षण लामांचे अधिकारारी आसा. चीनी सैनिक हांगाय पेट्रोळिंग करताय.

देवळाक घेरून धा वीस घरांचो सान एकु टिबेटी गांव आसा. ए विभागाचो गायड मि. डेन्पालें घर देवळाचे लागीच आसा. मि. डेन्पान आनी बायलेन मेळनु आमचे खातीर राजकीय सत्कारु तयार केल्लोलो. गुड्डो, बुडकुळे पोटाचो डेन्पा सर्वसमयारीय तमाशो सांगून स्वयं हासून बेसतलो. पोरणे चलचित्रांतु दाकोंवचे रीतीर जाय म्हूण खालाक पडप, कदेलारी बेसून आसतना कदेल सयत ओरें जावनु पडूक वचप आदी तराचे हलकट तमाशो दाकयतना जायतीं हासतलीं. माका तरीय आद्य साकूनूच ताजेर अप्रीतीच दिसलेली. सत्काराक लामांकय आपयलेले. पुलाव, तरकारी विभवां, फळां आदी जायतितलीं आशिल्लीं. कैलास प्रदक्षिण चमकून पुरतें केल्लेले माका, ते सत्कारा वेळारी फुलांनी अलंकृत सुंदर केल्लेलें एक बोतल 'चांग' मद्य भेंट दीवूक श्रमु चमकीलो. तरीय हांवें तें स्वीकार केल्लेंना. टिबेटी जनतेलें अतिविशिष्ट देशीय पानीय आसा चांग. मद्यपानाचे विरोधी माका तें स्वीकारु करूक असाध्य म्हूण हांवें खंडित सांगलें.

लागीचे राती दोन वरांचेरी आमी लिपुलेखांतु वची यात्रा आरांभीली. कस्टंस आनी एमिग्रेषण क्रम सांजवेळा पांच वरांचे मुरथमच चमकयलेलो. फालेफाल्यार ओवूट वरां जावनु वचानिक टिसोंगांतु पांवलीं. चीनी भागाची ट्रक यात्रा तेन्नाच्यान सरली. सर्वय घोड्या सवार करून लिपुलेखांतु वचाक लागलीं तेन्ना हांव लग्गेज व्हांवचे घोड्यांचे मागशीं चमकूक लागलों. घोडेली सांगात आसलेले. अत्यंत दुष्कर उब्यो चडतीयो चडून

सात वरांचे लागी आखेरचे हेयरपिन घूंवळीचे खालाक पांवलीं. सहयात्रिक सगटय घोड्यां फाटीर साकून देंवनु राबलेले. हांगा राबून आमी मि. पुचोंगाचे लागी विदा सांगली. संघाक लिपुलेख तांय पांवोवनु जावनु तो घोड्या फाटीरी चडून परतून देंवता पळोवनु हांव राबलों.

अतिदुष्कर निमणी हेयरपिन घूंवळी चडोवनु सोडूक सैनिक तयार राबलेले. एकेकलींच जावनु आमी ऊंचार पावलीं. मातृभूमीक आपडून वंदन करून आमी भारतीय भुंयचेरी चडलीं. लागीचो संघ ऊंच तयार राबलोलो. तांचे लागी आमी उणेच उलयलें.

लिपुलेखांतु भो शेळोवु आशिल्लो. अति रूक्ष हिमवृष्टी कारण परस्पर वळकूक सरी कष्ट जाताय. निदकूरे राबलेले घोड्यांचे मद्दें साकून सुरींद्रकुमाराक सोदून काडूक सल्प कष्ट जाले. हाजे मद्दें नवे संघाक देंवती देंवूक सहाय करून सैनिक आनी KMVN कर्मचारी परतून पावले. आनी आमी यात्रेक लागलीं. लग्गेज व्हावनु घोडे मुकार चमकीले. तांचे मागशीं हांव, कूली, KMVN अफसरां, सशस्त्र सैनिक फांतीन चमकीले. ट्रेकिंग पू पुरतेंच बुडून वचे तरा दाटसाणीरी पडलेले हिमावेल्यान आसा यात्रा.

आयलेले वाटेनच आसा परतूची यात्राय. परतूचे तेन्नाय भो कष्ट, यातना, जीवापायभीती आदींक अभिमुख करनूच थारचूला तांय आशिल्ली हादी दांटवीली. मंग्ती साकून थारचूलांतु तांय आशिल्लें दोंगरा टार रोड तीन किलोमीटर भागाक मोडून काळी न्हंयतु पडून गेल्लेलें. ते कारणान ते भागाक सैनिकांचे सहायान अतिसाहसिक जावनु हादी तरण करका जाली. परततनाय हांव मंग्ती तांय चमकूनूच आयलों.

इतर चौग पदयात्रिक अर्द चड भागूय घोड्यां फाटीर सवार करनूच यात्रा करताले. पांचवे संघांतुले एकल्याक चमकून कैलास-मानसरोवर यात्रा पुरती करूक जालेलें व्हड कार्य जावनु लेकताय. आनीक देवानुग्रह म्हळ्यार ते संघांतुले कोणाक जीवापायु जालोना.

कैलासाक चमकून प्रदक्षिणा करूक भायर सरलेले तेन्ना आनी कैलासनाथाले अनुग्रहान आत्मीय साक्षात्कारान निर्वृती मेळळेले तेन्नाय हांव म्हळळेले विनम्र मनुष्याची एक मात्र प्रार्थना आशिल्ली... पोंवचे धडियेचेरी चडून महा समुद्र दांटवूक प्रभो मिजो श्रमु... अनुग्रह करका....

'तितीर्षुर्दुस्तरम् मोहा-
दुडुपेनास्मी सागरम्'

- शुभम् -



कैलास- दक्षिण मुख. लागी जांबियांग शिखर

# अनुबंध -1

## आर्षभारत संस्कारु - हिमालयपर्वतांवेल्यान

'अस्ति श्रियः सद्म सुमेरुनामा
समस्तकल्याणनिधिर्गिरीन्द्रः
तिष्ठनिदम् विश्वमनुप्रविश्य
स्वेनात्मना विष्णुरिवोर्जितेन'

महामेरु पर्वताक वर्णन करचो हो सुंदर श्ळोकु सुकुमार कवीचे श्रीकृष्णविलासम् महाकाव्यांतुलो. आमचे पुराणांतु इतिहासतुल्य तेजान झगझगून राबलेले महापर्वत आसाय हिमालय, कैलास आनी महामेरु. महामेरु पर्वत स्वर्णवर्णाचें एक शिखर आनी स्वर्णप्रभेन सूर्याक तांय निष्प्रभ करता म्हूण पुराणांतु सांगताय. वसिष्ठ आदी सप्तरिषींचो* उदय महामेरूचे पूर्व उत्तर दिशेरी साकून जाता. महामेरूचे आनी ध्रुवनक्षत्राचे सामकी ऊंच ज्योतिश्चक्रं म्हूण विश्वासु करताय. प्रपंचातीत महामेरु पर्वताचे प्रतिछायेंतु साकून कैलासान रूप धरलें म्हूण हैन्दवांचो विश्वासु. सृष्टीचें आनीक प्रपंचकेंन्द्राचें प्रतीक आसा महामेरु पर्वत. जगाचें हृदय, एष्येचें केंद्र अशी सगट म्हूण हाका विशेषण करताय. पाताळांतु रूढमूळ जावनु 84000 Leagues ऊंचायेर आसलोलो हो गिरीश्वर प्रपंचाचेंच केंद्र. एष्येचे आध्यात्मिक आत्मिक क्षेत्रांतु हाका अतुल्य स्थान आसा. हैन्दवांचे परिपावन पुराणांतु हाजे भौतिकातीत रूपाचे पासून उज्वल वर्णना साबार केल्लेली आसा. खोलायेन रिगलोलो एकु आसा मेरूचो संकल्प. मेरुदण्ड नांवान वर्णनातीत प्रभा पसरून राबलोलो मेरु योगाचें

---

*सप्तरिषी- मरीची, अंगिरस, अत्री, पुलस्त्या, पुलहा, क्रतु, आनी वसिष्ठ

प्रतीक आसा. सप्त भूखंडांनी वलय जावनु आमचेच अंतरांतू महामेरु स्थित आसा. हे सत्याचे पासून अवबोध आसलेले मात्र समच योगी म्हूण शिवसंहितेंतु सांगताय. सर्वां पशी प्राचीन विष्णुपुराणांतु, महामेरु पर्वत एक द्वीपाचे मध्यारी साकून ऊंच येवनु, उत्तर आनी पूर्व भागाक तिनतीन पर्वतानी घेरून आसा म्हूण विवरण आसा. ताका सात भूखंड आनी सात महासमुद्र वलय करताय. अंबरचुंबी महामेरूचे गांभीर्याचे पासून आनी प्रभातसूर्याचे तितले तेजाचे पासून महाभारतांतु सुंदर वर्णना आसा.

महाकवि काळीदासान आनी इतर श्रेष्ठकवीनी महामेरु पर्वताची साबार वर्णना केल्लेली आसा. इंद्रालो स्वर्गु महामेरूचेर स्थित आसा. आनी हाजे घाटींतुल्यान संचार करताय सूर्यु आनी चंद्रु. हाजान ह्या महापर्वताची उंचाय कितली म्हूण अनुमान करूक जाता. हांगा आशिल्ले पत्माक्षा तळयेंतु पत्माक्ष फुलांवचाक आवश्यक किरणां पांवोंवचाक सूर्यदेवान भो कष्ट भोगचें पडता खंय. कारण सूर्यकिरणांचेय ऊंच आसा पत्माक्षा तळय. सप्तरिषीनी तुंटोवनु काडून जातरी खंय सूर्या पत्माक्ष फुलायता.

'सप्तर्षिहस्तावचितावशेषा-
ण्यधो विवस्वान परिवर्त्तमानः
पद्मानी यस्याग्रसरोरुहाणि
प्रबोधयत्यूर्ध्वमुखैर्मयुखैः'

(कुमारसंभवम- महाकवि काळीदास)

महाविष्णूक आनी ब्रह्माक महामेरुचेरी आस्थान आसाय. महामेरूचे दक्षिण भागाक आसा कैलास. महामेरूचे मध्यारी दीर्घ चतुराकृतीरी धा

सासा भायर योजना विस्तारारी ब्रह्मालो ब्रह्मलोक स्थित आसा. महामेरुचे पूर्वभागाक देवेंद्राली अमरावती, दक्षिण पूर्व कोण्श्यारी अग्नी देवाली तेजोवती आनी दक्षिणभागाक यमदेवाली संयमनी, दक्षिण पश्चिम कोण्श्यारी निर्यतीचे कृष्णांजन, पश्चिम भागारी वरुण देवाली श्रद्धावती, उत्तर पश्चिम कोण्श्यारी वायुदेवाली गंधवती, उत्तर भागाक कुबेराली महोदया अशी स्थित करताय म्हूण आमचे पुराणांतु विस्तारान प्रतिपादन केल्यां.

कैलास आनी मानसरोवर लागलागीच आशिल्लीं स्थलां. शिवपार्वतींचें आस्थान कैलास. रूक्ष हिमावृत हिमालयाचें हें शिखर वोतांतु झगझगेतना रुप्या दोंगराची प्रतीति जाता म्हूण कवि सांगताय. कैलासाचे मूळ तळारी आसा मानसरोवर. सुब्रम्हण्य देवालें जन्म स्थल आसा हांगा. कैलासाचे उत्तर भागाचे देंवतेचेरी आसा वैश्रवणाली राजधानी अळकापुरी. महाकवी काळीदास नीलकंठ म्हळ्ळेले नांवारी ब्राह्मण युवक जावनु वासु करतालो अळकापुरींतु म्हूण सांगताय. आनी आपले प्रियतमेक भेटलेलीय हेच गांवांतु म्हूण विश्वासु.

मानसरोवराचे पासून वर्णन करनाशिल्ले कवि भारतांतु आसचिना म्हणूच सांगूयात. भाषा भेद नाशिल्लें मानसरोवराचे पासून तितलेंच आमी आयकल्यां. हाका उद्यानकम आनी अच्छादसरोवर म्हूण नांव आसा. हांगाची पत्माक्षा तळय रूपकल्पना केल्लेली ब्रह्मान म्हूण सांगताय. सरयु न्हंयचो उद्‌भव हांतु साकून म्हणूय पुराणांतु सांगताय.

भागवतांतु पांचवे स्कंधांतु, आमी वासु करची भूमी गोळाकृतीरी आसा म्हूण सुचयल्यां. तसलें एक निगमन सासा भायर वर्षां आदींच आमचे महान पूर्विकांनी केल्लेलें तरीय मागीरचे नवयुगांतु युरोपी शास्त्रज्ञांनी

तं तें शोध करून काडलेलें म्हूण अवकाश करताय. सप्तद्वीपांतुले पुराण प्रसिद्ध जंबूद्वीपांतु आसा आमी वासु करचो हो भूविभागु. सप्तसमुद्रांचे मध्यारी आशिल्यो भूतलां आसाय सप्त द्वीप. जंबूद्वीपाक णव खण्ड आशिल्ले. मद्दें इळावृतम, पूर्वार भद्राश्वम, दक्षिणारी हरिवर्षम, मागीर किंपुरुषम, दक्षिणतलवाक भारतवर्षम, इलावृताचे लागी दक्षिणाक रम्यकम, ताजे दक्षिणारी हिरण्मयम, दक्षिणारी उत्तरगुरु, पश्चिमारी केतुमाला अशी ते णव भूखण्ड वळकताले. दक्षिण तलवाक भारतवर्षम जाल्यार मागीर समुद्रु. जंबुद्वीपाचे मद्देंच महामेरु पर्वत. उत्तर खंडांतुले साबार स्थलांचेर तेन्ना समुद्रु आसलोलो म्हूण आतां शास्त्रीय विशकलनान सिद्ध केल्यां. मागीर चमकिलेले भूचलनान वा विघटनान (Geological shift) हे भाग सर्वय अशी तशी गेल्ले आनी नवे रूपभेद जाले. विघटन जालोलो महामेरु पर्वताचो भागु आयचें ग्रीनलेंड जाल्यां. उत्तरगुरु दक्षिण अमेरिका जालें आनी हिरण्मयम उत्तर अमेरिका जावनु रूपांतर धरलें.

काळीदासाले कुमार संभवांतुले हिमालय वर्णनेंतु अशी आसा-

'पूर्वापरौ तोयनिधी वगाह्य
स्थीतः पृथ्विव्या इव मानदण्डः'

हे वाक्यांनी भारतभूमीची उत्तर शीमा दाकोंवचो, पूर्व पश्चिमारी समुद्रांतु एक किलेवणते सारके दिगायेन पडलोलो आसा हिमालय म्हूण कवी व्यक्त जावनु सांगता. पूर्व पश्चिमारी समुद्रांतु म्हूण बरोवनु जातरी 'स्थितः' म्हूण काळीदास स्पश्ट सांगता. स्थितः म्हळ्यार स्थित करतालो म्हूण. आदीं हिमालयाचे पूर्व पश्चिम भागाक समुद्रु आशिल्लो आनी

आतां ना म्हूण आसूका मू त्या वाक्याचो अर्थु.

उत्तरखंड आनी तांतुली हिमालय पर्वतश्रेणी आर्षभारत संस्काराचीं मूळ स्थलां. सासा लेकान वर्षां मुरथम हांगा वाडून विकास पावलेले ते संस्कारान मुकावेले पिळग्यांचे खातीर राकून दवरल्या अमूल्य विज्ञान संपत्तीच म्हूण समजतना खंचेय एक भारतीयालें मातें, ते तेज स्वरूपी पूर्विकांचे उडगासा मुकार वंदन करूक बावगतलें म्हळ्ळेलें तर्क नाशिल्लें कार्य. तें देखून जायत महाकवी वळ्ळतोळान अशी गायलेलें -

'पूर्व कालाचे रिषी, भारतवर्षांतुले
भूंयचें मूळ पारखून पळयलेले'

तेन्नाचे रिषीश्वरांचे अतिसूक्ष्म दृष्टी पावनाशिल्लो वा तांचे शास्त्रीय विशकलनाक पात्र जावनाशिल्लो खंचो एकु विशयूय हे जगांतु बाकी वरलोना. अंतरीक्ष शास्त्राचे पासून, तांतूलीं प्रधान विशयां - आकाशगंगा, ताराग्रहां, अश्विन्यादी नक्षत्रां, सप्तरिषी नक्षत्रां, परिवह वायु मंडल, प्रकाशग्रहां, नक्षत्रां, आवह-प्रवहादि वायु, हांकां सगट नियंत्रण करचो सूर्या, मागीर चंद्रु आदी हे क्षेत्रांतुले समस्त विवरणांय तांनी तेह्नूसच बरोवनु दवरलेलीं

भूमी गोळाकृतीर आसा आनी एकूच सूर्या भूमीचे विविध भागाचेरी व्यत्यस्त रूपारी दृष्टी पडता म्हूण आर्यभटान सांगल्यां.

'उदयो यो लंकायाम्
सोस्तमयः सवितुरेव सिद्धपुरे
मध्याह्नो यवकोड्याम्
रोमक विषयेऽर्धरात्रम् स्यात्'

(भूमध्यरेखेवेले लंका देशांतु उदय जाता तेन्ना तोच सूर्या सिद्धपुरम देशांतु अस्तमय सूर्या आसता. यवकोडींतु मध्याह्न आनी रोमक देशांतु तेन्ना मदराती आसता).

ग्रहणाचे पासून आर्यभटालें विवरणय श्रद्धेय आसा.

'छादयति शशी सूर्यम्
शशिनम् च महती भूच्छाया'

ताजो अर्थु म्हळ्यारी- सूर्याक चंद्रु निपयता. चंद्राक महत भूमीची सावळी निपयता.

भूमीचो भ्रमण वेग एक प्राणसमयारी (चारी सेकेंडांक तुल्य), एक डिग्रीचे साठींतुलो एकु वांटो, म्हळ्यार एक कला (मिनिट) म्हूण हो रिषीवर्य शास्त्रज्ञ संस्कृत श्ळोकांतुल्यान आधिकारिक जावनु सिद्ध करता. भूमीचे परिमितीक तारतम्य करतना आधुनिक शास्त्रान दिंवचें भूमीचें भ्रमणवेग आदींच आर्यभटान स्थापित केल्लेल्याक तुल्य आसा म्हूण कळतना कोणेय विस्मित जाताच.

भूमीचे पासून, ताजे अंतरपाळींचे पासून, अंतरप्रवाहांचे पासून, रितुभेदांचे पासून, कालावस्था बदलावाचे पासून, जोगुल गुडगुड, भरती सुत्तीचे पासून, सर्वांचेंय साबार ज्ञान तेद्दूसचे आमचे पूर्वीकांक आशिल्लें.

धर्मार्थ काममोक्ष शास्त्रां, नृत्य नाट्य गीतवाद्यादी कला, आयुरवेद, धनुरवेदादी तंत्र, ज्योतिषशास्त्र, वृक्षायुरवेद, गजायुरवेद, निमित्तशास्त्र आदी साकून विमानशास्त्र तांय आशिल्ले समस्त कला-शास्त्र क्षेत्रांतु ज्ञानी आशिल्ले आमचे पूर्वीक म्हळ्ळेली वळख आमकां भारतीयांक

आनन्दभरीत आनी आत्माभिमान भरीत करता.

भरद्वाज महर्षीचो 'वैमानिक प्रकरण' नावांचो विमाना संबन्धित शास्त्र ग्रंथु आसा. त्रेतायुगांतुले आनी द्वापरयुगांतुले मांत्रिक तांत्रिक विमानांचे पासून, कलियुगांतुले यंत्रविमानांचे पासून हे रिषीवर्यान आधिकारिक जावनु बरोवनु दवरल्यां. कलियुगांतुले यंत्रविमानांचो मुकावेलो भागु सवण्याचे मुखाकृतीर आसूका. तें विजोर्जान आनी सौरोर्जान चलचे तराचें आसतलें म्हूण महर्षीन प्रवचन केल्लेलें. डायनामोचें (Dynamo) मूळतत्व तांय हे ग्रंथांतु विवरसील्यां. विमानांनी संचार करते खातीरचे वायू मार्गांचे (Air routes) विशींचीं समस्त विवरणांय हे ग्रंथांतु आसा म्हूण कळतना कशी विस्मित जायनाशिल्लें राबतलीं. 'सौदामिनीकला' म्हळ्ळेले ग्रंथांतु आधुनिक इलक्ट्रोणिक्साचे पासून साबार परामर्श पळोवयात. कंप्यूटराचें मूळ तत्व तांय आसा हे ग्रंथांतु.

आर्षभारत संस्कारान हे जगाक दिल्लेले सर्वापशी व्हड योगदान आसा वेद. रिग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद हे आसाय चार वेद. एकेक वेदाकय संहिता आनी ब्राह्मणम् म्हळ्ळेले दोन भाग आसाय. ब्राह्मणांचे अनुबंध अरण्यक आनी उपनिषत म्हळ्ळेले नांवांनी वळकताय. ह्यो सर्वय वेदांच्योच व्याख्या. उपनिषताक वेदांत म्हणूय म्हणताय. कारण तींच आसाय वेदांचो अंत्य भाग. मंत्र आनी ब्राह्मणम् मनुष्य रचना न्हय म्हूण आनीक मनुष्यराशीचे सर्वतोन्मुख पुरोगतीक जावनु सर्व शक्त देवानच कळीत केल्लेलें म्हूण भारतीय विश्वासु. वेद अनादी आनी अनन्त आसाय आनी रिषी, वेदांचे केवल दर्शक आनी प्रचारक म्हणूय आमी विश्वास करताय. जगांतुलें सर्वापशी प्राचीन साहित्य रूप वेद साहित्यच म्हूण व्यापक जावनु मानताय. चारी वेदांतूय मेळनु एक लक्षु

मंत्र आसा म्हूण कळतना ताजी खोलाय आनी व्याप्ती कितली म्हूण अनुमान करूक साध्य जाताच.

ब्रह्मम्, आत्मो, देव अशी म्हूण उपनिषतांतु सुचोंवचें तें बोधस्वरूप एक चैतन्यच (Eternal consciousness). ऊर्जांतु (Energy) साकून जड (Matter) आनी तांतू साकून भो संकीर्ण जीवशरीरय उद्भव जांवचें आसा जाल्यार ताजे मागशीं बोधस्वरूप एक महाशक्ती आसतली म्हूण निश्चित आसा. आधुनिक शस्त्र आज ही वस्तुता स्पश्ट मानून घेता. देहांचीं मूळ घटकां एक कालाकय नाश जायनाय. तांची परत सृष्टी करूकय साध्य न्हय. आधुनिक भौतिक शास्त्राचे नेमान - Energy can neither be created (by any means) nor be destroyed (by any means) - if one form of energy disappears it will appear in another form. प्रपंचाचें ऊर्ज चैतन्य स्थिर एकच मात्रेन आसता. तांतूलो एक वांटो खंचेय एक देहांतु प्रवेश जाल्यारीय तो परत प्रपंचांतूच परतून येतलो. भगवद् गीतेंतुले दुशेरे अध्यायांतु जीवाचे हे शास्त्र रहस्याचे पासून श्रीकृष्णु अर्जुनाक उपदेशु दिता. तांतूल्यान यथार्थ जावनु प्रकट जाता जीवा संबन्धी शास्त्र रहस्य.

परिणाम सुक्ताचे पासून पतंजली महर्षीचे 'जात्यांता परिणाम प्रकृत्यापुरात' म्हळ्ळेलें वाक्य आनी चरकमहर्षीन कोशांचे अवस्थेचे विशीं सांगलेलें, डारविनाचे काला पशी सहस्राब्दां आदींच म्हळ्ळेलें सत्य चड कोणाक कळना. ब्रह्म म्हळ्ळेलें महाचैतन्य प्रपंच भरून आसा आनी आमी आज दिकचें हें सर्वय ताजेच रूपभावभेद म्हूण उपनिषतांतु सांगल्यां.

'निगमशतसहस्रेण निर्भास्यमानम्'- ब्रह्ममच सत्य म्हूण उपनिषतां

परत परत सांगताय. ब्रह्म देश काल हेतूंक अतीत आसा. तें देकूनूच मू ब्रह्ममाचें निर्वचन 'कालदेशावधिभ्यां निर्मुक्तम्' म्हूण सांगल्यां.

श्री शंकराचार्यालें अद्वैत सिद्धांतांतु-

'ब्रह्म सत्यम् जगन्मिथ्या

जीवो ब्रह्मैव नापरः' म्हूण सांगता.

(ब्रह्मम् मात्र सत्य म्हळ्ळेलें आसा याथार्थ्य. हें दिकचें जग सग मिथ्या. जीव म्हळ्यार ब्रह्ममच. वेगळें कसलेंच न्हय. - विवेकचूडामणी)

प्रपंचाची मूळ शक्ती आसा ब्रह्मम्. ब्रह्मांतु साकून आकाश. आकाशांतु साकून वायु, वायूंत साकून अग्नि, अग्नींतु साकून उदाक, उदकांतु साकून भूमी, भूमींतु साकून औषधि, औषधींतु साकून अन्न, अन्नांतु साकून पुरुष उद्भवलो.

'अग्नौ प्रास्ताहुतिः सम्यगादित्यमुपतिष्ठते

आदित्याज्जायते वृष्टिः वृष्टेरन्नम् ततः प्रजाः' म्हूण मनुस्मृतींतु आसा. (अग्नींतु आहुती दिल्लेली सूर्यांतु पांवता. सूर्यांतु साकून पावसु जाता. पावसांतु साकून अन्न जाता. अन्नांतु साकून सर्व प्रजा जाताय.)

भक्षण केल्लेलें अन्न शुक्ळ शोणित जावनु परिणाम जावनु तांतूं साकून जीव्यो जाताय म्हळेलें सत्य भगवद् गीतेंतु समर्थन करता.

'अन्नाल भवन्ति भूतानि पर्जन्यादन्नसंभवः

यज्ञाल भवति पर्जन्यो यज्ञः कर्मसमुद्भवः'

(अन्नांतु साकून जीव्यो, पावसांतु साकून अन्न, यज्ञांतु साकून पावसु आनी कर्मांतु साकून यज्ञ उद्भव जाता.)

'क्लीं कृष्णाय गोविन्दाय

गोपीजनवलभाय स्वाहा'

पंचभूत आकाश, वायु, अग्नि, उदाक, भूमी हें सर्वय महाविष्णूक (श्रीकृष्णु) प्रतिनिधान करता म्हूण सांगतना ताजान ब्रह्माकच सुचयता. ह्या ब्रह्माचें अथवा देवालें स्पष्ट रूप आसा त्रिमूर्ती- ब्रह्मा, विष्णू, महेश्वर. कल्पांतकालांतु ह्या तीन मूर्तींचोय नाश जावनु पराशक्तींतु मेळसतल्यो. लागीचे कल्पाचे आरंभार ह्यो मूर्तीयो परत जन्मु घेवनु सृष्टी-स्थिती-संहारु चालू दवरतल्यो म्हूण भारतीय अध्यात्मिक विश्वासाचें मूळ.

प्रपंचाची उत्पत्ती, ताजें रूप परिणाम, आमी वासु करची भूमी, तांतूले समस्त जीवजाल हांचे पासून सर्वय आमचे पूर्विकांक भो ज्ञान आशिल्लें म्हळ्ळेलें तर्कातीत आसा. भारताची आध्यात्मिक सांस्कारिक पारंपर्य विश्वाक सगळेंच उत्तम मातृका आसा. हे पारंपर्याचे सांगातांतु सांगूका जालेलें एक प्रधान कार्य आसा तेन्नाची संस्कृत भास. संस्कृताची तितली खोलाय, व्याप्ती, विस्तृती आशिल्ली साहित्य भास वेगळी ना म्हूण सांगूयात. पांच सास वर्षां आदीं उत्तर ध्रुवांतु साकून डान्यूब न्हंय दांटवून एष्या मैनरांतुले सिंधू न्हंयचे तटारी पावलेले आर्यांचे भासेक वैदीक संस्कृत म्हूण सांगताय. तरीय आर्यांनी येंवचे मुरथमच पंचाब भागाक दस्यू नांवांचे आदीमनीष वासु करताले. महादेवाक आनी काळीक आराधना करून येतालो होच वर्गु आसा भारताचे यथार्थ आदिमवासी. आर्यांचें आगमनच एक काल्पनिक कथा म्हूण सांगचींय आसाय. तरी पळयतना वेदांचो उद्भव पांच सास वर्षांचे पशी आदीं न्हय, पुण पंद्रा सास वर्षांचे मुरथम म्हूण लेकचें पडता. कशीच जावो, दस्यू आनी आर्यवर्गी एकसानीच राबतालीं म्हूण लेकच्यांतूंय चूकी ना म्हूण दिसता.

दस्यूंचीच भास आसूका आदि संस्कृत.

विंध्या हिमालय पर्वतप्रदेशांचेरी आर्य संस्कारु आरंभारीच व्यापून आशिल्लो. बी. सी. तिसरे शतकांतु दक्षिण देशांतूय संस्कृताक प्रचार मेळ्ळो. इतिहास पुराणभास संस्कृताक मध्यकाल संस्कृतभास म्हूण वळकतालीं. वेद भासेंतु साकून क्रमान दूरा सरनु वेदोत्तर कृतींनी परिपोषित जावनु पुराणेतिहास कालाक भो प्रचार मेळ्ळेली आसा संस्कृत भास. श्री. शंकराचार्यान भारतांतु सगळेंच अद्वैत सिद्धांत प्रचार केल्लोलोय संस्कृत भासेनच.

संस्कृत भासेचें प्राकृत रूप आसा पाली भास . बौद्ध साहित्य बुद्धमतस्थांचे प्रादेशिक भास पालींतु आशिल्लें. पंडितभास म्हूण उन्नत श्रेणींचेरी संस्कृतान विराज करचे वेळार प्राकृत भासो पाली, मागधी, अर्धमागधी आदी क्रमान वाडून आयल्यो. साबार प्रतिकूल घटकां आनी साहचर्यां केन्नाकेन्ना अभिमुख करका जालें तरीय तेरावें शताब्द तांय संस्कृत भास राजकीय प्रभावान आसलेली म्हूण सांगूयात. चडय रायांनीय संस्कृत भासेक औद्योगिक भास म्हूण अंगीकार दिल्लोलो.

विदेशी आक्रमणांक लागून संस्कृत भासेक थकाय येवूक लागली. भारतांतु जायते भागांचें राजभरण धरनु काडलेले मुसलमान भरणाधिकार्यांनी संस्कृत ग्रंथ लासून गोबोरु केल्ले. इंगळीकारांनी भरण धरूनिक संस्कृत सर्वोपरी तिरस्कृत भास जाली. पाश्चात्य संस्कारु आनी इंग्ळीश भास भारतांतु व्यापली. तेन्ना संस्कृत एक मृतभास जाली. तरीय संस्कृत शिकून काडून मुसलमान भरणाधिकार्यांनी आनी रष्याकारांनी आमचें अमूल्य वेदपुराण साहित्य तांगतांगेले भासेंतु भाषांतर केल्लें. ते कारणान

संस्कृताक अंतरदेशीय अंगीकार मेळ्ळो म्हळ्ळेलें गुणप्रद जाल्यां.

संस्कृताक अर्हता आशिल्ले तराचें एक स्थान मागीर मेळ्ळेंना म्हूण दिसता. इतर भासेंतुल्यान आज संस्कृताचें स्मरण जाता म्हळ्ळेलें सत्य. हिंदींतुलीं जायतीं उत्तरां संस्कृतांतु साकून घेतल्लीं आसाय. लिपीकय चड व्यत्यास ना. उर्दू भासेंतूय संस्कृत मेळसलेलें आसा. उर्दू भासेंतुलीं जायतीं उत्तरां, संस्कृतांतु आनी पेरष्यन भासेंतु साकून घेतलेलीं. मलयाळम, तेलुगू, कन्नडा आदी भासोय संस्कृतमय आसाय. तमीळ भासेंतूय संस्कृताचें स्वाधीन दिकूक पडता.

भारताचे भायर संस्कृताक भो प्रचार मेळ्ळोलो आसा. श्रीलंकेंतु संस्कृताक समुन्नत स्थान आसा. जावा, सुमात्रा, चैना, कंबोडिया, टिबेट, जापान, बोर्णियो, नेपाळ आदी देशांतु संस्कृत भासेक भो प्रचार आसा. यूरोपांतूय संस्कृत भासेक आदर करताय. लित्वेनिया, स्ळाव आदी भासेंतुले जायते मूळ शब्दांक संस्कृतय जावनु संबंद आसा. तेच वरी अरबी भासेंतुले जायते उतरांक संस्कृताचो संबंद आसा.

भारतीय संस्काराचें मूळ आसा संस्कृत. भारताची राष्ट्र भास जावनु अत्युत्तम संस्कृतच जाय आशिल्ली. एकेक भारतीयाकय हे लोकोत्तर भासेचे खातीर अभिमान येता आशिल्लो. इतली व्याप्ती आनी अर्थसंपुष्टी आशिल्ली सुंदर भास वेगळी खंची ना. नवीं उत्तरां कितलींच जाय तशी युक्तीपूर्व रचुयात. शब्दालंकार, अर्थालंकार आदी अतिसुंदर जावनु प्रयोग केल्लेली वेगळी एकि भास आसची ना. संस्कृत साहित्यांतुल्यो सूक्तीयो विश्वसाहित्याचीं रत्नां आसाय.

चार वेद, स वेदांग, चार उपवेदांग, चार उपवेद अशी आषा

शास्त्रविद्येंतु सुमार एक लक्षा लागी मंत्र आनी आषा पुराणांतु चार लक्षाचे पशी चड श्ळोक आसाय. आषा पुराणांक आटोवनु केल्लेले महाभारतांतु सुमार एक लक्षु श्ळोक रचल्याय संस्कृत भासेनच. सहस्राब्दांचे मुरथमच संस्कृतांतु रचलेले सासां भायर ग्रंथांची वळेरी (कटलोग) इन्डयन नाष्नल सायन्स अकादमीन प्रकाशन केल्लेलें आसा. महत हे भासेची आयची शोचनीय अवस्था पळयल्यार भारतीय आमकां अपमान जाताच. अक्षरब्रह्मस्वरूपिणी हे भासेंतुल्यान मनुष्यमनांचेर स्थिर प्रतिष्ठा घेतलेले अनेक महान लेखकांची, शास्त्रकारांची, आचार्यांची दीग फांतीच आमकां आसा. तांगेले साहित्य कृतींतुल्यो जायत्यो, विश्वसाहित्याचे क्ळासिक रचनेंतु पडताय.

आमचे पुरातन संस्कृतीक आनी संस्काराक तिरस्कार करची रीती आसा आयचे दुस्थितीक मुख्य कारण. भारतांतु वाडून येंवचे आयचे पिळग्यांक, भो गौरवान संस्कृत पठन करचे खातीर तीव्र यज्ञूच भारत सरकाराले भागाक साकून आवश्यक आसा. ताजान तांकां आमचे महत भारत संस्काराचे उन्नत सांस्कारिक पारंपर्याचे पासून, मूल्यांचे पासून पूर्ण ज्ञान मेळूक साध्य जातलें. आनी ताजान आमगेले राज्याचो श्रेय वाडतलो म्हूण आस दवरया.

‘ब्राह्मी तु भारती भाषा<br>
गीरवाग्वाणी सरस्वती<br>
व्याहार उक्तिर्लपितम्<br>
भाषितम् वचनम् वचः’

# अनुबंध - 2

## Medical Reports

(दिल्लींतु वतना हातांतु आसूका जालेलीं)

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | Haemogram | : | (ESR, Tlc, Dlc, Hb) |
| 2. | Urine | : | a) RE Albumin Sugar |
| | | | b) Microscopic |
| 3. | Stool RE | | |
| 4. | Biochemistry | | |
| | Blood | : | Sugar (Fasting) |
| | | | PP |
| | Urea | : | Creatinine |
| | | | Seru Bilirubin |
| | | | Blood Group |
| 5. | Chest X-ray | | |
| 6. | Thread Mill Test Report | | |

## FIRST AID KIT

(तीर्थाटकांनी हातांतु दवरका जालेलें)

1. Sterile Dressing
2. Bottle of Antiseptic
3. Assorted Adhesive Bandages

4. Aerosol Spray for Cut Injuries
5. Aerosol Spray for Sprains.
6. Crepe Bandage
7. Analgesic and Antipyretic Tablets
8. Anti-Diarroheals
9. Anti-Amoebic Tablets
10. Anti-Emetic Tablets
11. Anti-Histamines
12. Multi-Vitamin Capsules
13. Lozenges/Throat Soootheners
14. Laxatives and Anti Flatulents
15. Electral and Anti Glucose Powder
16. Water Disinfectant Pills
17. Lip Salve/Petroleum Jelly
18. Suntan Lotion
19. Fungal Powder
20. Thermometer
21. Vicks Vaporub / Vicks Inhaler

**हातांतु आसूका जालेलीं वस्त्रां आनी इतर सामानां**

1. विन्डप्रूफ जाकेट, टोपी सयत आशिल्लें - 1
2. स्वेटरां - दीग हातांचीं - 3

   स्वेटरां - गुड्डे हातांचीं - 2

| | | |
|---|---|---|
| | स्वेटरां - दाट तराचीं, दीग हातांचीं | - 3 |
| 3. | मंकी केप- मफ्ळर | - दोनदोनी |
| 4. | रोमे ग्ळोवसां | - 3 जोडी |
| | चामाचीं ग्ळोवसां | - 2 जोडी |
| 5. | रोमेचीं/कोटणाचीं लोंग जोण्स | - 2 जोडी |
| 6. | रोमे सोक्सां | - 3 जोडी |
| 7. | कोटणा सोक्सां | - 6 जोडी |
| 8. | जीन्स/पेन्टस | - स/स |
| 9. | काळसांव | - दोनी |
| 10. | षर्ट / टी षर्ट | - बारा |
| 11. | काळो चश्मो- गोमटेरी लांबोंवचे तराचो | - 1 |
| 12. | हंटर / मार्चींग/ट्रेकिंग षू | - 2 जोडी |
| | (षू लेसां चड जांवका) | |
| | उत्तम तराचें केनवास षू | - 1 जोडी |
| 13. | वाडकूळी विस्ताराची टोपी | - 1 |
| 14. | उदका बोतल | - 1 |
| 15. | टोर्च लाय्ट | - 1 |
| | (बेटरी आनी बळबां चड काडकाय) | |
| 16. | पावसा कोट होडलें | - 1 |
| 17. | Belt-Pouch : पासपोर्ट, दुड्डु, | |
| | अत्यावश्याक आशिल्लीं वकदां दवरूक | - 1 |
| 18. | होडलें दाट प्लास्टिक शीट- सामानां बांदूक | - 2 |
| 19. | प्लास्टिका वाटें, खोल्लो, चिपट | - 1 सेट |

20. टोयलट पेपर
21. मेणावाती - 1 पेकेट
22. उज्यापेट / लाय्टर
23. सानी पेसकाती - 2
24. रब्बरा पप्पास - 10 जोडी
25. लोहा सुळक्या तलव आशिल्लीं बर्या वाकिंग स्टिक - 1

(रोमे वस्त्रां अलमोरा, बागेश्वर, थारचुला आदीकडे साकून घेंवचें लाभकर आसता.)

**हातांतु आसूका जालेले खाणा वस्तू** (आवश्यानुसार)

1. बिस्कुटां- गोडसाणीचीं आनी मिटसाणीचीं
2. विविध तरा सुकीं फळां
3. लेमण ड्रोप्स
4. चोकलेट /टोफी
5. सूप पावडरा पेकेट
6. चीस क्यूब्स
7. चूयिंगम
8. टिन / पेकेट पानीयां
9. इलक्ट्राल / ग्लूकोस

**संघाचे खातीर व्हड मात्रेन व्हरका जालेलें खाणा सामान** (चैनेंतुले उपयोगाक)

1. गोंवापिट्टी, वोरोवु, दाळी

2. नूडिल्स, सूप, उपमा करूक ललांव
3. प्री कुक्ड वेजिटेबिळ्स आदीं (शिजयलेली तरकारी)
4. मीट, ग्रोसरी सामान
5. दुदापिट्टी, कंडेन्स्ड मिल्क, पैंदार
6. कोर्णफ्लेक्स, ओट्स
7. कापी / चाया, बोणविटा, कोको
8. तूप, तेल

**INDEMNITY BOND** (इन्डेम्निटी बोंड)

पन्नास रुपयांचे मुद्रपत्रारी फस्ट क्लास मजिस्ट्रेटान अटस्ट केल्लेलें बोंड तीर्थाटकांनी विदेश मंत्रालयाक दींवका. यात्रा संबंदी भारत सरकाराले नियम पालन करतलीं म्हूण तांतूं बरोंवका.

**तीर्थाटकांनी कळनु राबूका जालेलीं थोडीं कार्य**

1. आपले शारीरिक क्षमतेचेरी अहंकारु नज. पर्वतांक मान दींवका. तांचेर माडोवनु जिखताय म्हळ्ळेले तरा चिंता आसूक नज. वेगीन चमकूक वा धांवूक वचूनाशिल्लें निश्चित वेगान संथसंथ चमकून चडका. ओमसोरु वा अत्युत्साहु दाकयल्यारी दुर्घटणा सुनिश्चित.

2. जोगुलेतना लोहवस्तू उपयोग करूक नज. उबे फातरांचे मूणांतु अभय घेवूक नज. उंचाय चड आशिल्ले दोंगरांचेरी जोगुल अपायकर आसतलें. सपाट प्रदेशांचेर आसतना रुकांचे पोंदाक राबूक नज.

3. लेय्सण अफसराले निर्देशानुसार सानसान संघ जावनु मात्र भोंवका. एकलोच भोंवचें अपायकर आसा, खास जावनु अगाध घाटींचे देगेवेल्यान चमकतना. भारतीय शीमा जावू तांय हें खास जावनु मनांतु दवरका.

4. दाट रोमे वस्त्रां एका ऊंच एक जावनु तीन चार चडयतना मद्दें कोटणा बनियन वा षर्ट घालका. सामकी सडळ वस्त्रां उचित आसतलीं.

5. दोन तीन जोडी ट्रेकिंग षूसां व्हरचें उचित आसतलें. यात्रा निश्चित जाल्यार ट्रेकिंग षूसां घालनु जायतें चमकून पायांक संवकळांवका. रातीचें, निसरायलेलीं षूसां सदा स्लीपिंग बेगाचे लागी दवरका. षूसांक फूटी बि पडल्या जाल्यार तुरंत पेल्यान उडोंवका. रोमे सोक्सां आनी कोटणा सोक्सां अवश्य. सोक्सां घालचे मुरथम पावलांचेर पावडर घालका. तिमलेलीं सोक्सां जांवचे इतले वेगीन निसरांवका.

6. उत्तम तरा ग्ळोवसां घालनु हातांक आनी बोटांक संरक्षण दींवका. कान, नांक आदींचें संरक्षण करूक खास रोमे वस्त्त आसाय. हातांक, नांकाक आनी कानांक चड घडियांक कठिन शेळोवु घेतल्यार देहाचो तापमान वेगीन ऊणे जातलो. तें अपायकर आसा.

7. पर्वत चडतना साबार उदाक, पानीय पींवका. हुनसाणीचें, गोडसाणीचें, पोषकमूल्यांचें पानीय निर्बंध जावनु जायतें पींवका. विश्रम वेळारी लघु भक्षण मात्र खांवका.

8. उंचटाचे प्रदेशांचेर हिमांधता जावूक साध्यता आसा. उत्तम काळो चश्मो अवश्य उपयोग करका.

9. लेप लावनु तोंडाचें संरक्षण करका. घायांक यथासमय वैदिक करका.

10. मदमद्दें विश्राम काडतना तोंडाच्यो मांसपेश्यो, हातां बोटां, दिंब्ये करटीं, इतर संध्यो आदींक व्यायाम दींवका.

11. लागी चमकूच्यांचे भाव व्यत्यास निरीक्षण करूक श्रम करका. अशी करच्यान एक जीवाक रक्षण करूक एक वेळार उपकाराक पडतलें.

12. लेय्सण अफसराले निर्देश अवश्य अनुसरण करका. रूक्ष हिमवृष्टी, हिमवारें आदी आसतना संघांतूच राबूक श्रम करका. मागीर चमकूक लागल्यार पूरो. चमकून मात्र तं ऊर्जा उत्पादन करूक जातलें म्हूण मनांतु आसूका. (घोड्यां फाटीर यात्रा करच्यांनी मदमद्दें देवनु चमकूका.)

13. अल्प ही देहास्वास्थ्य दिसल्यार तुरंत लेय्सण अफसराक जाणोंवका. तागेले आनी संघाचे डोकटराले निर्देश पालन करका. दर दिसूय अमूल्य म्हूण उडगास आसूका.

**निन्मलिखीत कायरीं निर्बंध जावनु वर्जित करका**

a. उंचटाक एकटोच चमकप.

b. फुटल्लीं पिंजल्लीं ट्रेकिंग षूसां.

c. तिमल्लीं साक्सां.

d. घूसां घालनु निदेंवचें.

e. खांदार घालचे बेगाक अमित भारु.

f. परमपुण्य प्रधान यात्रा आसून सस्येतर खाण, मद्य आनी इतर नशेदार वकदां.

g. चैनेंतु चडून जावनु होटला खाण, भायर साकून घेंवचे इतर भक्ष्य वस्तू.

## केवल एक अनौद्योगिक चेतावणी

कैलास मानसरोवर यात्रेचे खातीर बायलांकय निवेदन दीवयात. शबरीमला यात्रे वरी बायलांक नियमानुसार मनाय ना. ही यात्रा पांतीस दिसांक आसूची देखून मासिकपाळी येंवचे बायलांनी ही यात्रा करनाशिल्लें राबचें उचित. पूरायपणान परिपावन यात्रा आसून असली अशुद्धी वर्जूचें आमगेले संस्काराक अनुयोज्य. सादा भोंवडेक वचे रीतीर उत्तर संस्थानांतुल्यो तरणाट्यो जायते संघांतु चडताय. यादृश्चिक जावनु जाल्यारीय दुर्घटणा चमकलेली चडय असलेच संघाक म्हूण उडगास जांवका. तें देखून पन्नास वर्षांचे ऊंच प्राय आशिल्ले बायलमनीषांनीच वचें उचित.

**Books referred:**


**A Mountain in Tibet** by Charles Allen

**Kissing the Heavens** by TS Tirumurti

**Kailas Manasarovar, An Odyssey in Tibet** by Tarun Vijay



विदेश मंत्रालय, नई दिल्ली
MINISTRY OF EXTERNAL AFFAIRS
NEW DELHI

KMY/5/2001 24.07.2001

# CERTIFICATE

**This is to certify that Shri/~~Smt/Kum~~. MACHINGAL RAMACHANDRAN participated in the Kailash-Mansarovar Yatra, 2001, organised by the Minsitry of External Affairs. He/~~She~~ was a member of the Fifth Batch, which undertook the Yatra from to 25-06-01 to 24-7-01.**

**2. The Indian Mountaineering Foundation (IMF) has recognised the Kailash Manasarovar Yatra as a trekking expedition, for which Government servants are eligible for grant of special casual leave as per notification issued by Ministry of Personnel & Training vide O.M. No. 28016/2/84(A) dated April 11, 1985.**

**(AMIT KUMAR)**
**UNDER SECRETARY (CHINA)**

# श्रीमती सूर्या अशोक हांचीं इतर पुस्तकां



## विश्वास

**नवलकथा**

2013 वर्षा उजवाडाक आयलले हे नवलकथेचे विशीं गोंयचे श्री दामोदर मावजो हांनी प्रस्तावनेंतु म्हळयां- 'विश्वास' नवलकथेचो विशय भोव अप्रूप. सोमाली दर्या-लुटारुंचो विशय साहित्यांतल्यान मांडपी ही पयली कोंकणी नवलकथा. सूर्या अशोकान रंगयिल्लीं अनेक पात्रां जितीं जिवीं जाल्यांत. सूर्या अशोक हिगेली ही लघु नवलकथा म्हळ्यार कोंकणी साहित्यांत पडिल्ली लक्षणीय भर असो म्हाका विश्वास.

श्री आर. सुधाकर पै हांनी मुखचित्र रचल्यां.

104 पानां. मोल 100 रुपया.



## संबंद

**कविता संग्रह**

2013 वर्षा उजवाडाक आयलेल्या ह्या कविता संग्रहाक गोंयचे श्री. उदय भेंब्रे हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. तांतू म्हळयां - "श्रीमती सूर्या अशोक हांगेले कवितेचो एक खाशेलो गूण आसा. तांगेली कविता भितर अंतरांत खोल मेरेन उडी मारता आनी तशीच सरभोंवतणच्या समाजांत जें बरें- वायट घडटा ताचें निरिक्षण करता. आनी तें करतना अंतरांत जीं भावनेचीं ल्हारां उसळटात आनी भौशीक क्षेत्रांतल्या अणभवांची जी प्रतिक्रिया जाता तांचें पडबींब तांगेले कवितेंत स्पष्ट दिसता."

100 पानां. मोल 80 रुपया.



## भुरग्यांलो संसार

### बाल साहित्य

2011 वर्षा उजवाडाक आयलेल्या ह्या बालसाहित्य पुस्तकांतु जिज्ञासू चेरडुवांनी निमगूचे संशयांक जाप दिंवचीं तसलीं 20 संभाषणां एकडे केल्यांय. हाजे पासून गोंयचे श्री पुंडळीक नायक हांनी अशी बरयल्यां '...ह्यो जापो पूराय रितीन विज्ञानिक माहितीचेर आदारित आसात. भुरग्यांल्या मनाची पकड घेवपी चित्रां हें पुस्तकाचें आनी एक आकर्शण.'

92 पानां. मोल 100 रुपया.

## अनन्य केनिया



### इंगळीशांत साकून भाषांतर

2010 वर्षा उजवाडायलेल्या ह्या भाषांतरांतु मूळ लेखक श्री सुधाकर आर पै हांनी केनिया राज्याचे पासून बरयलेलें सुंदर विवरण आसा. श्री शरतचंद्र शेणै हांनी ह्या पुस्तकाक बरयलेले सुंदर प्रस्तावनेंतुलीं उणीं उतरां पळोवया- 'ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवंक बेसतना हें एक भाषांतर अशें माका दिसूंक ना. वाचनांत खंयीच कसलीच आडखळूय दिसूंक ना.'

260 पानां. मोल 250 रुपया.



## अमृतवाणी

### संत आनी संतवाणी

2008 वर्षा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या पुस्तकांत भारताचे कबीरदास, तुळसीदास, सूरदास आदी णव संतकवींचें व्यक्तित्व आनी कृतित्व संग्रह केल्यां. पुस्तकाक कोचीचे डॉ स्वर्णलता जी. पै हांनी सुंदर आनी सहज रूपान प्रस्तावना बरयल्या.

204 पानां. मोल 220 रुपया.

## गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो



### कविता संग्रह

2007 वर्षा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या कवितासंग्रहाक उडुपीचे प्रो. एम. एन. प्रभु हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. तांतू म्हळ्यां - "मेरूसदृश अक्षरवृक्षांतुल्यान पडिल्यो गुंजियो एकत्र कर्नु कवयित्रीन ह्या संग्रहांतु पुंजायल्या... हांगा येवंच्यो गुंजियो भांगराक समान तुल्य जावन आस्सति... "

132 पानां. मोल 100 रुपया.

## पुनर्जनी



### कथासंग्रह

2005 वर्षा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या कथासंग्रहाक श्री. शरतचंद्र शेणै हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. 'श्रीमती. एन. एम. सरस्वतीबाय' स्मृतिपुरस्कार मेळ्ळेली 'देवदूत' कथा सयत, सात भावपूर्ण आनी सप्तरंगा वरी वैविध्याच्यो कथा ह्या संग्रहांत एकडे केल्याय. लेखिकेन स्वयं रचिल्लें रंगीन मुखचित्र.

68 पानां. मोल 65 रुपया.

## कृष्णगीत



### सचित्र काव्य

2004 वर्षा उजवाडायलेल्या ह्या सचित्र काव्यपुस्तकांत लीलापुरुषोत्तम श्रीकृष्णाली जन्म धरून कंसवध पर्यान आशिल्ली, कृष्णकथा आसा. हाचे प्रस्तावनेंतुल्यान श्रीमती सुशीला टी. भट हांनी म्हळ्यां- "कोंकणीच्या भक्ति साहित्याक आनी बालसाहित्याक केरळाचो एक उत्तम उपहार". हांतूलीं चित्रां आनी रंगयाळें मुखचित्र लेखिकेन स्वतः रचल्यांय.

36 पानां (व्हड आकाराचीं). मोल 75 रुपया.

# शेणै प्रकाशनाले इतर उपहार




## पुष्पांजली

### काव्य संग्रह

श्री पी. एस. रामचंद्र शेणै हांगेल्यो बत्तीस कविता एकठांय करून 2001 वर्षा उजवाडाक हाडलोलो काव्य संग्रह. प्रोफ. आर. के. राव हांगेली प्रस्तावना. श्री शरतचंद्र शेणै हांगेलीं बरीं उतरां. श्री आर. सुधाकर हांणी मुखचित्र रचल्यां.

शेणै प्रकाशनालो प्रथम उपहार. 52 पानां, मोल 50 रुपया.



## होळ्ळम्मालो काणियांचो पेटारो

### कथासंग्रह

परंपरागत लोक काण्यो आनी स्वकीय काण्यो मेळोवन तीस काण्यो एकडे करनू श्रीमती वत्सला आर. शैणै हांनी भुरग्यां खातीर बरयलेल्या ह्या पुस्तकाक डॉ. एल. सुनीता बाय हांगेली प्रस्तावना आसा.

2006 वर्षाचें प्रकाशन. 104 पानां, मोल 100 रुपया.




## होळ्ळम्माल्यो काण्यो

(**भाग** - 1) ऑडियो कॅसेट

श्रीमती वत्सला आर. शेणै हांनी कथन केलेल्यो तीन सुंदर कोंकणी लोककाण्यो.

2004 वर्षाचें प्रकाशन. मोल 40 रुपया.



## Small Wonders

### Poems

'Small Wonders' is an anthology of English poems by Rupashri Ashok aged eleven. The 35 poems included in the book were composed by her within these past two years. Through expressions and impressions the young poet's love for nature is truly mirrored in all poems.

2008 Publication 44 Pages Rs. 40





# सूर्या अशोक

1969 वर्सा केरळाच्या तृपूणित्तुरा गावांत जन्म. बी. कोम. पदवि आनी कोंकणी साहित्यांत पदव्युत्तर डिप्लोमा जोडल्या. कथा, कविता, नाटक, प्रवासवर्णना, बालसाहित्य आदी जायत्या नेमाळ्यांनी आनी संग्रहांनी उजवाडाक आयल्यां. कोंकणी भाषा प्रचार सभा, वैष्णवरत्न मासिकपत्र, एस.जि.एस. सभा, आदीं कडेच्यान जायते साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्याय. 1999 वर्सा 'श्रीमती एन. एम. सरस्वतीबाय स्मृति पुरस्कार' मेळ्ळो. केरळा कोंकणी अकादमीन अत्युत्तम गद्य साहित्याक दीवनु येंवचो 'पंडरिनाथ भुवनेंद्र पुरस्कार' 2011 त प्राप्त जालो. कवितें वरी कथाय साहित्य वेदींचेर अवतरण केल्याय. 'काव्योद्यान', 'साहित्यदीप्ति', 'कोंकणी काव्यमंजरी', केंद्रीय साहित्य अकादमीचो 'कोंकणी लोककाण्यो' अश्या विशिष्ट संग्रहांत हांगेले कृतींचो आस्पाव जाला.

2004 वर्सा कालिकत अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे वेदीचेर हांगेलें 'कृष्णगीत' सचित्रकाव्य प्रकाशित जालें. 2005 वर्सा हांगेलो कथा संग्रह 'पुनर्जनी' उजवाडाक आयलो. आनी 2007 वर्सा 'गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो' म्हळोलो कवितासंग्रह वाचप्यां मुकार दवरलो. 2008 त णव संतकवींचें व्यक्तित्व आनी कृतित्व संग्रह करून 'अमृतवाणी' प्रकाशित केलो. 2010 वर्सा 'अनन्य केनिया' नांवाचें इंगळीशांतु साकून केल्लेलें कोंकणी भाषांतर आनी 2011 त बालसाहित्य 'भुरग्यांलो संसार' प्रकाशन जालो. 'संबंद' नांवाचो कविता संग्रह आनी नवलकथा 'विश्वास' 2013 वर्सा उजवाडाक आयली.

हांका चित्र-शिल्प कलेंतूय व्हड प्रावीण्य आसा.



भारतीय संस्काराचे मूळ प्रदेश आसाय कैलास आनी मानसरोवर. हे पावन स्थायांक भारतीयांचेर अपार स्वाधीन आसा. अतीव दुर्घट अशे परंपरागत हादीवेल्यान साबार कष्ट काडून केरळचे **श्री. एम. के. रामचंद्रन** हांनी केल्लेले कैलास मानसरोवर पदयात्रेचे हे अनुपम विवरणाक केरळ साहित्य अकादमीचें पुरस्कार प्राप्त जाल्यां.







'अनन्य केनिया' म्हूण एक अनुपम भाषांतर कोंकणींत हाडलेले **श्रीमती सूर्या अशोक** हांचे अनुग्रहीत लिखणेवेल्यान आनी एक उत्तम भाषांतर! श्रीमती सूर्या अशोक समस्त कोंकणी वाचकांक सुपरिचित लेखिका. कथा, कविता, नवलकथा, बालसाहित्य, भाषांतर आदी म्हूण हांचीं साबार पुस्तकां आसाय.

शेणै प्रकाशनालो तेरावो उपहार

मोल 250 रुपया